# कर्तुत्वी कन्या

(मुलाखती)

ज्योती कुंकळकार

अपुरबाय प्रकाशन

KARTUTVI KANYA
INTERVIEWS BY
JYOTI KUNKOLIKAR

प्रकाशन क्र. ६२


डी-१, गौरी को.ऑपरेटीव्ह हावसींग सोसायटी
जुवारवाडो, तिवरें, माशेल गोंय ४०३ १०७

पयली उजवाडावणी : १९९७

**उजवाडावपी**
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

**छापपी**
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१.

**मुखचित्र**
गोविंद नायक

मोल : १००/- रुपया

ISBN 81-86488-61-8

**वामन प्रभु –**

*म्हज्या मोगाळ भावा,*

*तुज्या शब्दकोशांतलें,*

*'अशक्य' उतर तुवें खोडलें*

*आनी*

*उमेद आनी उत्तेजनाचो, नवो कोश*

*तुवें तुज्या भावंडांखातीर रचलो*

*देखून*

*ही कर्तुत्वाची वाट,*

*म्हाका लाबली...*

**— ज्योती**

## पूर्वप्रसिद्धी – दै. 'सुनापरान्त'

| | | |
|---|---|---|
| १. | संगीता परब | ८-३-१९९६ |
| २. | आयरीन कार्दोज | २४-३-१९९६ |
| ३. | विजयादेवी राणे | ३१-३-१९९६ |
| ४. | उज्वला नाटेकार | ७-४-१९९६ |
| ५. | रजनी ठाकूर | १४-४-१९९६ |
| ६. | अलका वेलींगकार | २१-४-१९९६ |
| ७. | जयंती नायक | २८-४-१९९६ |
| ८. | उज्वला कामत तारकार | ५-५-१९९६ |
| ९. | डॉ. माया घाणेकार | १२-५-१९९६ |
| १०. | ॲड्‌. अनार अग्री | १९-५-१९९६ |
| ११. | शारदा सावयकार | २६-५-१९९६ |
| १२. | हर्षदा केरकार | २-६-१९९६ |
| १३. | आशालता वाबगांवकार | ९-६-१९९६ |
| १४. | निर्मला सावंत | १६-६-१९९६ |
| १५. | मीना काकोडकार | २३-६-१९९६ |
| १६. | वर्षा उसगांवकार | ३०-६-१९९६ |
| १७. | माधवी देसाई | ७-७-१९९६ |
| १८. | व्हिक्टोरिया फेर्नांडीस | १४-७-१९९६ |
| १९. | हेमा नायक | २१-७-१९९६ |
| २०. | शीला नायक गावणेकार | २८-७-१९९६ |
| २१. | आशा सावर्डेकार | ४-८-१९९६ |
| २२. | फातिमा डिसा | १८-८-१९९६ |
| २३. | शशिकला काकोडकार | १६-२-१९९७ |

- हातुंतल्यो क्र. १ ते १८ आनी २० ते २२ ह्यो मुलाखती **'चित्रंगी'** दिवाळी अंक १९९६त पुनरमुद्रीत जाल्ल्यो.
- तशेंच क्र. ६ची अलका वेलिंगकार हांगेली मुलाखत **'गोमंतक मराठा समाज'** दिवाळी विशेशांक १९९६त पुनरमुद्रीत जाल्या.

# मांडावळ

# कश्टांचीं फुलां जालीं !

साहित्यांत कथा, कविता, नाटक हे सर्जनशील प्रकार म्हाका मानवतात. पूण तेच बराबर मुलाखत होवूय एक साहित्यीक प्रकार अशें म्हाका दिसता. हेच आवडीक लागून हांवें मराठी रंगमाची आनी सिनेमाक्षेत्रांतल्या जायत्या अभिनेत्रींच्यो मुलाखती घेतल्यात. तेभायर साहित्यीक, कलाकार, उद्यमी व्यवसायी अशा बायलांच्योय मुलाखती घेतल्यात. ह्यो मुलाखती पणजी दूरदर्शन केंद्र, गोंयांतले दिवाळी अंक, नेमाळीं आनी दिसाळीं हांचेर उजवाडा आयल्यात. कांयकडेन त्यो कोंकणींतल्यान, कांयकडेन मराठींतल्यान प्रसिद्ध जाल्यात. कांय मुलाखती गोंयच्या इंग्लीश नेमाळ्यांचेरूय छापून आयल्यात.

८ मार्च १९९६ दिसा, संवसारीक महिला दिसाच्या निमतान पणजी दूरदर्शनान म्हाका गोयांतल्या वेगवेगळ्या मळावयल्या कांय कर्तुत्वी बायलांचें संचलन करपाची एक कार्यावळ दिली. हेच वेळार म्हाका दिसलें, गोंयांतल्या कांय वेंचीक कर्तुत्वी बायलांच्यो सविस्तर मुलाखती घेवच्यो. ह्यो मुलाखती कोंकणींतल्यान आसच्यो अशें हांवेंच थारायलें. कारण हांवें जरी कोंकणींतल्यान थोडेंभोव साहित्य बरयलें तरी लेगीत कोंकणी वर्तमानपत्री स्वरुपाच्या लेखनाची म्हाका संवकळ नाशिल्ली. ती संवकळ करपाची गरज आशिल्ली.

म्हजी ही कल्पना 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचे मुखेल संपादक ॲड. उदयबाब भेंब्रे हांणी उखलून धरली आनी मागीर ह्यो मुलाखती 'कर्तुत्विनी' ह्या सदराखाला दर आयतारचे पुरवणेंत उजवाडा येवपाक लागल्यो. सप्तकी नेमाळ्याखातीर अशें मुलाखतीचें सदर चलोवप सोपें काम न्हय. खुबूच धांवपळीचें. एका सप्तकांत एक व्यक्ती वेंचून काडप, तिगेल्या क्षेत्राची जुजबी स्वरुपाची माहिती पुंजावप, प्रश्नावळ तयार करप, फोनाचेर वा प्रत्यक्ष तांकां मेळप, वेळ, जागो थारावप, प्रत्यक्ष मुलाखत घेतकूच ती उतरावन काडप, फोटे मेळोवप, गरज तेन्ना फोटोग्राफराक घेवन वचून फोटे काडप आनी थारिल्ल्या दिसा मुलाखतिचो मजकूर नेमाळ्याचे कचेरेंत पावतो करप आनी तो पावला काय ना म्हणपाची खात्री करून घेवप हें काम खूब कश्टांचें आनी दगदगीचें. संवसार, नोकरी सांबाळून हें करप म्हळ्यार तर एक कसरतूच !

पूण एक गजाल खरी, ह्यो मुलाखती घेतना हांव बायलांच्या काळजामेरेन पावलें

हावें समाधान खुबूच व्हड आसा. दर एकलेचे अणभव आयकतना म्हजें अणभवाचें भांडार वाडत गेलें. एका फाटोफाट मुलाखती प्रसिद्ध जावपाक लागल्यो तशी सदराक नामना लाबली. मागीर मुलाखती दिवप्यांकूय उमेद आनी अभिमान दिसपाक लागलो. मुलाखत छापून येतकूच भौतेक सगळ्यांनीच म्हाका आपणाल्यो प्रतिक्रिया कळयल्यो. त्या प्रतिक्रियांचें म्हाका एक वेगळें समाधान लाबलें. कारण मुलाखत दिवप्याकूय ते मुलाखतींतल्यान खोस भोगली.

गोंयांत साहित्याच्या मळार वाचप्यांकडल्यान दखल घेवपाचे प्रकार उण्या प्रमाणांत जातात असो एक सूर आसा. पूण ह्या सदराक वाचप्यांकडल्यान बरो प्रतिसाद मेळ्ळो अशें म्हाका मनापसून दिसता.

ह्या वाचप्यांमदी सामान्य वाचपी तर आशिल्लेच, ते भायर नामनेचे साहित्यीक, विचारवंत, समाजांतले प्रतिष्ठीत हांचोय आस्पाव आसलो. खास उल्लेख करपाक जाय तो श्री. गुरुनाथबाब केळेकार हांचो. सदर चालू आसतना एकदां प्रत्यक्ष मेळिल्लेकडेन तांणी म्हजी तुस्त-तोखणाय केलीच, तेभायर 'सुनापरान्तां'त पत्र बरोवन म्हजें कवतूक केलें. तातूंत म्हजी उमेद वाडली.

सदराक प्रसिद्धी मेळपाक लागली तेन्ना जायत्या जाणांनी म्हाका कांय बायलांचीं नांवां सुचयलीं. कांय जाणांनी आपूण जावन संपर्क सादलो पूण हांवें हें बाबतींत एक पथ्य पाळ्ळें. कर्तुत्विनीचो म्हजे पुरतो कस हांवें थारायलो, तो म्हळ्यार बायलेन स्वतापुरती कर्तुत्वी आसून भागना तर तिच्या कर्तुत्वाचो ठसो समाज जिणेचेर पडपाक जाय. आनी अशाच व्यक्तिंची हांवें निवड केली. तरी लेगीत म्हजी इत्सा आसुनूय कांय बायलांच्यो मुलाखती हांव घेवपाक शकलेंना.

म्हजी निवड ही गोंयांतल्या कर्तुत्वी बायलांची प्रातिनिधीक स्वरुपाची निवड आसा अशें म्हजें म्हणणें ना. अखेर म्हजे कस हे म्हज्या व्यक्तिगत मताचेरूच आदारून आसतले.

आयज जेन्ना त्या मुलाखतींक पुस्तकरूप लाबता तेन्ना म्हाका खूब खोस जाता. मुलाखती पुस्तकांत आस्पावतना मूळ मुलाखतींतलो प्रासंगीक संदर्भ गाळ्ळा. मुलाखत दिवप्यांच्या सगळ्या कर्तुत्वाचो आलेख घेवपाचो यत्न केला. नामनेचे साहित्यिक रवीन्द्रबाब केळेकार हांकां सदर मानवल्लें. तांणी मदीं आपणाली प्रतिक्रिया सांगून म्हजी उमेद वाडयिल्ली. पुस्तकाची कल्पना मुखार आयली तेन्ना प्रस्तावनेखातीर म्हाका तांचेंच नांव सुचलें आनी तांणी म्हजे मागणेचो स्विकार करून म्हाका प्रस्तावना बरोवन दिली. रवीन्द्रबाबांची प्रस्तावना पुस्तकाक लाबप म्हळ्यार देवळांत देवदर्शनाक वचपी भक्ताच्या कपळाक दरवट्याचेरूच गंधाच्या तिब्याचो भौमान लाबप!

पुंडलीकबाब नायक हांचें मार्गदर्शन दर एके कलाकृतीक लावता. तशें तें ह्यावूय

पुस्तकाक लाबलें. मुलाखतींची मांडणी बरेतरेन करपाचे बाबतींत तांगेलें मार्गदर्शन मोलादीक थरलें.

आनी सगळ्यांत चड उपकार प्रकाशिका हेमा नायक हांचे. 'सुनापरान्तां'त आयिल्ल्यो मुलाखती आपणाल्या 'चित्रंगी' दिवाळी अंकात छापपाचो प्रस्ताव मांडलो आनी त्याच मुलाखतींचें संकलन करून 'कर्तुत्वी कन्या' पुस्तक उजवाडा हाडपाची तयारी दाखयली. खरें म्हळ्यार मुलाखतींचें पुस्तक छापून उजवाडा हाडप हें आयचे घडकेक व्यवहाराचे फास्केंत बसप कठीण. तरी लेगीत हेमान हें आव्हान स्विकारलें. आयजवेर बायलांच्या विकासाखातीर हेमान जें योगदान दिलां, त्याच योगदानाचे वृत्तींतल्यान आनी तळमळींतल्यान हें पुस्तक ताणें उजवाडा हाडलां, हाचेविशीं दुबाव ना.

आपल्याच मनशांचे उपकार मानिनात पूण मानले बगर रावूं नजो. म्हज्या घरकारान – अवधूतान सहकार्य आनी आदार केल्ल्यान हो वावर सोपो जालो.

ह्या मुलाखतींच्या पुस्तकाचे कल्पनेक प्रोत्साहन दिवपी सौ. निर्मला खलप, सौ. आशा आरोंदेकार, सौ. प्रतिमा धोंड, सौ. रूपा भक्ता, सौ. मंगला नायक आनी सौ. अमोल मोरजकार ह्या भयणिंच्या उपकारांत हांव सदांच उरतलें.

ह्या पुस्तकाक श्री. गोविंद नायक हांणी मुखचित्र काडलां तेखातीर तांचे उपकार मानतां.

प्रामाणिकपणान केल्या कश्टांचीं फुलां जातात असो म्हजो अणभव. मात कांय फुलां बेगीन फुलतात जाल्यार कांय उसरां. म्हजे बाबतींत म्हज्या कश्टांक बेगीन फुलां आयल्यांत हाचें म्हाका भोव समाधान!

तिवरें-गोंय — ज्योती कुंकळकार
२/१२/१९९६

# येवकार

'यत्र नार्यस्तु पुज्यन्ते रमन्ते तत्र देवतः। यत्र एतास्तु न पुज्यन्ते सर्वास् तत्र अफला क्रिया' – जंय बायलांची पुजा जाता, कदर जाता, भौमान जाता थंयच देव खोश्शी जावन येवन रावतात; जंय तांची पुजा जायना, तांकां मान भौमान मेळना थंय त्यो सगळ्यांच्यो सगळ्यो करण्यो निर्फल जावन पडटात.

शास्त्रांनी हे भाशेन, बायलांची थोडी व्हडवीक गावंक ना. पुणून केदीय व्हडवीक गावन दाखयल्ली आसूं, आमी सरसमान सगळे दादले बायल-मनशेकडेन पळेता आसतना सदां कोणाल्ली तरी घरकान्न (गृहिणी) ह्या रुपांतूच तिका पळेत आयल्यात आनी ह्या रुपान ती आमचेमुखार उबी रावल्या तेन्ना आमकां ती कोणाची तरी 'कार्येषु मंत्री, करणेषु दासी, भोज्येषु माता' आनी 'शयनेषु रंभा' कशीच सदां दिसल्या. आनी ह्याच रुपान तिका माथ्यार घेवन आमी एक तर तिची पुजा केल्या वा पांयांकडेन बसोवन तिचेकडल्यान आमची सेवा करून घेतल्या. ती आमचेसारकीच – सूख मेळटकूच खुशालभर्गत जावपी, केन्ना केन्ना भुरकटूनय वचपी; दुःख कोंसळटकूच भियेवन 'देवा पात्र' म्हणपी, केन्ना केन्ना थतर वितरूय जावपी; आमचे भाशेनूच राग, दुस्वास, तिडक, ओड सारकेल्या गुणां अवगुणानी भरिल्ली; योग्यतायेन आमचेयेदीच – केदींय व्हड कामां करपाची तांक, क्षमता, कुशळताय आशिल्ली; तिका वांगडा घेवन करण्यो, कर्तुत्वां केलेबगर आमचें दोगांयचें जिवीत पूर्ण जायना; तें अपूर्ण, अर्दकुटें, अपंगूळ उरता – तिका सांगाताक घेयात, तिका महचरी करात, मागीर पळेयात. तुमचें जिवीत आनी तुमचो समाज खंयच्या पांवड्यार पावता तो म्हणपाचें खंयच्याच धर्मशास्त्रान आमकां केन्ना सांगलेंना आनी खासा आमकांय तें सारकें केन्ना समजलें ना. आमी तिचेर सदां शेंकूच चलयत आयले आनी तियूय बापडी सगळें सोंसून आमची सदां सेवा करीत रावली. कितलींशीं युगां ती 'अबला'च म्हण जियेत आयली.

अवचीत एक दीस तिका जाग आयली आनी जाग येनाफुडें आपूण दादल्यांची फक्त अर्धांगिनीच न्हय तर आपूण तांची श्रेष्टांगिनी – बॅटर हाफ – आशिल्ल्याची तिका जाणवीक जाली. ही जाणवीक जायनाफुडें ज्या ज्या मळांचेर दादल्यांनी कर्तुत्व गाजयल्लें त्या त्या मळांचेर ती देंवली आनी आरे आरे म्हणटासर तिणें आपणाल्या

कर्तुत्वाची – पुसूंक येवपाची ना असली एक छाप तांचेर बसयली. तिच्यांत हो कायाकल्प घडून आयलो. तेउपरांतचो, आर्विल्ल्या शें-सवायशें वर्सांचो इतिहास मातसो नियाळून पळोवचो, तिणें आपणालें आगळें वेगळें योगदान दिवंक ना अशें जिविताचें एक्कूय मळ मेळपाचें ना. शिक्षणाच्या, विज्ञानाच्या, साहित्याच्या, शासन-प्रशासनाच्या मळांचेर तिणें कर्तुत्व गाजयलां तें गाजयलांच, ते भायर, ती पराक्रमी, मुत्सद्दी, राजकर्णी ह्या रुपानूय मुखार आयल्या. कांय कांय मळांचेर तर दादल्यांक जें केन्ना जमलें ना तें लेगीत तिणें करून दाखयलां. बंकिमबाबून आपणाल्या 'वंदेमातरम्' गीतांत, 'के बोले मा तुमि अबले' – 'कोण म्हणटा तूं अबला म्हूण' असो तिका प्रश्न केल्लो आनी तूं 'बहुबलधारिणी, रिपुदलवारिणी' म्हूण तिका तिची वळख करून दिल्ली. बंकिमबाबून म्हळ्ळें तें फट न्हय म्हणपाचें बायलांनी फाटल्या कांय वर्सांत बेस बरें दाखोवन दिलां.

आमच्या देशांत एक म्हापुरूस जल्माक आयलो – गांधी. ताणें तिका सांगलें, 'दादल्यांनी केल्यांत तितलींय कामां तुकाय करूंक येतलीं. तूं तांचेपरस खंयच्याच आंगान उणी न्हय. पुणून एक विसरूं नाका, तूं दादलो न्हय. दादलो जावपाचो तूं यत्न करूं नाका. तुज्यांत आनी ताच्यांत एक मोट्टो फरक आसा. तुमच्यो दोगांयच्यो कुडी वेगळ्यो. तसो तुमचो सभावगुणूय वेगळो. तुवें तांची फेलदावणी करूंक फावना. फेलदावणी करपाक भायर सरशीत जाल्यार तूं तांची फकत एक उरफाटी प्रतिकृती जावन पडटली. आनी सगळी तुजी मौलीकताय – ओरिजिनालिटी – तूं होगडावन बसतली. तुवें तूंच म्हण मुखार सरूंक जाय, तुज्यांत आसात ते गुण तांच्यांत नात. तुज्या त्या वेगळ्या गुणांक लागुनूच तूं तांचेपरस वेगळी उठून दिसतली. अशें म्हणून ताणें तिका सोऱ्यांच्या गुत्यांचेर चिकेटींग करपाक धाडून दिली. गुंडांक मनीस कर म्हूण सांगून तिका गुंडांच्या अड्ड्यार धाडली. ज्या साम्राज्याचेर सूर्य केन्ना अस्तम नाशिल्लो ताचेआड चलिल्ल्या संघर्शांत तिच्या हातांत बंडाचो बावटो दिवन तिका सगळ्यांमुखार दवरली. तिका पोलीसांचे तोणके खा, बंदखणिनी वच, तोफेच्या तोंडार उबी राव म्हूण सांगलें. तिका धीट केली. देशाच्या पांच हजार वर्सांच्या इतिहासांत तिका कोणेंच अशें सांगूंक नाशिल्लें तें गांधीन सांगलें आनी ताणें सांगिल्लें हें सगळें करून तिणें आपूण फकत कर्तुत्विनीच न्हय, तर तेजस्विनीय म्हण संवसाराक दाखोवन दिलें. गांधी मुखार तांगेले सांगाती विनोबा गेले. ते म्हणपाक लागले, हिन्दुस्तानांतली बायल कांय राज्यांनी आमदारीण, खासदारीण म्हूण वेंचून आयिल्ली आसूं, मंत्री, मुखेलमंत्री जाल्ली आसूं, प्रधानमंत्रीय जाल्ली आसूं. इतल्यान भागना. देशांत एक नवें धर्मप्रवर्तन करपाची तांक आशिल्ली शंकराचार्याच्या पांवड्याची कोणूय एकली मुखार सरूंक जाय. मीरा, महादेवी, मुक्ता, कान्होपात्रा बायलांत जाल्यात खऱ्यो पुणून

शंकराचार्यांमाणकी अजून कोण जावंक ना. ती जायसर ती 'मुक्त' जाली अशें म्हणूंक येवपाचें ना. असली कोणूय निर्माण जावंक पावची म्हण विनोबांनी पवनाराक ब्रह्मविद्यामंदीर नांवाचो ब्रह्मचारिणींचो एक आश्रम सुरू केलो आनी आपणालो जीव ओतून तो वयर काडलो. विनोबांच्या मतान्तली शंकराचार्यांचे योग्यतेची बायलमनीस अजून येवंक ना. पूण विनोबांच्या विचारांचो प्रभाव तांचें निर्वाण जालां त्या दिसाच संवसाराक पळोवंक मेळ्ळो. विनोबांचे कुडीक खांद दिवपाक ब्रह्मविद्यामंदिरांतल्यो चलयो मुखार सरल्यो आनी तांणें कुडीक अग्निसंस्कारूय एकेंच चलयेनूच दिलो. हिंदू संस्कृतायेच्या पांच हजार वर्सांच्या इतिहासांत पोरणी चाल मोडपी असली आगळी वेगळी घडणूक केन्नाच कोणें पळोवंक नाशिल्ली. केन्नाच खंयच घडून येवंक नाशिल्ली.

देशान कूस परतिल्या असोच हाचो अर्थ करचो पडटा. ह्या देशांतली बायलमनीस हेरावार कोणाचीच 'कार्येषु मंत्री, कारणेषु दासी, भोज्येषु माता, शयनेषु रंभा' म्हण रावपाची ना. दादल्यांच्या हातांतलीं सगळीं सुतां आपणाल्या हातांत घेवन ती आतां नव्याच एका भारतवर्षाक जल्म दिवपाची आसा. एक नवें धन्वंतर सुरू करपाची आसा.

गोंयानूय कूस परतिल्या. वाचप्यांच्या हातांत आसा तें 'कर्तुत्वी कन्या' हें पुस्तक हाची चोख खरी ग्वाय दिता. ह्या पुस्तकांत आमच्या भौशीक मळावयल्या तेवीस कर्तुत्विनींच्यो मुलाखती आयल्यात – पांच जाणी राजकी संवसारांतल्यो, चौगी कलाकार, तिगी समाजसेविका, तिगी लेखिका, दोगी गायपी, एक डॉक्टर, एक वकील, एक सी.ए., एक स्वातंत्र्य सैनिक, एक स्कॉलर आनी एक चित्रां काडपी. पन्नास वर्सांआदीं म्हजे भयणीन तरूणपणांत पावल दवरलां त्यावेळार तिका असल्यो कोण गोयांत पळोवंक मेळूंक नाशिल्ल्यो. कांय प्रोफेसरिणी, कांय डॉक्टरिणी, कांय नर्सी गोयांत ते मुस्तींत आशिल्ल्यो ना अशें न्हय. पूण त्यो किरीस्तांव समाजांतूच चडश्यो पळोवंक मेळटाल्यो. हिंदू समाजांत ना मॅट्रीक जाल्ल्यो वा लिसेवाचें शिक्षण पुरें केल्ल्यो चलयो हाताच्या बोटांचेर मेजपाइतल्यो लेगीत नाशिल्ल्यो. गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें गोयांत बायलांच्या जिवितान आकांताचो बदल घडून आयला अशें म्हणचें पडटा. आयज अशें एकूय मळ गोयांत मेळचें ना जंय बायल्यांनी कर्तृत्व गाजोवन दाखोवंक ना. ह्या पुस्तकांत असल्यो फकत तेवीस जाणींच्यो मुलाखती आयल्यात. ह्या तेविसांभायर चोविसावे एकलेची ह्या पुस्तकांत जाणवाक जाता, ती मुलाखती घेवपी बाय ज्योती कुंकळकार हिची. निश्चय एक कर्तुत्विनीच आमची, साहित्याच्या आनी अभिनयाच्या मळावयली. हें पुस्तक पळोवन कोणाकूय एखाद्याक दिसूं येता, 'असलें पुस्तक बरोवपाक कसलेंशें किते लागता? नांव लौकीक आशिल्ल्या कोणाय म्हऱ्यान वचून बसचें, ताका आठ धा प्रश्न विचारचे आनी मेळटात त्यो जापो कागदार बरोवन घेवच्यो... जालें पुस्तक तयार! हांव ताका इतलेंच सांगतलों, मातसो यत्न करून पळे, मागीर असलें पुस्तक

बरोवप सोपें काय कठीण तें तुजे तुकाच सारकें कळून येतलें. पयली गजाल म्हळ्यार, जाची आमी मुलाखत घेतात ताच्या जिविताची आमकां सारकी बरी वळख आसूंक जाय. दुसरी गजाल, ताचेविशीं आमकां आदर भौमान दिसूंक जाय आनी तिसरी, सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार – ताका प्रश्न विचारून ताचेकडल्यान कितें 'काडून घेवचें' हाची कळाशी मुलाखत घेतल्याच्या आंगांत आसूंक जाय. बाय ज्योतींत हे तिनूय गूण आसात म्हूण ह्या पुस्तकांतल्यो तेविसूय कर्तुत्विनी आमचेमुखार सगळ्या धोंगांपोंगांसयत जिव्यो तट्टटीत जावन उब्यो रावंक पावल्यात.

ह्यो मुलाखती 'सुनापरान्तां'त येताल्यो तेन्ना सप्तकांत आयतार फकत एकूच फावट येता हाची म्हाका खंत भोगताली. दोनतीन तरी आयतार येवंक जाय आशिल्ले अशें दिसतालें. कित्यांक, ह्या बाविसांभितरल्या कांय जाणींक हांव लागिंच्यान वळखतालों. पुणून तांगेलें अंतरंग ज्योतीन घेतिल्ल्यो तांगेल्यो ह्यो मुलाखती वाचीसर म्हाका कळूंक नाशिल्लें. तें जाणून घेवपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली.

सृजनाशील साहित्यांत असले तरेच्या पुस्तकाक एक वेगळीच सुवात आसा. इंग्रजी साहित्यांत डॉ. जॉन्सन म्हूण एकलो साहित्यकार जावन गेला. ताका बॉस्वेल नांवाचो एक तरणाटो मेळूंक नाशिल्लो, ताणें ताका तरातरांचे म्हत्व नाशिल्ले हजारांनी प्रश्न विचारूंक नाशिल्ले आनी ताणें दिल्ल्या जापिंच्या आदारान ताचें जिवीत ताणें बरोवंक नाशिल्लें, जाल्यार डॉ. जॉन्सन ताचे मुस्तींतल्या हेर चार स साहित्यकारांमदलो एक म्हूण इंग्रजी बरपावळींत उरतलो आशिल्लो. बॉस्वेलान ताका हेरां सगळ्यांपसून कुशीक काडलो. ताका आगळो वेगळो केलो. बॉस्वेलान बरयल्ल्या जिवितांत जो जॉन्सन आमकां मेळटा ताका सॉमरसेट मॉमान 'ॲन् आर्टिस्टीक क्रियेशन ऑफ बॉस्वेल' म्हळां.

आमचे देशी बरपावळिंतूय असलो एक दाखलो पळोवंक मेळटा तो 'श्रीरामकृष्ण कथामृता'चो. श्री रामकृष्ण परमहंस हे संवसाराचे फाटीर जावन गेल्ल्या आगळ्या-वेगळ्या संत-परमहंसां मदले एक. तांगेल्या जिवितांत निमाण्या चार स वर्सांत महेंन्द्रनाथ गुप्त नांवाचो एक नमळ मनीस तांचेसरीं पावूंक नाशिल्लो आनी श्रीरामकृष्णांच्यो तांचे भेटेक आयिल्ल्या लाकांकडेन खबरी ताणें आपणाले दीसपटयेंत विस्तारान बरोवन दवरूंक नाशिल्ल्यो जाल्यार हो संत परमहंस 'जावन गेल्ल्या' संत परमहंसा मदलोच एक म्हूण उरतलो आशिल्लो. आयज 'श्रीरामकृष्ण कथामृतां'त तो जिवो तट्टटीत जावन चलता भोंवंता, आपणालो सांगात आमकां दिता तसो भुरगो नाशिल्लो.

हे तरेच्या साहित्याक इंग्रजींत 'टेबल टॉक लिटरेचर' हें नांव आसा. म्हाका हे तरेचें 'लिटरेचर' सदांच खुब्ब आवडलां. कोणेय धरूंया म्हजेमुखार दोन पुस्तकां हाडून दवरलीं – एक, खंयच्याय व्हड बरोवप्यान खासा आपणासंबंदान बरयल्लें, आनी दुसरें, ताच्यो मुलाखती घेवन दुसऱ्यान कोणें ताचेर बरयल्लें – जाल्यार, सगळ्यांत

पयलीं हांव हें दुसरें, मुलाखतींचेच, पुस्तक वाचपाक घेतलीं. हे तरेच्या साहित्याची म्हूण वेगळी आसता. तें संत परमहंसांच्याच जिवितांचेर आदारिल्लें आसूं येता. कोणें एकल्यान म्हळां तेभाशेन जण एकल्याचें जिवीत - किरकोळांतल्या किरकोळ मनशाचें लेगीत - अगदीं वेगळेंच आसता. आनी आमकां सगळ्यांक सगळ्यांचीं जिवितां भायल्यान दिसतात ताचेकूय चड तीं भितरल्यान कशीं आसतात हें जाणा जावन घेवपाची - केन्ना केन्ना व्हारांक नदरेन चोरून लेगीत - पळोवपाची उत्सुकताय आसता. न्हय जाल्यार कथा नवलकथा कोण बरोवचे वाचचे नाशिल्ले. बाय ज्योतीन तर ह्या पुस्तकांत दिल्यांत तीं जिवितां आमच्या समाजांतल्या कांय कर्तुत्विनी भयणींचीं. मागीर, तांच्या अंतरंगांत भितर सरून तांकां खोलायेन वळखून समजून घेवपाची इत्सा आमकां जाली जाल्यार अजाप कसलें? आमची ही इत्सा पुरी करपाची कळाशी बाय ज्योतींत आसा हें तशें हें पुस्तक बरोवन दाखोवन दिलां. हाचे फुडलें धाडस करपाक कोंकणी सरस्पतीन तांकां स्फूर्त आनी प्रेरणा दिवंची अशें तिचेलागीं मनस्पुर्वेक मागतां.

प्रिओळ — रवीन्द्र केळेकार

३१-१०-१९९६

## भुमिकेचेर श्रद्धा दवरून वावुरपी गायिका अभिनेत्री

# आशालता वाबगांवकर

परमेश्वर प्रसन्न जावपाक जशी परमेश्वरावयली श्रद्धा म्हत्वाची आसता, तशेंच एकाद्री भुमिका आपल्याचेर प्रसन्न जातली जाल्यार ते भूमिकेवयली कलाकाराची श्रद्धाय तितलीच म्हत्वाची आसता. ही श्रद्धाच भूमिकेक नवो रंग, नवो अर्थ दिता.

ही भावना नामनेची गायिका अभिनेत्री आशालता वाबगांवकर हांची. आनी आशालता खऱ्यानिशीं कला क्षेत्रांतली श्रद्धावान अभिनेत्री आसा.

आशालताचो जल्म गोंयांतल्या काणकोण म्हालांत १९३८ वर्सा जालो. जल्मा उतरांत मुखावयलें सगळें आयुश्य मुंबयतूच गेलें. पिरायेच्या चौदाव्या वर्सा आशालतान रेडियोचेर गावपाक सुरवात केली. पं. जितेंद्र अभिषेकीकडेन ती गायन शिकताली.

संगीतकार कल्याणजी-आनंदजी हांगेल्या ऑर्केस्ट्रांत ती गायताली. महंमद रफी, हेमंतकुमार ह्या नामनेच्या गायकांवांगडा तिणें जोडगितां गायल्यांत. रेडियोचेर गायनांत आसतनाच ती संगीत नाटकांत आयली. कवी उदय भेंब्रे हांणी रचिल्लीं कोंकणी गितां तांणी गायल्यांत आनी तांच्यो ग्रामोफोन रिकॉर्डीय आयल्यात. 'अर्थशून्य भासे मज हा कलह जीवनाचा', तेच परी 'गर्द सभोवती रान साजणी तू तर चाफेकळी' हीं तांगेलीं मराठी गीतां अजरामर जाल्यांत.

गोड गळ्याची गायिका-अभिनेत्री म्हणून आशालताची मराठी रंगमाचयेच्या इतिहासांत गौरवपूर्ण नोंद जाल्या. कितलीय कठीण भुमिका तांणी तितलेच तांकीन उबी केल्या. हेचखातीर म्हत्वाच्यो भुमिका तांच्या वांट्याक आयल्यो. 'मस्त्यगंधा' नाटकांत सत्यवतीचे भूमिकेंत ती पंचवीस वर्सां आदीं रंगमाचयेर आयली तेन्ना तिच्या रुपान आनी आवाजान प्रेक्षकांक पिशे केले. ह्या नाटकांत तिका अमाप अशी नामना मेळ्ळी आनी मागीर तिणें फाटीं वळून पळयलेंच ना.

'होनाजी बाळा' (गुणवती), 'रायगडाला जेव्हा जाग येते' (येसूबाई), 'गारंबीचा बापू' (राधा), 'घरांत फुलला पारिजात' (चंदा), 'भाऊबंदकी' (आनंदीबाई), 'आश्चर्य

नंबर दहा' (विमल), 'वाऱ्यावरची वरात' (कडवेकर मामी), 'छिन्न' (माई), 'गुंतता हृदय हें' (कल्याणी), 'सौभद्र' (रुक्मीणी), 'भावबंधन' (लतिका), 'बॅरिस्टर विश्राम' (नयना) ह्या सगल्याच नाटकांतल्यो आशालताच्यो भुमिका गाजल्यो. तेचप्रमाण 'गुडबाय डॉक्टर', 'तरूण तुर्क म्हातारे अर्क', 'तुझे आहे तुझपाशी' आदी कितल्याशाच नाटकांनी ताणी भुमिका केल्यो. तांकां लाबिल्ल्या नाटकाच्या यशांत तांचे गूण आनी कश्ट आसल्लेच पूण तेचप्रमाण तांकां गोपीनाथ सावकार, मा. दत्ताराम, नंदकुमार रावते, प्रा. मधुकर तोरडमल आदी प्रतिभासंपन्न नाट्यदिग्दर्शक लाबले.

फाटल्या कांय वर्सांनी आशालतान हिंदी आनी मराठी मेळून सुमार अंयंशी फिल्मांनी काम केलां. 'पुढचं पाऊल' ह्या फिल्मांतले भूमिकेखातीर तांकां महाराष्ट्र शासनाचो सर्वोत्कृष्ट सहाय्यक अभिनेत्रीचो पुरस्कार लाबलो.

'महादेवन', 'अटल इरादा', 'गैर कानूनी', 'कर्मयोद्धा', 'धर्मशक्ती', 'बडे घरकी बहू', 'जागदार', 'औलाद के खातीर', 'बिल्लू बादशाह', 'खून अपना लोग पराये', 'घायल', 'अंगम', 'कुली' ह्या फिल्मांनी आशालतान म्हत्वाच्यो भुमिका केल्यो. निर्देशक शिरीश मित्रांच्या फिल्मांत तांणी विनोदी भुमिका केल्यात. सुमार धा-पंदरा मराठी फिल्मांत काम करून लेगीत मराठी निर्मात्यांनी तांचेकडेन व्हडलेंशें लक्ष दिलें ना.

तांगेल्या 'माहेरची साडी' फिल्मान लोकप्रियतेची तेंगशी गांठली. सायकॉलॉजी घेवन एम.ए. केल्ल्या आशालतांक पिशेची भुमिका करपाची खूब इत्सा आसली. पूण तो योग आयलोना.

'अपुर्बाय चित्रा'च्या 'देवाणी दुराय' ह्या कोंकणी फिल्माच्या निमतान आशालता १९९५ वर्सा धा दीस आमचे बरोबर आशिल्ली. सगळें वातावरण तांणी 'घरेलू' करून उडयल्लें. ह्या धा दिसांत तांचेकडेन म्हजी खूब जवळीक जाली. चित्रपट, नाटक, बायलो आनी समाजीक परिस्थिती अशा विशयांचेर आमचें खूब उलोवणें जालें. तांतुंतलोच हो वचीक वांटो मुलाखतीच्या रुपांत–

☐ **रंगमाचयेर केन्ना आनी कसो प्रवेश जालो ?**

पिरायेच्या आठव्या वर्सा म्हळ्यार १९५६ वर्सा 'संशयकल्लोळ' नाटकांत रेवतीची भूमिका केली. प्रेक्षकांनी हे भुमिकेक दाद दिली. पं. महादेवशास्त्री जोशींनी म्हळें, आशालताची रेवती म्हळ्यार देवलांची खरीखुरी मानसकन्या. कारण अभिनय आनी सूर हांचो योग्य मेळ भूमिकेंत घडलो. हे भूमिकेक महाराष्ट्र राज्य नाट्यसर्तींत पयल्या क्रमांकाचो पुरस्कार लाबलो. आरंभाक म्हळ्यार व्यावसायिक नाटकांत कामां करचे पयलीं हावें फकत गोवा हिंदू असोसिएशन संस्थेचे वतीन महाराष्ट्र शासनाचे राज्य सर्तींत वांटो घेतिल्लो. थंय 'संशयकल्लोळ' तशेंच 'शारदा', 'मृच्छकटिक' ह्या नाटकांनी

भुमिका केल्यो. ह्या भुमिकांखातीर म्हाका दोन फावट उत्कृश्ट अभिनयाचीं इनामां लाबलीं. तशेंच नाट्यप्रयोगांकूय पयलीं इनामां मेळ्ळीं. अर्थांत हाचें श्रेय गोंयचे नाट्यदिग्दर्शक गोपीनाथ सावकार हांकां फाव जाता.

☐ **हिंदी सिनेमा क्षेत्रांतलीं तुमी यशस्वी अशी अभिनेत्री. ह्या क्षेत्रांत तुमी कशीं आयलीं ?**

१९८० वर्साची गजाल. मुंबय दूरदर्शनाचेर रघुवीर नेवरेकार हांगेल्या 'जल्मगांठ' ह्या कोंकणी नाटकांत हांवें काम केलें. निर्माता दिग्दर्शक बासू चटर्जी हे त्यावेळार आपल्या 'अपने पराये' फिल्मांतल्या सिद्धेश्वरीच्या सोदांत आसले. तांणी दूरदर्शनाचेर म्हाका पळयलें आनी म्हगेलें एखाद्रें नाटक पळोवपाची इत्सा व्यक्त केली. नाटक सोंपतकूच रंगपटांत येवन तांणी म्हाका सिद्धेश्वरीची ऑफर दिली. फाटलीं कितलींशींच वर्सां ह्या चित्रपट क्षेत्राक भियेवन हांव कडेक राविल्ली. एक अणभव घेवचो म्हूण हांवें ती भुमिका केली. ते भूमिकेखातीर बंगाल क्रिटिक्स असोसिएन संस्थेचें अवॉर्ड मेळ्ळें. मागीर एका फाटोफाट एक अशो ऑफर्स येत गेल्यो आनी वेंचीक अशो भुमिका हांव स्विकारपाक लागलीं.

☐ **आशाताई, तुमची चित्रपट स्विकारपाची पद्धत कशी ? 'देखणी दुराय' हो चित्रपट तुमी कसो स्विकारलो ?**

म्हाका स्वताक भुमिका आव्हानात्मक जाणवली तरच हांव ती भुमिका स्विकारतां. भूमिकेंतलें तेंचतेंचपण म्हाका आवडना. 'देखणी दुराय'चे बाबतींत मात्शें वेगळेंच घडलें. म्हाका भुमिकाच न्हय तर कथानक लेगीत खबर नासलें. मजा जाली ती अशी, म्हाका मुंबय राजीव शिंदेचो फोन आयलो. 'देखणी दुराय'विशीं विचारलें त्यावेळार राजीव शिंदे काळो काय गोरो हेंवूय म्हाका खबर नासलें. फकत ताचें नांव आयकल्लें. ताणें एक दोन व्यावसायीक नाटकां बसयल्यांत इतलेंच लक्षांत आसलें. पूण तागेलें नाटक पळोवपाचो योग येवंक नासलो. हांवें फोनार 'देखणी दुराय' संबंदीची चवकशी केली. मागीर ताणें पुंडलीक नायकाचें नांव सांगलें. खूब बरें दिसलें. आनी म्हाका एक कोंकणी भुमिका करपाची खूब इत्सा आशिल्ली. उपरांत पंदरा दिसांनी फोन आयलो आनी त्यावेळार राजीवान सिनेमाचें लोकेशन काणकोणांत म्हणून सांगतकूच म्हाका खूब आनंद जालो. म्हजी कोंकणी भास, म्हजी जल्मभूंय काणकोण आनी सुप्रसिद्ध नाटककार श्री. पुंडलीक नायक हांचें लेखन असो हो कपिलसस्टीचो योग जुळून आयलो.

☐ **नाटक, सिनेमा, दूरदर्शन मालिका अशा विविध क्षेत्रांनी तुमी कामां केल्यांत. दर एका क्षेत्रांत तुमकां येस लाबलां. तुमचे सहकारी कलाकार, तुमची मुक्त कंठान तोखणाय करतात. ही कला तुमी कशी कितें आत्मसात केली ?**

चार-चौगांत कामां करतना मनमिळावू धोरण दवरप खूब फायद्याचें थरता.

नाटक-सिनेमाच्या ह्या क्षेत्रांत म्हाका दिसाचीं सात आठ वरां काम करचें पडटा. तेन्ना बरोबरच्या लोकांच्यो अडचणी, स्वभावांतल्यो त्रुटी लक्षांत घेवन तांचेकडेन जुळोवन घेवचें पडटा. हें तंत्र तुमी एक फावट आपणायलें जाल्यार सगळें सोपें जाता.

□ **नाटक, सिनेमा, दूरदर्शन इतल्या वेगवेगळ्या माध्यमांनी तुमी कामां केल्यांत. तुमकां स्वताक आवडिल्लें माध्यम खंयचें? ह्या माध्यमांत तुमचे नदरेन कसलो फरक आसा?**

दर एका माध्यमाचीं कांय खाशेलेपणां आसात. नाटक, सिनेमा, दूरदर्शन मालिका वा मॉडेलिंग हांतल्या प्रत्येकाचें वेगळें अशें तंत्र आसा. हातूंत सर्वस्व पणाक लावन म्हणटात तशें काम करपाचें आसता. पूण तुमचे मेहनतीचें चीज जावपाचें माध्यम म्हळ्यार नाटक. सिनेमांत तशें नासता. थंय प्रत्येक सीन कुडक्या-कुडक्यांनी वांटिल्लो आसता. हांगासर कॅमेरो तुमचे बरोबर आसता. पूण ह्या कामाची पावती उसरां मेळटा. दूरदर्शन मालिका हो प्रकार नाटक आनी सिनेमा ह्या दोगांमदलो प्रकार आसा. शिवाय हांगा नाटकासारकीं लांबचे लांब दृश्यां वांगडाच चित्रीत करतात. तेखातीर सिनेमाचे बाबतींत जाता तसो संदर्भाचो घोळ जायना. टी.व्ही.क लागून आमी कलाकार प्रत्येकाच्या घरांत पावतात. ही प्रसिद्धी नाटक, सिनेमापरस सामकी वेगळी आसता. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार हे प्रसिद्धीक मायेची ओलसाण अदीक आसता. हांव खंयच्याय माध्यमांत काम करूं, जंय काम करतां थंय हांव समाधान मानतां, ही म्हजी खास पद्धत. माध्यम खंयचेंय आसलें तरी 'अभिनेत्री' म्हणून वळख घडोवप म्हाका चड आवडटा. तशें पळोवंक गेल्यार मॉडेलिंगाच्या माध्यमांत खूब प्रसिद्धी मेळटा आनी तेचबरोबर पैसोय खूब मेळटा.

□ **तुमच्या काळार नाटकाचें खास अशें प्रशिक्षण नाशिल्लें. पूण आयच्या काळार आसा. अशा नाट्य प्रशिक्षणांत नट/अभिनेत्री घडूंक शकतात? तुमचें मत कितें?**

प्रशिक्षणांतल्यान नट घडना. कलाकार प्रवृत्ती ही जल्मजात आसची पडटा. प्रेक्षकांमुखार उबो रावन आपली अभिनयकला सादर करप ह्यातूंत नटाचें येस आसपावता. तेखातीर पयलीं नट म्हणून प्रस्थापित जाले उपरांत मागीर प्रशिक्षण घेवन आपल्या अभिनयगुणाक अदीक वाव दिवं येता. ह्याच तंत्रान हांवें पयलीं नाटकांत भुमिका केल्या आनी उपरांत दिग्दर्शकाकडसून अभिनयांतलो संयम, आवाजाचो चड उतार आदी तांत्रीक गजाली आत्मसात केल्यात आनी म्हज्यांतले अभिनेत्रीक परिपूर्णताय हाडपाचो यत्न केला.

□ **सध्या हिंदी चित्रपटांत दिलखेचक कथानकां परस हेर गजालींक खूब म्हत्व दितात. ते नदरेन मराठी चित्रपट उजवे आसात?**

हो समज सामको चुकीचो. अशे कितलेशेच मराठी चित्रपट आसात जातूंत कथाच ना. हें फकत हिंदीचे बाबतींत न्हय तर हेर भारतीय भासांतूय चित्रपटांची तीच अवस्था

आसा. चित्रपटाचे गरजेक धरून उत्तम साहित्यीक मूल्य चित्रपटांत आयलें तर विलक्षण परिणामकारी थरता. आनी ते चित्रपट प्रेक्षकांच्या काळजाक भिडतात. ‘माहेरची साडी’ ह्या चित्रपटाचें उदाहरण घेतल्यार कितें दिसता? आमच्या प्रेक्षकांक फकत नवें नवें कथानकूच जाय अशें ना. जाल्यार पोरण्या धर्तीचें कथानक नव्या तंत्रांत बसयल्यार प्रेक्षक असले चित्रपट माथ्यार घेतात.

☐ **मराठी आनी हिंदी चित्रपटांशिवाय तुमी ‘इंडियन समर’ नांवाच्या इंग्लीश चित्रपटांत काम केलां अशें आयकलां. तेविशीं सांगात.**

तो एक योगायोगूच म्हणपाक जाय. मेरी स्विगाले नांवाची एक ब्रिटीश बायलमनीस ह्या फिल्माची निर्माती आशिल्ली. हांव तेन्ना मद्रासाक डॉ. मुरली हांगेल्या ‘कामाक्षी’ नांवाच्या फिल्मांत काम करतालीं. थंयच त्या फिल्माच्या दिग्दर्शकाची भेट जाली. तांकां एक इंडियन कॅरेक्टराखातीर एक सोज्वळ चेहरो जाय आसलो. म्हाका सगल्यांनीच आग्रो केलो. तांणी स्क्रीप्ट धाडून दिली. भुमिका सुंदर आशिल्ली. म्हौंवाळ सभावाची, कुटुंबवत्सल, बडबडी, हांसरी अशी ती म्हत्वपूर्ण गृहिणीची व्यक्तिरेखा आशिल्ली. म्हाका मानवली. आठ काय णव सीन आशिल्ले. अवघ्या तेवीस दिसांभितर फिल्म पूर्ण करून ते लोक लंडनाक गेले. फिल्माचें प्रॉसेसींग तांणी मद्रासांतूच केलें. तांकां डबींग लेगीत करचें पडलें ना.

☐ **एक कलाकार ह्या नात्यान तुमी स्वीकारिल्ले भूमिकेंत एकरूप जातात. भूमिकेंत एकरूप जावपाची ही प्रक्रिया कशी घडटा?**

भूमिकेकडेन एकरूप जाली जाल्यार दोळ्यांतल्यान आपशींच उदक येता. ग्लिसरीन वा बाम ह्या अडेच्या वस्तूंचो केन्नाच वापर करचो पडना. पयली गजाल म्हळ्यार आपले भूमिकेविशीं कलाकार समाधानी आसपाक जाय. रंगमाचयेकडेन प्रामाणीकपण जाय. नाटक सोंपलें तरी भूमिकेचो परिणाम म्हज्या मनाचेर कितलोसोच वेळ उरता. नाटकांत एन्ट्री येवचे पयलीं पांच धा मिण्टां हांव त्याच मुडांत उरतां. भूमिकेंत रिगतां. मागीर मुखावयले सगळे संदर्भ आपशींच जुळून येतात. काम बरें जाता. प्रेक्षकांकडल्यान थंयचे थंय कामाची पावती मेळटा. रंगमाचयेर फकत रूप आसून भागना. उलयिल्लीं उतरां प्रेक्षकांच्या कानांक गोड लागपाक जाय. चेहरो उलोवपाक जाय.

☐ **आशाताई, घर, संवसार आनी भुरग्यांची जापसालदारकी सांबाळून बायल ह्या कलेच्या मळार यशस्वी जावपाक शकता?**

होच प्रस्न हांवें तुका विचारल्यार? तूं वो ‘देखणी दुराय’ची निर्माती हेमाताई ह्या प्रस्नाची जाप दिवपाक शकतलीं. कारण तुमचीं भुरगीं अजून खूब ल्हान आसात. तरी तुमी बायलां नोकऱ्यो सांबाळून घर, संवसार, भुरग्यांक सांबाळून चित्रपट निर्मितींत देंवल्यांत. शिवाय तुमी बरें बरयतात. हाचें म्हाका चड कवतूच दिसता. पूण म्हजें

मत मागूं ? सवमार. कारिअर हो दोनूय जबाबदाऱ्यो बरे तरेन सांबाळपी बायल दोनूय आघाड्यांचेर यशस्वी जाता. कामाच्या व्यापाक खंय, केन्ना पूर्ण विराम दिवपाचो हांच भान बायलांक आसता. एकापरस चड कामांची जापसालदारकी बायलमनीस सांबाळूंक शकता. तुमकां उदाहरण दिवपाचें जाल्यार मराठीतली आयची निर्माती, दिग्दर्शिका, अभिनेत्री स्मिता तळवलकार हिचें दिवं येता.

नाटक, सिनेमाचो दीर्घ अणभव घेवन आशालताबाय ह्या क्षेत्रांत तिजल्या. ह्या क्षेत्रांत कोणाकडेन तडजोड करिनासतना तांणी आपल्या धंद्याक व्यवसायीक बसका दिल्या. थिम्या आनी सावध पावलांनी लेगीत जैताचे तेंगशेर पावूं येता हेंच तांणी दाखोवन दिलां वो अशेंय म्हणूं येता – जैताकडेन वचपाचो होच मार्ग अदीक श्रेयस्कर.

* * *

## बायलाच्यो वेद्रना साहित्यांत उतरावपी प्रतिभासंपन्न लेखिका

# माधवी देसाई

---

प्रतिभा ही दैवी देणगी खरी पूण ती देणगी मनशाक योग्य वेळार मेळ्ळी जाल्यारूच ते देणगेचें रुपांतर भांगरांत जाता. ही देणगी जिविताच्या आरंभाकूच म्हळ्यार भुरगेपणांत लाभली जाल्यार तिची पोसवण ना जावपाचो धोको आनी सामकी जाणटेपणांत लाबली जाल्यार खिणभंगूर जावपाची भिरांत. पूण हीच दैवी देणगी जर सुर्या माथ्यार आसतना म्हळ्यार जिविताचे मध्यवाटेर लाबली जाल्यार तिचें सुलाखी भांगर जालेंच म्हणून समजुचें.

साहित्य क्षेत्रांतली प्रतिभा लाबिल्ली अशीच एक भाग्यवान लेखिका म्हळ्यार माधवी देसाई. जिविताचे वाटेर दर एका मोडणार मोडून पडपाचे प्रसंग तिचेर आयले. पूण ती सांवरली. दळिद्राचे हुलोप आनी वैभवाचो उपभोग घेवन तिचें अणभवविश्व समृद्ध जालें. आनी ह्याच खिणाक तिका प्रतिभेचो स्पर्श जालो. तांच्याच उतरांनी – तांकां मॅच्युरिटी आयली. 'नाच ग घुमा' हें आत्मकथन घेवन माधवी देसाई ह्यो मराठी साहित्यक्षेत्रांत देंवल्यो.

मराठींत बायलांचीं जायतीं आत्मचरित्रां वा आत्मकथनां उजवाडा आयल्यांत. पूण हें आत्मचरित्र आगळें-वेगळें. ह्या आत्मचरित्राच्या पानापानार बायलांच्यो व्यथा आनी वेदना शिंपडून आसात. ह्यो व्यथा आनी वेदना माधवीताईंनी प्रभावीपणान मांडल्यात.

नामनेचे मराठी कादंबरीकार सर्गेस्त रणजीत देसाई हांचेलागीं माधवीताईंचें लग्न जालें. रणजीत देसाई आनी माधवीताई हांगेलें हें दुसरें लग्न. एके तरेचो प्रेमविवाहूच तो. पूण तो चड काळ तिगलो ना. चौदा वर्साच्या सहवासा उपरांत तांचो घटस्फोट जालो. ते उपरांत तांणी 'नाच ग घुमा' हें आत्मकथन बरयलें. तांचें भुरगेपण ते घटस्फोटा मेरेनच्या जीवनाचो आलेख ह्या पुस्तकांत आसा. ह्या पुस्तकाखातीर तीं प्रसिद्धीचे तेंगशेर

पावलीं. ह्या पुस्तकाक दामानी साहित्य पुरस्कार लाबलो. आनी साहित्य अकादमीचो पुरस्कार हुकलो. आयजवेर ह्या पुस्तकाच्यो स आवृत्यो भायर सरल्यात. हिंदी भाशेंतलो अणकार पुस्तकरुपान उजवाडा आयला. कन्नड अणकार उजवाडा येवपाच्या मार्गार आसा. आनी इंग्लीश अणकाराचो वावर चालू आसा. माधवीताई 'नाच ग घुमा' उपरांत, म्हळ्यार १९८८ उपरांत, लेखिका म्हण नामनेक पावल्यो तरी ताचे आदीं तांगेलीं स पुस्तकां मराठींत प्रकाशित जाल्लीं. 'सायली' हो तांगेलो पयलो कविता संग्रह १९८४ वर्सा उजवाडा आयलो. उपरांत 'कठपुतळी' (कथासंग्रह), 'मंजिरी', 'तितली' (कादंबऱ्यो), 'चकवा' (कविता संग्रह), 'आसरा' (एकांकी संग्रह) अशीं क्रमान पुस्तका उजवाडा आयलीं. खरें म्हळ्यार कोणूय लेखक आत्मचरित्रा उपरांत एक तर लेखन थांबयता वो ताची बरोवपाची गती उणी जाता. पूण माधवीताईचें उरफाटें. 'नाच ग घुमा' ह्या आत्मकथना उपरांत सात वर्साच्या काळांत तांणी सात पुस्तकां बरयलीं. 'असं म्हणू नको', 'सागर', 'कथा सावली' हे तीन कथा संग्रह, 'हरवलेल्या वाटा' ही कादंबरी, 'घर माणसांचे' हें दीर्घकाव्य, 'घुमारे', हो ललीत लेख संग्रह आनी हालींची म्हळ्यार १९९५ वर्साची गोंयच्या समाजजीवनाचेर बरयिल्ली 'प्रार्थना' ही कादंबरी, अशी तांगेली विपूल साहित्य संपदा आसा. ते भायर अमृता प्रितम हांगेल्या पंजाबी कथांचो अणकार 'कथांच्या अंगणात' ह्या नांवान उजवाडा येवपाचो आसा.

बेळगांवच्या सन्मित्र मराठी साहित्य संघाच्यो त्यो अध्यक्षा आसात. आनी दर वर्सा धंयच्या ग्रामीण वाठारांत ही संस्था साहित्य संमेलना सारके उपक्रम घडोवन हाडटा. गोंयांत १९९५ वर्सा पयलेच खेपे जाल्ल्या अखिल गोंय महिला लेखिका संमेलनाच्यो अध्यक्षा जावपाचो मान तांकां लाबलो. तांगेल्या 'नाच ग घुमा' पुस्तकाखातीर तांकां 'दामानी साहित्य पुरस्कार' लाबला. १९९६ वर्सा तांगेले 'प्रार्थना' कादंबरीक गोमंतक मराठी अकादमी आनी कला अकादमी हांचे साहित्य पुरस्कार फावो जाले.

माधवी, भालजी पेंढारकारांची चली. भालजी पेंढारकर म्हळ्यार मराठी चित्रपटसृश्टींतले एक व्हडले जादूगार! मुंबयंत तांगेलो सगळो संवसार चित्रपटसृश्टींतूच भरसल्लो. अभिनय, संगीत, नाच आदी कलेंतल्या दिग्गज कलाकारांच्या सहवासांत वाडिल्ल्यान माणकुल्या माधवीकूय दिसलें, आपणेंय कलेच्या क्षेत्रांत वावुरचें. लता मंगेशकर, आशा भोसले हांचें गायन कलेचो आविष्कार ती आपल्या दोळ्यांनी पळयताली. आपणेंय पार्श्वगायिका जावचें अशें माधवीक दिसतालें. तिगेले आवयक ह्या सपनाची सूलूस लागली आनी तिणें चलयेचे उमेदीची आंकरीच खुंटून उडयली. आपल्या समाजांत चलयांक चारचौगांत प्रतिश्ठा लाबतली जाल्यार हे कलेची कास ताणें सोडपाक जाय अशी तिची ठाम समजूत आसली. माधवीचो आंवडो गळ्यांतूच अडलो. मॅट्रिकेची परिक्षा जायनाफुडें,

म्हळ्यार निमाणो पेपर जाले बरोबर त्याच दिसा, तिका पळोवपाचो समारंभ दवरलो. गोंयचे नरेंद्र काटकार हांचेलागीं १९५२ वर्सा तांगेलें लग्न जालें. माधवीताई गोंयची सून जाली. पूण घोवाक मुंबयंत नोकरी मेळिल्ल्यान तीं मुंबय रावपाक गेलीं. तांकां मीरा, यशोधरा आनी गीतांजली अशो तीन चलयो जाल्यो. एकलो जोडकार आनी चार तोंडां खावपी अशी परिस्थिती तांगेल्या वांट्याक आयली. अठरा वर्सांच्या तांगेल्या सहवासाउपरांत तांगेलो घरकार नरेंद्र ह्या संवसाराक अंतरलो. उपरांतच्चीं कांय वर्सां अशींच थीर जावपाकूच गेलीं. मागीर १९७३ वर्सा तांगेल्या जिवीताक थीरताय लाबली.

नामनेचे मराठी लेखक आनी कोवाडचे जमीनदार रणजीत देसाई हांचेलागीं तांचो पुनर्विवाह जालो. मदलो काळ खूब वैभवांत आनी सुखांत गेलो. चलयांचीं लग्नांय बरेभशेन जालीं.

पूण सुंदर संवसाराक दिश्ट लागची तशें घडलें आनी रणजीत देसाईंनी तांकां घटस्फोट दिलो. उपरांत ती गोंयांत येवन स्थायीक जाली. तांगेले उद्ध्वस्त जिणेचो हो पट हांवें 'नाच ग घुमा'त वाचलो. ही 'घुमा' म्हज्या काळजांत खोल रुतली आनी घुमत रावली.

एके सुंदर सकाळीं पणजेच्या रस्त्यार माथ्यावयल्यान पदर ओडिल्ली धवे साडयेंतली एक वयस्क बायलमनीस म्हाका हटकीत म्हजे म्हऱ्यांत आयली. आनी म्हजे फाटीर हात दवरीत तिणें म्हळें, 'तूं ज्योती कुंकळकार न्हय? तुजी 'मुक्ता' टेलिफिल्म हांवें दूरदर्शनाचेर पळयली. कालूच तुका पत्र बरयलां.'

वाटेर जायते जाण मेळटात, हटकितात. पूण ह्या हटकुपांत अपुरबायेची, मायेची ओलसाण आशिल्ली. हांवें वळून पळयलें. हय. माधवी देसाईच. तांकां पयसुल्ल्यान एक-दोन फावटी पळयल्लें. तांगेलें 'नाच ग घुमा' वाचून भारावन गेल्लें. तांगेलें भाशण आयकून प्रभावीत जाल्लें. पणजेच्या रस्त्यारच आमची वळख जाली. तांणी आपणाल्या घरा बांदोड्या येवपाचें आमंत्रण दिलें. पडत्या फळाची आज्ञा मानून हांव दुसऱ्याच दिसा तांगेर गेलें. मोटे उमेदीन म्हजें स्वागत केलें. उपरांत तांणी आपणाली साडयांची आरमार उकती करून म्हाका म्हळें, 'ह्यो म्हज्यो आवडीच्यो साडयो. हातूंतली ही एक साडी, म्हजी तुका बक्षीस! तुज्या फिल्माखातीर!' तिगेल्या धव्या साड्यांमदली एक आशिल्ली ती.

साडयेच्या मोलापरस माधवीताईन ती म्हाका बक्षिस म्हूण दिली हाचें मोल चड आशिल्लें. मागीर आमची इश्टागतीची वीण वाडत गेली. म्हज्या पयल्या मराठी कथासंग्रहाक तांणी प्रस्तावना बरयली. तांगेल्या चलयांकडेन वळख जाली. यो-वच जालें. आमगेल्या साहित्यीक संबंदांक नकळटना एक कुटुंबीक नातें लाबलें. तांचेलागीं घडिल्ले एके भेटीचें हें मुलाखतीत रुपांतर.

**□ तुमी कविता, कथा, कादंबरी हे साहित्य प्रकार मोट्या प्रमाणांत हाताळ्ळ्यात. हातुंतलो खंयचो प्रकार तुमकां अदीक आवडटा ?**

कविता, कथा, कादंबरी ह्या साहित्य प्रकारांची प्रत्येकांचीं वेगवेगळीं वैशिश्ट्यां आसात. कविता हो प्रकार खूब लहरी स्वरुपाचो. तो येतनाच खूब भितरल्यान, काळजांतल्यान येवचो पडटा. कादंबरी हो साहित्य प्रकार फकत आकारानूच मोटो न्हय तर ताचो कॅनव्हासूय तितलोच व्हड. अनेक व्यक्तिरेखा, खूब प्रसंग, प्रसंगाप्रमाण वातावरण निर्मिती हांची मोठ्या कसबान आनी कलात्मक रितीन सांगड घालची पडटा. कथेक मात एक ल्हानशेंच बीज उपकरा पडटा. हें बीज वेगवेगळ्या आंगांनी मांडपाक मेळटा, फुलोवपाक मेळटा देखून म्हाका सगल्या प्रकारांमदीं कथा हो प्रकार खूब आवडटा.

**□ पिरायेच्या मानान तुमी खूब उसरां बरोवपाक आरंभ केलो. तुमचेमदीं आशिल्ले प्रतिभेची वळख वो साक्षात्कार तुमकां केन्ना आनी कसो जालो ?**

हांवें खूब उसरां बरोवपाक सुरवात केली हाचें आयज म्हाका खूब समाधान भोगता. कारण आतां म्हाका एक परिपक्वता, मॅच्युरिटी आयल्या. म्हजी एक विचारधारा तयार जाल्या अशें म्हाका दिसता. रणजीत देसाईकडेन लग्न जातकूच कोवाडच्या त्या शंबर वर्सां आदल्या, अठरा कुडींच्या गजवाड्यांत हांव रावपाक गेलीं. आदिवासी स्वरुपाचो गांव. घरांत सोयरे-धायरे, इश्ट-मित्र हांचें यो-वच खूब. पूण घरांत रावपाक मनशां कमी, सांगाताक फकत 'गडी' मनशां. त्या येदुया व्हडल्या घरांत हांव एकलीच बायलमनीस. लेखक म्हण घोवाचें विश्व सामकें वेगळें. हांगासल्लें एकसुरेपण, एकांत म्हाका असह्य जालो. हांव खूब अंतर्मुख जालीं आनी हांगासरूच म्हज्या काळजांत बरोवपाची कीट पडली. आमचे थंय मोटमोठ्या साहित्यिकांची, कलाकारांची उठबस जाताली. तांगेलो सहवासूय लाबतालो. पूण म्हज्या बरोवपाक प्रेरणा म्हणून तांचो उपेग जालोना.

**□ 'नाच ग घुमा' हें तुमचें आत्मचरित्र मराठींत खूब गाजलें. तें गाजपाफाटलें कारण कितें ? लोकांक रणजीत देसाई हांचेविशीं समजून घेवपाची उमळशीक, काय तुमी मांडिल्ली स्त्री व्यथा ?**

आरंभाक वाचप्यांक तीव्र उत्कंठा आशिल्ली. कारण आमचें घटस्फोटाचें प्रकरण गाजिल्लें. तांगेले बायलेन घोवाचीं उणीं दुणीं काडल्यांत आसतलीं हेच भावनेन पयले दोन म्हयने हें पुस्तक गाजलें. पूण मागीर मात वाचप्यांक त्या चरित्रांतली बायलेच्या अंतर्मनाची सनातन वेदना जाणवली. लोकांनी ती समजून घेतली.

**□ 'नाच ग घुमा' वयल्या प्रतिक्रियांचें स्वरूप कितें आसलें ?**

पुस्तक प्रकाशित जावचे आदीं निनावी पत्रां आयलीं. धमक्यो आयल्यो. कारण देसाई कुटुंबियांक आपणाविशीं तातूंत वायट बरयत म्हणपाचो दुबाव आसलो. पुस्तक प्रकाशित जालें. अवघ्या तीन म्हयन्यांभितर पयली आवृत्ती सोंपली. परिक्षणां खूब

आयलीं. पूण तांतूंत भौतेक उथळ, दुशीत विचारांनी भरिल्लीं आशिल्लीं. म. वा. धोंड सारके मराठींतले साक्षेपी समीक्षक, तांणी पुस्तकाचें खूब कवतूक केलें. पूण तांकांय एके बायलेचे वेदनेपरस तातूंत ते बायलमनशेची 'जात' दिश्टी पडली. ह्या पुस्तकाक जाणकार समीक्षकांनी सारको 'न्याय' दिलो ना अशें म्हजें स्पश्ट मत. पूण सामान्य वाचप्यांनी मात हें पुस्तक माथ्यार घेतलें. आयज ताची सवी आवृत्ती भायर सरल्या. सुमार अडेच हजार वाचप्यांचीं पत्रां म्हाका आयल्यांत.

☐ **आत्मचरित्राचो फुडलो भाग बरयतलीं ?**

हय. कारण उपरांत जायत्यो बऱ्यो घटना घडल्यात. तांतूंत गोंय येतलें.

☐ **खंयच्या साहित्यिकांनी आनी खंयच्या साहित्यकृतींनी तुमचेर प्रभाव घाला ?**

वि. स. खांडेकरांची अलंकारीक शैली म्हाका भूल घालता. वायट गजाली लेगीत सुंदर उतरांनी सांगपाची साने गुरुजींची शैली म्हाका आवडटा. विश्राम बेडेकरांची 'रणांगणा', रणजीत देसाईची 'स्वामी' ह्यो कलाकृती म्हाका आवडल्यात. कन्नडांतले एस. एल. भैरप्पा हांगेल्यो 'पर्व' आनी 'वंशवृक्ष' ह्यो कादंबऱ्यो यादस्तेंत उरपासारक्यो. अमृता प्रितमची भाषाशैली म्हाका खूब आवडटा.

☐ **गोंयच्या स्त्री-लेखकांचे प्रतिभेविशीं, साहित्याविशीं तुमकां कितें दिसता ?**

सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार हांगाचीं बायलां बरयतात हाचेंच चड कवतूक दिसता. कारण तीस वर्सां आदीं ही परिस्थिती नासली. बरोवपांत एक धडपड आसा, उमेद आसा. हांगाच्या बायलांच्यो कथा चड करून घटनाप्रधान आसतात. तांकां चिंतनाची, विचारांची जोड दिवपाची गरज आसा. हांगाथंय भोवंक जाय, अणभव घेवंक जाय. त्या मानान बायलांनी बरयिल्ल्यो कविता बऱ्यो आसात. बायलांनी आपणाले लेखन प्रवृत्तिची जपणूक करपाक जाय.

☐ **साहित्यांत आयिल्ली बायलांची प्रतिमा कितली खरी आनी कितली फट आसता ?**

आदल्या साहित्यांतल्या बायलांची प्रतिमा घराचे चौकटींतली आनी पारंपारीक स्वरुपाची आसली. कारण तो समाजूय तसोच आशिल्लो. पूण आतांची बायलांची प्रतिमा वेगळी आसा. चड करून गौरी देशपांडे, सानीया, प्रिया तेंडुलकर ह्या स्त्री-लेखकांनी जी बायलांची प्रतिमा उबी केल्या ती खूब म्हळ्यार खुबूच मुक्त. ती तशी आसूंक जाय कशी दिसता. पूण प्रत्यक्ष समाजांत मात तशें ना. देखून ती मनाक पटना. त्या मानान आदली प्रतिमा अदीक वास्तव आशिल्ली अशें म्हजें मत.

☐ **बायलांच्या स्वातंत्र्याविशीं तुमचें मत कितें ?**

बायलेक गृहिणीपद चुकना. तें सांबाळून तिणें आपणालें व्यक्तिमत्व, करिअर घडोवंक जाय. अर्थात संवसार आनी करिअर ह्यो दोन गजाली सांबाळप म्हळ्यार तारेवयली

कसात. भुरगीं आनी संवसार हांकां बायल मनशेन 'न्याय दिवपाक जाय. कारण समाज व्यवस्थेंतली ती म्हत्वाची घटक आसा. अर्थात बायलेक कोणें दामून दवरपाचो यत्न करचो न्हय. आपणालें व्यक्तिमत्व विकसीत करप हो तिचो हक आसा.

☐ **कलाकाराक जात लागना अशें म्हणटात. पूण तुमी एक लेखिका आसून लेगीत गोमंतक मराठी समाजाच्या व्यासपीठार वतात. थंय उलयतात. तेविशीं कांय वादूय उप्रासल्यात. हेसंबंदी तुमची भुमिका कितें ?**

कलाकाराक जात लागना हें म्हाका मान्य आसा. आनी ज्ञाती संस्थांचो जे पुरस्कार करतात तातूंतली हांव न्हय हें हांव आदींच स्पश्ट करतां. गोमंतक मराठा समाजाक ७१ वर्सां पूर्ण जातात म्हण त्या समारंभाक म्हाका उलोवपी म्हण आमंत्रण आसलें. तें आमंत्रण हांवें म्हजो आनी त्या समाजाचो संबंद आसा म्हूण स्विकारूंक नासलें तर एक संस्था नगण्य अवस्थेंतल्यान मुखार सरून एका समाजाक प्रतिश्ठा आनी वैभव प्राप्त करून दिता हे गजालीचें म्हाका कवतूक. आनी देखूनच हांव थंय गेलीं. तशीं हेर सामाजाच्या वा जातींच्या व्यासपिठारूय आपयल्यार हांव थंय वतां. ह्या व्यासपिठावयल्यान समाजीक प्रबोधन घडचें अशी म्हजी भावना आसता. थंय कोणाक उणें अदीक लेखपाचो प्रस्न नासता. म्हजी ही भावना वो विचार जे कोण समजून घेनात ते पारंपारीक अर्थान म्हाका 'जातीयवादी' लेखतात हाची म्हाका खंत भोगता.

☐ **तुमी आदीं पळयिल्लें गोंय आनी आतांचें गोंय हातूंत कसलो फरक आसा ?**

जर्मीन-मळबाचो फरक आसा. १९५२तलें गोंय आनी १९९६तलें गोंय सामकें वेगळें. कलेंत्ली बायलांची मुक्तपणान तोखणाय करपाची सगल्यांचीच वृत्ती जाल्या ही बऱ्याची गजाल. बायलां नाटकांनी काम करतात. गोंयाभायर खेड्यांनी ही परिस्थिती ना. सांजवेळा फर्मागुडयेर घोव स्कुटर धेवन बसींतल्यान येवपी बायलेची वाट पळयता हें दृश्य म्हाका नव्या बदलाचें आनी प्रगतीचें लक्षण दिसता.

☐ **तुमी कांय वर्सां गोंयांत उरलीं. मागीर गोंया भायर उरलीं. आतां परत गोंयांत येवन स्थायीक जाल्यांत. गोंय तुमकां आपलेंशें दिसता ?**

मनापसून गोंय म्हाका म्हजें दिसता. हांवें खंय रावपाचो हो प्रस्न निर्माण जाले उपरांत म्हजेकडेन कांय पर्याय आशिल्ले. कोल्हापूर म्हजें कुळार. म्हज्यान थंय रावं येतालें. बेळगांवां म्हजें स्वताचें घर आसा. थंय म्हजीं भुरगीं आसात. थंयूय बरेभाशेन रावपाक जातालें. पूण हांवें रावपाखातीर गोंयाची निवड केली. कारण म्हज्या काळजांत गोंय आशिल्लें.

☐ **तुमकां गोंय आपलेंशें दिसता. गोंयाक तुमी आपलीं दिसतात ?**

तें तुमी गोंयकारांक विचारात, हांव तांकां तांची दिसतां काय भायली दिसतां तें. पूण हांगाच्या लोकांनी म्हाका खूब मोग दिलो. जंय वतां थंय लेखिका म्हण म्हाका

मान मेळटा. प्रेम मेळटा. हांव गोंयकारांक म्हजें मानतां. तेवूय म्हाका आपले मानता आसुंये.

माधवीताई गोंयच्या साहित्यिक कार्यावळिंनी मोटे आस्थेन वांटो घेतात. नवोदितांक समजून घेतात, मार्गदर्शन करतात, केन्ना सामाजीक संस्थांच्या व्यासपिठावयल्यान उलयतात, केन्ना राजकी व्यासपिठांचेरूय चडटात. आपल्या मनांतली तळमळ व्यक्त करतात. आपली समाजीक बांधिलकी पाळटात. माधवीताई ज्या व्यासपिठाचेर आसता थंय आपसूक एक चैतन्य वसता.

* * *

## गोंयची नाट्यतपस्विनी, स्वाभिमानी तशीच मानीनी

# अलका वेलींगकार

---

गोंयची उत्सवी रंगमाची ही एक देशांतली अनोखी अशी रंगभूमी. कारण हांगासर उत्सवांच्या निमतान देवळां-मंदिरांच्या प्राकारांत दर वर्सा हजारांनी नाटकांचे प्रयोग जातात. हे प्रयोग सादर करपी त्याच वाठारांतले हौशी कलाकार आसतात. हातूंत नाटक बसोवपी मास्तर, वाद्यवृंद आनी नट हेच घटक व्यावसायिक आसतात. त्याच अर्थान अलका वेलींगकार ह्यो एक व्यावसायिक अभिनेत्री.

गोंयचे नामनेचे ज्येश्ठ नाट्य कलाकार भौ. कृष्णा लक्ष्मण मोये नाट्यतपस्विनी म्हण तांचो गौरव करतात कारण अलकाताई गोंयचे रंगमाचयेर चार तपांपरस अदीक काळ निश्ठेन, मचांटीन वावरत आसतात.

वामनराव सावकार, मूर्या वाघ, जयकृष्ण भाटीकार, मा. काशिनाथ शिरोडकार, गोपीनाथ सावकार, विश्वनाथ नायक, मा. नरहरीबुवा वळवयकार, डॉ. सावळो केणी, विनायक नाटेकार, दामाजी कोमंबे, मा. सुरेश हळदणकार, ज्योत्स्ना मोहिले, विमल कर्नाटकी, [illegible] [illegible], कीर्ति शिलेदार, अंजली घांग्रेकर, मधुवंती दांडेकर अशी नामवंत कलाकारांनी मराठी रंगमाचयेर आपली अशी कुरू रेखून नाट्यसेवा केली. अलकाताईन ह्या कलाकारां बरोबर कामां केलीं आनी ते उजळ परंपरेच्यो ती वांगडी जालीं.

अभिमन्यूक स्वंय चक्रव्यूह भेदपाचें ज्ञान आवय सुभद्रेच्या पोटांत आसतनाच होलमल्लें. अलका वेलींगकार हांकांय नाट्यकलेचे धडे आवयच्या पोटांत आसतनाच मेळ्ळे. तांची आवय सुंगा पर्वतकार स्वताची नाटक कंपनी चलयताली. तांणें घराणें नाटकाखातीर ओंपून घेतिल्लें आसलें. नाटकांत कामां करतालीं. नाटक कंपनी कारवारच्या दौऱ्यार आसतना अलकाताईचो जल्म जालो. भुरग्याचे पांय पाळण्यांत दिसतात अशें म्हणटात. स म्हयन्याचें आसतना अलका 'पुण्यप्रभाव' नाटकांत पाळण्यांत न्हिदपाचें काम करतालें! आनी पांचव्या वर्सा पासून 'सौभद्र' नाटकांतले 'कोकिळे'चे भूमिकेंत ती रंगमाचयेर देंवली.

अलकाताईची जिवीत-काणी आयकतकच दिसता, हे अभिनेत्रीचें समाजान खूब कवतूक केलां. तिका पुरस्कार, मानसन्मान दिले. गोंय सरकाराच्या सांस्कृतिक विभागाचो 'नाट्यकलावंत' म्हणून राज्य पुरस्कार लाबलो. गोमंतक मराठी अकादमीचें 'नाट्यकलावंत' म्हणून मानद अधिसदस्यत्व मेळ्ळें. गोमंतक मराठी अकादमीचो रघुवीर सावकार रंगदेवता रंगपुरस्कार, म्हापशां जाल्ल्या पयल्या गोमंतक मराठी नाट्यसंमेलनांत ज्येश्ठ आनी श्रेष्ठ नाट्यकलावंतांबरोबर लाबलो. पूण अशें दिसता, हाचेपरस समाजान तांचेर अदीक लक्ष दिवपाची गरज आसली. कारण आपले कलेचो बाजार मांडून तांणी आपणाले फुडाराची तजवीज करूंक ना. पूण अशे परिस्थितींतूय तांणी आपणाली कलानिश्ठा शाबूत राखल्या. आजुनूय तांकां आकाशवाणीचेर नाटकां खातीर कॉन्ट्रॅक्ट येतात. पूण आपलो आवाज सारको ना हाची जाणीव तांकां जाल्ल्यान ते कॉन्ट्रॅक्ट परते धाडटात. पूण तेच बरोबर तांचे लागीं जे भुरगे नाटकाचें मार्गदर्शन घेवपाखातीर येतात तांकां तीं योग्य तें मार्गदर्शन करतात.

नामनेचे नाट्यदिग्दर्शक, नट, तंत्रज्ञ अशे तातोबा वेर्लींगकार हांगेली ही घरकान्न. रंगमाचयेरूच हांची जल्मगांठ बांदली. फाटलीं ५० वर्सां हें जोडपें रंगदेवतेची सेवा करीत आसलें. मदींच तातोबा देवाक प्रिय जाले. अलकाताई एकटुली उरली. तातूंत जडिल्ल्या दुयेंसान तांच्या जिवाकडेन खेळ मांडलो. पूण आयचे घडकेक पैशांचें सवंग हाडप तांकां खूब कठीण जालां. तरी आसतना वेर्लींगच्या कुळागरांतले माडयेसारकी ती खंबीर आसा.

अलकाताईच्यो मुलाखती जायत्या जाणांनी, जायत्या वर्तमानपत्रांनी घेतल्यात. नाट्यजाणकारांनी तांचेविशीं गौरवान बरयलां.

मदीं तांची मुलाखत घेवपाची इत्सा आशिल्ली. पूण तातोबांची भलायकी बरी नाशिल्ल्यान शक्य जालें ना. हे खेपे तांच्या घरा वचून तांची खाशेली मुलाखत घेतली.

**☐ उत्सवी नाटकांत नटी आसप म्हणजे नाटकांतल्या कलाकारांनी आंबटशौकीनपणां करप, प्रेक्षकांनी फकाणां मारप अशें चलत आयलां. पूण असल्या नाटकांत अलका वेर्लींगकार आसल्यार मात सगळे शिस्तीन, अलकाताईंच्या प्रभावाखाला चलताले. म्हाकाय असो अणभव आसा. अशें कित्याक लागून घडटालें?**

अशें घडटालें खरें. ताचें कारण म्हळ्यार सगळ्यांत पयलीं हांव नाट्यकलेक म्हत्व दितालीं. नाटकाच्यो येसायो सारक्यो जातात काय ना ताचेर खासा लक्ष दितालीं. म्हत्वाचें म्हळ्यार नाटकाचें निदान चार दीस तरी आदीं वतालीं. एकमेकांक मदत करतालीं. उत्सवी रंगमाचयेर हो आंबटशौक आसा खरो आनी ताका कांय वाट्यान नटयोय कारण जावन आसात. दादले तर असल्या संदीची वाट पळयतात. हांव जेन्ना

नाटकाक वतालीं तेन्ना म्हजे बरोबर केन्ना म्हजो घोव आसतालो, केन्ना म्हजो मामाय आसतालो. म्हजी इमेज राखपाक तांचोय आदार जातालो. हांवें नटी म्हणून केन्ना कोणाकडेन हाडपा व्हरपा संबंदान, खाणा जेवणा संबंदान कसल्यो मागण्यो केल्योनात. केन्ना बसीन गेलें, पेज जाल्यार पेज जेवन समाधान मानलें. कलेकडेन आडनदर करून ज्यो अभिनेत्री नाटकाच्या नांवार हेर सुखसोयींची आस्त धरतात तांच्याच वांट्याक तें आंबटशौकीनपण येता.

□ **एका काळार तुमचे जवानींत तुमी सुंदर आशिल्लीं. रंगमंचार वावुरतना दादल्या कलाकाराकडल्यान तुमकां वायट वागणूक मेळ्ळीना?**

तशे तरेची वागणूक वा प्रसंग रंगमाचयेर स्त्री कलाकारांच्या वांट्याक येता. म्हज्या वांट्याक ती उणी आयल्या इतलेंच. आनी हाचें कारण म्हळ्यार रंगमाचयेर हांव खूब सावधपणान वावुरल्यां. केन्नाय कोणें सभावीक अभिनयाचो आव हाडून गरजेभायर हात धरला, आनी हांवें नदरेच्या कटाक्षानूच ताका जाग्यार हडला. केन्नाय नाटकांत आलिंगनाचीं दृश्यां आसतात. घोव-बायलेचें, भाव-भयणीचें, बापूय-धुवेचें अशें हें आलिंगन आसूं येता. आनी नाटकाचे नदरेन तें गरजेचें थारता. अशा प्रसंगार त्या सिनाच्या वेळार हांव म्हजो दावो हात दादल्याच्या हड्ड्यार दवरतालीं आनी उजवो हात ताचे फाटीर. म्हणटकच दादल्यान अभिनयाच्या भरांत वा मुद्दम जरी म्हाका गरजेपरस अदीक लागीं ओडपाचो यत्न केलो तरी हांव म्हज्या हातांचो वापर करून अंतर राखतालीं आनी पळयतल्यांकूय त्या सिनाचो कलात्मक आनंद घेवपाक दितालीं

□ **रंगमंचावयल्यो तुमच्यो सगळ्योच भुमिका यशस्वी जाल्यात. भुमिका यशस्वी करपाची तुमची खाशेली अशी पद्धत आसा?**

कसलीय भूमिका जावं, ल्हान वा व्हड, ते भूमिकेंत आदीं जीव ओतप, येसाय व्यवस्थित घेवप, उच्चार स्पश्ट आनी पूर्ण आत्मविस्वासान प्रेक्षकांमुखार अभिनय कसब पणाक लावप ही पथ्यां हांव जिवीतभर पाळीत आयल्यां. देखून म्हाका रंगदेवता सदांच प्रसन्न जाल्या.

□ **हरशीं घोव कलाकार आसल्यार बायल संवसाराचो भार सांबाळटा वा बायल कलाकार आसल्यार घोवाचेर जापसालदारकी पडटा. तुमी आनी तातोबा दोगांय नाट्यकलाकार आसल्लीं. संवसारांत तुमची ओढाताण जालीना?**

आमी नाटक होच आमचो खरो संवसार मानलो. केन्ना केन्ना हांव पंदरा पंदरा दीस भायरूच आसतालीं. एका ठिकाणा वयल्यान परस्पर दुसऱ्या ठिकाणार वतालीं. तातोबाचें तशेंच. दिसांचे दीस ते नाटकां शिकोवपाखातीर हांगाथंय भोंवत आसताले. नाटकांच्या मोसमावेळार आमच्यो क्वचितूच गांठीभेटी जातात्यो. हांव म्हजे चलयेक सुनंदाक आनी प्रसन्नाक घेवनूच नाटकाक वतालीं. म्हज्या माणकुल्या भुरग्यांक सांबाळपाक

केंसर नांवाची एक बायलमनीस आशिल्ली. तिकाय बरोबर व्हरताली. आमचें हें ल्हानशें कुटुंबच कशें. वता थंयच्या कुटुंबांत आमी भरसतालीं. तशी घरच्या संवसाराचेर आडनदर जाताली. पूण ह्या नाटकाच्या संवसारांतलें समाधान खूब मोटें आशिल्लें.

**□ आयजवेर तुमी असंख्य नाटकांनी वेगवेगळ्यो भुमिका केल्यो. तातुंतल्यो तुमकां खास आवडिल्ल्यो वा तुमचेर प्रभाव घाल्ल्यो अशो भुमिका खंयच्यो ?**

हांवें सुमार चारशें तरी मराठी नाटकांनी भुमिका केल्यात. प्रयोगांची संख्या तर हजारांनी. सगळ्यांत चड प्रयोग हंस संगीत नाट्यमंडळाच्या 'मत्स्यगंधा' नाटकाचे जाले. ह्या नाटकांत हांव सत्यवतीची भुमिका करतालीं. ह्या नाटकाचे गोंयांत तशेंच गोंयाभायर आनी दिल्लीक धरून ३५ प्रयोग जाले. 'शारदा' नाटकांतल्यो 'वल्लरी' आनी 'इंदिराकाकू' ह्यो भुमिका हांवें केल्यात. खंयूय 'संशयकल्लोळ' आसल्यार कृत्तिकेची भुमिकाच म्हज्या वांट्याक येताली. 'एकच प्याला' नाटकांतली सिंधू आनी गीता, 'स्वयंवर' नाटकांतली रुक्मिणी, 'रायगडाला जेव्हां जाग येते'तली सोयराबाई, 'ययाती देवयानी' नाटकांतली देवयानी ह्यो भुमिका म्हाका आनंद दिवन गेल्यात. 'कोणे एकेकाळी' ह्या नाटकांतले कल्याणीचे भूमिकेन म्हाका जिद्द दिल्या, विचार करपाक लायला, मनशां पारखुपाक शिकयल्यांत. हे भूमिकेन म्हज्या काळजाक हात घाला.

**□ तुमी व्यवसायिक कलाकार. तुमचे बरोबर वा उपरांतूय अशो जायत्यो व्यवसायिक स्त्री-कलाकार आसात तांच्यो 'नायटी' सुमाराभायर आसात अशें नाट्यक्षेत्रांत उलयतात. तुमीय मानधन घेवन कामां केल्यांत. तुमचो अणभव कितें ?**

'नायट' हें उतर बरें दिसना. मानधन बरें दिसता. व्यवसायीक स्त्री-कलाकार शेंकड्यांनी न्हय, दोन हजार रुपयां मेरेन मानधन घेतात. तांणी घेवपाकूय कसली हरकत ना पूण तांणी कलेकडेन प्रामाणीक रावचें. कलेचो बाजार मांडचो न्हय. म्हज्या जिवितांत हांव नाटकांच्या मोबदल्याचेरूच जियेलां. गरज थंय हांवें आंकडो सांगला. भावार्तान श्रद्धेन ज्या उत्सवांनी वा देवळांनी नाटकां केल्यांत थंय मानधन म्हण प्रसादाचो दोणो आनी फूल घेवन समाधान मानलां. एक आनी दोन वर्सां न्हय, पंदरा पंदरा वर्सां! जंय फंडाक वो समाजकार्याक कोणाच्याय सत्काराक नाटकांचे प्रयोग जाल्यात थंय पैशांखातीर अडोवंना, नाटक करप्याक पैशांची चाट बसल्या थंय हातांतलें मानधन ताचे सुपूर्द केलां. आनी तृप्त मनान घरा आयलां.

**□ आदर्ली नाटकां आनी आतांचीं नाटकां हातूंत तुमकां कसलो फरक जाणवता ?**

तसो खुबूच फरक आसा. आमचीं उत्सवाचींच नाटकां घेवंया. पयलीं नाटक म्हणटकूच गांवांत एक वातावरण आसतालें. त्या वातावरणांत उमेद, उत्साह आसतालो. आयज ही परिस्थिती ना. तेन्ना नाटकांत कथानक आसतालें. वैशिश्टपूर्ण अशो व्यक्तिरेखा आसताल्यो. संगीत आसतालें. अभिनयाची कसोटी लागताली. आयच्या नाटकांनी

तंत्राचेर चड भर दिल्लो दिश्टी पडटा. नाट्यकलेच्या मूळ गुणांकडेन आडनदर जाल्या हाची म्हाका खंत भोगता.

□ **तुमची आतां उतार पिराय. हे पिरायेर तुमचो नाट्यकलेकडेन संबंद कसो तिगून आसा ?**

आतां हांव नाटकांत कामां करिना. पूण भुरग्यांक नाटकाचें मार्गदर्शन करतां. हांव आकाशवाणी पणजी केंद्राचीं मान्यताप्राप्त कलाकार. मराठींत तशेंच कोंकणींत हांवें असंख्य नभोनाट्यांनी वांटो घेतला. आजूय म्हाका आकाशवाणीचेर नाटकांत वांटो घेवपाक कॉन्ट्रॅक्ट येतात. हांव ते परत धाडटां. तशें पळोवपाक गेल्यार म्हाका पयशांची गरज ना अशें न्ही. पूण म्हजो आवाज ऑपरेशन केल्ल्यान आदले सारको बरो ना हाची म्हाका खात्री पटल्या. आतां आवाज हळूहळू सुदारता. हांव एक निजाचीं कलाकार. फुलां विकल्यांत थंय गरजेक लागून हांव वावळी केन्नाच विकचीं ना.

एका काळार भरजरी शालू न्हेसून रंगमंचार वैभवान मिरोवपी आनी असंख्य प्रेक्षकांच्या मनांत त्या वैभवाची आसुया निर्माण करपी, गोंयच्या कलेच्या कुळाराची शान सोबपी अशी ही नाट्यतारका अलका वेलींगकार, आयचे घडयेक वेलगां चरितार्थाची वेवस्था करपाखातीर घरांतल्या घरांत ल्हानसो पसरो चलयता अशें म्हणून सांगल्यार कोणाक खरें दिसचें ना. अर्थिक परिस्थितीन तांकां लागीं हाडल्यात पूण स्वाभिमानाच्या कण्याक अजून बाग पडूंक ना. उबे जिणेंत अलकाबाय फकत रंगदेवतेमुखार बागवल्या, पूण परिस्थितीमुखार केन्नाच बागवूंक ना.

* * *

## संकश्टां पेलून आपली आपणांक घडोवपी

# आशा सावर्डेकार

कांय मनशांच्या जिवितांत सगळीं सुखां हात जोडून उबीं आसतात. सुसंस्कृत वैभवशाली घराण्याची परंपरा, शिक्षणाचो वरदहस्त, आपल्या इत्सां-हावेसांक जाय तसो आकार दिवंक मेळटा अशें व्यक्तीस्वातंत्र्य. मान, प्रतिश्ठा, पैसो सगळें सगळें हाताकडेन. पूण ह्या सुखाचो माज ना. तरी लेगीत नियती नांवाची शक्ती विचित्र तरेन फांशे उडयता. वयर उडपाक सोदपी मनशाक गचेक धरून न्हिन्नळायता आनी एका खिणांत भुंयेर आदळून दांत किल्लुसून ताका म्हणटा, 'आतां वयर सरून दाखय.'

एकाद्रे कथा-कादंबरींत घडपी ही दैवी लीला आशा सावर्डेकार हांच्या जिवितांत घडल्या. दैवी आघातान दिल्लें आव्हान तांणी तितल्याच समर्थपणान पेलून दाखयलां.

आशाबायचो जल्म पणजी शारांत जालो. पणजेचे नामनेचे वकील आनी स्वातंत्र्य सैनिक सर्गेस्त विनायक कैसरे हांगेली ती चली. तिगी भयणी आनी दोग भाव असो तांगेलो परिवार. तांगेलें भुरगेपण पणजेच गेलें. मॅट्रीक मेरेनचें शिकप पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत जालें. भुरगेपणापसून तांचेर देशप्रेमाचे आनी समाजसेवेचे संस्कार घडले. तांगेलो बापूय स्वातंत्र्यसैनिक आनी वकील आशिल्ल्यान माधव बीर, मोहन रानडे, सुधाताई जोशी. ना. ग. गोरे, मधु लिमये आदी स्वातंत्र्यसेनानी तांगेर येताले. पुर्तुगेज सरकारान तांचेर घाल्ल्यो केसी कोर्टांत तांचो बापूय चलयतालो. आशाबायक ह्या व्यक्तींचो सहवास लाबलो. तांकां मुखार शिकपाची जबर आवड आशिल्ल्यान मॅट्रीक जातकूच मुखावयलें शिकप घेवपाखातीर ती मुंबय गेली. थंय तांणी एम्.ए., एम्.एस्.एस्. ह्यो पदव्यो जोडल्यो. गवर्नमेंट लॉ कॉलेजींत तांणी एल्.एल्.बी. केली. १९६१ वर्सा ती गोंयांत आयली. गोंय स्वतंत्र जाल्लें. गोंयांतली तेन्नाची ती पयली वकील बायलमनीस. समाजाकडल्यान कवतूक जातालें. वकील म्हूण तांणी फकत एकूच वर्स कोर्टांत प्रॅक्टीस

केली. उपरांत पणजेच्या कस्तुरबा मातोश्री विद्यालयांत एक वर्स मैरेन मुख्याध्यापिका म्हूण काम केलें. समाजशास्त्र हो विशय घेवन तांणी शिवाजी विद्यापीठाची पी.एच्.डी. पदवीय संपादन केली.

गोंयचे पयले मुखेलमंत्री सर्गेस्त दयानंद बांदोडकार हांकां ती खूब मानता. पयले विधानसभेचें कामकाज तांणी पळयलां. तेन्ना ती सचिवालयांत अधिकाऱ्याच्या हुद्द्यार आशिल्ली.

एक बायलमनीस म्हूण लग्न हें तागेल्या जीवनाचें अंतीम ध्येय नाशिल्लें. स्वताचें व्यक्तिमत्व घडोवचें, फुलोवचें अशाच हावेसान ती जियेताली. सावर्डेच्या सावर्डेकार घराण्यांतलो विश्वनाथ सावर्डेकार हो तरणाटो भारतीय विमानदळांत वैमानिक आशिल्लो. गोंयच्या हिंदू समाजांतलो तो पयलो वैमानिक. तागेले कर्तबगारीखातीर ताका 'कीर्तिचक्र' हें प्रतिष्ठेचें पदक फाव जाल्लें. तागेल्या कर्तुत्वाखातीर आशाबाय ताचेकडेन आकृश्ट जाली. मागीर १९६७ वर्सा तांचें लग्न जालें. एका कर्तुत्वी व्यक्तिमत्वांत दुसरें कर्तुत्वी व्यक्तिमत्व विलीन जालें. आशाबायक गोंयांतली नोकरी सोडची पडली कारण घोव वैमानिक आशिल्ल्यान तांकां दिल्लीक वचचें पडलें. दिल्ली, हैदराबाद, कलकत्ता अशीं तांगेलीं ठाणीं बदलत रावलीं. तांगेल्या कुटुंबांत बिनोता आनी समिता ह्या दोगा चलयांचो जल्म जालो.

१९७२ वर्सा तांचेर अरिश्ट कोसळ्ळें. तो काळ भारत-बांगला युद्धाचो आशिल्लो. आदल्या दिसा तागेल्या घरकारान – विश्वनाथान – राष्ट्रपती डॉ. व्ही. व्ही. गिरी हांचे हस्तुकीं भारत बांगला देशाच्या युद्धावेळार केल्ले यशस्वी कामगिरीखातीर अतिविशिश्ट सेवा पदक स्विकारिल्लें. आनी दुसऱ्या दिसा दिल्लीच्या विमानतळावयल्यान वयर मळबांत गेल्लें विश्वनाथाचें विमान कोसळ्ळें. विमानाक एक शेवणें आदळिल्ल्यान हो अपघात घडलो. आशाबायचो 'नाथ' गेलो, घरेंदार उद्ध्वस्त जालो. कालच्या अतिविशिश्ट सेवा पदका खातीर अभिनंदनाचे संदेश, तारो, पत्रां येतालीं आनी विश्वनाथान सगळ्यांचो निरोप घेवन सासणाची चिरनिद्रा घेतिल्ली.

फकत स वर्सांचो संवसार! कडलें चली चार वर्सांचें जाल्यार धाकलें एक वर्साचें. आशाबाय निर्शेली पूण खचली ना. ज्या संस्कारांत आनी वातावरणांत ती वाडिल्ली तांणी तिका खचूंक दिली ना. एक वर्सभर ती मुंबय देरागेर रावली आनी फॅमिली प्लॅनींग अॅण्ड रिसर्च सेंटरांत तांणी वॉर्डन म्हूण पदविका संपादन केली.

उपरांत १९७३ वर्सा ती गोंयात आयली. गोंय सरकाराचे प्रोव्हेदोरिया हे संस्थेंत सहायक संचालक म्हण काम स्विकारलें. उपरांत स्वेच्छेन गोंय सरकाराच्या 'ग्रामीण विकास यंत्रणा' हे संस्थेंत सहाय्यक कार्यक्रम अधिकारी म्हण आयली. सध्या तीं ह्याच पदार आसात.

गोंय सरकारान तांकां पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा इन एडमिनिस्ट्रेशन हो ध्या म्हयन्यांचो कोर्स करपाखातीर इंग्लंडाक धाडली. थंयसावन ती अमेरिकेकय वचून आयली.

समाजसेवेचें व्रत आदींसावन स्वीकारलां तें चालूच आसा. अखिल भारतीय महिला परिशदेच्या गोंय फांट्याची ती सेक्रेटरी आशिल्ली. मागीर अध्यक्षा जाली. भगिनी निवेदिता प्रतिष्ठापनाची अध्यक्षा आसात, तेचप्रमाण भगिनी मंडळ, पणजी, सोसायटी फॉर यूथ डेव्हलपमेंट, महिला दक्षता समिती, महिला सहकारी बँक, मित्रा बीर मेमोरियल ट्रस्ट ह्या संस्थांकडेन त्यो संबंदीत आसात. गोंय सरकारान तांकां बालकल्याण बोर्ड, बालकामगार बोर्ड आदी मंडळांचेर वांगडी म्हण नेमल्यात. गोवा राज्य महिला कोऑपरेटीव्ह फेडरेशनाची तीं अध्यक्षा आसात.

पुरस्कार आनी भौमान भेटोवन समाजान तांच्या कार्याची दखल घेतल्या. समाजसेवेखातीर आशिल्लो मित्रा बीर पुरस्कार तांकां लाबला. समाजसेवेखातीर लायन्स क्लबान पुरस्कार भेटोवन तांचो गौरव केला. 'कर्तुत्वी व्यक्ती' म्हण भारतीय जेसीच्या गोंय फांट्यान तांचो भौमान केला. केपें-सांगें पत्रकार संघान उत्कृश्ट सेवेखातीर तांकां १९९६ वर्साचो पुरस्कार भेटयला.

सरकारी सेवा चालू आसतनाच कुटुंबाची जापसालदारकी आनी समाजसेवा ह्या दोनूय आघाड्यांचेर यशस्वी रितीन तांणी पावलां मारल्यांत. दोगांय चलयांचें पालन पोशण आनी शिक्षण केलां. तांचीं लग्नांय केल्यांत. पूण सामकीं सादेपणीं, कसलोच बडेजाव नासतना. लग्न जावन एक चली मुंबय जाल्यार दुसरी मडगांवां रावता. आतां आशाबाय आजीय जाल्या.

आशाबायक हांव आदींसावन वळखतालें. म्हजे संस्थेच्या कामाखातीर हांव जायते फावटी तांचेकडेन गेलां. म्हजो भाव तांगेल्याच ऑफिसांत काम करपी आशिल्ल्यान तिवूय म्हाका लागिंच्यान वळखताली. तांच्या कसल्याय कार्यक्रमांक म्हाका मुजरत आपयताली. संवसार सांबाळून हांव लेखन करतां, नाटकांत काम करतां म्हणून तांकां म्हजें खूब कवतूक. ही मुलाखत घेवपाक तांचो वेळ मागलो आनी पणजे तांच्या ऑफिसांतूच गेलें. कितल्याशाच बायलांच्या गराड्यांत तीं आशिल्लीं. म्हाका पळोवन, तांकां मात्शीं कुशीक बसोवन, तांणी ही मुलाखत दिली.

☐ **आशाताई, वैमानिकाकडेन लग्न जावप म्हळ्यार काळजाक फातर बांदून घेवप अशें म्हणटात. त्या तेंपार तुमी कशीं तयार जालीं?**

मुळांत हांव खूब म्हत्त्वाकांक्षी बायल. खरें म्हळ्यार म्हाका संवसाराच्या बंधनांत घुस्पून पडपाचेंच नाशिल्लें. कितें तरी वेगळें जावप आनी समाजाक कितें तरी बरें दिवप ह्याच विचारांत हांव आशिल्लें. वैमानिक हे सदांच हुशार आनी कर्तबगार आसतात.

१९६८ वर्सा विश्वनाथ सावर्डेकार हांकां कीर्तिचक्र फावो जालें. अशा कर्तुत्वी पुरुशांचो म्हाका सदांच अभिमान. म्हजो प्रेमविवाह न्हय. पूण अशें कितें तरी जालें. त्या लोकांक हांव मानवलें. म्हाका तीं मनशां आवडलीं आनी हांव लग्नाक उबें जालें. तें म्हाका एक आव्हान कशें दिसलें. आनी आमी लग्न जालीं. फुडें कितें जालें तें नशीब!

☐ **तुमी नोकरेकडेन कशीं आयलीं? गरज म्हणून? काय आवड म्हणून?**

मुळांत म्हाका समाजसेवेची आवड. म्हाका म्हज्या बापाय सारकें वकील जावपाचें आशिल्लें. एक वर्स हांवें प्रॅक्टीस लेगीत केल्ली. उपरांत रोखडेंच म्हाका सचिवालयांत अधिकाऱ्याचें पद मेळ्ळें. मागीर म्हजें लग्न जालें. हांवें नोकरी सोडली. हांव गोंया भायर गेलें. पूण नियतीच्या मनांत वेगळेंच आशिल्लें. अवघ्याच वर्सांनी म्हजो घोव म्हाका अंतरलो आनी हांव परत गोंयांत आयलें. पदराक दोन भुरगीं आशिल्लीं. पूण म्हज्या नशिबान म्हाका प्रोव्हेदोरियांत जाय तसलीच नोकरी मेळ्ळी. ह्यावेळार स. भाऊसाहेब बांदोडकारांनी म्हाका मदत केली. ल्हानपणापसून लोकांचे प्रस्न समजून घेवप आनी ते प्रस्न सुटावे करप खूब आवडटालें. मागीर हांव आपूण जावन मुद्दम 'ग्रामीण विकास यंत्रणा' हे संस्थेंत आयलें. कारण हांगा बायलांक मुखार काडपाक खूब संद आशिल्ली. म्हजे हे नोकरेपसून म्हाका पयशे मेळटात आनी तांची म्हाका गरजूय आसा. पूण सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार म्हाका समाजसेवा केल्ल्याचें समाधान मेळटा.

☐ **तुमकां समाजसेवेची आवड कशी निर्माण जाली?**

म्हजो बापूय स्वातंत्र्य सैनिक. आवय पुरोगामी विचारांची. त्यावेळार म्हाका म्हज्या बापायन आनी आवयन मुंबय शिकपाक धाडलें. जेन्ना हांव शिकून गोंयांत आयलें तेन्ना गोंय स्वतंत्र जाल्लें. खूब मोट्या स्वातंत्र्य सैनिकांक हांवें लागिंच्यान पळयल्यात. तांचे सांगातांच हांवें समाजाखातीर कितें तरी करपाक जाय हें म्हाका तेन्नाच कळिल्लें. हांव त्यावेळार भगिनी मंडळ चलयतालीं. बायलांचीं शिबिरां, अधिवेशनां घेतालीं उपरांत प्रोव्हेदोरियांत नोकरी मेळटकच समाजसेवेक एक वेगळें वळण लागलें. गरीब मनशां आपले प्रस्न घेवन येतालीं तांच्यो वकिली, तांचीं वेगवेगळीं कामां हांतूंत हांव पुराय घुस्पून गेलें. हांवें सदांच म्हजे नोकरेक प्राधान्य दिलां; बाकिच्यो गजाली, म्हळ्यार लग्नकार्यां जावं पार्ट्यो हांचेकडेन सदांच आडनदर केल्या. समाजीक वावरांत एक पथ्य हांवें आपूण जावन स्वीकारलां. तें म्हळ्यार, खंयच्याय कमिटीचेर वो पदाचेर चडांत चड दोन टर्मां रावप. कारण पयलें टर्म कामाचें स्वरूप समजून घेवपाकूच वता. दुसऱ्या टर्मांत खऱ्या अर्थान काम करपाक मेळटा. शाण्या मनशान तिसरें टर्म मात घेवचें न्हय. कारण तेन्ना बाकिच्यांक तुमचो कंटाळो आयिल्लो आसता.

☐ **तुमी नोकरेच्या निमतान खंय खंय भोंवन आयल्यांत?**

म्हाका गोंय सरकारान पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा इन ॲडमिनिस्ट्रेशन ह्या कोर्साखातीर इंग्लंडाक धाडिल्लें. थंय जेन्ना ख्रिसमसची सुटी आशिल्ली तेन्ना हांव विद्यार्थीनी म्हणून अर्द तिकेटीचेर अमेरिकेक वचून आयलीं. थंय शिकपा सारकें खूब आसा. आतां हांव ह्या कामाच्या निमतान दिल्ली, हैदराबाद, कलकत्ता, अहमदाबाद अशा महानगरांतूय वचून आयल्यां.

□ **ज्या कामाखातीर तुमकां सरकारान परदेशांत धाडिल्लीं त्या अणभवाचो फायदो हांगा काम करतना तुमकां जाला ?**

अजिबात ना. आनी हाचीच म्हाका चड खंत भोगता. इतले पैशे मोडून आनी इतले म्हयने हांव भुरग्याक सोडून थंय रावलें, खुबशें शिकलें. पूण ताचो हांगा कांयच उपेग जालोना. कारण हांगा खयचीय गजाल करपाक खूब मर्यादा पडटात. हांव त्या मर्यादांभायर वचूंक शकना.

□ **तुमी जेन्ना परदेशांत गेलीं तेन्ना संवसाराकडेन दुर्लक्ष जालेंना ?**

एकदां काम स्वीकारलें म्हणटकच थंय झोकून दिवचेंच पडटा. खरें म्हळ्यार, परदेशांत वतना हांव मात्शीं हाललीं. कारण तेन्ना म्हजें व्हडलें चली बारावेक आनी धाकलें धावेक आशिल्लें. दोगांयचीं म्हत्वाचीं वर्सां. घरांत तांकां समजून घेवपी कोण ना, पूण तांकां म्हजो खूब अभिमान. तांणी म्हाका सरळ सांगलें, तुज्या कर्तुत्वान तुका भायर वचपाक मेळटा जाल्यार कित्याक रावता ? आमी आमचें पळोवन घेतात. पूण म्हजी आवय, जावो हांणी सगळ्यांनी तांचेर व्यवस्थित लक्ष दिल्ल्यान हांव थंय हुस्क्यामेकळी वर्सभर रावलीं.

□ **तुमी सरकारी नोकरी करतना, फकत नोकरी म्हणून करतात काय समाजसेवा म्हणून ?**

म्हाका समाजसेवेची मनापसून आवड. नोकरी करता आसतना म्हाका ताचो मोबदलो मेळटा. म्हणटकूच तें काम चड तत्परतेन करपाक जाय. वेळाचें बंधन पाळपाक जाय, तांच्यो मर्यादा सांबाळपाक जाय. धरूंया, काणकोणां जावं सांवड्ड्या मिटींग आसता, एकवेळ ऑफिसाची गाडी मोडटा वा हेर अडचण जाता, तेन्ना हांव बसीन वतां. खरें म्हळ्यार हे पिरायेर बसींतल्यान वचपाक त्रास जाता खरो, पूण मिटिंगेचे सुवातेर गांवांतल्यो बायलो म्हजी वाट पळयतलीं, तांची निराशा जावची न्हय म्हणून हांव वतां. आनी म्हाका आवडटा म्हणून वतां. कारण म्हाका तातूंत समाधान मेळटा.

□ **नोकरेंत पूर्ण समाधानी आसा ? काय जीव केन्नाय उबगता ?**

पूण समाधानी आसां. पूण केन्नाय उबगण येता. कारण शेवटीं हांव मनीसूच न्हय ? आनीक दोन वर्सांनी हांव रिटायर जातलीं. तेन्ना मनासारकी समाजसेवा करतलीं.

□ **बायलांक नोकरी बरी काय एकाद्रो व्यवसाय ? तुमचो अणभव ?**

कांय बायलांक दिसता नोकरी बरी, कारण सकाळीं ऑफिसाक वचप आनी सांजवेळा परतप. व्यवसायांत सबंद वेळ बांदून उरता. हें जरी खरें आसलें तरी म्हजे नदरेन नोकरेपरस व्यवसाय बरो. कारण तुजें तूं मालक आसता. बरो-वायट निर्णय घेवंक शकता. आपणालें वेगळेपण सिद्ध करपाक शकता. समजुंया, घरांत भुरगीं बरीं नासतात वा केन्नाय अडचण उप्रासता तेन्ना तूं घरा रावंक शकता. व्यवसायांत मन लायल्यार अर्थीक फायदोय चड जाता. म्हणून म्हाका दिसता, बायलांनी नोकरेचे फाटल्यान वचनासतना एखादो, ल्हान जायना, व्यवसाय करून स्वावलंबी जावचें. नोकरी म्हणटकूच बुद्दीक मर्यादा पडटा. व्यवसायांत वेगवेगळ्यो कल्पना मेळटात. वळखी जातात, चॅलेंज मेळटा.

❑ **मागीर आशाताई, तुमी एखाद्रो ल्हानसो व्यवसाय कित्याक आपणायलो ना ?**

त्या वेळार बायलांनी नोकरी करप म्हळ्यार स्वर्गाक हात लायिल्ले भशेन. तेन्ना व्यवसाय खंयचो ! आनी आतां ज्यो सवलती जावं प्रतिष्ठा आसा ती त्यावेळार नाशिल्ली. त्यावेळार पदराक दोन भुरगीं, दादल्याचो आधार ना. अशा वेळार एखाद्र्या व्यवसायाकडेन वळप म्हळ्यार समाजाक उलोवपाक तोंड दिल्ले भशेन. पूण आयज हांव मोट्या अभिमानान सांगतां, म्हजें व्हडलें चली आर्किटेक्ट आसा आनी ताचो स्वताचो व्यवसाय आसा.

❑ **तुमी एक ऑफिसर. कांय दादले तुमच्या हातासकयल काम करतात. ते तुमचेकडेन कशे वागतात ?**

म्हज्या हातासकयल लोक आसात. दादले आसात आनी बायलांय आसात. पूण हांव तांचेकडेन एक ऑफिसर म्हणून वागना. सगळ्यांक बरोबरचे कशे वागयतां. तेय म्हाका फाव तो मान दितात. पूण केन्ना केन्ना तांचेकडेन अती फ्री राविल्ल्याची खंत भोगता.

❑ **स्त्री-स्वातंत्र्याविशीं मत कितें ?**

स्त्री स्वातंत्र्य हें आपल्याचेर अवलंबून आसता. दर एके बायलेक स्वताचे निर्णय घेवपाचें स्वातंत्र्य आसपाक जाय. ती खंयच्याय चेपणासकयल आसूंक फावना. केन्ना केन्ना बायलच एके वाटेन स्त्रीमुक्ती जाय म्हणटा, हुंडो घेवप ना म्हणटा, हुंडो दिवप ना म्हणटा आनी चली जोडपाक लागतच पयल्यांत पयले पैशे सांठयता आनी आपल्याक भांगरा करता. भांगरा करूं नाका अशें हांव म्हणना, पूण दर एके चलयेन कांय तत्वां आपणायलीं जाल्यार खऱ्या अर्थान स्त्रीमुक्ती जावं येता.

केन्ना केन्ना आमी स्त्रीमुक्तीचो अतिरेकूय पळयतात. घोवान मात्शें कितें म्हळें, जावं घरच्या लोकांकडेन कितेंय जालें जाल्यार आमी रोखडींच तोंकाची भुमिका घेतात. हें बरोबर न्हय. घोव-बायलेन एकामेकांक समजूंक जाय. केन्ना केन्ना घरांत दोन भयणींचेंय एकामेकांकडेन पटना, थंय आमी जुळोवन घेतात. हें तर रक्ताचें नातें नासता. थंय आपल्या गुणांनी आपले करपाक जाय. बायलांक आपलो घोव आपले परस सगळ्या

तरांनी व्हडलो जाय, थंय समानता नाका. पूण बाकीचेकडेन समानता आसूंक जाय हो तांचो हट्ट बरोबर न्ही.

नांवांत कितें आसा ? अशें आमी फकाणांनी म्हणटात. पूण कांय जाणां जिवितांत आपलें नांव सार्थ करून दाखयतात. आशाबायचें अशेंच. निराशेचो काळोख पिळून जिवितांत उजवाडाची एक तेजस्वी धार निर्माण करून तांणी आपणालें आशा हें नांव सार्थ केलें. जीवनांत येवपी संकश्टांक लागून जीं न्हिन्नळून सकयल पडटात तांणी आशाबायकडेन पळोवचें आनी तांगेली प्रेरणा घेवन आसा तशें उबें रावचें.

* * *

## राजकारणांत पुरुशार्थाचें दर्शन घडोवपी
## गोंयांतली पयली बायल-मुख्यमंत्री

# शशिकला काकोडकार

भारताचे पयले प्रधानमंत्री पंडीत जवाहरलाल नेहरू हांका खूब नामना लाबली. तांगेली सुकन्या श्रीमती इंदिरा गांधी हांकांय ती नामना लाबली. सगळ्याच भारतीयांक ह्या बापूय धुवेचो अभिमान. ही गजाल राष्ट्रीय थरावयली. गोंयात आमकां प्रादेशिक थराचेर हेंच चित्र दिश्टी पडलें. गोंयचे पयले मुख्यमंत्री श्री. दयानंद बांदोडकार आनी उपरांत तांच्याच पावलार पावल दवरून राजकारणांत देंविल्ली तांगेली धूव श्रीमती शशिकला काकोडकार. राष्ट्रीय थराचेर चाचा नेहरू आनी इंदिरा हांचें देशभर कवतूक जालें तेच पद्धतीन गोंयांत भाऊसायब आनी ताई हांचें कवतूक जालें अशें म्हळ्यार अतिताय जावंचीना.

शशिकलाताईचो जल्म ७ जानेवारी १९३५ वर्सा गोंयांतल्या पेडणे तालुक्यांत जालो. धारवाडा शिकून तांणी कर्नाटक विद्यापीठाची पदवी जोडली. एम.ए.ची पदवी मुंबय विद्यापीठांतल्यान मेळयली. श्री. गुरूदत्त काकोडकार हांचेलागीं तांगेलें लग्न जालें. तांकां कोंकणी आनी मराठी ह्या भासांभायर हिंदी तशेंच इंग्लीश, फ्रेंच आनी पुर्तुगेज भासांचें ज्ञान आसा. वाचन, बागकाम आनी संगीत हे तांगेले खाशेले आवडिचे विशय. तांणी इंग्लंड, हॉलंड, फ्रान्स, अमेरीका आनी जपान असो परदेशप्रवास केला. तांगेलो खाणव्यवसाय आसा आनी ते कंपनींच्यो त्यो संचालक आसात. शशिकलाताईची राजकी कारकिर्द भरगच्च स्वरुपाची आसा. १९६७चे गोंय दमण दीवचे दुसरे विधानसभेंत त्यो आमदार म्हण वेंचून आयल्यो. १९७२ वर्साचे तिसरे विधानसभेंतूय त्यो जैतिवंत जाल्यो. चवथे विधानसभेंतूय (१९७७) तांकां यश लाबलें. ह्या काळांत तांणी शिक्षण, भौशीक भलायकी, प्रोव्हेदोरिया, समाजकल्याण, भौशीक सहायता, संचयिका ह्या खात्यांचो मंत्री म्हण यशस्वी रितीन कार्यभार सांबाळ्ळो. १९७३ वर्सा तांचेकडेन गोंयचें मुख्यमंत्रीपद चलून आयलें. १९७७ मेरेन त्यो ह्या पदार उरल्यो. मागीर परत १९७७ ते १९७९ ह्या काळांत तांणी मुख्यमंत्रीपद भुषयलें. आय.डी.सी., कला अकादमी, स्पोर्टस कौन्सील,

गोवा कॅन्सर सोसायटी, रेडक्रॉस सोसायटी ह्या संस्थांचेर तांणी अध्यक्षा म्हण काम केलें. गोंयाक घटकराज्य लाबलें आनी १९८९ वर्सा जाल्ले गोंयचे विधानसभेंत त्यो परतून वेंचून येवन कॅबिनेटमंत्री जाल्यो. शिक्षण, संस्कृती, वाहतूक, नुस्तेमारी हीं खातीं तांणी साबाळ्ळीं.

१९९४चे विधानसभा वेंचणुकेंत त्यो परतून जैतिवंत जाल्यो. विधानसभेंतल्या जायत्या समित्यांचेर तांणी वांगडी म्हण खूब काळ वावर केला.

शशिकलाताई गोंयचे विधानसभेंत सदांच महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाच्या तिकिटाचेर वेंचून आयल्यात. आरंभाक हो पक्ष सत्तेर आयिल्लो पूण मागीर ताका विरोधांत बसचें पडलां. शशिकलाताई केन्ना सत्तेर जाल्यार केन्ना विरोधांत बसून जाणां. यश-अपेस, सत्ता-विरोध, ह्या गजालींचो तांकां बेस बरो अणभव आसा.

ताईची राजकी कारकिर्द जाली तेन्ना हांव सामकें ल्हान. सुमाराची जाणवीकाय आसली. रायबंदरा एका देवळांत एक कार्यक्रम आसलो. आमी पयलीं थंयच रावतालीं. ह्या कार्यक्रमाक शशिकलाताई येवपाच्यो आसल्यो. कार्यक्रम राजकी, पक्षीय काय हेर कसल्या स्वरुपाचो आसलो तें कळपाची ती पिराय नासली. म्हज्या बापायन एके कर्तुत्वी बायलेक दाखोवपाखातीर म्हाका मुद्दाम देवळांत व्हेल्लें. समारंभाचे सुवातेर वतना शशिकलाताईन म्हज्या गालाक अपुरबायेन चिमटो काडिल्लो, ताची घट याद आसा. मागीर बाबान म्हाका म्हणिल्लें, "गाल धुवूं नाकां आं, एके व्हडले बायलेन गालाक चिमटो काडला."

शशिकलाताईच्या व्यक्तिमत्वान म्हाका भुरगेपणापासून भुरळ घातिल्ली. मागीर व्हडलें जायत गेलें तसो शशिकलाताईचो जीवनपट पळोपाक मेळ्ळो.

म्हाका तांचेविशीं ओड दिसपाचें एक खाशेलें कारण म्हळ्यार शशिकलाताईक साहित्याविशीं आशिल्ली ओड. अर्थात हेर राजकारण्यांभशेन ही ओड 'दिखावू' न्हय. हेर कामांखातीर जसो वेळ आसता तसो तांगेल्या जीवनांत वाचनाखातीर खास वेळ आसा. वाचिल्ल्या साहित्याचेर भाश्य करपा इतल्यो त्यो साहित्याचो चाहत्यो आनी सुजाण वाचक आसात. गोंयच्या कोंकणी मराठी साहित्याची तांका जाण आसा. ताचेविशीं अधिकारान त्यो उलोवपाक शकतात.

तांगेली मुलाखत घेवपाखातीर मात खुबूच कश्ट काडचे पडले. जवळ-जवळ एक म्हयनो तरी आमी एकामेकांक फावना तशी तारीख थरयतालीं पूण दिल्या वेळांत तांकां गांठप शक्य जालेंना. पूण एक दीस मिरामार तांगेल्या बंगल्यार भेट घडली.

☐ **राजकारणांत तुमचो प्रवेश कसो जालो ?**

तशीं मुद्दाम जावन हांव राजकारणांत येवूंक ना. आपसूक पावलीं. भुरगेपणासून

म्हाका समाजसेवेची खूब आवड. देशाविशीं उपाट मोग. व्हडले-व्हडले फुडारी म्हजे आदर्श. म्हाका याद जाता, हांव पणजे मुष्टीफंड शाळेंत तिसरी शिकता आसतना 'आवडता नेता' ह्या विशयाचेर हांवें निबंद बरयिल्लो. म्हजो आवडतो नेतो जावन आशिल्लो सुभाषचंद्र बोस. आनी त्या निबंदाक म्हाका इनाम फावो जाल्लें. ही म्हजी आवड पळोवन म्हजो बापूय भाऊ, म्हाका पिरायेच्या सातव्या वर्सापासून दर वाडदिसाक पुस्तकांची भेट दितालो. तातूंत म्हान व्यक्तीचीं आत्मचरीत्रां जांव तांच्यो काणयो आसताल्यो. त्या वाचनाचोय म्हजेर खूब परिणाम जालो. भुगेपणांत हांवें एकदां पाकल्या मुखार 'जयहिंद' म्हळें ते खातीर तेन्ना म्हाका एक दीसभर पोलिस स्टेशनार दवरलें. एका पुर्तुगेज ऑफिसरान म्हाका विचारलें 'तूं एदशें पोर! तुका 'जयहिंद' हाचो अर्थ खबर आसा?' हांवें म्हळ्ळें, 'जयहिंद म्हळ्यार आमच्या देशाचो जयजयकार.' हीं म्हज्या तोंडातलीं उतरां आयकून तो हांसलो. ताणें फर्मायले 'ह्या पोराक सोडात. ताका कांय खबर ना.' जशें हांव व्हडलें जायत गेलें तशें हांव समाजसेवेंत घुस्पलें. गरीबांक मदत करप, तांचे प्रश्न सुटावे करप, हीं कामां हांव करतालें. मागीर हांव अखिल भारतीय महिला परिशदेची अध्यक्षा जालीं. कांय संस्थांच्या सल्लागार मंडळाचेर हांव आसलीं. कामां खातीर हांगा-थंय वतालीं. राजकारणाचें बाळकडू मेळटालें. मंत्री तशेंच राजकरणी लोक आमगेर यो-वच करताले. उपरांत कांय लोकांनीच आग्रो करून म्हाका राजकारणांत हाडलें. खरें म्हळ्यार भाऊच्या मनांत अजिबात नासलें. आपल्याच मनशाक तिकीट दिवप तांका बरें दिसनाशिल्लें. पूण लोकांच्या आग्र्‍या खातीर आनी समाजकार्याचे आवडीन हांव राजकारणांत देंवलीं.

☐ **तुमचो बापूय भाऊसायब बांदोडकार हांगेल्या व्यक्तिमत्वाचो तुमचेर कशे रितीन प्रभाव पडलो अशें तुमका दिसता?**

पयली गजाल म्हळ्यार भाऊचे शिस्तीचो म्हजेर परिणाम जालो. शिस्त आयली म्हणटकच तांतूंत सगळें आयलें. आपल्या शिक्षणाचो, बुद्धीचो, वेळाचो कसो उपेग करून घेवप हें हांव भाऊंकडल्यान शिकलीं. ते मुख्यमंत्री आसतना तांच्या कामाची पद्धत हांवें खूब लागींच्यान पळयली. तांचो दरारोच वेगळो आसलो. पूण तेचबरोबर लोकांचेर तांचो वचकूय आशिल्लो. तांच्या ह्या व्यक्तिमत्वाचो म्हजेर परिणाम जालो. भाऊभशेनूच हांवें म्हज्या कामाची पद्धत तयार केली. दिसभर कार्यक्रम, बसका, भेटी गांठी आनी हेर कामां करप. दोन-अडेच वरांमेरेन फायली पळोवप, सकाळी उठून त्यो सगळ्यो फायली हातावेगळ्यो करप – भाऊंकडल्यान हांव हें शिकलीं. ताका लागून म्हजी कामां केन्नाच तुंबून उरनाशिल्लीं. कांय लोक म्हणटात, म्हजें वागप जांव उलोवप लेगीत भाऊभशेनूच. हें सगळें आयकून म्हाका खूब बरें दिसता. अभिमान भोगता!

☐ **एक काळ असो अशिल्लो जेन्ना भाऊसायब बांदोडकारांक लोक खूब मानताले. तांचेकडेन आदरान वागताले. तेच बरोबर भाऊसायबांचो लोकांचेर एके तरेचो वचक आशिल्लो. पूण आयज ती स्थिती ना. म्हळ्यार लोक प्रतिनिधीविशींचो लोकांचो आदरूय उणो जाला आनी लोकप्रतिनिधींचो लाकांचेर वचकूय ना. अशें कित्याक ?**

हाचे विशीं सांगत तितलें थोडें. भारताच्या सर्वोच्च पदावयले व्यक्तीक कोर्टांत उबें रावचें पडटलें हे केन्ना कोणें चिंतिल्लें ? पूण आमी तें पळयलें. म्हत्वाचें म्हळ्यार प्रामाणिक मनीस, जो केन्ना कोणाक लुबाडीना; फटयना तो सदांच मानान रावता. आनी समाज ताका मानता. आमचो भाऊ तसो आशिल्लो. ताका गरीबांविशीं खूब आदर, प्रेम आनी कळकळ आशिल्ली. पूण रागाक सामको वायट आशिल्लो. सगळें गोंय तांकां मानतालें. पूण आयज वेगळें चित्र दिश्टी पडटा. सगळे खुर्चेफाटल्यान लागल्यात. ते खातीर एकमेकांची मर्जी सांबाळप जाता. हांव फकत गोंयाबद्दल म्हणीना, सर्वसादारण सगळ्याच राजकी चित्राविशीं म्हणटा. आयज लोक खूब हुशार जाल्यात. तांका राजकारणी मनशांचें हें सत्तेखातीरचें दुबळेपण खबर आसा देखून तांचो लोकप्रतिनिधींवेलो विश्वास उडला. एकदां विश्वास उडटकच आदर, प्रेम आपशींच कमी जाता म्हणुनूच आयज आमकां ही स्थिती सगळ्याक दिश्टी पडटा.

☐ **राजकारणांत आयिल्या बायलांक बदनाम करप खूब सोपें अशें म्हणतात. हे कितलें खरें ?**

शंबरटक्के खरें. समजा राजकारणांत एक बायलमनीस आयली. तिणें खूप वावर केलो जाल्यार तिका रोखडीच बदनाम करपाची मांडणी जाता. हाचें मुख्य कारण म्हळ्यार जेलसी, दुस्वास. आनी बायलांक बदनाम करप खूब सोपें. तिच्या चारित्र्याचेर एक कॉमेंट मारल्यार ती बदनाम जांव येता आनी हातुंतल्यान खंयचीच बायलमनीस सुटूंक ना. मागीर ती बायल कितल्याय बयर पदार आसूं. पूण हें सगळे कश्ट सहन करपाची तांक बायलांत आसूंक जाय. फक्त राजकारणाचेच बाबतींत हांव म्हणना. बाकीच्याय क्षेत्रांत फुडें आयिल्ल्या बायलांनी जांव फुडें येवंक सोदता ताणी असल्या गजालीकडेन लक्ष दिवंक फावना. हें सगळें आयकुपाची तयारी दवरूंक जाय. आमी आमच्या उद्दधीश्टा खातीर फुडें सरपाक जाय. आनी आपूण जर आपल्या ध्येयधोरणाकडेन प्रामाणिक रावलीं जाल्यार तसो कोण कोणाचे वाटेक येना. कोणूय कितेंय म्हणना. मात खंयच्याय बाबतींत घाळ रावपाक जायना. लोक कितेंय म्हणत या भंयान रावत जाल्यार आमकां दारां धापून भितरच बसचें पडटलें.

☐ **राजकारणांत बायलांक राखीव जागे दवरल्यात ताचेर तुमचें मत कितें ?**

मुळांत बायलांक राखीव जागे दवरप ना, ह्या मत्ताचें हांव. घडये म्हजें मत कांय

बायलांक पटचें ना. बायलांक राखीव जागे दिवन बायलांचेर उपकार करपाची निदान आयच्या काळांत तरी गरज ना. जर बायलांक आपखोशयेन राजकारणांत येवपाक जाय जाल्यार ती अवश्य येतली आनी यशस्वी जातली. बायलांखातीर राखीव जागे दवरप आनी बायलांचोच पराभव करून बायलांनी येवप हातूंत कसलें व्हडपण? आज आमचे गोंयचे विधानसभेंत चार बायलां, आमदार म्हणून आसात. वेंचणुकेक चौगीजाणी रावल्यो. त्यो वेगवेगळ्या पक्षाच्यो आशिल्ल्यो पूण दादल्यांचो पराभव करून त्यो वेंचून आयल्यात. बायलांच्या मनांत जर खंयचीय गजाल रिगली जाल्यार तिका कोणूच आडावंक शकना. आतां ग्रामपंचायतींत बायलांखातीर राखीव जागे दवरल्यात. कांय बायलांच्या मनांत नासता, पूण घोव तांकां फोर्सार करतात. आनी एका एका वाड्यार चार-चार पांच-पांच बायलो उब्यो रावतात. बायलां-बायलां मदीं झुजां जाता. तातूंतली एक बायल वेंचून येता. कांय बायलो सामक्यो निरक्षर आसतात. बायलांक आपलें मत मांडपाक कळपाक जाय. कागदपत्रां वाचपाक येवपाक जाय. जाल्यारूच राजकाणांत भितर सरपांत अर्थ आसा. नाजाल्यार घोव सांगता ताका तेंको दिवप, तो सांगता म्हण आयकुवप हें बरोबर न्हीं. असल्यांनी भ्रश्टाचाराक संद मेळटा. जी बायल आपखोशयेन राजकारणांत येता तिका राजकारणांतले खांच-खळगे खबर आसतात. त्यो आडखळी पयस सारून ती यशस्वी जाता. खंयचीय गजाल कोणाचेर बळजबरीन लादप ना ह्या मताचें हांव.

**▢ बायलांचेर जावपी अन्याय वाडल्यात. एक राजकारणी बायलमनीस म्हणून तुमी ह्या अन्यायाकडेन कशे तरेन पळयतात?**

बायलांचेर जावपी अन्याय वाडल्यात ही गजाल खरी. पूण अन्याय खंयचे तरेचे तेंवूय लक्षांत घेवपाक जाय. धर्‍या, सुनेचो घरांत छळ जाता, जांव तिका हुंड्याखातीर माय-मांव त्रास करतात आनी ती आत्महत्या करता. हाचो अर्थ घरचींच बायलां तिचेर अन्याय करतात. अशावेळार कांय संस्था आसात तांणी असलीं कामां हातांत घेवपाक जाय. बाकीचे जे अन्याय जातात ते म्हळ्यार बायलेक कोणें नाडली, पिडली जावं तिचेर आगळीक केली जाल्यार त्या अन्यायाआड आमी आवाज उठोवपाक जाय. पूण भायल्या प्रदेशांत बायलांचेर जे अन्याय जातात त्यामानान गोंयात खूबच कमी जातात. हाचो अर्थ असो न्हय की गोंयांत जाता त्या अन्यांयाकडेन आडनदर करची. भायल्या प्रदेशांत जनावरां आनी बायलां सारकीं. गोंयात तशी परिस्थिती ना. हाचें कारण म्हाका दिसता, गोंयांत कांय काळ पोर्तुगेजांचे राज्य चलतालें. त्यावेळार बायलांची फकाणां मारप, बायलांचेर आगळिको करप ह्या गजालीं खातीर गुन्यांवकाराक खूब खर ख्यास्त जाताली. लोक भियेताले. तो भंय आजून आसा. परकी म्हणून पोर्तुगेज वायटूच आसले, पूण तांचे बायलांविशींचे कायदे, बायलांचें शिक्षण, बायलांखातीर

जावपी अन्याय हांची तांकां बेसबरी जाण आसली. देखून तेवेळार आमचीं कांय बायलां बिनधास्त आसलीं. रानांतसून जळोव हाडून विकप, बाजारांत वचून नुस्तें जांव भाजीपालो विकप असलीं कामां तीं तेवेळारूय करतालीं. आयची बायल खूब शाणी जाल्या, शिकल्या. आपलें रक्षण करूंक शकता आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार हाची जाण आमच्या दादल्याक आयल्या.

**☐ गांधीजी म्हणटाले राजकारणांत बायलां चडान चड येवपाक जाय, जाल्यार राजकारणांत भ्रश्टाचार कमी जातले. पूण आतां बायलांच भ्रश्टाचारांत घुसपल्यांत. तुमकां कितें दिसता?**

खरें म्हळ्यार एके बायलेन अशें कितेंय करप आनी मागीर सगळ्या राजकारणी बायलांक हे नदरेन पळोवप बरोबर न्हय. पूण तातूंत लोकांची कितें चूक आसा अशें म्हाका दिसना. पूण एक गजाल स्पश्ट आसा ती म्हळ्यार जीं बायलां आपखोशयेन राजकारणांत येतात, समाजाखातीर कितें तरी बरें करतली ह्या हावेसान येतात, तीं बायलां केन्नाच भ्रश्टाचारांत पडचींनात. हांव म्हजी स्वताची देख दितां. पूण ज्यो बायलो बळजबरीन राजकारणांत देंवतात, जांव त्यो अभिनेत्री, जांव हेर क्षेत्रांतल्यो बायलो, तांकां राजकारणांत रस नासता. तांचे लक्ष वैभवाचेर केंद्रीत जाता आनी भ्रश्टाचाराक सुरवात जाता.

**☐ कॅसिनो सारक्या खेळाक तुमी विरोध करतात. हो विरोध राजकी स्वरुपाचो काय ताचे फाटल्यान तुमची स्वताची एक बायलमनीस म्हणून कितें तात्वीक भुमिका आसा?**

हांव ह्या खेळाक विरोध करतां ती हांव एक बायलमनीस म्हणून. हो खेळ जरी श्रीमंत वर्गाखातीर आसलो तरी त्या निमतान थंय वेगवेगळ्यो चैनी तयार जातल्यो. तो एक जुगार, वायट गजाल म्हणून आमी विरोध करतात. सदांच जें वायट आसता तें नेमके आमच्या भुरग्यांक जाय आसता. पळोवपाची उमळशिक आसता. मध्यमवर्गी कुटुंबातले भुरगे थंय आकर्शीत जातले. पैशे ना जाल्यार ते चोरून हाडटले वो फटोवन हाडटले. जुगाराची एकदां चट लागतकूच अशेंच जाता.

आमचे गोंयचे मुख्यमंत्री श्री. प्रतापसिंह राणे हांगेली ही कल्पना आयची न्हय. बरीच पोरणी. १९७५ वर्सा हांव गोंयची मुख्यमंत्री आशिल्ली तेन्ना ते कायदेमंत्री आशिल्ले. तेन्नापासून ते म्हाका हेविशीं सांगताले, ताणी एक-दोन फावट सांगलें. हावें तें वयलेवयर घेतलें. पूण ताणी जेन्ना गंभीरतायेन विचारलें, तेन्ना हावें तांका स्पश्ट सांगलें, हाव मुख्यमंत्री आसा, तेमेरेन तरी कॅसिनो गोयांत येवचोना. आतांय म्हजें तेंच मत्त आसा. हांव समस्त बायलांकडेन मागतां, तुमी कॅसिनोक खर विरोध करात. आज गोयांतल्या बायलांकडेन पळोवपाची पर्यटकांची दृष्टी दुशीत आसा. आनी

हो खेळ गोयांत येत जाल्यार परिस्थिती अदीक वायट जातली. सरकार म्हणटा, ह्या पैशांनी गोंयच्या विधवा आनी निराधार बायलांक मदत करूं येता. हांव काळजासावन सांगता, असले तरेची मदत तीं केन्नाच स्विकारचीं नात. तांका मदत करपाक जायच. पूण तेखातीर हेर जायत्यो बऱ्यो येवजण्यो सरकाराच्यान चालीक लांव येता. पूण हो कॅसिनो सारको खेळ न्हय, हें म्हजे प्रामाणिक मत. आनीक एक गजाल लक्षांत दवरपाक जाय, लोकशायेंत लोकांक जाय तेंच जाता. कॅसिनो जाय काय नाका हें लोकांनी थारावपाक जाय. तो जर तांका नाका जाल्यार केन्नाच जावचोना हेंवूय तितलेंच खरें.

□ **एका काळार तुमी गोंयची मुख्यमंत्री आशिल्ली. तुमच्या मुखार कामाचो दोंगर आसतालो. आतां तुमी एक सादीं आमदार. तेन्नाचें आनी आतांचें कामाचें स्वरूप हाचेमदीं कसलो फरक आसा?**

हांव मुख्यमंत्री आशिल्लीं त्यावेळार खूब म्हळ्यार खुबूच बिझी आशिल्ली. तुमीं जाणात, एकदां मंत्री जाली म्हणटकूच घडयाळा कांटयाबरोबर चलचें पडटा. मनांत आसून लेगीत कांय गजाली कुशीक दवरच्यो पडटात. अशा वेळार म्हज्या भुरग्यांकडेन जांव म्हज्या उद्येगाकडेन खुबूच आडनदर जाताली पूण तेदेवेळार ताका इलाज नाशिल्लो. म्हजी आवय सर्गेस्त मुनंदाबाई हांणी म्हाका समजून घेवन, म्हज्या भुरग्यांक व्यवस्थित सांबाळ्ळीं. आज हांव थोडीशी मेकळी आसां. अखेर आवय म्हणटच घरांत तिचें काय देणं लागताच न्हय? तशेंच आज हांव म्हज्या घराक आनी उद्येगाक वेळ दिवंक शकतां. पूण तसो चड वेळ मेळना. कारण लोकांचें कामाच्या निमतान यो-वच जाता. मतदारसंघांत भोंवचें पडटा. पक्षाचें काम करचें पडटा. शिवाय विधानसभेंतलो वावर आसता. सामाजीक, शिक्षणीक कार्य आसता. हातूंत हांव घुसून पडल्यां. पूण आदलेपरस आता मातसो मेकळो स्वास घेवपाक मेळटा हें खरें.

शशिकलाताई एक धडाडीची पुरुषार्थी राजकारणी जावन सदांच आमचे मदीं आसा. शशिकलाताई फाटली कितलींशीच वर्सां राजकारणांत आसा. विरोधकांक शह दिवपाचें, स्पर्धक जावंक सोदपी सहकाऱ्यांक कटोवपाचें असलीं कामां तांणी राजकी पटाचेर केन्न्यांत. काळाचे गरजेप्रमाण तांणी राजकी घडामोडी केल्यात. पक्ष बदलूय केला. पूण ह्या सगळ्या स्थित्यंतरांत शशिकलाताईनी आपणाल्या मूळ तत्वांक केन्नाच बादा येवंक दिवंकना. भ्रश्टाचाराविशींची तिडक, भारतीय संस्कृतीविशींचो अभिमान आनी जपणूकेची भावना, मराठी भाशेची ओड, अन्यायाविरूध्द आवाज काडपाची धमक ह्या गजालींकडेन तांणी केन्ना तडजोड करूंना. तांचे सामाजीक, राजकी चलणुकेंत खंयच विसंगती दिसना.

## ‘बालभवना’चो वावर गोंयभर पातळावपी

## शिस्तबद्ध समाजसेविका

# विजयादेवी राणे

दर एका कर्तुत्वी पुरुशा फाटल्यान एके बायलमनशेचो हात आसता अशें म्हणटात. समाजांत आमकां ताचे दाखलेय पळोवपाक मेळटात. कर्तुत्वी पुरुशांफाटल्यान बायलां उबीं रावतात, आपलें तन मन धन पुरुशांच्या पांयार ओंपून आपलें अस्तित्व दादल्यांमदीं विर्गळावन उडयतात आनी तातूंतच धन्यताय मानतात. पूण समाजांत अशींय कांय बायलां आसतात, जीं पुरुशांक पूर्ण सांगात दिता पूण आपलें अस्तित्व विरगळावन उडयनासतना आपलें खाशेलें व्यक्तिमत्व जपतात. धाडस, जिद्द आपणायतात आनी कर्तुत्वाचे पदवेक पावतात. अशीच एक कर्तुत्वी बायलमनीस म्हळ्यार विजयादेवी राणे.

विजयादेवी ह्यो खूब श्रीमंतींत, वैभवांत जल्मल्ल्यो आनी वाडिल्ल्यो. आनी आयजूय त्यो वैभवशाली जीवन जगतात.

कर्नाटकांत बेंगलोरच्या लागीं संदूर हांगा महाराजा श्रीमंत यशवंतराव घोरपडे आनी महाराणी सुशिलादेवी घोरपडे हांच्यो विजयादेवी राणे ह्यो सुकन्या. बेंगलोरच्या गुडशेफर्ड कॉन्वेंटांत ताचें शालेय शिक्षण जालें तर उंचेलें शिक्षण सोफिया कॉलेज, मुंबय आनी माऊंट कार्मेल कॉलेज बेंगलोर हांगा जालें. गोंयच्या खानदानी राणे घराण्यांतले श्री. प्रतापसिंग रावजी राणे हांचेलागीं १९६९ वर्सा विजयादेवींचे लग्न जालें. एक चलो आनी एक चली अशें तागेलें कुटुंब.

श्री. प्रतापसिंह राणेंचो समाजीक आनी राजकी मळार नदर दिपकावणो वावर आसा. खास करून राजकारणांत. आपल्या कर्तुत्वान राजकारणांत ते खूब यशस्वी जाल्यात. विजयादेवींनी तांकां समर्थ असो सांगात दिला आनी समाजीक आनी शिक्षणीक मळार आपलीय एक कुरू उमटायल्या.

इंडियन कौंसिल ऑफ सोशल वेल्फेअर हे संस्थेची ती १९७४ ते १९९० अशीं सोळा वर्सां अध्यक्षा आशिल्ली. ह्या काळांत तांणी संस्थेचे मार्फत समाजउपेगी अशे

जायते कार्यक्रम चालीक लायले. समाजांत कुटुंब नियोजनाच्या संबंदी जागृताय करपाखातीर संस्थेमार्फत काणकोण आनी वाळपय हांगा दोतोर नारकर हांच्या मार्गदर्शनाखाला दोन शिबिरां आयोजित केल्लीं. गोंयांत सामकें पयलेंच खेपे लॅप्रोस्कोपिक यंत्रामार्फत कुटुंब नियोजन शस्त्रक्रिया करपाचें काम विजयादेवींच्या कारकिर्दींत जालें.

गोंयात बेकार बायलांक रोजगार मेळोवन दिवपाखातीर विजयादेवींनी १९८० वर्सा एक सहकारी संस्थेची स्थापना केली. तातूंत विणकाम, शिवणकाम, हस्तकला असल्या कामांक लागून बायलांक अर्थिक येणावळ मेळपाक लागली.

गोंयांतले 'बालभवन' हे संस्थेच्यो त्यो अध्यक्षा आसात. 'बालभवन' ही कल्पना आदले प्रधानमंत्री पंडित जवाहरलाल नेहरू हांची. देशभर अशीं बालभवनां आसात. गोंयांत बालभवनाची स्थापना १९८६ वर्सा जाली. तेखातीर सर्गेस्त श्रीमती मेखला झा हाणी फुडाकार घेतलो. त्यावेळार त्यो 'बालभवन सोसायटी ऑफ इंडिया'च्यो अध्यक्षा आसल्यो. पयलीं गोंयांतल्या बालभवनांत फकत ३०० भुरग्यांचो आसपाव आसलो. आतां तांचो आंकडो ६६२८ इतलो जाला. गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी 'बालभवनां'चीं १७ केंद्रां आसात. ह्या केंद्रांनी हस्तकला, चित्रकला, नाच, संगीत, नाटक, साहित्य आदि कलांचें शिक्षण विद्यार्थ्यांक दितात. भुरग्यांच्या शाळेच्या वेळाभायर हें शिक्षण आसता.

पणजेंत मिरामराच्या मार्गाकुशीक लक्ष ओडून घेवपी अशी एक सोबीत इमारत आनी संकुल तयार जालां. हेंच पणजेंतलें बालभवन. सगळ्या केंद्रांची मुखेल कचेरी हांगा. १९९६च्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत तेन्नाचे प्रधानमंत्री पी. व्ही. नरसिंह राव हांचे हस्तुकीं तार्चे उक्तावण जालें.

गोंयभर बालभवन केंद्रांची स्थापना, तांचें सुत्रबद्ध व्यवस्थापन, अवघ्या काळांत राजधानी पणजेंत उबें केल्लें संकुल आदी बऱ्याचशा कामांचें श्रेय बालभवनाच्यो अध्यक्षा विजयादेवी राणे हांकां फाव जाता.

गोंय महिला फुटबॉल संघटनेच्यो त्यो अध्यक्षा. ह्या संघटनेच्या संघान राष्ट्रीय स्तरावयलीं जायतीं इनामां आनी पदकां जोडल्यांत.

समाजांत दुर्दैवी भुरग्यांक मायेची ऊब जाय आसता. तशेंच तांकां जगपाखातीर उमेद दिवची पडटा. तांची उर्बा वाडोवची पडटा. ह्याच उद्देशान १९८१ वर्सा पर्वरी संजय अपंग विद्यालयाची स्थापना जाली. विजयादेवी राणे संस्थेच्यो मुखेल प्रवर्तक. आरंभाक ह्या विद्यालयांत वीस भुरगीं आशिल्लीं.. पूण आतां तांचो आंकडो वाडला. विजयादेवींचे समाजसेवेचो हो एक बरो दाखलो.

सौ. विजयादेवींची मुलाखत घेतना एक वराचे चर्चेंत आमी जायत्या विशयांचेर उलयलीं. विजयादेवीविशीं जायतें आयकल्लें: तीं रिजर्व, कमी उलोवपी. पूण म्हाका

अणभव आयलो तो वेगळोच. ती म्हजेलागीं हातचें राखून दवरिनासतना मेकळेपणान उलयली.

**□ इतल्या थोड्या काळाभितर तुमी 'बालभवना'चें संकुल तयार केलें ही खरीच तोखणायेची गजाल. बालभवनाची ही वास्तू कशी आकाराक आयली ?**

'बालभवन सोसायटी ऑफ इंडिया'च्यो अध्यक्षा श्रीमती मेखला झा ह्यो एक फावट गोंयांत आयिल्ल्यो तेन्ना तांणी म्हाका बालभवनाची कल्पना सांगली आनी म्हाका दिसलें, गोंयांतल्या भुरग्यांमदीं जे वेगवेगळे गूण आसात तांकां प्रोत्साहन दिवप खूब गरजेचें. भुरगीं खेळटां खेळटां तांकां आपल्या गुणांची वळख जावपाक जाय. एकमेकांचे बरे गूण तांकां दिश्टी पडपाक जाय. ह्या उद्देशान १९८६ वर्सा बालभवनाची स्थापना जाली. पयलीं बालभवन पणजे आल्तिनोचेर धेंपो कॉमर्स कॉलेजीकडले सरकारी इमारतींत आशिल्लें. थंय जागो ल्हान आशिल्लो. भुरग्यांचोय आंकडो चड आशिल्लो. आमची अडचण समजून घेवन गोंय सरकारान आमकां मिरामार जागो दिलो आनी ह्या जाग्यांत आमी 'बालभवना'ची वास्तू उबारली. आतां हांगाचें वातावरण भुरगीं, शिक्षक हांकां सगल्यांकूच बऱ्याक पडलां. पूण एक गजाल स्पश्ट करपाक जाय ती म्हळ्यार बऱ्याच लोकांचो असो गैरसमज आसा की बालभवन म्हळ्यार भुरग्यांचो सांबाळ करपी एक 'पाळणाघर', एक आश्रम कसो. पूण तें बरोबर न्हय. बालभवन म्हळ्यार भुरग्यांच्या कलागुणांचो विकास करपी एक केंद्र.

**□ 'बालभवन' ही एक संस्था उरनासतना आयज तिका एके चळवळीचें स्वरूप आयलां अशें म्हळ्यार अतिताय जावंचीना. तर बालभवनाचो गोंयभर कसो वावर चल्ला ?**

म्हजेपरस तो लोकांक चड खबर आसा. आयजवेर आमी पणजी, फोंडें, वाळपय, मडगांव, दिवचल, काणकोण, मांद्रें, पर्वरी, केरी, वास्को, म्हापशें, पेडणें, शिरोडें, कुट्टी, कुडचडें, साळ, पैंगीण हांगा बालभवनाचीं केंद्रां सुरू केल्यांत. काम बरें चल्लां. ह्या केंद्राचीं खेड्या-पाड्यांनी खूब गरज आसा कारण ह्या भुरग्यांनी फुडें येवपाक जाय. आपले कलेचो विकास करपाक जाय. ती संद तांकां मेळ्ळ्या आनी ती तांचेपरीन काम करतात. शिवाय हांवूय खूब लक्ष दितां.

**□ बालभवन इमारतीवयलें नांव इंग्लीशीन बरयलां. नागरींत कित्याक ना ? हाचेर वर्तमानपत्रांनी जायती टिका जाल्या. तुमची जाप कितें ?**

म्हजी तशी खास प्रतिक्रिया ना. पूण एकूच सांगूक सोदतां, इतलें व्हडलें काम चलता थंय येदेशे बारीक गजालीकडेन वाद घालून म्हाका म्हजी आनी हेरांची शक्त वगडावपाची ना. काम म्हत्वाचें. घडये नांव घालपाक जागो उणो पडला आसुंयेता.

पूण एक सांगतां. आमकां जावं खंयच्याच देशाक इंग्लिशी बगर पर्याय ना. इंग्लीशीचें आक्रमण आमचेर जाता अशें जरी आमी म्हळें तरी आमी मुखार शिकतलीं, परदेशात वतलीं जाल्यार थंय इंग्लीश म्हत्वाची. आयचें कंम्प्यूटर युग. हातूंत इंग्लीशीबगर पर्याय ना. म्हाका खंयच्याच भासाचो दुस्वास ना. म्हाका स्वताक मराठी, कोंकणी, कन्नड, इंग्लीश, फ्रेंच ह्यो भासो येतात. अशा वेळार इंग्लीशीत नांव आसा म्हण वाद घालप सभा न्हय. इंग्लीशीखातीर सगळे देश एकठाय आयल्यात.

□ **आमी एकेवटेन संस्कृतीच्यो गजाली करतात आनी दुसरेवटेन इंग्लीश भाशेचें आमचेर आक्रमण. आमच्यो प्रादेशिक भासो कडेक दवरून 'संस्कृती' कशी तिगतली ?**

संस्कृती आनी इंग्लीश भाशेचें आमचेर आक्रमण ह्यो दोन वेगळ्यो गजाली. संस्कृती ही आपल्या जल्माबरोबरच आयिल्ली आसता. मनीस कितलोय शिकलो जाल्यार ताची संस्कृती खंयच वचना. इंग्लीश शिकून शिश्टाचार, एटीकेटस् जावं बाकीचें ज्ञान मेळटा. एका काळार आमी बायला नववारी न्हेसतालीं. पूण आयज देवाचें कितेंय कार्य आसल्यारूच न्हेसतात. आयज आमी सरास चुडीदारूच घालतात. हांवूय घालतां. कारण सोयीचो आनी [illegible] सवायूय आसता. हाचो अर्थ आमी संस्कृती सोडूंना. थोडेंशें जमान्याबरोबर चलचे पडटा पूण मूळ संस्कृती कोण विसरना. आमची संस्कृती नश्ट जाता अशें आमकां दिसता जाल्यार आमचीं जीं व्हडलीं देवळां आसात त्या देवळांनी श्लोक, अभंग, कीर्तन हांचे खास वर्ग घेवन संस्कृती तिगोवन दवरूं येता.

□ **तुमच्या केरीच्या बालभवन केंद्रांत शिकपी कु. रुपेश गांवस हाका राष्ट्रीय पांवड्यावेलो 'बालश्री' पुरस्कार फावो जालो. तुमी बालभवनाचे वतीन प्रधानमंत्री पी. व्ही. नरसिंहराव हांचे हस्तुकीं ताचो सत्कार केलो. ह्या भुरग्याक घडोवपाक तुमकां बालभवनाचे वतीन खास अशे कश्ट पडले ?**

हय, कश्ट घेवचे पडले. कारण तो सत्तरींतलो भुरगो. पूण मुळांत तो भुरगो हुशार. ताची गणना फकत गोंयापुरती उरना. राष्ट्रीय स्तराचेर जाता. शालेय शिक्षण घेतना ताच्या शिक्षकांनी ताचेर बरे संस्कार केल्ले. तो बालभवनांत येतकच आमी ताचे गूण पारखिले. ताचो आत्मविस्वास वाडयलो. तो एक खडो आशिल्लो. ताका तासून पालून ताचो आमी हिरो केलो.

□ **समाजीक वावरांत सामान्य बायलांक कशेतरेन सहभागी करून घेवंक जायत ?**

सामान्य बायलांनी फुडें येवपाची चड गरज आसा. पूण तांचेमदीं आत्मविस्वास आसपाक जाय. हातांत घेतिल्लें काम मुखार व्हरपाक आंगांत जिद्द, चिकाटी जाय. अशीं बायलां जेन्ना म्हजेसरीं येतात तेन्ना हांव तांकां मुखार येवपाक म्हजेपरीन जाता ती मदत करतां.

**□ प्रतापसिंह राणेंच्या राजकारणांत तुमचो सहभाग कितलो ? तुमी तांकां कसल्याय पेंचप्रसंगाच्या वेळार सल्लो दितात ? बायल म्हणून वो मित्र म्हणून ?**

राजकारणाच्या मळार तांकां हांवें कसलोय सल्लो दिवपाचो प्रस्नूच येना. कारण खंयच्याय वेळार योग्य तो निर्णय घेवपा इतले ते समर्थ आसात. कांय वेळार हांव तांकां कितेंय सांगतां. पूण हें सांगप तांची बायल म्हण न्हय, तर एक सामान्य मनीस तांकां जेतरेन सांगता तेच तरेन हांव सांगतां. पूण निर्णय घेवपाचे बाबतींत ते आपलीच तकली वापरतात. हांव तांच्या वावरांत धवळाधवळ करिना तशे तेवूय म्हज्या वावरांत गरजेभायर लक्ष घालिनात. पूण ते जेन्ना पार्ट्यो, जेवणां बी घडोवन हाडटात तेन्ना हांव तातूंत स्वता लक्ष घालतां.

**□ तुमी मुख्यमंत्र्यांच्यो घरकान्न. तांच्या कार्यक्रमांचेर तुमकां लक्ष दवरचें पडटा. तुमी पणजेंत बंगल्यार रावतात. सांखळेय तुमचें घर आसा. थंयूय येवचें वचचें पडटा. हांवें आयकल्ले प्रमाण दर दिसा तुमी पणजेंत बालभवनाक एक फावट तरी भेट दितात. ह्या सगळ्याचो ताळमेळ तुमी कसो जुळयतात ?**

कांय लोक जीवनांत देवाक मानतात आनी जगतात. हांव म्हज्या जीवनांत शिस्तीक देव मानतां. म्हज्या कार्यक्रमाचें हांव वेळापत्रक शिस्तीन तयार करतां आनी तें काम थरिल्ल्या वेळार करतां. आयचें काम केन्ना फाल्यांर उडयना. थरिल्ले काम खंयचेय परिस्थितींत करपाचो यत्न करतां. वेळाचें भान राखतां. एकदां एक काम लांबलें जाल्यार मुखावयली सगळी घडी विस्कट्टा. हांव अशें जावक दिना. म्हाका दिसता, हांवेंच न्हय, कोणेंय काळाचें वो वेळाचें भान दवरून कामाक हात घाल्यार ह्या जगांत खंयचेंय काम अशक्य न्हय. जाय ती फकत उमेद.

विजयादेवींचें काम आनी कर्तुत्व हें अभिमानाचें आनी कोणेंय देख घेवपासारकें. गोंयच्या मुख्यमंत्र्यांची ती घरकान्न. मुख्यमंत्रीपदाच्या वलया भोंवतणी तांणी रावूं येतालें आनी थंयच प्रसिद्धी आनी नामना मेळोवं येताली. पूण तांणी तशें केलें ना. आपणाल्या खाशेल्या तडफदार व्यक्तिमत्वान गोंयच्या समाज- जीवनांत आपलो वेगळो असो ठसो उमटायलो.

* * *

## गोंयच्या सुटके झुजांतली विरांगना

# शारदा सावयकार

---

कतुंन्ची बायलां जायतीं आसतात. तीं आपणाक जाय तें क्षेत्र आपखोशयेन वेंचून काडटात, कश्ट करतात आनी नांव काडटात.

पूण अशीय कांय क्षेत्रां आसतात, थंय फकत काळाचेंच अधिराज्य चलता आनी काळूच मनशाप्रमाण कांय आव्हानां, कांय कसवटण्यो उब्यो करता. थंय मनीस तो काळाचो उलो आयकून फाडफुडो चिंतिनासतना त्या आव्हानांक भिडटा.

गोंयचें स्वातंत्र्य हेंय अशेंच एक आव्हान आशिल्लें. तें जांणी स्वीकारलें, तांणी बंदखणीची देवळां केलीं. तांतूतली अशीच एक वीरांगना म्हळ्यार श्रीमती शारदा सावयकार.

हिचो जल्म सावयवेंच्या सैमाच्या गोपांत नटिल्ल्या पांचव्याचार गांवांत जालो. बापूय पद्मनाभ! त्या काळावयलो समाजसुधारणेचो ध्यास घेतिल्लो. त्या वाठारांतलो समाज सुधारक. गांवच्या उच्चभ्रू लोकांचो शिक्षणाक विरोध आशिल्लो; कारण गांवच्या कुळवाड्यांचे भुरगे शिकले जाल्यार कुळागरांतलो काम धंदो कोण करतलो अशा प्रतिगामी विचारांच्या लोकांचो विरोध जुमानिनासतना पद्मनाभ सावयकारांनी गांवांत शाळा स्वता मास्तर जावून सुरू केली. धा गांवांच्या देवळांत शाळेक विरोध जालो तेन्ना आपले सुवातेंत शाळा बांदपाक मास्तराक आनी विद्यार्थ्यांक मदत केली. शारदाताईची आवय सरस्वती. बापूय सावयवेंचे दोंगुल्लेंचे उंचायेचे मनीस जाल्यार आवयचें काळीज गांवच्या तळ्यांतल्या उदकासारकें दुसऱ्यांचे मायेन आनी वात्सल्यान भरिल्लें. कुटुंब बागायतदारांचें. पूण तेन्ना सुपारेक दर ना. आनी सुपारेक दर ना देखून कुळागरी मनशाकूच मोल ना अशी स्थिती. ह्या कुटुंबांत एकूण तेरा मनशां. आवय, बापूय, पांच चले आनी स चलयो. तांतूतली एक शारदा. आजेंत मोंतेराचे भाशेंत मालांद्र, मस्तें!

शारदाबाई स्वातंत्र्य सैनिक. बंदखण भोगली आनी सुटका जातकूच पुण्यांत वचून रावली. थंय शिकोवण्यो करून जिद्दीन भावंडांक शिकयलीं, वाडयलीं. गोंय स्वतंत्र जातकूच गोंयांत येवन शिक्षिकेची नोकरी धरली. आतां त्यो नोकरेंतल्यान निवृत्त जाल्यात. सध्याक रावतात मिरामारचे ला कांपाल कॉलनींत. आदीं तांकां कळोवन मुलाखत थारायली. थारिल्ल्या वेळार सांजवेळा हांव तांगेल्या फ्लॅटार वाट पळयत बसलें. उसरां

आयली, दिलगिरी व्यक्त करीत रावली. हातांत हजार कामां. तातूंत एक काम मुलाखतीचें. पूण हातांत घेतिल्ल्या दर एका कामाक न्याय दिता तसो मुलाखतीकूय न्याय दिलो.

**☐ भुरगेपण शाळेंत शिकपाचें, खेळपाचें, मस्ती करपाचें. तें सगळें सोडून तुमकां स्वातंत्र्याविशींची आवड कशी निर्माण जाली ?**

खरें म्हळ्यार म्हजो बापूय पुर्तुगेज सरकाराचो रेजिदोर म्हळ्यार पुलीस पाटील आसलो. पूण तो स्वातंत्र्याचो पुरस्कर्तो आनी आधुनिक विचारांचो आशिल्लो. गांवांत ताणें सुरू केल्ले शाळेंत हांव शिकतालें. त्या वेळार आमच्या बापाय म्हऱ्यांत पुणे, सांगली, सावंतवाडी हांगासून लोक येताले. ते स्वातंत्र्य सैनिक आसताले. ते आपल्या स्वातंत्र्यलढ्याच्यो गजाली सांगताले. तें आयकून गोंयच्या स्वातंत्र्याविशीं कितें तरी करपाक जाय अशें दिसतालें. ह्याच वेळार सावयवेंरेंचे शाळेंत मोहन रानडे शिक्षक म्हूण आयले. ते दिसाची शाळा चलयताले आनी रातीचे खेतक्या दोंगराचेर थळाव्या स्वातंत्र्य सैनिकांक सशस्त्र लढ्याचें प्रशिक्षण दिताले. आझाद गोमंतक दलाची एक शाखा ते चलयताले. दर शेनवारा भुरग्यांखातीर 'बालसभा' घेताले आनी स्वातंत्र्याविशींच्यो गजाली सांगताले. अशे तरेन स्वातंत्र्याविशींची आवड निर्माण जाली.

**☐ प्रत्यक्ष स्वातंत्र्य लढ्यांत कशीं पडलीं ?**

एक दीस पुर्तुगेजांचो हस्तक किस्तोद हाणें स्वातंत्र्य सैनिकांनी लायिल्लो तिरंगो बावटो काडून पांयापोंदा मस्तिलो आनी जाळून उडयलो. स्वातंत्र्य सैनिकांनी रागान ताचो खून केलो. त्या खुनाखातीर सावयवेऱ्यां धरपकड सुरू जाली. पुलीस अधिकारी आजेंत मोंतेर हाणें आमच्या घराचेर धाड घालून म्हाका अटक केली. खुनाच्या कटांत सामील आशिल्ल्याचो म्हजेर आरोप आशिल्लो.

**☐ स्वातंत्र्य सैनिकांमदीं दादल्यांबरोबर तुमचे सारकीं बायलांय आशिल्लीं. पुर्तुगेज अधिकारी दादल्यांक आनी बायलांक एकेच तरेची वागणूक, ख्यात दिताले ?**

ना. दादल्यांक खूब खर ख्यास्त आसताली. हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयलां. तांकां मेजार आडवे घालून चार चार पुलीस घट धरताले आनी कावल मारीन तांचें आंगपांग फोडून काडटाले. बायलांक मात अशे तरेची ख्यास्त नासताली. म्हाका मार पडलो तो मात म्हज्या सुबेजपणाक लागून. हांवें कोण अधिकारी म्हण पळयनासतना तांकां आरत्याक परतें दिलें. तांणी म्हाका खूब मारलें. म्हजे दांतूच वडयले. पूण माराचें तशें व्हडलें न्हय. एक फावट मारान आंग सुजतकूच मागीर कितलेंय मारल्यार दुखना. आंग सामकें बधीर जाता. म्हज्या वांट्याक आयिल्लो मार मात हेर स्वातंत्र्य सैनिक बायलांच्या वांट्याक आयलोना.

**☐ तुमी बंदखणींत कितलो तेंप उरलीं ? बंदखणींतले अणभव ?**

सुमार अडेच वर्सां. पयलीं पणजे डेड वर्स. मागीर मडगांवां. मागीर परत पणजे. १९५३ ते १९५६ चो काळ. बंदखणींत आमी हेर स्वातंत्र्य सैनिकांची चवकशी करतालीं. बंदखणींतल्या कांय पुलिसांकडेन आमच्यो वळखी घडिल्ल्यो. दादल्यांक मस्सर मारताले. ते पेजेखातीर वळवळटाले पूण तांकां बंदखणींतले अधिकारी पेज कशीच दिना आसले. मागीर आमी बायलां पेजेचो हट्ट धरतालीं. पेज मागून घेतालीं आनी त्या दुयेंत, मार बशिल्ल्या स्वातंत्र्य सैनिकांक जेवपाक दितालीं. बंदखणींत आसतनाच ना. ग. गोरे, शिरुभाऊ लिमये सारक्या व्हडल्या मनशांची वळख जाली.

**गोंयाक स्वातंत्र्य मेळटकूच जें स्वराज्य येतलें तें कशें आसतलें अशी तुमची कल्पना आशिल्ली? ते कल्पनेप्रमाण आयचें स्वराज्य आसा?**

स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य! आपले आवयक वायट म्हणूं नजो. पूण जें चल्लां तें पळोवन मन खूब खंती जाता. तेन्ना पारतंत्र्य आशिल्लें खरें, पूण एक शिस्त आशिल्ली. चोरयेक, खुनाक खर ख्यास्त जाताली. वायट प्रवृत्तींक एकेतरेची भिरांत आशिल्ली. आतां कितें? मनशाक वाली ना. चोरयो, खून सगळें सोपें जालां. सगळी हळशीक जाल्या. पयशे खावयले बगर खंयचींच कामां जायनात. सगळ्याक भ्रश्टाचार मातला. इल्लेशें माणकुलेंच गोंय हें. तेंय आमकां बरेतरेन चलोवपाक जायना? वायट दिसता, खूब खूब वायट दिसता.

**तुमी स्वातंत्र्य सैनिक. गोंय स्वतंत्र जातकूच तुमी राजकारणांत पडून तुमचे कल्पनेंतलें गोंय रुपकाराक हाडूं येतालें. राजकारणांत कित्याक पडलीं नात?**

आपूण ज्या क्षेत्रांत देंवक सोदता, थंय आपूण पयलीं पर्फेक्ट आसपाक जाय. म्हजी बौद्धिक ताकद आनी कुवत म्हाका खबर आशिल्ली. शिवाय म्हजी सरकारी नोकरी. गोंयचे पयले मुख्यमंत्री स्वर्गेस्त भाऊसाहेब बांदोडकार हांणी म्हाका विधानसभेचे पयलेच वेंचणुकेक खूब आग्रो केलो. तांगेल्या पणजेंतल्या बंगल्यार हांव तीन दीस आशिल्लीं. ते म्हाका मडकय मतदारसंघांतल्यान महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाची तिकेट दिवपाक सोदताले. पूण हांव कशींच तयार जायना जालीं. मागीर भाऊंनी म्हजो नाद सोडलो. भाऊ खूब बरो मनीस. मागीर भाऊन म्हजीं जायतीं कामां केलीं. जायत्या गरिबांक हांव तांचेकडेन घेवन वतालीं.

**स्वातंत्र्यसैनिक म्हण तुमी वावुरलीं. मागीर तेच निश्ठेन शिक्षकी पेशांत वावुरलीं. तुमचे हे सेवेचो गौरव कसो जालो? पुरस्कार, सोंमान बी?**

स्वातंत्र्य सैनिक म्हण केंद्र सरकारान ताम्रपट भेटयलो, श्रीमती इंदिरा गांधी देशाच्यो पंतप्रधान आशिल्ल्यो तेन्ना. स्वातंत्र्य सैनिक म्हणून केंद्र सरकाराचें पेन्शन मेळटा. अर्थात हांव आपूण जावन केन्ना मागूंक वचूंना. कारण गोंयच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत आमी कर्तव्य म्हणून देंवल्लीं, कसलेंच आशेन न्हय. म्हाका गोंय राज्य सरकाराचो उत्कृश्ट शिक्षकेचो

पुरस्कार केन्ना लाबलोना. मात म्हाका उत्कृश्ट शिक्षिकेचो राष्ट्रीय पुरस्कार लाबलो. ५ सप्टेंबर १९९५ दिसा राष्ट्रपती शंकर दयाळ शर्मा हांचे हस्तुकीं नवी दिल्लीच्या विज्ञान भवनांत तो स्वीकारपाची म्हाका संद लाबली.

□ **शिक्षिकेची नोकरी आसतना बरोचसो वेळ थंय वतालो. आतां तुमी निवृत्त जाल्यांत. वेळ कसो सारचो असो प्रस्न बी पडटा?**

ना. अजिबात ना. आतां वेळूच मेळना. कामां वाडल्यांत. हातांत कसलें तरी काम घेवन फोंड्या वता पूण मर्दीच कसलें तरी काम उप्रासता आनी म्हापशां पावता. अशें चललां निवृत्त जीवन. म्हजी आई सदांच म्हणटाली, तूं यमाक सुद्धा सांगपी – मात्सो राव, हें काम करून येता.

□ **पुनर्जल्माचेर विश्वास आसा?**

आसा. पुनर्जल्म जायच. कारण गायन शिकपाची मनापसून इत्सा आशिल्ली. ह्या जल्मांत ती तशीच उरली. फुडल्या जल्मांत तरी भागोवपाक मेळ्ळ्यार पुरो!

□ **आयचीं शिकिल्लीं बायलमनशां स्त्रीमुक्तीसंबंदान आवाज काडटात. अशे स्त्रीमुक्तीसंबंदान तुमचें मत कितें?**

हांव होमगार्डांत आसलीं. बायलांमदीं धाडस, काटकपणां जाय अशा मताचीं हांव. पूण कांय बायलांचीं कामां बायलांनीच करपाक जाय आनी दादल्यांचीं कामां दादल्यांनी. थय गरजे भायर वाद करचो न्हय अशें म्हाका दिसता. दादल्यांचे बरोबरीन मुखार येवपाकूच जाय, पूण अशीं दादल्यांकडेन आनी समाजाकडेन झगडीं-झुजां करून न्हय.

□ **भावांच्या भुरग्यांच्या सांगातान तुमचें जीवन चललां. आपलोय एक संवसार आसपाक जाय अशें केन्ना तरी तुमच्या मनाक दिसलां?**

ना, निखालस ना. लग्न जाल्लीं जाल्यार घोव आनी एक दोन भुरगीं इतलोच संवसार आसपाचो. पूण लग्न जालीं ना आनी सगळ्या भावांच्या भुरग्याक वात्सल्यान वाडयलीं. भाव सावयवेऱ्यां आपणाल्या उद्येगधंद्या फाटल्यान आनी तांगेली भुरगीं शिक्षणाच्या निमतान म्हजेसरीं पणजे. पांच वर्सांची जातकूच भुरगीं म्हजे स्वाधीन. भावांचींच न्हय, हेर भुरग्यांकूय सांबाळ्ळीं. तांतूंतले दोन जाण आतां अमेरिकेक आसतात. अर्थांत हांवें हें आनंदान केलां.

शारदाताईची जीण म्हळ्यार एक अजापूच! एका कुळागरी मनशान माथ्यार व्हडलें वजें घेवचें, त्या वज्यांत तरातरांची फळफळावळ उपाट भरची आनी नेटान धेंपां मारचीं. लोकांनी म्हणचें, हो आतां पडटलो! पूण ना. हाचीं पावलां नेटान आनी आत्मविस्वासान पडटात. शारदाताईची जीण अशीच. अनंत जापसालदारक्यांचें वजें तांणी आपूण जावन माथ्यार घेतला आनी मोट्या अभिमानान आनी संतोसान त्यो जगतात.

## राजकारणांतलें संयमी आनी सालस व्यक्तिमत्व

# संगीता परब

---

आमचे भारतीय संस्कृतायेंत बायलांक श्रेश्ठ मानल्यांत. बायल म्हळ्यार देवी, दुर्गा, शांता अशीं नांवां दिवन बायलेचो गौरव केला. स्वामी विवेकानंद सांगताले, आमी बायलांक आमचे बरोबरचीं केन्नाच मानिनांत तर आमी तांकां आमचे परस श्रेश्ठ मानतात.' एकेवटेन बायलमनशेचो हो गौरव जाल्यार दुसरेवटेन आजुनूय आमी **कितें पळयतात ?**

ह्या संघर्शाच्या होमखुणांतल्यान बायलेन तकली वयर काडली. आनी आयज आमी पळयतात, खंयच्याय मळार बायलां फाटीं नात. फकत तीं संख्येन उणीं आसात, **गुणवत्तेन न्हय**.

मतदारांत बायलांची संख्या दादल्यांइतलीच पूण राजकारणांत बायलां मात सामकींच उणीं. उणीं म्हळ्यार हाताच्या बोटार मेजपा इतलीं. पूण जीं आसात तीं मात कर्तुत्वी. अशीच एक कर्तुत्वी बायलमनीस म्हळ्यार संगिता गोपाळ परब. काँग्रेस पक्षाच्या राणे सरकारांत त्यो शिक्षणखात्याच्यो राज्यमंत्री आसात.

जागतिक महिला दिनाच्या निमतान संगीताबायची भेट घेवपाचें थारायलें. आदीं वेळ थारावन पणजेंतल्या तांगेल्या बंगल्यार गेलें. मंत्री म्हण संगीताबायक जायते फावट पळयिल्ली. तिच्या हातांतल्यान इनामांय स्विकारिल्लीं. तिचीं उलोवपांय आयकल्लीं. पणजी दूरदर्शनाचेर तिची मुलाखत घेवपाचीय संद मेळिल्ली. तिणें म्हाका येवकार **दिलो**.

चक्रवर्ती राजगोपाळचारी म्हणटाले, 'घरांत एक बायलमनीस शिकली जाल्यार ती एक घरूच शिकोवन वयर काडटा.' संगीताबायच्या घराचेर आनी कुटुंबाचेर नदर मारिनाफुडें ताचें खरेंपण म्हाका पटलें.

सुमार तीस-चाळीस मिनटां हांवें तांचेलागीं चर्चा केली ताचो हो आपरोस.

**□ संगीताबाय, तुमी राजकारणांत केन्ना भितर सरलीं ? राजकारणांत येवपाफाटलो तुमचो उद्देश कितें ?**

शाळेंत शिकता आसतनाच राजकारणाची आवड. घरांत चार भावांमदीं हांव एकलीच चली. पूण म्हाका कोणें आडायली ना. वेंचणुकेच्या प्रचारावेळार हांव उमेदीन फुलतालीं. तांचीं पत्रकां, जायराती वाचतालीं. म्हजी उमेद पळोवन मागीर कांय जाण म्हाका प्रचाराचें निवेदन बी करपाक दिताले. अर्थांत तेन्ना राजकारणाची जाण नाशिल्ली पूण आवड आशिल्ली. मागीर म्हजो घरकार गोपाळ परब सक्रीय राजकारणांत आशिल्लो. तेन्ना म्हजो संबंद तांगेल्या कार्यकर्त्यांकडेन येतालो. हो संबंद वाडत गेलो.

**□ काँग्रेसींत केन्ना प्रवेश केलो ?**

हें सगळें प्रचारकार्य काँग्रेसीचेंच आशिल्ल्यान आपशींच हांव काँग्रेसींत आयलीं. वेगळें काँग्रेसींत भितर सरचें पडलें ना.

**□ १९८४ वर्सा गोंयचे विधानसभेंत आमदार म्हण तुमची नियुक्ती जाली. ह्या आमदारकेच्या काळांत तुमी म्हत्वाचो असो कसलो वावर केलो ?**

एक आमदार म्हण जो वावर करपाक जाय आसलो तो हांवें प्रामाणिकपणान केलो. पूण त्या वावराचें स्वरूप खुबूच मर्यादित आशिल्लें. ताका खास असो वावर म्हणपाक जावचेंना.

**□ १९८९ वर्साचे विधानसभेचे वेंचणुकेंत तुमी मांद्रे मतदारसंघांतल्यान हारलीं. तुमच्या पराभवाचीं कारणां कितें ?**

हांव मांद्रे मतदारसंघांतल्यान हारलीं. उमेदवार श्री. रमाकांत खलप म.गो. पक्षाचो बळिश्ट फुडारी. ताचो त्या काळार खूब प्रभाव आशिल्लो. आनी म्हजो वावरूय उणो पडलो आसुंये. तरी लेगीत हांवें दिल्ली झूज खर आशिल्ली. फकत १२०० मतांनी हांव हारली.

**□ ही वेंचणूक तुमी त्याच मतदारसंघांतल्यान आदल्याच उमेदवाराआड उबी रावन जिखली. कित्याक लागून यश लाबलें अशें तुमकां दिसता ?**

ही वेंचणूक मांद्रे मतदारसंघांतल्यान जिखली. ६०० मतांनी. म्हज्या आयुश्यांतलो कोराथून दवरपासारको हो दीस. हाचें कारण म्हळ्यार म्हजी जबरदस्त इत्साशक्त, कार्यकर्त्यांचे कश्ट, प्रामाणिकपणा हीं जैताचीं कारणां. लोकांक बदल जाय आसलो. लोकांनी पक्षापरस व्यक्तीक पळयली. मांद्रे गांवची विदर्णा पळयली आनी म्हाका वेंचून दिली.

**□ तुमच्या मतदारसंघातल्या लोकांखातीर तुमी कसो वेळ दितात ?**

जितलो वेळ मंत्री म्हणून सगळ्या लोकांखातीर दितां, तितलोच वेळ हांव म्हज्या मतदारसंघांतल्या लोकांखातीर दितां. आयतार आनी बुधवार अशे सप्तकांतले दोन दीस

हांव मात्र मतदारसंघांखातीर राखून दवरल्यात. आयतार हरशीं सुटयेचो वो म्हाजगी जिवितांखातीर वापरपाचो दीस. पूण तो लेगीत हांव म्हज्या कार्यकर्त्यांखातीर मोटे उमेदीन दिता.

□ **बायलां राजकारणांत उणीं कित्याक ? तुमकां कितें दिसता ?**

पुरुशप्रधान संस्कृती हें एक कारण. राजकारणक्षेत्र हें लोकांचें क्षेत्र. रातदीस लोकांकडेन संपर्क येता. अशा वेळार लोक दुबावान पळयतात. ह्या क्षेत्रांत येवपी बायलां धाडसी आसच्यो पडटात. ह्या क्षेत्रांत दादले फुडें काडटले आनी आमी मुखार सरतलीं म्हळ्यार अशीं जेवटलीं हांगासर मुद्दम कोणाक मुखार हाडप शक्य ना. इत्सेन आनी धाडसान फुडें येवपाक जाय.

□ **पूण कांयकडेन बायलांची नेमणूक वो नियुक्ती केल्यार तांकां मुखार येवपाक वाव मेळटा अशीं उदाहरणां आसात न्हय ?**

अशेंच अशेंच तेन बायलांक राजकारणांत येवपाक प्रोत्साहन दिवंयेता.

□ **बायलांक सगळ्या क्षेत्रांत प्रतिनिधित्व मेळचें म्हण तुमी कितें करतात ?**

म्हजे नदरेक जीं बायलां येतात आनी जांच्यांत गूण आसात तांकां हांव खंय समित्यांचेर शिफारस करून घालतां. बायलांनी आपूण जावन मुखार सरपाक जाय. अश्यो कांय मुवाती आसल्यार दाखोवन दिवपाक जाय. हांव तातूंत लक्ष घालपाक शकतां.

□ **आमी दिसपट्टें पळयतात, वता थंय बायलांचेर अन्याय जातात, बळजबरी, बलात्कार असल्यो घडणुको घडटात. बायलांची प्रतिनिधी म्हण तुमी ह्या अन्यायाकडेन लक्ष दितात ?**

एक बायल म्हण म्हजें लक्ष आसता. पूण खंय खंय म्हण विरोध करतलीं ? कांय अन्यायाच्यो घडणुको पेपरांत वाचतां. जीव तळमळटा... सगळें सविस्तर समजून घेतां. मागीर तें पोलीस स्टेशन, कोर्ट हांचेकडेन आसता. पूण बायलांकडेन पळोवपाची वृत्ती आजून बदलूंक ना. सामान्य बायलांक हाची बाधा जाताच. कांय बायलां बसीन प्रवास करतात, हॉटेलांत जेवतात. तांकां ही नदर सोसची पडल्या. हाका एकूच उपाय म्हळ्यार बायलांनी समर्थपणान उबें रावपाक जाय.

□ **लोक आपले प्रस्न घेवन तुमचेकडेन येतात. प्रस्न सुटावं करपाचें उतर तुमी तांकां दितात. तेन्ना ते खंयचे नदरेंतल्यान तुमचेकडेन पळयतात ? विस्वासान काय अविस्वासान ?**

अर्थात विस्वासान. हे जे लोक आतां म्हजेकडेन कामां घेवन येतात ते आतां मंत्री जाल्या उपरांत पूण म्हाका निवडून दिले तेंच पयलीं तांच्या विस्वासान. हांव एके बायलेबरोबर ही वेंचणूक जिकूंना जाल्यार एका व्हड फुडाऱ्याचेर हार घालून वेंचून आयल्या. हाचे वेल्यान समजून येता तांचो म्हजेर कितलो विस्वास तो.

**☐ तुमी शिक्षणखात्याच्यो राज्यमंत्री. हरशीं संवसाराची सगळी जापसालदारकी घेवपाइतली बायल समर्थ आसा. मागीर संपूर्ण मंत्रीपदाची जापसालदारकी दिवपाक अनमनतात कित्याक ?**

हांव नवें आसां. म्हाका खूब अणभव जाय. आजमेरेन म्हजीं कामां हांव राज्यमंत्री आसां म्हणून अडून उरूंक नात कारण मुख्यमंत्र्यांच्या सहकार्यान म्हजीं सगळीं कामां वेवस्थीत जातात. तांचें मार्गदर्शन मेळटलें आनी एक दीस म्हजें कामच दाखोवन दितलें की हांव कसल्याय खात्याची स्वतंत्रपणान जापसालदारकी पेलूंक शकतां म्हणपाचें.

**☐ आयचें शिक्षण हें रोजगार वो व्यवसाय मेळोवन दिवपाक शकना देखून शिक्षण पद्धतींत बदल जावपाक जाय अशें सगळेच म्हणटात. तर हे बदल कोणें आनी कशे करपाचे ?**

शिक्षणांत बदल जावपाक जाय ही गजाल खरी. पूण हो बदल करतना सरकार एकतर्फी वागचें ना. पालकांक शिक्षकांक विस्वासांत घेतले, चर्चा, सेमिनार हातुंतल्यान तांचे विचार समजून घेवन हे बदल जातले.

**☐ गोंय सरकाराच्यो अकादेमी आसात. जांव कला अकादेमी जावं कोंकणी अकादेमी. ह्या अकादेमीचेर वांगडी म्हण बायलांची निवड सामकीच उणी जाता. हे बाबतींत तुमी कांयच लक्ष दिनात.**

हातूंत लक्ष घालपाक जाय ही गजाल खरी. पूण केन्ना ह्यो गजाली लक्षांत येनात. पूण लक्षांत आयल्यो जाल्यार हांव म्हजी शिफारस करपाचो अधिकार वापरतलीं आसलीं.

**☐ राजकारण आनी घरसंसार हांचो मेळ कसो घालता ?**

सगळ्याक चौफेर लक्ष दिवप म्हळ्यार खरेंच तारेवयली कसरत जाताली. पूण आतां म्हजीं भुरगीं व्हड जाल्यांत. तीं समजून घेतात. तरी आसतना सकाळीं ९ मेरेन हांव घरा आसतांच. घर सोडून ऑफिसांत वचचे आदीं हांव खाणा-जेवणाची सगळी वेवस्था करून वतां. घोवाचें जेवण, भुरग्याची खाणाची आवड-निवड ह्या गजालींकडेन खाsa लक्ष दितां. ती करपाक म्हाका वेळ ना. पूण लक्ष जरूर दितां. ऑफिसांतल्यान येतकूच परत सगळें जाग्यार घालचें पडटा. आयिल्ल्या गेल्ल्याची वासपूस करतां. बरी मंत्री जाली म्हूण बायलमनशेक ह्या कामांतल्यान सुटकावाट ना. आनी अर्थांत हें सगळें करपाक म्हाका मनापासून आवडटा.

'विद्या विनयेन शोभते!' अशी म्हणणी आसा. सत्तेक जर 'विनयते'ची जोड आसत जाल्यार सत्ताय मनशाक माथ्यांतल्या तुऱ्या सारकी सोबून दिसता, अशें म्हाका दिसता.

✻ ✻ ✻

## नाटक-सिनेमांतली धीट आनी धाडसी अभिनेत्री

# वर्षा उसगांवकार

खूब लडी वह मर्दानी झांसीवाली रानी थी।

दूरदर्शनावयल्यान हें शिर्शकगीत कानार सादतालें आनी मागीर तरसादी सारकी तेजाळ व्यक्तिमत्वाची झांशीची राणी पडद्याचेर प्रगट जाताली.

ही झांशीची राणी म्हळ्यार तुमचें आमचें सगल्यांचेंच वर्षा उसगांवकार. हेमा मालिनीन निर्माण केल्ले आनी रवी चोपडा हांणी दिग्दर्शीत केल्ले 'झाशीं की रानी' हे दूरदर्शन मालेंत वर्षा लाखांनी दर्शकांचे नदरेमुखार येवन गेलें.

वर्षा म्हळ्यार पावस! पावसाचीं विविध रुपां सगल्यांक खबर आसात. बिरीबिरी पावस! अवखळ पावस! शांत पावस! तुफानी पावस! पावसांचीं हीं विविध रुपां वर्षाच्या अभिनयांतल्यान प्रगट जातात. आनी मागीर आपसूक तोंडांतल्यान उतरां भायर सरतात. अरे हें तर वर्षा उसगांवकार! गोंयचो पावस!

वर्षा नांवनेची अभिनेत्री पूण टिपिकल गोंयकार. शीत आनी नुस्तें खाल्यार फिगराचें कितें, असो प्रस्न तेराक पडुये. वर्षाक न्हय. तें डायटिंग बी कांय करिना. हें चली आवडीप्रमाण नुस्तें खाता, आयस्क्रीम, पुरनपोळी असलें खाण व्यवस्थीत खाता. तरी लेगीत **देहयश्टी सडपातळ**!

तागेलो मूळ गांव उसगांव, पूण तें पणजेंत जल्मलें आनी थंयच वाडलें. वर्षा, तोषा, मनिषा अशो ह्यो तिगी भयणी. वर्षा सगल्यांत व्हडलें. तें कॉमर्साचें पदवीधर. तांचो बापूय अच्युत शणै उसगांवकार गांधी विचारसरणीचे. गोंयांतल्या स. दयानंद बांदोडकार आनी उपरांत श्रीमती शशिकला काकोडकार हांगेल्या मंत्रिमंडळांत ते जायतीं वर्सां मंत्री आशिल्ले. वर्षा ह्याच राजकारणांत वाडिल्लें.

सुंदर मनशां सगल्यांकूच आवडटात. तातूंत सुंदर मनशां कर्तुत्वी आसलीं जाल्यार तांची लकतुबाय अदीक. सुंदरकाय आनी कर्तुत्व हे दोनूय गूण एखाद्रे तरणाटे चलयेंत आसले जाल्यार अप्रुपूच! वर्षाचे बाबतींत असोच तिगुणी संगम जाला.

वर्षाविशीं म्हाका सददांच आदर आनी अभिमान. वर्षा हो म्हज्या कुतुहलाचोय विशय. कारण गोंयांत जायतीं स्त्री कलाकार जावन गेलीं. जायत आसात. पूण तांगली उडी उत्सवांतलीं नाटकां, चडांत चड सर्तींतलीं नाटकां, इतल्या मेरेनूच सीमित उरता. मागीर तीं खंयतरी कुटुंबीक राटावळींनी, संवसारीक बंधनांनी, समाजीक सीमारेषेंत बंदिस्त उरतात. वर्षान मात हीं सगळीं बंधनां, मोह, सीमा तोडून उडयल्यो आनी गोंयच्या स्त्री कलाकाराक एक पर्वतायेदें आव्हान थारचें अशें कर्तुत्व निर्माण केलें.

वर्षाच्यो मुलाखती घेवपाच्यो संदी म्हाका जायत्या फावटी लाबल्यो. अंकाखातीर मुंबय गेल्लेकडेन तागेली मुलाखत घेतली. वर्षा गोंयांत आयिल्लेकडेन अदींमदीं हांव ताची भेट घेतालें वा तें येवपाच्या वेळार माणिकबाय मुजरत फोन करून सांगताली. फाटले खेपे वर्षा आपणालो ऑर्केस्ट्रा घेवन गोंयांत आयिल्लें तेदेवेळारूय आमची भेट घडली. जायते फावटी आमचे चर्चेंतल्यान ज्यो प्रस्न-जापो जाल्यो ताचो हो आपरोस.

☐ **वर्षा, तुवें आरंभाकूच नाटक/सिनेमा हें क्षेत्र कशें वेंचून काडलें ?**

खरें म्हळ्यार हांवें दोतोर वा इंजिनियर जावचें ना जाल्यार शिक्षण क्षेत्रांत वावुरचें अशें घरच्यांक दिसतालें. पूण हांवें रंगमाची आनी रुपेरी पड्ड्याचेर वचपाचें नक्की थारायल्लें. म्हजी ही जिद्द पळोवन सगल्यांनीच मारतें घेतलें. म्हज्या मनांतली ही इत्सा म्हजे आईक कळनाबरोबर तिणें म्हाका सगळे तरेचें सहकार्य दिलें. बाबानूय पाठिंबो दिलो आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार म्हाका नशिबान बरो सांगात दिलो.

☐ **रंगमाचयेर तुजो प्रवेश कसो जालो ?**

पणजेंत आसतना हांव कला शुक्लेंदुच्या नाटकांनी कामां करतालें. १९८२ वर्सा 'महापूर' नाटकांतले भुमिकेखातीर म्हाका मुंबय अंतरराष्ट्रीय नाट्यसर्तींत भांगरा पदक मेळ्ळें. मागीर औरंगाबाद हांगासर हांवें नाटकाचें प्रशिक्षण घेतलें.

☐ **मागीर तूं व्यावसायीक रंगमाचयेर कशें पावलें ?**

दामू केंकरे हांणी म्हाका 'कार्टी प्रेमांत पडली' ह्या नाटकांत घेतलें. व्यवसायीक रंगमाचयेवयलें तें म्हजें पयलें नाटक. दुसरें नाटक 'ब्रह्मचारी'. सुधीर भट हांणी म्हाका नाटकांतले भुमिकेविशीं विचारलें. पूण त्या नाटकांत स्विमींग सूट घालचो पडटलो म्हण कांचवेलें. मुंबयच्यान आई बाबांक फोन करून विचारलें. तांणी स्पश्ट न्हयकार दिलो. पूण म्हजे इत्सेआड तीं नात म्हणपाचें सांगलें. अखेरेक हांवें रिस्क घेवपाची थारायली. कारण म्हाका तर रंगमाचयेर करियर करपाक जाय आसलें. पूण हांवें बिकिनेचे सुवातेर हाफपेंट घाली. ह्या नाटकाक खूब येस लाबलें. नाटकाचे तीनशें सुमार प्रयोग जाले. नाटकाची व्हिडियो कॅसेटूय आयली.

☐ **मराठी नाटकांतल्यान तूं मराठी चित्रपटांत कशें पावलें ?**

'ब्रह्मचारी' नाटकांत काम करतना म्हजी गांठ सचिनाकडेन पडली. 'गंमत जंमत' ह्या तांच्या फिल्मखातीर सचीन नव्या चेहऱ्याच्या सोदात आशिल्लो. सदचेपरस एक आगळी वेगळी भुमिका म्हाका ह्या फिल्मांत मेळ्ळी. उत्कृष्ट अभिनेत्रीचो पुरस्कार म्हाका लाबलो. मागीर खूब भुमिका म्हजेकडेन आयल्यो. त्या तीन वर्साच्या काळांत अदमासान त्रिशक भुमिका हांवें केल्यो. 'हमाल दे धमाल', 'पसंत आहे मुलगी', 'आत्मविश्वास', 'एक होता विदूषक' ह्या चित्रपटांत म्हज्यो भुमिका खूबच गाजल्यो. 'सवत माझी लाडकी' ह्या गाजिल्ल्या चित्रपटांतूय म्हजी भुमिका आसा.

☐ **वर्षा, मराठी नाटकांतल्यान तूं मराठी चित्रपटांत आयलें. पूण तूं हिंदी चित्रपटांत कशें पावलें ?**

तेंच तर म्हजें टार्गेट आशिल्लें. म्हाका मैसाकडेन वचपाचें आशिल्लें. एका ल्हान मनांतल्यान व्हड सपनांत वचपा सारकी गजाल ही. मराठी चित्रपटांत भुमिका केले उपरांत एका वर्सान हांव हिंदी चित्रपटसृश्टींत आयलें. 'दूध का कर्ज' हो म्हजो पयलो हिंदी सिनेमा.

☐ **बी. आर. चोप्रांचे 'महाभारत' हे दूरदर्शन माळेंत तुवें केल्ली उत्तराची भुमिका सगल्यांक मानवली. ही भुमिका तुका कशी मेळ्ळी ?**

ते भुमिकेविशीं गजाल एकाद्रया सिनेमांत सोबसारकीच आसा. एका दिसा म्हाका 'महाभारत'च्या शुटिंगाखातीर गोंयांतल्यान आमंत्रण आशिल्लें. खरें म्हळ्यार म्हाका थंय वचपाचें नाशिल्लें. पूण गोंयच्यान म्हजीं आई-बाबा, घरची मंडळी आयिल्ली. तांचो धाक वचपाक खूब आग्रो जालो. आनी नशीब म्हळ्यार त्या दिसा म्हजें शूटींग रद्द जालें. हाचेपरस बरें म्हाका 'महाभारत'च्या शुटिंगाक वचचेंच पडलें. थंय वचना बरोबर म्हाका कळ्ळें की उत्तरेच्या रोलाखातीर म्हजी निवड जाल्या. बी.आर. चोप्रांचे डिझायनर रावन अर्दीच म्हाका हे ड्रेस विचारले. ती सरळ ऑफर आशिल्ली. हांवें हयकार दिवचे आदींच म्हज्या आवय-बापायन हयकार दिलो. ते मालिकेंत काम करपाक मेळप म्हणजे व्हडलें भूशण!

☐ **खंयच्या नामनेच्या अभिनेत्यावांगडा तुवें भुमिका केल्यात ?**

'घर आया परदेसी' चित्रपटांत गोविंदा, 'हम्तबंध', 'दूध का कर्ज' ह्या फिल्मांत जॅकी श्रॉफा बरोबर, 'छैल छबिला' चित्रपटांत चंकी पांडे बरोबर, आल्यार 'शिकारी' चित्रपटांत मिथुन चक्रवर्ती आनी नसिरुद्दिन शहा वांगडा भुमिका केल्या. 'हनिमून' फिल्मांत ऋषी कपूर बरोबर म्हजी भुमिका आसा.

☐ **जायरात क्षेत्रांतूय तुवें खूब नामना जोडल्या. हातूंतलो तुजो अणभव सांगशी ?**

हालिंच्या काळांत जायरातींच्या माध्यमातल्यान अभिनय, कल्पकता आनी सृजनशीलतेक बरोंच वाव मेळटा. देखून जायरातीय काम हें एक आव्हानूच करशें. म्हजी पयली

जायरात महाराष्ट्र राज्य लॉटरीची. तातूंत हांव लक्ष्मी जाल्लें. शुटिंगाच्या वेळार चार पांच वरां उबें रावचें पडलें. म्हजी 'सुपर बिझ'ची जायरात मात अल्पजिवी थारली. 'निरमा'ची जायरात मात गाजली. सामकी हीट थारली. हे जायरातीचें शुटींग गोंय, नेपाळ आनी मुंबय फिल्मिस्तान स्टुडियोंत जालें. गोंयांतलें चित्रीकरण सात दीस चललें. जायरात गाजली पूण म्हाका त्रासदायक थरली. दोन दीस कात खरखरीत जाली. कारण फेस येवपाखातीर उदकांत डिटर्जंट घालतात. ताका लागून कातीक खूब त्रास जाता. उपरांत 'गोपाळ जर्दा'चे जायरातींत म्हाका खूब प्रसिद्धी मेळ्ळी. मागीर जर्दाचे जायराताखातीर खूब जाणांनी म्हाका विचारलें. मागीर मात हांव शादूर जालें. सगल्यो जायराती केल्ल्यो जाल्यार हांव 'जर्दा गर्ल' म्हण फामाद जावपाचें. 'चोली के पीछे क्या है' ह्या गीताचे चालीचेर हांवें एक जायरात केल्ली. त्यावूय वेळार म्हजेकडेन चोली गिताचे चालीवयल्यो खुबश्यो जायराती आयल्यो पूण हांवें तांचो स्वीकार केलो ना.

**☐ चित्रपटसृश्टींत वावुरतना एक कलाकार म्हण तुमच्या अधिकाराचेर केन्ना बादा येता? तेन्ना तुमी कशे तरेन रिॲक्ट जातात?**

कलाकाराच्या अधिकाराचेर बादा येवपाचे प्रसंग जायत्या फावटी घडटात. अशा वेळार हांव सामकें जागृत आसतां. म्हजी वायट बरी प्रतिक्रिया स्पश्टपणान प्रगट करतां. कांय प्रसंग देख म्हणून सांगूं येतात. 'एक होता विदुषक' ह्या मराठी चित्रपटांत दिग्दर्शक जब्बार पटेल हांणी म्हजी भुमिका मोठ्या प्रमाणांत कट केली. तेन्ना हांवें भीडमुर्वत दवरिनासतनना म्हजो राग दिग्दर्शकाकडेन प्रगट केलो. 'शिकारी' ह्या हिंदी चित्रपटाचो अणभव सामको कोडू आसा. कारण ह्या फिल्माचें शुटींग सोंपसर आमकां कलाकारांक ह्या फिल्माची कथा कितें म्हणटा तेंच समजूंक नासलें. अर्थांत केन्ना केन्नाय कलाकाराकडसुनूय कलेचेर अन्याय जावपी प्रसंग घडटात. 'खलनायिका' चित्रपटांत हांवें उपसंपादकाची एक मॉड भुमिका केली. पूण थय हांव सिगरेट ओडपाक शकलें ना. तशें जाल्लें जाल्यार ती भुमिका अदीक उठावदार जातली आशिल्ली.

**☐ सिनेमासृश्टींत तिगून उरपाखातीर एखाद्रया कलाकाराक कितें करचें पडटा?**

हें विश्व बेगडी. हांगा दर मिनटाक नवें भुरगें जल्माक येता ते गतीन नवे सितारे उदेतात. आकांताची सर्त आसता. हांगासर निर्माते-दिग्दर्शक, अभिनेता आपल्या भुरग्यांक घेवन तांकां वयर चडोवपाचे लटाफटींत दीसरात वावुरतात. जबर इत्साशक्त आनी सातत्यान कश्ट उपसुचे पडटात. जाल्यारूच हांगा तिगाव आसा.

**☐ फिल्मांत गुंतिल्लें आसून लेगीत तूं स्टेज ऑर्केस्ट्रा करता. कित्याक?**

कारण भुरगेपणापसून म्हाका गावपाची आवड. शास्त्रीय संगितांत म्हजें मन रमता. अभिनेत्री जावंक नाशिल्लें जाल्यार हांव गायिकाच जावपाचें. ऑर्केस्ट्रा सारक्या कार्यक्रमांक

लागून हांव सर्वसामान्य लोकांमेरेन पावतां. सामकें खेड्यापाड्यांनी. म्हज्या गितांच्यो दोन कॅसेटी आयल्यात. गितांचो व्हिडिओ आल्बम काडपाचो विचार आसा.

□ **आयजकाल जाका आर्ट फिल्म म्हूण वळखतात अशा फिल्मांनी तूं कित्याक ना ?**

आर्ट फिल्मांत काम करपाक म्हाका खूब आवडटलें. पूण म्हाका असल्याच कलात्मक फिल्मांत घुस्पून पडपाचें ना. कारण हीं फिल्मां अतीवास्तववादी आसतात. जिणेचें चित्रण तातूंत सामकें रूक्ष पद्धतीन दाखयल्लें आसता. म्हाका भौसंख्य दर्शकांमुखार येवपाक आवडटा. तांचेमदें प्रसिद्ध जावपाक, 'ग्लॅमर' निर्माण करपाक आवडटा.

□ **वर्षा, चित्रपटसृश्टींत तुका एक बोल्ड चली म्हण वळखतात. 'खलनायिका' फिल्मांतली तुजी भुमिका आनी तुजेर चित्रीत जाल्लें गीत हांचो खूब गाजोवाजो जालो. तेभायर ममता कुलकर्णी फाटोफाट 'स्टारडस्ट' खातीर तुवें केल्लें फोटोसॅशन, ताचेवयली कोर्टकेस ह्यो सगल्यो गजाली चर्चेचे विशय जाल्यात. हे संबंदान तुजें प्रामाणिक मत कितें ?**

जस्ट पार्ट ऑफ द गेम!

□ **तुवें आतां मराठी नाटकाकडेन सामकी फाट केल्या ?**

ना. नाटकाविशींचें प्रेम अजून तशेंच आसा. तें आटूंक ना. सिनेमा क्षेत्रांत केन्नातरी संन्यास घेवचो पडटलो हाची म्हाका जाणविकाय आसा. मागीर म्हाका परत रंगमाचयेर करिअर करपाक जाय. सध्या म्हाका वेळ नाशिल्ल्यान नाटकाकडेन मात्शी फाट जाल्या इतलेंच.

□ **तुवें मराठी आनी हिंदी फिल्मांनी कामां केल्यांत. दोनांमदलो मुळभूत फरक कितें ?**

हिंदी फिल्मांतली नायिका हो शो-पीस आसता. अर्थांत कांय बऱ्या भुमिकांचो आडवाद आसाच. पूण मराठी फिल्मांनी अजून बरी कथावस्तू मेळटा. तातूंत सांस्कृतीक मुल्ल्यांचें दर्शन घडटा. म्हाका असल्या फिल्मांनी काम करपाक मनापसून आवडटा.

□ **गोंयांत कलेचें वातावरण आसा. कलेक पोसवण दिवपी कला अकादमी, आकाशवाणी केंद्र, पणजी दूरदर्शन केंद्र अशीं माध्यमां आसात. तरी पूण कलाकारांक ह्या एकाच वर्तुळांत घुंवचें पडटा. हाचेविशीं तूं कितें सांगशी ?**

हें वर्तूळ भेदप खूब गरजेचें. आपणामदले गुण पारखून कलाकारांनी कश्ट करपाची तयारी दवरून मुंबय वचप. गोंयांत तशो सुविधा नात. तें गोंयचें उणेपण न्हय. स्वताचें करीअर घडोवपाचें आसत जाल्यार गोंयकारांक तरी मुंबय शिवाय दुसरो पर्याय ना. म्हाकाय तेंच करचें पडलें. प्रभाकर कारेकर, रामदास कामत, आशालता, अजित कडकडे, लालन सारंग अशे कितलेशेच कलाकार मुंबय गेल्ल्यान नांवारुपाक आयले.

□ **सिनेमा सृश्टींत तुज्यो इश्टिणी कोण ?**

हांगासर दोन अभिनेत्री एकामेकांच्यो इश्टिणी आसुंकूच शकनात. त्यो एकामेकांच्यो स्पर्धकूच आसतात. कोणाकडेन दाट इश्टागत करप म्हाकाय मानवना.

□ **वर्षा, चित्रपट व्यवसायाच्या निमतान शुटिंगेखातीर तुका वेगवेगळ्या प्रांतांनी वचचें पडटा. वेगवेगळ्या मनशांकडेन संबंद येतात. थंयचे खाण जेवण सगळेंच वेगळें. अशा वेळार आपूण एक गोंयकार म्हणपाचें तूं विसरता ?**

म्हाका पळयनाफुडें सगल्यांक गोंयची याद जाता. हांव गोंयकार म्हणून म्हजेर तांचें खास लक्ष आसता. कारण भायल्या लोकांक गोंयाविशीं खूब आकर्शण आसा. पूण म्हाका घडी घडी गोंयची याद येता. आनी एक गोंयकार म्हणून म्हाका ताचो अभिमानूय भोगता.

वर्षा म्हळ्यार पावस! पावसाचीं विविध रुपां सगळ्यांक खबर आसात. बिरी बिरी पावस! तुफानी पावस! पावसाचीं हीं विविध रुपां वर्षाच्या अभिनयांतल्यान प्रगट जातात आनी मागीर आपसूक तोंडांतल्यान उतरां भायर सरतात, आरे हें तर वर्षा उसगांवकार! गोंयचो पावस!

*  *  *

## अन्यायाआड पेटून उठपी बंडखोर समाजसेविका

# व्हिक्टोरिया फेर्नांडीस

जोगलाभशेन एक लखलखीत व्यक्तिमत्व रस्त्यार देंवलें जाल्यार सगळें पेटोवन वडयता. आनीक कोण ? आमदार व्हिक्टोरियाबाय फेर्नांडीस. यश केन्ना तिच्या माथ्याक मातलें ना. पूण यशापरस अपेसांची पाटींच तिच्या वांट्याक आयलीं पूण ती केन्ना खुचलीना. अन्याय सोंसले, बदनामी सोंसली पूण जिद्द आनी चिकाटी सोडलीना. उज्याच्या खर रसायनांतल्यान तेजाळ जावन भायर येवपी लोखंडाभशेन तिगेलें व्यक्तिमत्व. पूण मायेक आयली जाल्यार लक्तुवायेन आनी भावार्तान पुजा करता ते पद्धतीन मनशाक वागोवपी. व्हिक्टोरियाबायचो जल्म २६ जुलय १९३४ वर्सा साश्टी म्हालांतल्या कुडतरी गांवांत जालो. तिगेलें भुरगेपण बेळगांवांत गेलें. लग्न जावन गोंयांत आयली आनी पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत कांय तेंप शिक्षिकेची नोकरी केली.

पिरायेचीं ६२ वर्सां जालीं तरी वावरांत मंद गती ना. व्हिक्टोरियाबायच्या समाजीक वावराची उस्तवारी करप म्हळ्यार एक दोंगुल्ली उस्तिल्लेभाशेन जातलें.

रांपणकारांची चळवळ ही गोंयांतली एक मुखेल कामगार चळवळ. हे चळवळींत तिणें सक्रीय वांटो घेतला. बंदखण भोगल्या. रेंदेरांच्या प्रस्नांत लक्ष घालां. तांगेले चळवळींत सहभागी जाल्या आनी बंदखणींतूय गेल्या. आंगणवाडी कर्मचाऱ्यांचे प्रस्न दिल्लीमेरेन व्हरून सुटावे केल्यात. ओपिनियन पोल, गोंयची राजभास चळवळ हातुंतूय तांगेलो बरोच वांटो आसा अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. तेभायर वृत्तपत्र स्वातंत्र्य, धार्मिक एकचार असल्याय वावरांनी ती केन्ना फाटीं रावली ना.

तांगेल्या गांवचे आनी भोंवतणच्या वाठारांतले सगळे प्रस्न तांकां लागतात. ह्या प्रस्नांनी तीं आपूण जावन पडल्यांत आनी लोकांक तांगेलो हक्क तांणी मेळोवन दिला. गोंय थरावयल्या जायत्या समाजीक आनी सांस्कृतीक संघटनांकडेनूय तांचो संबंद आसा. समाज कल्याण केंद्र, अखिल भारतीय महिला परिशद, रॅड क्रॉस सोसायटी, पणजी आकाशवाणी, कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा बॉक्सींग असोसिएशन, गोंय पर्यटन खातें,

परिचारिका संघटना आदी संस्थांकडेन वांगडी म्हणून तांचो संबंद आसा. व्हिक्टोरिया म्हळ्यार समाजीक, राजकी, सांस्कृतीक अशा सगळ्या तरांच्या वावरांत दीसरात गुंतून पडिल्लें एक व्यक्तिमत्व.

व्हिक्टोरियाबायक हांव पयसुल्ल्यान वळखतालीं. केन्ना लागीं येवंक नाशिल्लीं. पूण तांकां खूब लागींच्यान पळोवपाची एक संद म्हाका लाबिल्ली. एकदां हांव म्हज्या कामाखातीर दिल्लीक गेल्लें. गोंयच्यान सभापती श्री. तोमाजिन्य कार्दोज गोंयांतल्या नवनिर्वाचीत आमदारांक घेवन ट्रेनिंगाखातीर दिल्लीक गेल्ले. तातूंत व्हिक्टोरियाबायचो आमदार म्हण आस्पाव आसलो. थंयच आमची भेट घडली.

तेन्नाचे केंद्रीय मंत्री श्री. एदुआर्द फालैरो आनी खासदार श्री. हरिष झांटये हांणी दिल्ले पार्टेवेळार आमचीं खूब उलोवणीं जालीं. राजकी क्षेत्रांत व्हिक्टोरियाबायक हेर राजकी व्यक्ती कशो लेखतात हें हांवें लागींच्यान पळयलें. गोंयांत येतना आमी एकाच विमानांत आयलीं. दाबोळी विमानतळाचेर देंवल्यांत मात, एक टॅक्सी ड्रायव्हर आपलें गिरायक सोडून धांवत आयलो आनी म्हणूंक लागलो, ''मामी, तुका सांताक्रुज तुज्या घरा पायतां. तूं आमचे पासत कितली वावुरल्या!''

हांव तांका पळयतच उरलें. ताणें व्हिक्टोरियाबायचें सामान आनी हांव बरोबर आशिल्लें म्हणून म्हजेंय सामान आपले टॅक्सींत घालें.

ही मुलाखत घेवपाक मात म्हाका खूब कश्ट पडले. फोन केल्ले फावट व्हिक्टोरियाबाय घरांत ना. सकाळीं भायर सरताली ती केदेय रातची पावताली.

म्हाका कश्ट पडूं पूण ती खरी समाजसेविका म्हणपाचें म्हाका कळून आयलें. एक दीस तिच्या सोदांत आसतना, म्हळ्यार तिच्या घराकडसून पणजे येतना तिका गाडयेंतल्यान वतना पळयली आनी तिचो पाठलाग करीत तिचें घर गांठलें. एक खेपे हातांत सांपडटकूच मात ती खळखळून व्हांवपी वझऱ्याभशेन मुक्तपणान उलयत रावली.

**□ व्हिक्टोरियाबाय, तुमकां समाजकार्याची आवड केन्नासावन आनी कशी निर्माण जाली?**

म्हजो बापूय कर्नाटकांत रान खात्यांत रेंज फॉरेस्ट ऑफिसर आशिल्लो आनी ताका लागून म्हाका ताचे वांगडा कर्नाटकांतल्या हुक्केरी, हट्टीगेरी, कुळणी ह्यासारक्या रानवटी वाठारात भोंवपाची संद मेळ्ळी. ह्या रानांवनांतल्यान बरेच आदिवासी तशेंच हेर लोक रावतात. तांची दळिद्री जीण पळोवन म्हाका सदांच खंत भोगताली. म्हज्या बापायवांगडा तांकां वैजकी तशेंच हेर सुधारणा दिवचेपासत हांव सदांच वाद घालतालीं. नर्स जावन पिडेस्तांची सेवा करची अशें म्हाका दिसतालें. त्यावेळार म्हजो खंयचेय समाजसंघटनेकडेन संबंद येवंक नाशिल्लो. पूण लोकांक तांकता ते भाशेन मदत करपाचो फकत विचार

मनांत आसतालो. समाजाक कितें तरी बरें दिवपाक जाय, अशें म्हाका मनांतसून दिसतालें. फ्लोरेन्स नायटिंगेल, जोन ऑफ आर्क, झाशीची राणी, भगतसिंग ह्या व्यक्तिमत्वांविशीं हांवें जायतें वाचिल्लें आनी त्या व्यक्तिमत्वांनी म्हजेर प्रभाव घाल्लो. म्हजे समाजसेवेक म्हाका ताचीय प्रेरणा लाबली.

**□ राजकारणांत केन्ना आयलीं? राजकारणांत येवपा फाटलो उद्देश कितें?**

हांवें म्हजी कारकीर्द एक राजकी फुडारी म्हूण करूंक ना. आयजमेरेन राजकारण म्हाका दुसऱ्या पावंड्यार. पयल्या पावंड्यार हांव समाजसेवा अशें मानतां. समाजसेवा करतां करतां म्हज्या वावराचो विस्तार बरोच जालो. खूब संस्थांकडेन म्हजो लागींचो संबंद आशिल्लो. विंगडविंगड वाठारांतल्यान तरेतरेचे प्रस्न म्हजेकडेन येवंक लागले. हातांत कसलीच सत्ता नासतनाय हांवें खुबशीं कामां केल्लीं. ह्या कामांखातीर म्हाका आमदार, मंत्री हांका खूब पांयां पडचें पडटालें. सत्ता हातांत येत जाल्यार ह्या कामाचो नेट वाडटलो अशें म्हाका दिसलें. म्हणून सांताक्रूज मतदारसंघांतल्यान हांवें दोन फावटी विधानसभेची वेंचणूक लडयली. पूण यश आयलेंना. दोनूय फावटी हांव थोड्याच मतांनी हारलीं. पूण फाटले वेंचणुकेंत विधानसभेखातीर हांव सांताक्रूज मतदारसंघांतल्यान अध्यक्ष म्हण वेंचून आयलीं. अशेतरेन मुद्दाम अशें न्हय, पूण समाजसेवा करतां करतां हांव राजकारणांत देंवलीं.

**□ भुरगेंपणासावन तुमी स्वतंत्र विचाराचीं. पूण तुमकां लग्न-स्वातंत्र्य आशिल्लें? लग्ना उपरांत तुमकां तुमच्या वावरांत घोवाचो आदार लाबलो?**

म्हजें लग्न एकोणीस वर्सांचे पिरायेर जालें. ताचे आदीं हांवें बेळगांवां नर्सीच्या जाग्याखातीर मुलाखत लेगीत दिल्ली. पूण लग्नाखातीर म्हाका तो नाद सोडचो पडलो. आमची परिस्थिती तशी सुमाराचीच. आमी पांच भयणी आनी तीन भाव. हांव व्हडली. हांव ते पिरायेचेर शिकोवण्यो दिवन म्हजो खर्च सोडयतालीं आनी घरांतय लक्ष दितालीं. देखून म्हजो बापूय म्हाका आपलो पूत म्हणटालो. म्हज्या लग्नाचे बाबतींत म्हज्या घरच्यांक एकूच अट घाल्ली. ती म्हळ्यार म्हाका काळो, गोरो कसलोय न्हवरो चलता, खंयचेय जातीचो जाता पूण तो स्वभावान बरो आसचो आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार तो दोत घेवपी आसचो न्हय. आनी म्हज्या बऱ्या नशिबान म्हाका गोंयचो रेमिओ आंद्रे फ्रांसीस फेर्नांडीस हो घोव म्हण लाबलो. ताणें म्हाका समाजीक आनी राजकी वावरांत मुखार येवपाक उमेद दिली, आदार केलो. ताचो सांगात म्हाका खूब वर्सांभितर लाबलो आनी मागीर तो संवसाराक अंतरलो.

**□ तुमच्या समाजीक वावराचो एक खाशेलो वांटो म्हळ्यार बायलांखातीर वावरप. ह्या वावराविशीं सांगात.**

म्हजें लग्न जावन हांव गोंयांत पावलीं. समाजसेवेची म्हजी गोडी तशीच आशिल्ली.

शिक्षिका म्हण काम करतां करतां हांव सांताक्रूज आनी भोंवतणच्या वाठारांनी भोंवडी करूंक लागलीं. थंयच्या बायलांकडेन हांवें वळख करून घेतली. घरांत तीं घोवाच्या आनी भायर समाजाच्या चेपणाखाला वावुरतात हाची म्हाका जाण आयली. आनी ताका लागून 'प्रगती महिला मंडळा'ची स्थापणूक केली. आमचो उद्देश बायलांचे प्रस्न घेवन मुखार वचपाचो आशिल्लो. पूण सुरवेक कोणूच तयार जाली ना. देखून आमी शिवणक्लास, रांदपाच्यो सर्ती असल्यो कार्यावळी घडोवन हाडल्यो. ह्या कार्यावळीं वरवीं बायलांक एकठांय येवपाची संद मेळ्ळी. तांचे मदले धांपून आशिल्ले गूण दिसून आयले. आनी प्रगती महिला मंडळ रोखडेंच एक व्हड संघटन जालें आनी आमी वास्को एक व्हड मेळावो घेतलो. रोखडोच, म्हळ्यार १९६७त, विलिनीकरणाचो प्रस्न मुखार आयलो. अशेच एके बसकेक सत्याग्रह करपाचें थारतालें आनी हांव २५० बायलांचो मोर्चो घेवन गेलीं. पयलेच फावट इतले लोक आमच्या सत्याग्रहाक आयिल्ले. ओपिनियन पोलाची लडाय आमच्या सगल्यांखातीर एक आव्हान आशिल्लें. कारण गोंय वेगळो प्रदेश म्हूण देशांत उरचें काय महाराष्ट्रांत विलीन करचें असो तो प्रस्न आशिल्लो.

त्यावेळार डॉ. जॅक सिकेरा आनी हेर बऱ्याच ख़डेगांठ फुडाऱ्यांकडेन म्हजो संबंद आयलो. तांचेवांगडा हांवें सगळें गोंय धवळून काडलें. सभा गाजयल्यो आनी खुद्द ओपिनियन पोलाच्या मतदाना दिसा दुयेंत आनी जाण्ट्या मनशांक उखलून लेगीत मतदान केंद्रार हाडलीं. फळां आनी भाजीपालो विकून पोट भरपी बायलांक पणजेंत सुवात नाशिल्ली. फुटपायरीचेर बसल्यार नगरपालिका सतायताली. हांवें तांगेली संघटना उबारली, चळवळ केली आनी फळभाजीवाल्यांक कायम स्वरूपाची सुवात मेळोवन दिली. अशे जायते प्रस्न हांवें सुटावे केल्यात. बायलांचे प्रस्न सुटावे केल्यात म्हणचेपरस खंयचोय प्रस्न सुटावो करपाक हांवें बायलांक तयार केल्यांत, तांकां धीट केल्यांत.

☐ **बायलांचेर दिसपट्टो अन्याय जाता, आगळिको घडटात. अशा वेळार तुमी तुमची प्रतिक्रिया कशी व्यक्त करतात?**

कोणाचेरूय अन्याय जालो जाल्यार म्हाका सट्ट करून राग येता. तो अन्याय ना करपाक हांव म्हजेपरीन वावुरतां. बायलांचेर जावपी अन्याय ना करपाखातीर हांवें एक खाशेली सुचोवणी केल्या. ती म्हळ्यार दर एका पुलीस स्टेशनाचेर बायलांखातीर खाशेलें 'सॅल' आसपाची गरज आसा. अशें सॅल केल्यार बायलां आपूण जावन मुखार येतलीं. आपल्याचेर जाल्ल्या अन्यायाची कागाळ मुक्तपणान करतलीं. ही सुचोवणी हांवें सरकाराक धाडल्या. ती कारवायेंत येवची म्हण हांव वावुरतलीं.

☐ **तुमी सांताक्रूजचीं. ते नदरेन थळाव्या लोकांचे कसले प्रस्न तुमी सोडयल्यात?**

सांताक्रूज आनी हेर गांवाचो आस्पाव पणजी नगरपालिकेंत जावचो न्हय म्हण हांव

वावुरलीं. सांताक्रूज नागरीक समिती घडोवन आमी मिठागर, मानस, बांद हांची राखण करपाखातीर लडो दिलो आनी तातूंत जिखलीं. सांताक्रूजचे मुंडकार संघटनेची हांव अध्यक्षा. झोपडपट्टी संघ स्थापून तांगेल्या हक्काची राखण केली. कोमुनिदाद बचाव समिती घडोवन चळवळ उबारली.

**☐ तुमचो राजकीय स्वरुपाचो वावर खंयचो ?**

विलीनीकरण विरोधी चळवळ हो पयलो **राजकी स्वरुपाचो म्हजो वावर.** मागीर पिपल्स डॅमोक्रेटीक फ्रंटाचे वतीन श्रीमती शशिकला काकोडकार हांचें सरकार उडोवपाच हांव झुजलीं. ताचे उपरांत कॉंग्रेस सरकार सत्तेर आयलें. जनता पक्ष ह्या राष्ट्रीय पक्षाच्या गोंय फाट्याची सचीव म्हूण हांव कांय तेंप वावुरलीं. मागीर गोमंतक लोक पक्षांत हांव आसलीं.

**☐ १९९४चे वेंचणुकेंत तुमी कशीं वेंचून आयलीं ? जैताचीं कारणां खंयचीं ?**

पक्षाचे तिकेटीचेर उबी रावपाचो अणभव हांवें घेतिल्लो. देखून हांव अपक्ष रावलीं. म्हज्या जैताचे सगळें श्रेय म्हज्या वावुरप्यांक. ते म्हज्या मोगान वावुरले. प्रचाराच्या वेळार हांव तांकां सारकें जेवंक-खावंक लेगीत दिवपाक पावलींना. हांव घराघरांत भोंवलीं. लोकांक म्हजो वावर खबर आशिल्लो. 'मामी' म्हणून अपुरबायेन तांणी म्हाका वेंचून दिलीं.

**☐ तुमी अपक्ष म्हण गोंयचे विधानसभेंत आसात. सरकाराकडेन तुमचे संबंद कशे आसात ?**

हांव अपक्ष आशिल्ल्यान कायद्यान म्हज्यान खंयच्याच पक्षांत भितर सरूं नजो. हांवें गोंयच्या प्रतापसिंह राणे सरकारक तेंको दिला. पूण हो तेंको 'इश्यू बेज्ड' आसा. तांगेल्या सगल्याच धोरणांक तेंको दिवपाचें बंधन म्हजेर ना. म्हज्या तत्त्वांआड सरकार वता अशें म्हाका दिसलें जाल्यार हांव तेंको फाटीं घेवंक शकतां.

**☐ आर्दीसावन तुमी समाजीक वावरांत आवलीं. तेन्नाय तुमकां वेळ पावनासलो. आतां तर तुमी आमदार. लोकप्रतिनिधी जाल्यार सगल्या गजालींक कसो कसो वेळ वांटून दितात ?**

इत्सा आसल्यार वेळ सांपडटा. हांव म्हजे तांकीप्रमाण कामां करतां. म्हजे लागीं आयिल्ल्या कोणाक ना म्हणना. म्हज्या सभावांत तें ना. वेळ हें खंयचेय गजालीचें कारण आसूंक शकना. जाय ती फकत उमेद आनी इत्सा. आनी ती म्हजेकडेन आसा.

**☐ तुमच्या वावराची समाजान कशे तरेन दखल घेतल्या अशें तुमकां दिसता ?**

लोकांनी म्हाका वेंचून दिल्या ही व्हडली दखल. म्हाका कसलीच अपेक्षा ना. हांव लोकांचो वावर करतां. तातूंत समाधान आसा. लोकांच्या तोंडावयलो हांसो आनी येवकार म्हाका खूब जालो. हालींच म्हाका मित्रा बीर पुरस्कार सारको नांवाजतो पुरस्कार

लाबला. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार म्हाका साठ वर्सां पूर्ण जालीं तेन्ना नामनेचे बरोवपी श्री. रवीन्द्र केळेकार हांचे अध्यक्षतायेखाला एक सत्कार समिती घडली आनी ते समितीन सत्कार सुवाळो घडोवन हाडलो. म्हजो गौरव करपी एक ग्रंथूय उजवाडा हाडलो. आनी कितें जाय?

☐ **तुमचो चलो रुदोल्फ फेर्नांडीस तशेंच तागेली संघटना 'प्रॉटेक्टर्स' हांचे विशीं लोकांमर्दी, पेपरांनी खूब वायट बरी चर्चा जाल्या. एक आवय म्हूण आनी एक बायलांची प्रतिनिधी म्हूण तुमचें मत कितें?**

रुदोल्फाची 'राखणदार' ही संघटना गोंयकारांचें हीत सांबाळपाखातीर घडली. हे संघटनेंत सुश्रुत मार्टीन्स, दिलीप बोरकार सारके विचारी तरणाटे आशिल्ले. बेकार तरणाट्यांक नोकऱ्यो, बेकारांक भत्तो दिवचो असल्यो कांय मुखेल मागण्यो आशिल्ल्यो. पूण कांय लोकांनी आनी कांय वर्तमानपत्रांनी मुद्दाम म्हणटात तसो वायट प्रचार करून हे संघटणेची बदनामी केल्या. पुलिसांनी तांकां खूब सतायले. फाटले वेंचणुकेंत विरोधी उमेदवारांनी हे गजालीचें खूब भांडवल केलें. पूण हांव आदींसावन हे संघटनेफाटल्यान आसलीं. एक आवय म्हूण म्हाका म्हज्या पुताचो अभिमान आसाच; पूण समाजकार्याखातीर तो वावुरपाक मुखार सरलो आनी ताणें सुटावे केल्ल्या कांय प्रस्नांनी बायलांचेय प्रस्न आसात. तांकांय ताच्या वावराचो लाब मेळ्ळो. देखून बायलांची एक प्रतिनिधी म्हूण म्हाका आनंद आसा.

खरें म्हळ्यार व्हिक्टोरियाबायची पिराय जाल्या. आतां तांणी विसव घेवपाचो. पूण तिचें शरीर अजून थकूंक ना. आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार तिचें मन थकूंक ना. आजूनय ती मानशेंतल्या उदकासारकी खळखळटा. पांचव्याचार शेताभशेन ती सळसळटा आनी रांदनीवयल्या उदकासारकी खदखदता.



## शून्यांतल्यान आपलो फुडार घडोवपी पयली चार्टर्ड अकावटंन्ट

# शीला नायक गावणेकार

---

दर वर्सा मॅट्रिकेचो निकाल जाहीर जाता. पयल्या क्रमांकांत येवपी भुरग्यांच्यो मुलाखती दूरदर्शनाचेर आनी वर्तमानपत्रांचेर प्रसिद्ध जातात. अशा कांय भुरग्यांच्यो मुलाखती घेवपाचो योग म्हाका जायते फावटी आयला. 'तुमी मुखार कोण जातलीं?' असो एक हमखास प्रस्न आसता. आनी मागीर जापोय हमखास अशोच येतात. दोतोर, इंजिनियर. चुकून केन्नाय एखाद्रो विद्यार्थी आपूण चार्टर्ड अकावटंन्ट जातलों म्हण सांगता. कारण हें क्षेत्र खूब अवघड आसा. सी.ए. जावपाचें ध्येय जायते जाण मनांत बाळगितात पूण त्या ध्येयामेरेन पावपांत अवघेच यशस्वी जातात.

ल्हानपणासावन सी.ए. जावपाचें सपन काळजांत बाळगून तें सफळ केल्ल्याची एक जैतिवंत देख म्हळ्यार श्रीमती शीला हिरबा नायक गावणेकार. श्रीमती शीलाबाय आदल्यो शीला नरहरी बोरकार. मूळ गांव कारवार. पूण जल्म १९३९ वर्सा मुंबयंत जालो. मुळावें शिकप कारवारा जालें. ल्हानपणासावन आवयचे संस्कार घडले. त्या काळार तांगेली आवय सुहासिनी बोरकार समाजसेविका आशिल्ली. कारवारांत महिला मंडळ चलयताली. आवयचेच प्रेरणेन मुखावयल्या शिकपाखातीर शीला मुंबय गेलें. बी.ए. ऑनर्स, बी.कॉम., एफ.सी.ए., एल.एल.बी. अशो एकार एक पदव्यो ताणें मेळयल्यो आनी आपल्या मूळ हावेसाप्रमाण चार्टर्ड अकावटंन्सी हो व्यवसाय स्विकाग्लो. शीलाबायक एक भयण आनी दोग भाव. भयण दोतोर. ती इंग्लंडाकूच स्थायीक जाल्या. दोगूय भाव बेंगलोरा आसात.

१९६५ वर्सा तीं मुंबयच्यान गोंयांत आयलीं आनी १९७२त गोंयचे एक नामनेचे वकील हिरबा नायक गावणेकार हांचेलागीं लग्न जावन तीं गोंयचींच जालीं. मडगांवांत तांगेलें इन्कमटॅक्स ऑडिट कन्सल्टेशनचें ऑफीस आसा. बँको, सहकारी सोसायटी, कंपनी हांचें ऑडीट करपाचें काम त्यो करतात. फाटलीं तीस वर्सां ती ह्या व्यवसायांत नांवलौकीक जोडून आसात. सी.ए. जाल्ली गोंयांतली ही पयली बायलमनीस. कर्तुत्वी आनी महत्त्वाकांक्षी. नेपाळ, श्रीलंका, सिंगापूर, पुर्तुगाल, हाँगकाँग, माकाव, जपान,

कॅनडा, अमेरिका अशा विविध राष्ट्रांक भेटी दिल्यात. थंय मेळिल्ल्या अणभवांची पुंजी तांगेले गांठीक आसा.

इन्स्टिट्यूट ऑफ चार्टर्ड अकावंटन्ट्स हे संस्थेच्या पश्चिम विभागीय कौंसिलच्या गोंय फांट्याची ती अध्यक्षा (१९८८-८९) आसली. फॉमेंतो रिसोर्ट ॲण्ड हॉटेल्स लि.ची तीं व्यवसायीक संचालक आसात. मडगांवचे विद्या विकास मंडळ हे शिक्षण संस्थेची तीं संस्थापक वांगडी आनी पदाधिकारी आसात.

अखिल भारतीय महिला परिशदेन पुरस्कृत केल्ल्या १९७८च्या विश्वकोशांत तांच्या नांवाचो आस्पाव जाला. अल्फा प्रकाशनाच्या 'हूज हू'च्या १९७७च्या वर्सुकी ग्रंथांत तांचें नांव आसा. ह्या सगल्या वावरांत तांकां घरच्यांचें बरेंच फाटबळ मेळ्ळां.

हांव शीला गावणेकार हांचें फकत नांव आयकून आशिल्लें. हांव वेगवेगळ्या क्षेत्रांतल्या कर्तुत्वी बायलांचे सोदीक लागिल्लें तेन्ना जायत्या जाणांनी म्हाका शीलाबायचें नांव सुचयलें.

फोनावयल्यान हांवें तांगेलो वेळ मागून घेतलो. थरिल्ल्या दिसा मडगांवां वचप म्हाका जमलें ना. पूण दुसऱ्या दिसा तांणी म्हाका येवपाक सांगलें. पत्तो सोदीत हांव एका ऑफिसांत पावलें. भितर सरलें खरें, पूण अनमनलें. एक प्रशस्त ऑफीस. भायल्या हॉलांत कितलेशेच कर्मचारी आपल्या कामांत गुल्ल आशिल्ले. वातानुकुलीत ऑफिस, कंप्युटरा सारकीं अत्याधुनीक साधनां. अशे तरेचें ऑफीस एके बायलमनशेचें आसुंयेता? हांवें वासपूस केली आनी म्हाका हें ऑफीस तांचेंच म्हणपाचें कळ्ळें. हांव आयलां म्हणपाचें कळनाफुडें तांणी म्हाका भितर आपल्या कॅबिनांत आपयलें. एक बायलमनीस येद्या व्हडल्या ऑफिसाची धनीण! म्हाका तिचो अभिमान दिसलो!

शीलाबाय अतिशय नम्र सभावाचीं. आपलें काम की आपूण. उलयतलीं तें लेगीत मोजकेंच. प्रसिद्धी पसून चार हात पयस.

स्वबळाचेर उबी राविल्ल्या शीलाबायचें कर्तुत्व मळबाक गवसणी घालपा इतलें. पूण एके अचकीत घडणुकेन मात तांचेर मळबूच कोसळ्ळें. तांचो घरकार हिरबा नायक गावणेकार संवसाराक अंतरलो.

अनेक गुणांनी परिपूर्ण आशिल्लो हिरबाबाब शीलाबायचो घोवूच न्हय तर इश्ट आशिल्लो. पूण तो तांकां सासणाखातीर अंतरलो. जिणेंत निराशेची ही येदी व्हडली पोकळी केन्नाच निर्माण जावंक नासली. पूण शीलाबाय ताठ आसा. दैवान दिल्लें अरिश्ट सोंसून उबी आसा. तांचे यादीचे घाय मात तांच्या मनार सामके ताज्जे आसात.

खरें म्हळ्यार तांगेल्या अकावंन्ट्स विशयाचें म्हाका जुजबी स्वरुपाचें ज्ञान. पूण तांणीच म्हळें: म्हज्या क्षेत्रांत हांव व्हड तशीं तुमच्या कलेच्या क्षेत्रांत तुमी व्हड. आनी मागीर आमच्या उलोवण्याक मुलाखतिचें रूप आयलें.

□ **ह्या व्यवसायांत तुमी कशीं आयलीं ?**

म्हाका ल्हानपणासावन चार्टर्ड अकावंटन्ट जावपाची खूब इत्सा आसली. हांवें कारवार एस्.एस्.सी. केली. शिकपांत हांव हुशार आसलें. म्हजी आवय समाजसेविका आशिल्ल्यान तिका बायलांच्या शिक्षणाचें म्हत्व कळिल्लें. म्हजी फुडें शिकपाची इत्सा पळोवनच म्हजे आवयन म्हाका मुंबय शिकपाक धाडलें. हांवें मुंबय वचून पयलीं बी.ए. केली. उपरांत बी.कॉम. केलें आनी सी.ए.क बसलें. पयलेच फावट बऱ्या मार्कांनी पास जालें तेन्नाच हांवें थारायलें, कोणाच कडेन नोकरी करप ना. आपलें स्वताचें ऑफीस घालप आनी लोकांचीं कामां बरे भाशेन हाताळप. म्हज्या ध्येयाखातीरूच हांव ह्या व्यवसायांत आयलें.

□ **एक बायल म्हूण ह्या व्यवसायांत तुमकां कसल्यो अडचणी आयल्यो ?**

खूब अडचणी आयल्यो. १९६५त हांव मुंबयच्यान गोंयांत आयलें. म्हजें कुटुंब कारवारा. फकत म्हजो बापूय म्हजे बरोबर हांगा आयिल्लो. मडगांवां हांवें म्हजें स्वताचें ल्हानशें ऑफीस सुरू केलें. गोंयांत तेन्ना कोणूच बायलमनीस सी.ए. जावंक नाशिल्ली आनी ह्या व्यवसायांत नाशिल्ली. म्हाका क्लायंटांकडेन जुळोवन घेवपाक खूब कश्ट पडले. कारण एक बायलमनीस ह्या व्यवसायांत आसुंयेता ही कल्पनाच कांय जाणांक नासली तेभायर कारवारा सावन आयिल्ल्यान गोंयकारांचे नदरेंतल्यान हांव भायलीं आशिल्लीं. आनी त्या काळार कारवारकारांकडेन पळोवपाची गोंयकारांची नदर फकाणां मारपाच्या स्वरूपाची आशिल्ली. ते दीस खूब मानसिक तणावाचे आशिल्ले पूण ते चड काळ उरले नात. १९७२ वर्सा म्हजें हिरबा गावणेकार हांचेलागीं लग्न जालें आनी सगळे प्रस्न आपसूक सुटले.

□ **तुमचो ह्या व्यवसायांत जम कसो बसलो ? ह्या व्यवसायांत कशे तरेची स्पर्धा आसा ?**

जेन्ना हांव ह्या व्यवसायांत नवें आशिल्लें तेन्ना म्हाका खूब त्रास जाले. ल्हान जायना, पूण स्वतंत्र ऑफीस सुरू केलें. मागीर म्हजें लग्न जालें. तेन्ना म्हजो घोवय बऱ्यापैकीं वकील आशिल्लो. तान्याच फाटबळान म्हजो व्यवसाय वाडत गेलो. आनी आतां तर म्हाका वेळूच मेळना. म्हजेकडेन सध्या तेरा लोक काम करतात. दोन मनशां सी.ए. जाल्लीं आसात. बँको, कोऑपरेटीव्ह सोसायटी, कंपनी हांचें हांव ऑडीट करतां. स्पर्धा ह्याच व्यवसायांत न्हय, खंयच्याय व्यवसायांत आसताच. पूण म्हजेकडेन जें काम येता तें म्हज्या नांवाक लागून. कारण लोकांनी म्हज्या कामाचेर विश्वास दवरला. आनी म्हाका म्हज्या व्यवसायाचें पुरेपूर समाधान आसा.

□ **ह्या व्यवसायांत बायलां उणीं कित्याक ?**

हें क्षेत्र खूब कठीण. तकली फोडीचें काम. ह्या क्षेत्रांत खूब झोकून दिवचें पडटा.

पयलींसावन ह्या क्षेत्रांत बायलांच कित्याक, दादले पसून कमी. जेन्ना हांव मुंबय शिकतालें, तेन्ना म्हाका दिसता, अख्ख्या भारतांतली अवघीं पांच काय स बायलां सी.ए. करतालीं. सी.ए.ची परीक्षा खूब म्हळ्यार खुबूच कठीण आसता. पूण आदल्या मानान आतां ह्या क्षेत्रांत बायलां चड येतात. तरी पूण हेर व्यवसायांच्या मानान ह्या व्यवसायांत येवपाचें प्रमाण सामकेंच अल्प आसा.

**☐ ह्या व्यवसायांत अदिकादीक बायलांनी येवपाखातीर कितें करचें पडटलें ?**

ह्या क्षेत्रांत येवपाची मुळांत बायलांक आवड आसपाक जाय. ओगीच ह्या क्षेत्रांत धुकलून घालीं म्हूण जायना. जांकां आवड आसा तांकां खूब प्रोत्साहनाची गरज आसा. ना जाल्यार आमची वृत्ती आसता कोणाकूय पाडपाची. म्हजेकडेन जायत्यो चलयो मार्गदर्शनाखातीर येतात. हांव तांकां सांगतां, खंयच वचूंक भिवंनाकात. जंय वचपाक जाय थंय वचुंकूच जाय. हे गजालीचेर हांव भर दितां. हेर गजालींकडेन आमी आडनदर करपाक जाय. ह्यो सगल्यो अडचणी समजुनूय कांय बायलां जिद्दीन ह्या क्षेत्रांत फुडें येतात. आतां म्हज्या ऑफिसांत सुवर्णा पै हें एक बरें चार्टर्ड अकावंटंन्ट आसा. म्हजें अर्दें अदीक काम तेंच पळयता. हांव जेन्ना गोंयाभायर वतां तेन्ना सगळें ताचेर सोपोवन वतां. आपल्या हातांत खंयचें काम येता तें चड म्हत्वाचें न्हय पूण त्या कामाचें भांगर करप हें आपल्या हातांत आसता. आनी बायलांचे बाबतींत एक. तीं जें काम हातांत घेतात तें काम तडीक व्हेलेशिवाय रावनात.

**☐ बायलांनी व्यवसाय आनी संवसार हांचो मेळ कसो घालप ? तुमच्या अणभवांतल्यान सांगात.**

व्यवसाय जावं नोकरी, बायलेन आपल्या कामांत दंग रावपाक जाय. हातांत घेतिल्ल्या कामाचेर लक्ष केंद्रित करपाक जाय. गरजेभायर फापट पसाऱ्याकडेन लक्ष दिवंक फावना. बायलांचे शक्तिची आयज दादल्यांक जाणीव जाल्ली आसा. आयज ते बायलमनशेक किंकोत करपाक शकनात आनी धजनातूय बी. हाचो अर्थ, ज्यो बायलो नोकरी व्यवसायांत मुखार सरल्यात तांणी हेर बायलांक उणीं लेखचीं न्हय. जीं बायलां गृहिणी म्हण संवसारांत गुंतून पडल्यांत तांणीय मात्सो वेगळो विचार करपाची गरज आसा. जेवण-खाण हाका आमी सुमाराभायलें म्हत्व दितात. आयज गॅस, कूकर, मिक्सर अशीं नवीं नवीं साधनां आयल्यांत तीं वेळ वांचोवपाखातीरूच. खरें म्हळ्यार, कसल्याय जेवणाक एका वरापरस अदीक वेळ लागूंक फावना अशें म्हाका दिसता. उरिल्ल्या वेळाचो समाजसेवेखातीर वापर करूं येता.

**☐ गोंयच्या व्यवसायीक बायलांमदीं मुलभूत असो फरक कितें ?**

गोंयचीं बायलां आनी हेर क्षेत्रांतलीं बायलां आनी गोंयाभायलीं बायलां हातूंत खूब फरक आसा. फकत गोंयचींच न्हय तर आमच्या देशांतलीं बायलां आनी परदेशांतलीं

बायला हाचेमदीं खूब फरक आसा. गोंया चेंबर ऑफ कॉमर्सचे नदीन हांव पोर्तुगालाक गेल्ले तशेंच कामाच्या संदर्भांत अमेरिका, इंग्लंड, श्रीलंका सगळ्या वचपाचो म्हाका योग आयलो. ह्या सगळ्या देशांतल्यो बायलो खूब फुडें आसात. त्यामानान आमी कांयच नात. हांव गोंयची पयली चार्टर्ड अकावंटंट बायलमनीस. त्या बायलांचें काम पळयत जाल्यार आपूण कांय आसां तें कळटा. तांची काम करपाची पद्धत खूब जलद. धडफडीन काम करतात. गोंयांत आमी पळयतात, एका सादया कामाखातीर कितलो वेळ खर्च जाता! त्या बायलांची आमी देख घेवंक जाय. हांगासर बायलांकडेन पळोवपाची समाजाची नदरूच दुशीत आसा. एखादी बायल मुखार सरपाचो यत्न करपाक लागली जाल्यार तिगेल्या कर्तृत्वाकडेन आडनदर करतले आनी हेर गजालींचेर भर दितले. म्हाका हे वृत्तिचें बायट दिसता. बायलांकडेन पळोवपाचे वृत्तींत पयलीं बदल हाडपाक जाय.

☐ **तुमी खंयच्या खंयच्या देशांत भोंवडी करून आयल्यांत ?**

म्हज्या व्यवसायाचे नदेन म्हाका परदेशांत वचपाचे जायते योग आयले. नेपाळ, श्रीलंका, सिंगापूर, पोर्तुगाल, हाँगकाँग, माकाव, जपान, कॅनडा, अमेरिका तशेंच ल्हान व्हड युरोपी राष्ट्रांनी हांव वचून आयलां. म्हत्वाच्या अंतरराष्ट्रीय कॉन्फरन्सांनी हांवें वांटो घेतला. हे सगळे भोंवडेंत म्हजेबरोबर म्हजो घरकार आशिल्लो. हो भायर भोंवन येवपाचो अणभव म्हाका खूब बऱ्याक पडला. म्हज्या व्यक्तिमत्वाचेर तर ताचो बरो परिणाम जालाच, तेभायर म्हजो व्यवसाय सुदारपाक म्हाका तो अणभव बऱ्याक पडला.

☐ **भोंनक दादल्यांक आपली बायल आपलेबरोबर वा आपलेपरस कमी हुद्दयाचेर आसप चड आवडटा. तुमचो अणभव कितें ?**

म्हजो घोव एक कर्तृत्ववान मनीस आशिल्लो. जेन्ना हांव गोंयांत आयलीं तेन्ना म्हज्या व्यवसायाक व्हडलोसो दम नाशिल्लो. पूण हांव हुशार, कर्तवगार बायलमनीस हें पळोवनच तो म्हजेकडेन लग्न जालो. ताका सदांच म्हजो अभिमान. ताणें म्हाका पूर्ण स्वातंत्र्य दिल्लें. इतलेंच न्हय, म्हज्या कामांत तो खूब लक्ष घालतालो. तो म्हजो घोव जालाच, पूण म्हजो बरो इश्ट आशिल्लो. ताच्या वचपान म्हजेर मोटें अरिश्ट कोसळ्ळें. म्हजे दोनूय हात मोडिल्लेवरी जाल्या. संवसाराच सोड, म्हज्या कामाचें कशें जातलें ? तांचेबगर कामाचे हे दोंगर हांव कशें उसपितलें हाची चिंता पडल्या.

☐ **खंयच्या संस्थांकडेन तुमचो संबंद आसा ? सामाजीक वावरांत तुमी कशेपरीन वावुरतात ?**

म्हजें प्राधान्य म्हज्या व्यवसायाक. थंय कसलेच पद्धतीची तडजोड ना. व्यवसाय आनी संवसार सांबाळून सामाजीक वावरांत वावुरचें अशें म्हाका दिसता. तसो म्हजो सामाजीक वावर व्हडलो न्हय. मडगांवां विद्या विकास मंडळ हे संस्थेकडेन म्हजो खूब लागींचो संबंद आसा. हे संस्थेचें हांव संस्थापक वांगडी. संस्थेच्या आरंभापासून

म्हळ्यार सेगीत तेवीस वर्सां हांव थंय आसां. म्हजो घोव हे संस्थेचो संस्थापक अध्यक्ष आशिल्लो. विद्या विकास मंडळ ही आमची संस्था वाणिज्य महाविद्यालय, कायदो महाविद्यालय, इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमेंट, इंदिरा गांधी मुक्त विद्यापीठ केंद्र चलयता. पयलीं मडगांवांत कॉमर्स कॉलेज नाशिल्लें. आमी तें सुरू केलें. खूब विरोध जालो. तेभायर मंडळ विकास अकादमी, भुरग्यांखातीर शिशूकेंद्र आनी मुळावी शाळा चलयता. हांव हे संस्थेची अध्यक्ष. विद्या विकास संस्थेकडेन संबंदीत विद्यालयांनी आनी महाविद्यालयांनी शिकपी विद्यार्थ्यांचो आंकडो चार हजारांवयर आसा. गोवा हिंदू असोसिएशन हे मुंबयचे संस्थेन मडगांवांत एक फिजिओथेरपीचें सेंटर उगडलां. तें चलोवपी मंडळाची हांव एक वांगडी आसां.

सोंपेपणां आसतात थंय गर्दी चड. पूण कठीण कामापासून सर्वसामान्य मनीस सदांच चार हात पयस रावता. असामान्य मनीसूच कठीण कामांचेर घालून घेता आनी तीं आपणाल्या कर्तुत्वान सोंपी करून दाखयता. शीलाबाय अशीच कर्तुत्वी बायलमनीस. जांकां जिद्द, महत्वाकांक्षा आसा तांणी शीलाबायची वाट अवश्य चलची.

* * *

## यशस्वी पक्षफुडारी आनी मुत्सद्दी राजकारणी

# निर्मला सावंत

तीस वर्सां आदीं पणजेच्या रस्त्यार हाताच्या बोटार मेजपा इतल्या कॉंग्रेस कार्यकर्त्यांसयत 'भव्य मोर्चो' काडपी एका काळावयलें तरणाटें निर्मला परब आपले जिद्दीन, चिकाटेन आनी प्रामाणिकपणान आयज (१९९६) कॉंग्रेस पक्षाची अध्यक्षा जालां इतलेंच न्हय तर आपल्या पक्षाक ताणें सत्तेर हाडलां.

राजकारणांत वेंडखोर प्रवृत्तीक आळाबंद घालचो पडटा. केन्ना कोणाक बाबापुता करून धातरचो पडटा, गरज तेन्ना कान पिळून सकल बसोवचो पडटा. केन्ना आपल्याच मनशाचे करणेचेर आडनदर करची पडटा जाल्यार केन्ना पक्षाची पत सांबाळपाखातीर आपल्याच मनशाक दुखोवचो पडटा. ही सगळी कसरत यशस्वीपणान करप्याक पक्षाचो अध्यक्ष म्हणटात. पक्ष जिखलो जाल्यार पक्षाचें सरकार सत्तेर येता; अशा वेळार पक्षाध्यक्ष सर्वश्रेष्ठ थरता; पूण हातांत सत्ता आशिल्लो सत्ताधीश पक्षाध्यक्षाकूच किंकोत करपाचो यत्न करता. पक्षाध्यक्षान ही प्रतारणा सोंसची पडटा आनी तेवूय परिस्थितींत आपली आनी पक्षाची प्रतिमा सांबाळून धरची पडटा. निर्मला सावंत हें सगळें यशस्वीपणान करता.

निर्मलाबायचो जल्म फोंडें म्हालांतल्या माशेल गांवांत जालो. मुळावें शिकप माशेलांत आनी पणजेंत जालें. पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत एस.एस.सी. मेरेनचें शिकप जालें. एक हुशार विद्यार्थीनी म्हण ताका शाळेंत वळखताले. थंय कॉलेजींत कलाशाखेंत ताणें पदवी जोडली. विद्यापिठाची ताणें एम्.ए. केली. तेभायर शिक्षकी पेशाक गरज म्हणून बी.एड्. केलें. उपरांत एल्.एल्.बी. केली.

फ्रेंच भाशेचो तांचो अभ्यास बरो आशिल्ल्यान त्या वेळार नोकरी सहज मेळटाली. तेन्ना तांणी पिपल्स हायस्कुलांत शिक्षिका म्हण थोडो काळ काम केलें. मागीर ती रोखडीच शारदा हायस्कूल, माशेल, हांगा गेली. थंय तांणी फ्रेंच आनी इंग्लीश ह्या विशयांचें सुमार वीस वर्सां अध्यापन केलें.

१९९१ वर्सा तांणी फुडाकार घेवन ओल्ड गोवा हांगासर ओल्ड गोवा इंग्लीश स्कूल उकतें केलें.

१९७८ वर्सा निर्मलाबायचें प्रभाकर सावंत हांचेकडेन लग्न जालें. प्रभाकरबाब व्यवसायान इंजिनियर. बार्जी दुरुस्त करपाचो तांगेलो पिळगांव डॉक आसा. निर्मलाबायक दोन चले. व्हडलो आत्रेय आनी धाकलो परेश. सगळो वेळ आपणाक व्यवसायाक ओंपून घेवपाखातीर आनी कुटुंबाचेर लक्ष दिवपाखातीर तांणी नोकरेचो राजिनामो दिलो. तिवरें आनी बाणस्तारी हांचेमदीं मानशेवयर निर्मलाबायचो सोबीत सुंदर बंगलो आसा.

तशें निर्मलाबायक हांव एक कर्तुत्वी बायलमनीस म्हण वळखतालें. पूण आमी तिवऱ्यां रावपाक आयलीं आनी आमचें शेजाऱ्याचें नातें जालें. समाजीक वावराखातीर एकामेका मदले संबंद वाडीक लागले. राजकारणाच्या मळार कणखरपणान वावुरपी निर्मलाताई घराकडेन मात घरेलू जावन म्होवाळपणान वागतात. तांच्या बंगल्यार घडिल्ली ही मुलाखत.

□ **समाजकार्याची आवड केन्ना आनी कशी निर्माण जाली ?**

म्हजो बापूय स. कृष्णा वासुदेव परब स्वातंत्र्य सैनिक आशिल्लो. म्हजो जल्म जरी माशेलांत जालो तरी पिरायेच्या णव वर्सां मेरेन हांव पणजेच आशिल्लें. एका जून म्हयन्यांत पणजेंत म्हज्या बापायक पुर्तुगेज पुलिसांनी खूब मारलो. तांचे खातीरच म्हगेल्या व्हडल्या आनी धाकल्या भावाकय त्यावेळार बदखणींत वडयले. अशा वेळार आमी पणजी सोडून माशेलांत रावपाक आयलीं. आमचें कुटुंब खावन जेवन सुखवस्तू अशे तरेचें आशिल्लें. माशेलांत राविल्लेकडेन म्हाका दळीद्र आनी गरिबी म्हळ्यार कितें हें भोंवतणच्या लोकांच्या रहाणीमानावयल्यान कळून आयलें आनी तेन्नाच समाजाखातीर आपणें वावरूंक जाय अशे तरेची भावना वाडीक लागली. घरांत तर स्वातंत्र्य, मेकळीक अशे तरेच्या विचारांचें वातावरण आशिल्लें. माशेलांत चवथी मेरेन शिकप जालें. मुखावेल्या शिक्षणाची वेवस्था थंय नाशिल्ल्यान परत पणजे आयलें. पांचवी आनी सवी मेरेनचें शिकप कन्या शाळेंत (आतांचे कस्तुरबा मातोश्री हायस्कूल) घेतलें. तेन्ना माशेलांत सावन पणजे यो वच करपाक येरादारीची व्यवस्था नाशिल्ली. हांव आनी म्हजी भयण पणजेंत स. मंगेश सुर्लकार हांगेल्या घरांत रावलीं. स. जगदीश सुर्लकारांची आवय सीताबाई सुर्लकार एक कुटुंबवत्सल बायलमनीस आशिल्ली. आमी फकत वळखीन तांगेर रावतालीं पूण सीताबाय म्हाका आपली नात कशी वागयताली आनी मोट्या अभिमानान म्हजे हुशारकायेची चार चौगांमुखार तोखणाय करताली. तिचे वागणुकेचे बरे संस्कार म्हजेर जाले आनी तेन्नाच खंय तरी जात-धर्म विरयत अशे एके समाजसेवेचें बीं म्हज्या काळजांत रुजलें.

□ **इतलें मुखार येवपाक पयलीं कोणें उत्तेजन दिलें ?**

म्हजो व्हडलो भाव यशवंत परब हाणें म्हाका भयण आनी चलीमनीस म्हण वेगळी

वाण्णूक दिली ना. जातं खेळात, जावं समाजकारणांत जावं राजकारणांत, ताणे म्हाका उत्तेजन दिलें. खंयच केन्ना आडखळ हाडली ना. पूण तेच बरोबर म्हाका मेळिल्ल्या स्वातंत्र्याचो हांवें केन्ना गैरउपयोग केलोना.

☐ **राजकारणांत केन्ना आयलीं? राजकारणांत येवपाफाटल्यान कारण कितें?**

१९६६ वर्सा तेन्नाचे प्रदेश काँग्रेसचे अध्यक्ष श्री. पुरुषोत्तम काकोडकार हांणी म्हजी 'युवक काँग्रेस महिला' संघटनेची निमंत्रकपदार नियुक्ती केली. ल्हान ल्हान कार्यकर्त्यांचे मेळाव्याचें आयोजन हांवें आवडीन आनी बरे तरेन केलें. मागीर हांव गोंय प्रदेश काँग्रेस समितीची जनरल सेक्रेटरी आनी उपरांत सेक्रेटरी जालीं. हांवें केन्ना आपूण जावन विधानसभेचें तिकेटीची मागणी केली ना. पूण म्हजो वावर पळोवन पक्षान म्हाका १९८९ वर्सा कुंभारजुवें मतदारसंघांत तिकेट दिली. पक्षांतल्या बंडखोर उमेदवारांखातीर अतरघ्या मतांनी म्हजो पराभव जालो. पूण ह्या अपेसाचो म्हज्या वावराचेर कसलोच परिणाम जालो ना. समाजसेवेची आवड आदींसावन आशिल्ली. राजकारणांत येवचे आदीं महिला मंडळ, शिवणक्लास चलोवप असलो वावर हांव करताली. आजुनूय करतां. पूण राजकारण हें समाज सेवेखातीर एक विस्तृत आनी व्यापक अशें क्षेत्र आसा. त्याच उद्देशान हांव राजकारणांत आयलीं.

☐ **तुमच्या काँग्रेस पक्षाकडेन तुमी एकनिष्ठ आसात. अशे तरेची पक्षनिष्ठा आयच्या काळार मेळप भो कठीण. तुमकां हें कशें सादलां?**

काँग्रेस पक्षाच्या ध्येयधोरणांकडेन हांव प्रामाणीक आसां. राजकारणी मनीस केन्ना पक्ष बदलतात? जेन्ना ते आपले पुरतेंच येवजितात, आपलो स्वार्थ पळयतात. हांव ते वाटेन केन्नाच गेलें ना. सत्ता मर्तीत केन्ना केन्ना राजकारण्यांक पक्षूय नसाय जाता. फाटले १९९४चे गोंय विधानसभेचे वेंचणुकेक सगल्यांचो दोळो तिकेटीचेर आशिल्लो. पूण पक्षाचीं सुत्रां हातांत धरपाक कोणूच राजी नाशिल्लो. अशा वेळार म्हजी पक्षनिष्ठा हांवें पणाक लायली. आदले प्रधानमंत्री आनी काँग्रेस अध्यक्ष श्री. पी. व्ही. नरसिंह राव हांच्या सांगण्यावयल्यान आनी म्हजे सदसद्विवेकबुद्धीक स्मरून हांवें पक्षाध्यक्षपदाची जापसालदारकी स्विकारली.

☐ **तुमी पक्षाच्यो प्रतिनिधी. वेंचणुकेंत पक्षाक जैत मेळटकूच यशाच्यो मानकरी तुमी. तेच बरोबर पक्षाचो पराभव जातकूच अपेसाच्यो धनीय तुमीच. लोकसभा वेंचणुकेंत काँग्रेसचे दोनूय उमेदवार पडले. ह्या अपेसाची विस्कावणी तुमी कशी करतात?**

ही वेंचणूक तशी प्रतिश्ठेची आशिल्ली. हांवें म्हजो वेळ, पैसो, कौशल्य सगलें वापरलें. पूण दुर्दैवान दोनूय सीट गेले. कांय विरोधक, वर्तमानपत्रां हांणी म्हज्या राजिनाम्याची मागणी केली. नैतिक नदरेन हांवें राजिनामो दिवप योग्य आशिल्लें. म्हजो तसो विचारूय

आशिल्लो. हे बाबतींत पक्षश्रेष्ठींकडेनूय म्हजीं उलोवणीं जाल्लीं. पूण मागीर म्हाका दिसून आयलें, म्हजो राजिनामो मागपांत आघाडीचेर कोण आसात? म्हज्याच पक्षांतले मनीस. खरें म्हळ्यार ह्या पराभवाक कार्यकर्ते म्हण, आमदार म्हण जबाबदार फुडारी म्हण तेवूय तितलेच कारण आशिल्ले. पूण तांणी आपल्या पदाचो राजिनामो दिवपाचें केन्ना येवजिलें ना. देखून हांव सादूर जालीं. तांचो हेतू शुद्ध ना म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें आनी हांवें राजिनामो दिवपाचो बेत रद्द केलो.

**☐ १९९५ लोकसभेचे वेंचणुकेंत उत्तर गोंय मतदार संघाची तिकेट तुमकां मेळटा अशें जालें पूण तुमी ती आपूण जावन न्हयकारली अशें वाचिल्लें. हातुंतली खरी गजाल कितें?**

म्हाका तिकेट दिवपाचो विचार आशिल्लो ही गजाल खरी. तिकेट जाय म्हण एखाद्र्या उमेदवाराक जितले यत्न करचे पडटात ताचे परस अदीक यत्न म्हाका तिकेट नाका म्हण सांगपाक करचे पडले. तिकेट न्हयकारपाचें कारण म्हळ्यार म्हजी कुटुंबीक अडचण. हांव वेंचून आयिल्लीं (आनी येवपाची म्हाका खात्री आशिल्ली) जाल्यार म्हाका वर्सांतल्यान सातेक म्हयने तरी दिल्लीक रावचें पडटलें आसलें. म्हजीं भुरगीं ल्हान आसात. शिकतात. घरांत हांव बायलमनीस म्हण एकटी. म्हजी मांय वो सून आशिल्ली जाल्यार परिस्थिती वेगळी आशिल्ली. हांगासर चार दीस बायल कुळारा गेल्यार घरांत केदो आकांत जाता! घरांत बायल ना जाल्यार संवसाराची घडी विस्कटून वता. जावं समाजकारण जावं राजकारण, पयलीं गृहसौख्य आनी स्वास्थ्य गरजेचें. १९८९ वर्सा जेन्ना हांव विधानसभेचे वेंचणुकेंत पडलीं तेन्ना सगल्यांत चड आनंद जालो म्हज्या भुरग्यांक. धाकल्या चल्यान म्हज्या गळ्यांत पडून म्हळें, मां तूं पडली तें खूब बरें जालें. आनी इतल्याच कारणाखातीर हांवें लोकसभेची तिकेट घेतली ना.

**☐ राजकारणाचे आयचे स्थितीविशीं तुमी समाधानी आसात?**

अजिबात ना. राजकारण सामकें किडेलां. प्रत्येकाक स्वार्थान ग्रासलां. दर एकलो आपलो इगो जपता. इगोक मार बसल्यार पक्षाचेर खोंटो शेंवटिता. एकाच मनशाक एकेच सुवातेंतल्यान पक्षान कितलेफावट म्हण तिकेट दिवप? पूण इत्सूक उमेदवार हें समजून घेना. हातुंतल्यान फाटाफुटीचें राजकारण सुरू जाता. आमची राजकारणाची स्थिती हुस्को करपासारकी आसा.

**☐ तुमी पक्षाच्यो अध्यक्षा जावन पक्ष सांबाळटात. एक उद्योगक म्हणून घोवाच्या धंद्यांत पार्टनर आसात. आनी अशा वेळार तुमी भुरग्यांची आवयूय आसात. वयल्या दोन भुमिकांनी तुमी यशस्वी जाल्यांत तशीं आवयचे भुमिकेंतूय यशस्वी जाल्यांत?**

कामाचो व्याप खूब आसता. हांव म्हजे पद्धतीन काम आनी वेळ हांची विभागणी

करतां, सांगड घालतां. पूण अंदू मात परिस्थिती विचित्र जाली. म्हजो भाचलो चलो दहावी एस.एस.सी.क आशिल्लो. तो शिकपांत हुशार आसा. म्हणटकूच ताचे कडल्यान बऱ्या गुणांची अपेक्षा आसली. पूण त्याच वेळार वेंचणुकेची हवा आशिल्ली. ताची जेन्ना परिक्षा चलताली तेन्ना नेमक म्हाका दिल्ली वचचें पडलें. त्या वेळार अपुरबायेन ताका ओडून बरो पेपर बरय हें सुद्धां सांगपाक मेळ्ळें ना. त्या वेळार घरा आशिल्लें जाल्यार ताचें खाण जेवण, अभ्यासाचें वेळापत्रक, जाणें ताची टी.व्ही. पळोवपाची उमेद ह्या सगळ्या गजालींचेर लक्ष दिवपाक जातालें. एक शिक्षिका म्हूण म्हाका तें शक्य आशिल्लें. पूण घडलें ना. ताका मॅट्रिकेक ८३% मार्क पडले. मनाक चुरचुरें पडलें. ताचेमुखार हांव अपराधी जालें कारण तो मॅरिटांत येतलो अशी शिक्षक धरून सगल्यांचीच अपेक्षा आसली. अशें केन्ना केन्ना घडटा. सगल्या आघाड्यांचेर वावरूं येता पूण सगळेंच कडेन मनासारकें येस मेळना.

**□ निर्मलाताई, तुमच्यो मुखावयल्यो येवजणो कितें ?**

राजकारण हो आयुश्यभराचो वावर न्हय. कांय काळा उपरांत हांव राजकारणांतल्यान मुक्त जातलीं. महात्मा गांधींची ग्रामविकास कल्पना हांव चालीक लावंक सोदतां. एक ट्रस्ट करूंक सोदतां. ते वटेन गांवगरांचेर गांधीसाहित्याचें ग्रंथालय उबारप आनी ताकाच जोडून प्रयोगशाळा निर्माण करप असो म्हजो उद्देश आसा. हें म्हजें खूब आदींसावनचें सपन. हो वावर हांवें सुरू केला. तेच परी एक वृद्धाश्रम बांदपाचो विचार आसा. आमची कुटुंबव्यवस्था भंगत चलल्या. घरांतल्या किजिलांक लागून कांय जाणट्यांक घरांत रावप असह्य जाता. अशा लोकांखातीर वृद्धाश्रमाची खूब गरज आसा.

निर्मलाबाय राजकारणांत मुरल्या. गोंयच्या राजकारणांत तांणी आपलो शेक निर्माण केला. कुशल संघटन कौशल्य आनी मुत्सद्देगिरी हाचेखातीर तांगेल्या व्यक्तिमत्वाक तेज चडला.

* * *

# कोंकणीच्या विकासाखातीर पुस्तक, नाटक, चित्रपट माध्यमांचो वापर करपी यशस्वी निर्माती :

# हेमा नायक

चलयेक भुरगेपणांत साहित्य, कला हांची आवड आसल्यार तरणेपणांत तिचेर बरी झालर चडटा. कलेंत नांव जोडचें आनी करीअर घडोवचें अशे मनसुबे चली रचता. पूण लग्न जायना फुडें मात संवसाराक प्राधान्य मेळटा आनी कला दुय्यम थरता. आपलें एक घर आसचें, गाडी आसची, घरांत सगल्यो अत्याधुनिक सुख-सुविधा आसच्यो अशें तांका दिसता. आनी ह्या सगल्याचे जोडीक फाविल्ल्या वेळांत छंद म्हण कला तोंडाक लावपापुरती उरता. सर्वसाधारण चलयांचे बाबतींत अशेंच घडटा. पूण हाका आडवाद आसा हेमा नायक हांचो. तरणेपणांत स्विकारिल्ली साहित्य कला, आनी तिची जपणूक करतना हे अस्तुरेन 'संवसार' हे गजालीचो केन्ना विचारूच केलो ना. घरांत गेल्यार नाटकाच्या नेपथ्यांतल्यान वाट काडीत पुस्तकां कडेक सारून बसचें पडटा.

हेमा आदलें धुमटकार. मडगांवचें. पांच भयणी आनी चार भाव अशा व्हडल्या कुटुंबांत वाडिल्लें. जल्म मडगांवांत जालो. मुळावें शिकप थंयसरूच जालें. चौगुले कॉलेजींत बी.ए. मेरेनचें शिकप जालें. मुखार शिकपाची इत्सा आशिल्ली. दोतोर जावपाचें आशिल्लें. परिस्थितीक लागून शक्य जालें ना. बँकेंत नोकरी धरली. विद्यार्थी अवस्थेंत आसतना विद्यार्थी चळवळ, सामाजीक चळवळ हातूंत सहभागी जालें. तेन्नाच कोंकणी चळवळींत ओडलें. उपरांत १९७७ वर्सा कोंकणी लेखक श्री. पुंडलीक नायक हांचेलागीं लग्न जालें आनी मडगांवचें हेमा वळवय रुळपाक लागलें.

आदलें लेखन चालू उरलें. लेखनाचे जोडीक संपादन ही बाजू ताणें उखलली. १९८० वर्साच्यान ताणें खासा बायलांखातीर 'चित्रंगी' दिवाळी अंक उजवाडावपाचें थारायलें आनी आयजवेर हो वावर यशस्वीपणान चालू आसा. 'जाग', 'कुळागर', 'राजहंस' आनी 'अपुरबाय' ह्यो कोंकणींतल्यो म्हत्वाचें योगदान दिल्ल्यो संस्था. हातूंतले

'अपुरबाय' संस्थेच्यो प्रकाशिका हेमाबाय. अपुरबाय प्रकाशन संस्थेचे वतीन हेमाबायन दर्जेदार कोंकणी पुस्तकांची निर्मिती केली. पुस्तकाचो साहित्यिक पांवडो, छापणावळ, सॅटअप, बायडींग ह्या सगल्याच बाबतींत पुस्तक उजवें आनी देखणें जावपाचेर तांणी भर दिलो. हातूतल्या कांय पुस्तकाक राज्य पुरस्कार आनी केंद्रीय साहित्य अकादमीचे पुरस्कारूय लाबले.

अपुरबाय प्रकाशनान कोंकणीच्या मळार एक अपूप गजाल केली. आनी ती म्हळ्यार बरोवप्यांच्या नव्या पुस्तकाचे खास विमोचन सुवाळे तांगेल्याच वाठारांत घडोवन हाडले. हो उपक्रम खूब मोठ्या प्रमाणांत आनी सातत्यान जालो. ताचो साहित्यिक चळवळीक खूब हातभार लागलो. 'चित्रंगी' ह्या वर्सुकी अंकांत हेमान बायलांच्या प्रस्नांचेर चर्चा घडोवन हाडपी साहित्य उजवाडायलें. तेचपरी अंकांत संपादक म्हणून बायलांच्या साहित्याक प्राधान्य दिलें. 'चित्रंगी' कविता सर्त हो तातुंतलो एक भाग. ते भायर हेमान प्रकाशिका म्हण 'चित्रंगी' महिला मेळावे गोंयच्या ग्रामीण वाठारांत घडोवन हाडले. आनी हातूंत नव्या नव्या बायलांक लेखनाचे नदरेन आनी समाजीक विचाराचे नदरेन प्रवृत्त केलें. हें सगळें कोंकणी चळवळीचो एक भाग म्हणून चलतालें. कारण हेमा कोंकणी चळवळींत सक्रीय आशिल्लें.

कोंकणी लेखक संमेलनां, परिशदेचीं अधिवेशनां, शिबिरां हातूंत हेमाचो सहभाग आशिल्लोच. ते भायर कोंकणी भाशा राजभास जावची, घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत यचची म्हणून ज्यो ज्यो चळवळी आनी आंदोलनां जालीं तातूंत हेमान वांटो घेतलो. केन्ना एक वावुरी म्हणून; गरज तेन्ना बायलांची प्रतिनिधी म्हणून फुडारपणय केलां. कोंकणी राजभास चळवळींत एक बायलमनीस म्हणून हेमा चडांत चड 'सफर' जाला.

फाटल्या धा पंदरा वर्सांपासून हेमा कोंकणी नाट्य चळवळीकडेन संबंदीत आसा. 'रंगमांगाती' वळवय हे संस्थेन कोंकणींत दर्जेदार नाटकांची निर्मिती करून गोंयच्या खेड्यापाड्यांनी कोंकणी नाटकां पावयलीं आनी नाट्य रसिकांची भूक वाडयली. हेमा हे संस्थेचें अध्यक्ष म्हण बरींच वर्सां वावुरता. तेचपरी 'अपुरबाय चित्र' हे संस्थेची स्थापना करून एक व्हडलें धाडसाचें पावल तांणें उखललां. कोंकणीच्या मळार सरकारचे वतीन दुडवांचो कसलोच आदार नासतना आपणाले पदराचे लाखांनी रुपया खर्च करून कोंकणी फिल्माची निर्मिती केल्या.

हेमा तडफदार वृत्तीचें. थंय तांणें केन्ना तडजोड केली ना. तें मागीर संमेलन जांव, एखादी बसका जांव वो चार चौगांमदली चर्चा जांव. आपणाक दिसता तें कोणाची भीडमुर्वत दवरिनासतना सांगून वतलें. आपलें मत नम्रपणान सांगतलें पूण गरज तेन्ना तापटपणानूय उलयतलें. केन्ना केन्ना फटकळपणान लेगीत. हेमाच्या ह्या तडफदार सभावाक लागून ताका मेळिल्ल्या चार लोकांमदले दोगजाण ताची फाट वळनाफुडें तागेले दुस्मान

जातात. ह्या सभावाचो म्हाका फाटलीं स/सात वर्सां अणभव आसा. तागेल्या ह्या सभावांतल्यान जायत्यो गजाली शिकपासारक्योय आसात.

बायलांच्या स्वातंत्र्याविशीं आनी तांचेर जावपी अन्यायाविशीं हेमा सदांच उलयता. केन्ना केन्ना उलयताना आनी बरयताना खूब आक्रमक जाता. हाचोच परिणाम म्हणून जावंये तागेलो स वर्सांचो चलो, आपले पाटयेर, पुस्तकार युगांक हेमा नायक अशें स्पश्टपणान बरयता. शाळेंतले भुरगे ताचीं फकाणां मारतात. मास्तर समजावपाचो यत्न करता. पूण हो भुरगो हेमा इतलोच हट्टी आनी निगरघट्ट!

हेमाचो 'पसय' नांवाचो एक कथा संग्रह उजवाडा आयलो. ते भायर 'भायली गोडी' हो एकांकी संग्रह, 'अस्तुरीमृग', हो लेख संग्रह प्रकाशित जाला. 'सहजीवन' आनी 'अप्रूप' ताणें संपादन केल्लीं दोन पुस्तकां. तेभायर तागेली 'निर्बळा' ही कादंबरी प्रकाशित जाल्या. खासा ताणेंच तिचें केल्लें नाट्य रुपांतरय रंगमाचयेर आयलां. पुरस्कारांचे बाबतींत तसो हेमाचेर जायते फावट अन्याय ज़ाला. तरी लेगीत तागेले 'निर्बळा' कादंबरीक कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्यिक पुरस्कार लाबला.

हेमान निर्माण केल्ल्या 'देखणी दुराय' ह्या फिल्मान गोंयांत एक इतिहास निर्माण केला. गोंय सरकाराच्या माहिती खात्यान घडोवन हाडिल्ल्या पयल्या राज्य चित्रपट महोत्सवांत (१९९७) ह्या फिल्माक सर्वोत्कृश्ट फिल्माचो एक लाख रुपयांचो पयलो पुरस्कार आनी भांगरा चषक लाबला. तेभायर सर्वोत्कृश्ट दिग्दर्शन, पटकथा, अभिनेता, अभिनेत्री, गायिका हांचे पुरस्कार लाबल्यात. हाचे आदीं ह्याच फिल्माचे निर्मितीखातीर अखिल भारतीय महिला परिशदेचे गोंय शाखेन आपणालो 'गोमन्त तेजस्विनी पुरस्कार १९९६' भेटोवन हेमाचो आनी फिल्माचो गौरव केल्लो.

हेमाक फिल्माखातीर लाबिल्लो एका लाखाचो पुरस्कार हो गोंयच्या सांस्कृतिक क्षेत्रांतलो रकमेन आनी प्रतिश्ठेन सगळ्यांत व्हडलो असो पुरस्कार आसा.

गोंयांत राज्य थराचेर जावपी नाटक, तियात्र महोत्सव धर्तेचेर कायम स्वरुपाचो चित्रपट महोत्सव जावंचो म्हणून हेमान सरकारदरबारांत केल्ल्या यत्नांक फळ आयलां आनी गोवा राज्य चित्रपट महोत्वांतल्या जैतिवंत फिल्मांक राष्ट्रीय प्रसारणांत वचपाची वाट सोपी जाल्या.

हेमा आनी तागेल्या कुटुंबाकडेन म्हजे आनी म्हज्या कुटुंबाचे लागिंचे संबंद आसले तरी हेमाची मुलाखत घेतना हांवें हें नातें मदीं येवंक दिनासतना तटस्थपणान ही मुलाखत घेतल्या.

☐ तुमी साहित्याच्या क्षेत्रांत कशीं आयलीं?

भुरगेपणासावन वाचनाची आनी काणयो आयकुपाची खूब आवड. वाचतां वाचतां

दिसलें. ह बरोवपी हो समाजाभायले वेगळे कांय बरयनात. आमने भोंवतणी जें कितें अणभवपाक मेळटा, तेंच उतरांनी मांडटात. इस्कोलांत, कॉलेजींत जे निबंद बरयताले ताची तोखणाय जावंक लागली. कविता सर्तींनी वांटो घेतलो. मागीर कांय नव्या विचारांच्या भुग्यांकडेन वळख जाली. मागीर साहित्यिक कार्यावळींनी वचपाक लागलें. आनी अचळ्य कोंकणीविचारांमदीं भासलें. 'राष्ट्रमता'तल्यान, 'गोमंतका'तल्यान ल्हान ल्हान लेख प्रसिद्द जावंक लागले. उमेद वाडली. आनी अशें करून साहित्याच्या क्षेत्रांत पावपाची संद मेळ्ळी.

☐ **तुमी प्रकाशन व्यवसायाकडेन कशीं आयलीं ?**

हो व्यवसायाभशेन गोंयांत प्रकाशन तसो व्यवसाय जावंक ना. आजूनय ती हौसच उरल्या. जाण येवपाक लागत सावन कोंकणीच्या ध्येयान पिशीं जाल्लीं. लेखक बरयता तें छापून हाडपाक गोंयांत प्रकाशक नात. हें काम आमीच करपाक जाय हे पोटतिडकीन, हातांत पयशे आसात काय ना हाची पर्वा करिनासतना पुस्तकां छापपाचो आमी अवेव्हार केलो. पुस्तकां छापून हाडपाक जाय इतलेंच आमका खबर आशिल्लें. तीं कशीं खपोवपाचीं आनी पैशे परते कशे जमोवपाचे हें नकळो आशिल्लीं. देखून आमचे सुरवेचे प्रयोग फसले. वेगवेगळ्या लेखकांचीं ल्हान ल्हान पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं. हातुंतल्यानच अपुरबाय प्रकाशनान आकार घेतलो. वर्गणी एकठांय करून एकाद्रया लेखकाचें पुस्तक उजवाडावप हो प्रयोग मागीर आमी अदींमदीं करूंक लागलीं. श्री. नागेश करमली हाचें 'जोगत' हें पुस्तक अशाच प्रयोगांतल्यान उजवाडायलें. हें सगळें आमी केलें तें ध्येय म्हण केलें. पुस्तकांचे संख्येंन भर पडपाक जाय. कोंकणीक सरकारी थराचेर मान्यताय मेळपाक ही सम्ल्या गरजेची ही पोटतिडक मनांत आसली.

☐ **तुमी एक बरोवपी. स्वता प्रकाशक. तरी लेगीत इतल्या वर्सांच्या काळांत तुमचीं अवघीं सच पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. बरोवपांत आनी तुमचीं स्वताचीं पुस्तकां उजवाडावपांत तुमी फाटीं कित्याक ?**

वेगवेगळ्या लोकांक कोंकणींत हाडपाक जाय, नव्या नव्या बरोवप्यांक स्फूर्त मेळपाक जाय अशें दिसतालें आनी ते नदेन म्हजे यत्न चलताले. हातूंत बायलांचे साहित्यमेळ घडोवन हाडप आनी तातूंतल्यान वेगवेगळ्या विचारवंतांक आपोवन तांचे विचार तांच्या कानार पावोवपाचें काम हांवें केलां. हें इतलें करता आमनना म्हज्या लेखनाकडेन दुर्लक्ष जालें हें खरें.

☐ **कोंकणींत बायलां कादंबरी बरोवपाचे भानगडीक पडनात. पूण तुमी 'निर्वळा' सारकी कादंबरी बरयली आनी ती गाजलीय वी. हो प्रयोग तुमी चालू दवरतलीं ?**

कोंकणींत बायलांनी आजून कादंबरी बरोवंना. पूण कादंबरी बरोवपाइतलें बरें लेखन दुसरें ना हें म्हज्या मनाक पटून आयलां. 'निर्वळा' ही म्हजी तीस/चालीस वर्सांफाटीं

बरयल्ली कादंबरी. खरें म्हळ्यार, ती तेन्नाच छापून येवपाक जाय आशिल्ली. पूण कोण छापतलो आनी कसो छापतलो? तेदेवेळार हेमा हें निकतेंच बरोवपी – नवोदीत आनी कोंकणीचें कार्यकर्ते. देखून ती कादंबरी हस्तलिखिताच्या रुपांत तशीच उरली. तेन्ना ती छापून उजवाडाक आयिल्ली जाल्यार म्हज्या साहित्याक एक वेगळी दिशा मेळटली आसली. पूण 'निर्बळा' छापून येतकच हें बळ मात म्हाका निश्चित आयलें. कादंबरी-लेखन म्हाका जमता आनी हांव आनिकूय कादंबऱ्यो बरयतलें. म्हजी एक कादंबरी बरोवन जाल्या.

☐ **तुमी पुंडलीक नायकांची घरकान्न. पुंडलीकबाब एक प्रतिभावंत लेखक, तेचपरी कांय संस्थांचे पदाधिकारी. तांच्या लेखनाचो आनी पदांचो तुमकां कितें फायदो जाला? आनी कितें तोटो जाला?**

पुंडलीक नायक हो प्रतिभावंत लेखक म्हण हालींच्या काळांत नामनेक पावला. पंचवीस वर्सांआदीं तो एक गांवगिरो, शिक्षणीक पात्रता उणी आशिल्लो भुरगो आशिल्लो. ताचे प्रतिभेक फुलार आयलो तो उपरांत. हे प्रतिभेचो दिश्टावो जावन त्याच म्हालवजार हांव ताचेकडेन लग्न जालें. आज ते नदरेन हांव तृप्त आसां. प्रतिभावंत साहित्यिकाची घरकान्न अशें म्हणचेपरस प्रतिभावंत साहित्यिकाची सांगातीण अशें म्हणप म्हाका चड बरें दिसतलें. कारण ताचे तकलेंतल्यान निर्माण जावपी साहित्यकृतीची कल्पना हांवें आयकप, ताच्या लिखाणाची कॉपी काडप, ताचें पुस्तक उजवाडाक हाडप हो वावर एक घरकान्न म्हण हांवें केलो ना तर ताची साहित्यीक इश्टीण म्हणूनच केलो. साहित्यिक मळार वेगवेगळ्या कार्यावळींनी हांव ताचेबराबर गेलां. पूण ताचो गौरव जाता आसतना, बायल म्हण म्हजो गौरव जावप म्हाका केन्ना योग्य दिसलें ना आनी असल्यो संदी हांवें सहसा टाळ्ळ्यो. अर्थीक नदरेन तर तसो फायदो जावूंना. फकत ताका खंयूय भायर वचपाचे प्रसंग येताले, पुरस्काराच्या निमतान वा कार्यावळींच्या निमतान, तेन्ना हांवूय ताचेबरोबर स्वखर्चान भोंवून आयलां. आतां सगल्योच गजाली स्पश्टपणान सांगपाच्यो नासतात. पूण तरीय फायद्यापरस तोटेच चड अणभवाक मेळ्ळे. येदो व्हड लेखक म्हणटकच ताची प्रतिश्ठा सांबाळपाक ते पध्दतीचें वागप दवरचें पडलें! ताचो पत्रवेव्हार, ताचें फायलींग, ताच्या साहित्यिक वावरांत हातभार हें सगळें सांबाळपाक म्हजो वेळ खर्चलो. तशेंच ताचीं पदां म्हाका खूब म्हारग पडल्यांत. ज्या मानाच्या मंडळाचेर, कमिटींचेर पुंडलीक आसा थंय हेमा आसूंक जायना असो जायत्या जणांचो समज. प्रत्यक्षांत साहित्यिक नदरेन, विचारीक नदरेन आमी दोगांय वेगळीं. प्रकाशक, निर्माता म्हणूनय म्हाका वेगळेंपण आसा. पूण पुंडलीक आसल्यार म्हजी गरज ना असो तांचो समज. खुबशो संस्था घडयतना हो अणभव म्हाका आयलो. ताचें नांव घालतकच सभांनी वा मिटींगांनी ताका आमंत्रण आसल्यार ताचेफाटल्यान हेमा येतलेंच होवूय

एक समज! म्हजी साहित्यकृती मार्थेक आसल्यार पुंडलीकाक परिक्षक दवरप ना आनी चुकून दवरल्यारय ताणें स्विकारलें ना. आतां म्हाकाच हें विचित्र दिसपाक लागलां.

□ **तुमच्या बरोवपांत रोखठोकपण आसता. शैलीपरस विचारांचेर भर आसता. प्रगटीकरणांत आक्रमकता आसता. अशें कित्याक?**

भुरगेपणासावन म्हाका अन्यायाची अतिशय चीड. अन्याय, मागीर जावं तो म्हजेर वा आनीक कोणाचेर. घरांतलें वातावरणूय म्हाका कारणीभूत थरलां. म्हजे बंडखोर विचार मागीर लेखांतल्यान प्रगट जावपाक लागले. कॉलेजींत आसतना विद्यार्थी संघटनेकडेन संबंद आयलो. वाद विवाद, चर्चा हातूंत वांटो घेवंक लागलें. विचारांचें प्रगटीकरण जावंक लागलें. लेखनांत विचार म्हत्वाचो आसता. तो मागीर लेखांतल्यान, कादंबरींतल्यान वा नाटकाच्या माध्यमांतल्यान येवूं. लेखक कितें सांगपाक सोदता हें वाचप्यांक कळूंक जाय. साहित्य हें फकत शब्दबंबाळ जावन मन रिजोवपाखातीरूच आसचें न्हय. मनांतली अस्वस्थता प्रगट जावपाक लेखन हें म्हाका माध्यम थरलां. म्हजें सगलें लिखाण अणभवांचेर आदारीत आसा. देखून जशें आसा तशेंच तें आक्रमक दिसता.

□ **कोंकणी प्रकाशन व्यवसाय आनी हेर भासांतलो प्रकाशन व्यवसाय हांचेमदीं कसलो फरक आसा? तुमचो अणभव कितें?**

कोंकणींतलें प्रकाशन आनी हेर भासांतलें प्रकाशन हातूंत खूब मोटो फरक आसा. बाकीच्यांच्या मानान आमी सामकीं किरकोळ. जें आमचेकडेन ना तें आसा म्हण भासोवपाचो आमी निरर्थक प्रयत्न करतात. हेर भासांमदीं वतकच आमच्यांतल्या उणेपणाची जाणीव जाता आनी आपुणशीच मान लाजेन बागवता. बेंगळूराक दक्षिणेंतल्या भारतीय भासांतल्या प्रकाशकांचें एक अधिवेशन आशिल्लें. कोंकणींतले प्रकाशक ह्या नात्यान प्रकाशकांचे प्रश्न ह्या विशयाचेर एक पेपर वाचपाखातीर म्हाका तांणी निमंत्रीत केल्लें. मोठ्या भोवमानाची थंय प्रकाशकांकडेन वर्तणूक आशिल्ली. गोंय आनी कोंकणीचो प्रतिनिधी म्हण हेर प्रकाशकांबरोबर बसपाची म्हाका संद मेळ्ळी. पूण म्हाकाच खाकुडिल्लेवरी जालें. कारण दर एका प्रकाशकाची आपली स्वताची गाडी, बंगलो आनी लाखांनी रुपयांची उलाढाल आशिल्ली आनी आमी? आमी हांगा फकत हजार प्रतींच्या जमाखर्चाची उस्तवारी करीत बसल्यांत! कितलो फरक!

□ **चित्रनिर्मितीचो तुमचो पयलोच यत्न. ताचेविशीं सांगात.**

'देखणी दुराय' हें फिल्म पूर्ण तयार जाल्लां. चित्रपट-निर्मिती ही फकाणाची बाब न्हय हें आजून बऱ्याच जाणांक खबर ना. कोंकणींतलें फिल्म म्हण सरकारान वा बीनसरकारी संस्थांनी अर्थीक मदत करची म्हण तरांतरांकडेन अर्ज करून पळयले पूण कांय व्यक्ती आनी खाजगी संस्था सोडल्यार कोणेंच हे विशीं तळमळ दाखयली ना. कांय संस्थांकडेन कोंकणीच्या नांवान फंड जमिल्लो आसा पूण कायम ठेवींबगर ताचो

आनीक कांय उपेग जायना हाची खंत भोगता.

**☐ तुमी फाटलीं कितलींशींच वर्सां कोंकणी साहित्याचे चळवळींत, भाशेचे चळवळींत सक्रीय रावलीं. राजभास आनी आठवें परिशिश्ट जालें. आतां मुखार ?**

कोंकणीक जो मानाचो जागो मेळोवन दिवपाचो आशिल्लो तो आतां मेळिल्लो आसा. ह्या सगल्या गजालींखातीर आमचो वेळ, पयसो आनी शक्त आमी खर्चिल्या. इतल्या वर्सांचो धुमाकूळ आमकां बरेंच कितें शिकोवन गेलो. ह्या आमच्या इतल्या वावराची तोखणाय जातली अशें कितेंशें तेन्ना दिसतालें पूण आतां सगळोच भ्रमनिरास जाला. पयशांची पुंजी केली ना, गाडी घेतली ना, घर बांदलें ना. पूण तरीय भोंवतणच्यांनी वायट उतरां दिलीं. आरोप केले. थोड्यांनी आपणाक कांय लागना म्हण आडनदर केली. आतां फुडल्या आयुश्यांत थोडेंशें वेगळे तरेन चिंतपाचें थारायलां. रचनात्मक वावराक वेळ दितां, रचिल्लें साहित्य उजवाडावपाचो यत्न करतां. म्हज्या भुरग्याच्या फुडाराचेरूय भर दिवपाक जाय. इतल्या अणभवाउपरांत एक गजाल हांवें म्हज्या मनांत घट केल्या. आयच्या काळांत मनशाक दोन गजाली गरजेच्यो. पयसो आनी प्रतिश्ठा. दोनूय एक दुसऱ्याचेर आदारून आसात. ह्यो मेळोवपाखातीर हांव यत्न करतलें. म्हाका पूर्ण आत्मविश्वास आसा.

**☐ 'रंगसांगाती' हे नाट्यसंस्थेच्यो तुमी अध्यक्षा. हे संस्थेचे वतीन गोंयभर आनी भायरूय कोंकणी नाटकां सादर जाल्यांत. हातूंत निर्माती म्हण तुमी कशीं वावुरतात ?**

म्हज्या लग्नासावन हे संस्थेकडेन म्हजे लागींचे संबंद. सुरवेक पदाधिकारी नाशिल्लें पूण सूत्रधार म्हण नाटकांच्या प्रयोगांकडेन संबंद येतालो. कोंकणीची चळवळ म्हण हे संस्थेन नाटकांकडेन पळयलें. सुर्वेक संस्थेकडेन पयशे नाशिल्ले. आमच्याच पयशांनी संस्था घडयली. म्हयन्याचे म्हयने तालमी आमच्याच घरांत. मागीर हांवें अध्यक्ष म्हण जापसालदारकी स्विकारली. आतां आमचें घरच म्हळ्यार एक नाट्यगृह जालां. घरांत खरेले खांबे खंयचे आनी नेपथ्याचे खंयचे हें कळपाक कठीण जालां. बसपाच्या हॉलांत नेपथ्याचें सामान जळामळा शिंपडलां. घराच्यो वापराच्यो वस्तू नाटकाचे स्टेजीर पावतात. तांची मोडतोड जाता. पूण अध्यक्ष म्हण हें सगळें सोंसप भाग जालां. इतलेंच न्हय तर दर प्रयोगाक म्हाका प्रत्यक्ष वचचें पडटा. ग्रुपांत चलयो आसतात, तांच्यो आवयो, भाव म्हजेर भरवंसून तांकां धाडटात. मागीर हांव तरी घाळ कशें रावतलें ? वचचेंच पडटा. जिवाक त्रास जाता. जागरणां घडटात. पूण स्विकारलां तें तडीक व्हरपाबगर दुसरो मार्ग नासता.

**☐ तुमी वळवय सारक्या गांवांत रावतात. थयच्या जीवनाकडेन तुमचो कसो संबंद येता ?**

सुरवातीक वळवयसारक्या गांवगिऱ्या वाठाराकडन जुळोवन घेवपाक खूब कठीण

गेलें. वैचारीक, आर्थीक, सामाजीक मळांचेर नदरेन फरक जाणवून येतालो. घुम्मटमार जातालों. बसी, मोटारी असल्या वाहनांची जाय तशी सोय ना. फोन ना, नळ ना अशे परिस्थितींत वीस वर्सां काडलीं. पूण थंयच्या लोकांनी म्हाका मान दिलो. म्हजेकडेन खूब आपलेपणान ह्या गांवचो लोक वागलो. हांव पळसूर कशें जायन? दोन वर्सांफाटीं केंद्रांत मंत्री आनी सगळे खात्याचे राज्यमंत्री एदुआर्द फालेरो हांकां हाडपाचें काम म्हजेकडल्यान घडलें. तांणी हांगा येवन लोकांच्यो कागाळी आयकल्यो. लोकांनीय पोटतिडकीन त्यो मांडल्यो. हाची फलश्रुती रोखडीच घडून आयली. हांगा नळाची सोय जाली, टेलरींगचो वर्ग सुरू जालो, खेळाच्या मैदानाचो प्रॉजेक्ट पास जालो. ते भायर कोणालेंय सरकारी खात्याचें काम आसूं वा बँकेचें आसूं, ताका मार्गदर्शन करपाचें वा ताका घेवन थंय वचून ताची वळख करून दिवपाचेंय काम म्हाका अदींमदीं करचें पडटा. एक सामाजीक कार्य म्हण हांव तांचेकडेन पळयतां.

**☐ बँकेंत वीस वर्सां काम करून इतल्या पगाराची नोकरी अकस्मात कित्याक सोडली?**

म्हज्या घरच्या सगळ्यांचो विरोध आसतनाय हांवें बँकेची नोकरी सोडली. हाका तशेंच एक कारण घडलें. 'देवणी दुराय' फिल्माचें चित्रीकरण जाल्लें. गोंयांत कॅमेरा, स्टुडिओ असल्यो सुविधा नाशिल्ल्या कारणान ही सगळी यंत्रणा मुंबयच्यान हाडची पडली. आमचो खर्चाचो अदमास चुकलो. गांठीक अणभव नाशिल्लो. चित्रीकरणाचो वेळ आठ दिसांनी वाडलो. तीन लाखांच्या जाग्यार स लाख उबे करचे पडले. खंयचे हाडटलें? एकूच दोळो उरलो, वीस वर्सांचे नोकरेंतल्यान मेळटले प्रॉविडंट फंड आनी ग्रॅच्युटीचेर. घेतलो निर्णय. राजिनामो दिलो आनी ही पुंजी त्या फिल्मांत ओतली. नोकरी सोडली ताचें दुख्ख ना. कारण आयुश्यभर नोकरेच्या बंधनांत रावपाची इत्साय नाशिल्ली. ती केन्नातरी सोडपाकूच जाय आशिल्ली.

कोंकणीच्या विकासाखातीर जायते लोक पोटतिडकीन वावुरतात. पूण ह्या वावराक केन्ना केन्ना मर्यादा आसता. संवसार सांबाळून, नोकरी-वेवसाय सांबाळून हो वावर चलता. कांय जाण कोंकणीची चळवळ वेगळी आनी संवसार वेगळो अशेंच गणित मांडून तातूंत यशस्वी जातात. पूण हेमा मात हे गजालीक आडवाद आसा. हेमाच्या आयजवेरच्या जीवनपटाचेर नदर मारल्यार हेमान आपल्या संवसाराचें कोंकणीकरण **केलां अशेंच म्हणचें पडटलें.**

✻ ✻ ✻

## वैजकी व्यवसायाक सेवा मानपी

# माया घाणेकार

---

आयज खंयच्याय मळार बायलां फाटीं नात. कला, साहित्य, राजकारण, उद्योग, खेळ, इंजिनियरींग, वैजकीशास्त्र, वकिली आदी सगल्या क्षेत्रांनी बायलांनी प्रवेश मेळयला. ह्या क्षेत्रांनी बायला सख्येन उणीं आसात ही गजाल खरी. पूण तांगेल्या कार्यक्षेत्रात गुणवत्तेन तीं कमी आसात अशें कोणूच म्हणचोना. ह्या क्षेत्रांत हेर गजालीं परस गुणवत्तेकूच चड म्हत्व आसा. आनी हे गुणवत्तेचे कसवटेक बायलां उतरल्यांत.

समाजांतल्या सगळ्याच क्षेत्रांनी आयज पैसो शेक गाजयता. वैजकी क्षेत्रूय हाका आडवाद ना. वैजकी मळार, आयज वैजकी व्यवसाय ही सेवा उरनासतना दुडू मेळोवपाचें एक साधन जायत आसा ही गजाल खरी पूण हांगासर अशोय कांय व्यक्ती आसात ज्यो ह्या व्यवसायाची प्रतिश्ठा सांबाळून वागतात. डॉ. माया घाणेकार तातूंतली एक जावन आसात. ह्या क्षेत्रांत तांणी दोतोर म्हणून नामना जोडल्या. डॉ. माया घाणेकार आदीं माया रघुनाथ प्रभू नास्नोडकार. पणजेचीं. तांगेलो बापूय दोतोर आसा. तांगेली एक भयणूय दोतोर आनी एक भाव इंजिनियर. मायाचें मुळावें आनी मॅट्रीक मेरेनचें शिकप पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत जालें. उपरांत तांणी धेंपे कॉलेजींत सायन्स शाखेंत शिकप घेतलें. ताचे उपरांत गोवा मॅडिकल कॉलेजींत तांकां प्रवेश मेळ्ळो. डॉ. सीताकांत घाणेकार हाचेलागीं तांचें लग्न जालें. दोगांय व्यवसायान दोतोर आशिल्ल्यान पणजेंत दोगांय स्वताच्या हॉस्पिटलांत वावुरतात. तांकां एकूच चली. नांव सुप्रिया. सुप्रिया मुंबय होम सायन्स शाखेंत दुसऱ्या वर्गांत शिकता.

म्हाका दिशिल्लें, सुप्रियाचीं आवय-बापूय दोगांय दोतोर. तेच प्रमाण आजो दोतोर आनी मावशीय दोतोर म्हणटकूच दोतोरकेच्या कुटुंबांतलें हें चली दोतोरूच जावपाचें.

पूण सुप्रियाक भुरगेपणापसून दोतोरकी व्यवसायाविशीं आपलेपण नाशिल्लें. कारण आवय दोतोर आशिल्ल्यान ताची भुरगेपणांत खूब हेळसांड जाल्ली. देखून ताणें आपलें वेगळें क्षेत्र वेंचून काडलें. आनी मायाबायन आनी घोवान ताका मान्यताय दिली.

माया घाणेकार स्त्रीरोगतज्ञ जाल्ल्यान म्हाका तांचो वेळाकाळार वैजकी सल्लो लाबता.

तातूत सहवास वाडत गेलो. पणजी दूरदर्शनाखातीर वैजकी विशयाचेर तांगेली एक दोन मुलाखतूय घेतिल्ली. आतां परत एकदां तांगेली खास अशी मुलाखत घेतली.

**□ मार्क चड पडले देखून वैजकी क्षेत्रांत आयलीं काय ह्या क्षेत्राची खऱ्यांनीच आवड आशिल्ली ?**

म्हाका मनापसून दोतोर जावपाची आवड आशिल्ली. म्हजो बापूय दोतोर. ताचेकडेन पेशंट येनात तें पळेनकच म्हाका दिसतालें, हांवेंय समाजाखातीर कितेंय करचें. आमच्या वेळार हांगा गोंयांत दुसरे वेगळे कोर्स बी नाशिल्ले. ते घेवपाक जाय जाल्यार गोंयां भायर वचचें पडटालें. वैजकी शिक्षण मात गोंयांतूच रावन घेवं येतालें

**□ वैजकी महाविद्यालयांत कांय घटकांक राखीव जागे आसतात. बायलांक ह्या क्षेत्रांत राखीव जागे आसचे काय ना ?**

आतां बायलां सगळ्या क्षेत्रांनी फुडें आयिल्लीं आसात. इतलेंच न्हय तर तीं उच्च पदां सांबाळटना दिसतात. तीं आपलें घर, संवसार सांबाळून हें सगळें करतात. तीं खंयच कमी नात आनी तांणी आपणाक खंयच कमी जावं, हलकें समजूंक फावना. आतां बारावेचे रिझल्ट पळेल्यार कळटा कीं चड चलयो बरे मार्क घेतात आनी मॅरिटांत येतात. सगळेकडेन बायलांक राखीव जागे आसतात. रेल्वेंत बायलांचो स्पेशल डबो, तशीच बायल्यांक वेगळ्यो बसी लेगीत सरकारान सुरू केल्यात. पूण वैजकी क्षेत्र हें अशें आसा जंय तांचो पेशंटाच्या जिवाकडेन संबंद येता, तेन्ना तांणी तें आपले कर्तुत्वशक्तिनूच मेळोवपाक जाय अशें म्हजें मत.

**□ आयज वैजकीशास्त्रांत नवे नवे सोद लागल्यात. तशींच उपचाराचीं नवीं नवीं उपकरणां आनी साधनां आयल्यांत. तांचो वापर तुमी कसो कसो करतात ?**

वैजकीशास्त्रांत नवे नवे सोद लागल्यात आनी लागपाकूच जाय. हाचो आमकां भरपूर फायदो जाता. पयलीं पोटांत कसलोय ट्युमर आसा असो दुबाव आयल्यार ऑपरेशन करचें पडटालें. ऑपरेशनान ट्युमर काडूं येता जाल्यार काडप जातालें, नातर परत पोट शिंवचें पडटालें. आतां सोनोग्राफी आयल्या तातूंत आमकां खूब फायदो जाता. ट्युमर आसा जाल्यार कळटा. गुरवार आसा जाल्यार भुरगें पोटांत काय नळयेंत धरलां तें कळटा. एका परस चड भुरगीं आसात जाल्यार कळटा. हें आदीं खूब वेळार कळपाक कठीण जातालें आनी सामकी गरज आसल्यार एक्स-रे काडचो पडटालो जो काडल्यार भुरग्याचेर वायट परिणाम जावं येता. पूण सोनोग्राफी केल्यार हो धोको उरना.

दुसरें, लॅपरोस्कोपी म्हळ्यार दुर्बिणींतल्यान पळोवप. हातूंत आमी पोटांत भितर पळोवन कितें आसा तें जाणा जावंक शकतात. कुटुंब नियोजनाचीं ऑपरेशनां करूंक शकतात.

तशेंच आतां आमी शस्त्रक्रिया दुर्बिणींतल्यानूच करूंक शकतात.

**□ एका काळार आमच्या समाजांत बायलांक जल्माक येना बरोबर हरतरांच्या उपायांनी जिवानिशीं मारून उडयताली. आयज अशा करण्यांचेर कायद्यान बंदी आयल्या. पूण गर्भजल चिकित्सेच्या निमतान बायलांक गर्भांतूच व्हळोवन उडयतात. एक डॉक्टर आनी एक बायल म्हणून ह्या प्रकाराविशीं तुमकां कितें दिसता?**

हांव चलो आनी चली हांचेभितर भेद करिना. पूण समाज इतलो सुदारलो, मॉडर्न जालो तरी अजून चलो हो वंशाचो दिवो अशें मानता. तशें पळयल्यार कितले चले जाण्टेपणांत आपल्या आवय-बापायंक सांबाळटात, जावं तांचे म्हऱ्यांत आसतात? ताचे उरफाटें कितल्योशोच चलयो आपलो संवसार सांबाळून आपल्या आवय-बापायक आदार करतना दिसतात. तेन्ना म्हज्या मतान तरी चलो आनी चली हातूंत कोणेच भेद करूं नये.

गर्भजल चिकित्सा हाचेर कायद्यान बंदी आसा. तरी लोक हजारांनी पयशे मोडून ती करतात आनी चली म्हणून कळटकच गर्भपात करतात. एक बायल ह्या नात्यान तरी हें म्हाका मान्य ना. म्हजें ठाम मत, कुटुंब नियोजन करचें, पूण गर्भपात करप हाचे हांव विरुद्ध आसां. म्हाका दिसता की जर कोणाकूय भुरगें नाका तर जावंक दिवंचें न्हय, पूण चुकून जालें जाल्यार गर्भपात करचो न्हय. आतां भुरगें विकृत आसा, आवयची तब्येत खूब खालाविल्ली आसा त्यावेळार गर्भपात वैजकी नदरेन करचोच पडटा. पूण उठसूठ गर्भपात करपाक येतात ताचेआड हांव आसां. आनी चली म्हणून गर्भपात करूंक सोदप म्हणजे आपणाचोच आपणें खून केल्ले सारकें आसा. प्रत्येक बायलेन विचार करपाक जाय की आपुणूय एक बायल आनी आपल्या आवय-बापायन आपल्या जल्माआदीं असोच गर्भपात केल्लो जाल्यार? हांगा बायलांच बायलांचीं दुस्मान जावन घात करतात.

**□ तुमी स्त्रीरोगतज्ञ. तातूंत तुमचें बाळंतिंचें हॉस्पिटल आसा. तुमी डॉक्टर जालीं तरीय तुमचो संवसार आसा. त्या संवसारांत सुखशांतीचे प्रसंग आसतात, ताण-तणावाचेय प्रसंग आसतात. अशा वेळार व्यवसाय आनी संवसार हांचो मेळ तुमी कसो जुळयतात?**

स्त्रीरोगतज्ञ म्हणून प्रायव्हेट प्रॅक्टीस करप म्हणजे तारेवयली कसरत करपासारकी आसता. बाळंटी खंयच्याय वेळार रातीं-अपरातीं येतात. एकदां ती तुमचेकडेन रजिस्टर जाली कीं ऐनवेळार तिका दुसरेकडेन धाडूंक मेळना. तेन्ना एकेवाटेन पेशंटाकडेन कर्तव्य आनी दुसरेवटेन घरचें कर्तव्य. दोनूय कर्तव्यां सारकींच आनी दोनय तितलींच म्हत्वाचीं.

खूब वेळा घरचें कार्य आसता. भायर वचपाची तयारी करतनाच पेशंट येता, वचप उरता. तितली मन मारपाची तयारी आसपाक जाय. म्हजो घरकारूय दोतोर आशिल्ल्यान

तो म्हाका वो भाशेन समजूंक शकता आनी ताचें सहकार्य आसा म्हणून तर हांव म्हजो व्यवसाय चालू दवरूंक शकतां.

जेन्ना आमचें चली ल्हान आशिल्लें तेन्ना म्हाका चड त्रास जाताले. खंयच्याय वेळार कॉल अटेन्ड करचो पडटालो. आनी ल्हान भुरग्याक तर सदांच आपली आवय जाय आसता. चड करून जेवपाच्या न्हिदपाच्या वेळार. तांची ही भावनीक गरज आसता. तेदेंवळार जेन्ना हांव म्हजो वेळ भुरग्यांक दिवंक शकनाशिल्लें तेन्ना मनांत खूब वेळा विचार येतालो, ओगीच हांव दोतोर जालें. आमचें चली ल्हान आसतना, हांव जेन्ना रातचें पार्त करपाक पार्तिचे कुडींत वतालें तेन्ना चली रातचें न्हिदेंतलें उठून हांव म्हज्यात ना तें पळेतकच पार्तीच्या कुडीभायर ताचें एक ल्हान कदेल घालून बसतालें. हांव भायर येसर तें बसतालें. पळेतकच ताची काकूट दिसताली. पूण हांव कितें करूंक शकतालें ?

पूण आतां ते दीस सोंपले. चली व्हड जालें. आतां ताका म्हजी तितली गरज ना जाव ते म्हजेर अवलंबून उरना. त्या कारणान हांव चड वेळ दिवंक शकतां.

☐ **समाजांत मगल्या क्षेत्रांनी भ्रश्टाचार रिगला. भ्रश्टाचार ही आमची जीवनपदधतच जाल्लेभशेन जाल्या. अशा वेळार वैजकशास्त्रूय हाका आडवाद ना. तुमची प्रतिक्रिया कितें ?**

डॉक्टर हो लेगीत समाजाचो एक घटक. भ्रश्टाचाराचो जो रोग आयला तो ताकाय ग्रासला. अशें जावंक फावना. पयलींच्या काळार दोतोर व्यवस्थित medical ethics पाळटाले. प्रत्येकाच्या घरचो दोतोर आसतालो, ताका त्या घरांतल्या आनुवांशीक रोगांबदुदल आनी प्रत्येक व्यक्तीच्या दुयेंसा संबंदी म्हायती आसताली. तांच्या घरच्यो वैयक्तीक गजाली लेगीत खबर आसतात्यो. तो फकत तांचो दोतोरूच न्हय तर घरचो एक घटक आसतालो. Friend, philosopher आनी guide कसो. पूण आतां एके गजालीची चड खंत भोगता की समाजाच्या सगळ्या क्षेत्रांनी पैसो हेंच सर्वस्व जालां. पैशे, संपत्ती जायच, पूण तें ध्येय आसूंक फावना.

वैजकी पेशा हें एक सेवेचें व्रत अशें समजतात म्हणून वैजाक देवाभशेन मानतात. पूण आज ती परिस्थिती ना. वैजकी पेशा हो खूबकडेन धंदो जाला आनी सरकारान लेगीत त्या पेशाक गिरायक कायदयाखाला घाला.

मायाबायचें म्हणणें सामकें खरें. वैजकी पेशा आयज धंदो जाला. आनी धंदयांतले सगळे दोश, दुर्गूण हांगासर आयल्यात. पूण एक गजाल विसरूंक फावना. ती म्हळ्यार, सगळेच डॉक्टर पेशांफाटल्यान आसतात अशें न्हय. जायते जाण ह्या पेशाक सेवा हेच नदरेन पळयतात. डॉ. माया धाणेकार तातुंतल्यो.

## हौशी तियात्राच्या मळार परजळपी कलाकार

# आयरीन कार्दोज

भुरगेपणांत आशिल्ली कलेची आवड जाण्टेपणांत उरताच अशें ना. चलयांचे बाबतींत तर नाच म्हळ्यार जाता. आनी ताका एक कारण आसता. तें म्हळ्यार संवसार! पूण समाजांत अशीय बायलां आसतात जीं सगळे व्याप सांबाळून कलेची आवड राखून दवरतात. आयरीन कार्दोज अशीच एक अस्तुरी. ती एक शिक्षिका, एक समाजसेविका आनी सभापती तोमाझिन्य कार्दोज हांची घरकान्न. पूण तेच बरोबर ती कोंकणी रंगमाचयेवेली एक अभिनेत्री, एक गावपी कलाकार.

आयरीन रायबंदरचें. जल्म मुंबय जालो. भुरगेपण मुंबय गेलें. मॅट्रीक मेरेनचें शिकप मुंबयंतूच जालें. कॉलेजचें शिकप गोंयांत केलें. मिरामारच्या धेंपे कॉलेजीचे कलाशाखेची ही विद्यार्थिनी. थंय शिकता आसतनाच ताणें एके मुळावे शाळेंत शिक्षिकेची नोकरी धरली आनी फुडलें बी.ए. मेरेनचें शिकप रातचे कॉलेजींत केलें. उपरांत बी.एड्. केलें आनी बालभारती विद्यामंदिरांत शिक्षिकेची नोकरी धरली. काजरा उपरांत एम.ए. केली आनी आतां आयरीनबाय कांदोळेचे सेंट तेरेझा हायर सेकंडरींत सायकॉलॉजी विशयाच्यो अध्यापिका आसात.

भुरगेपणासावन तांकां कलेची आवड. रायबंदरा जावपी थळाव्या तियात्रांनी आनी सांस्कृतीक कार्यक्रमांनी तें खोशयेन वांटो घेतालें. आयरीनबायची आवय आनी बापूय, एक भाव आनी एक भयण असो धाकटो घराबो. ताचे कलेचे आवडीक ताच्या घरच्यांनी खूब पोसवण दिली.

कला अकादमीच्या संकुलांत ही मुलाखत घेतना तांगेली आवय मागरिटबाय उमेदीन ताचे वांगडा आयिल्ली. आयरीनाच्या भुरगेपणासावन ती अशीच आपल्या सांगाता आसता म्हणपाचें आयरीनबायन मोटे लक्तुबायेन म्हाका सांगलें आनी मागरिटबाय धुवेचे अपुरबायेन मुमुरखी हासली.

तोमाझिन्य आनी आयरीन हाची कलाकार म्हण जोडी गोंयांत भौ फामाद आसा. म्हाका दिशिल्लें, ही जोडी जावपाक दोगांयचो मोगूच कारण जाला जावंक जाय.

म्हळ्यार लव्हमॅरेज. पूण म्हजो अदमास चुकलो. तांचें दोगांयचें मोर्यांकेन काजार जालें. लग्नापयलीं चली कलेंत कितलीय हुशार आसूं, लग्न जातकूच ती संवसारांत रमता आनी तिगेली कला हुवऱ्याभितरूच उरता असो आयजवेरचो अणभव आसा. पूण आयरीनबायचे बाबतीत दुदांत साखर म्हणटात तशी पडली. तोमाझीन्यबाबा बरोबर काजार जायनाफुडें ताचे कलेक अदीक उत्तेजन लाबलें. तोमाझिन्य कार्दोजाच्या कांदोळे गावचे 'कलामोगी' संस्थेचे वतीन सादर जावपी तियात्रांनी आयरीनबायचे कलेच चंवर आयलो.

तोमाझिन्यबाबान तियात्र बरोवचें आनी आयरीनबायन आनी ताणें पालकार काम करचें हें समीकरण तियात्राचे माचयेर थारून गेलें. तोमाझिन्य कार्दोज हांणी कोंकणी तियात्राचो पांवडो वाडयलो. ताणी लेखनाचो दर्जो वाडयलो. तंत्रीक नदरेन नवे बदल हाडले आनी तियात्र म्हळ्यार कोंकणी नाटक वो हेर भासांतले नाटक हांचेपरस उण्या मोलाचें न्हय हें दाखोवन दिलें. तोमाझिन्य कार्दोजान केल्लो हो ऐतिहासीक वावर. ह्या वावरांत आयरीनबायचो वांटो तितलोच मोलाचो आसा.

आयरीनबायन आयजवेर गांवच्या तियात्रांनी आनी कला अकादमीच्या तियात्र सर्तीनी भाग घेतला. सुमार पंचवीस तियात्रांनी तरी ताणें कांतारां गायल्यांत. तशेंच वेगवेगळ्यो भूमिका केल्यात. हातूंत तीन फावट तांकां उत्कृश्ट अभिनेत्री म्हण पुरस्कार लाबला आनी दोन फावट उत्कृश्ट कांतार गावपी म्हण इनामां लाबल्यांत. ते भायर जायते फावटी हेर इनामां लाबल्यांत. महत्वाचें म्हळ्यार ताणें तोमाझिन्यबाब हांच्याच तियात्रांनी कामां केल्यांत.

तियात्राचे प्रयोग गोंयांत तशेंच मुंबय आनी बेंगळूर शारांनी केल्यात. तोमाझिन्यबाबाचो 'मांडो' हें लोकनृत्य सादर करपी एक पंगड आसा. आयरीन ह्या पंगडांत वावुरता. गोंयांत मांड्याक पुनर्जीवन दिवपाक तोमाझिन्या बरोबर आयरीनबायचो वांटो आसा.

आयरीनबायक मेळपाची, ताचेलागीं उलोवपाची खूब इत्सा आसली. पणजी दूरदर्शनाचेर एका कार्यक्रमाच्या वेळार आमी मेळ्ळीं आनी ताची सविस्तर मुलाखत घेवपाचें थारायलें.

☐ **खंयच्याय व्यवसायांत वो नोकरेच्या मळार बायलांची गरज ना अशें एखाद्र्या वेळा समाजाक दिसूं येता. पूण कलेच्या मळार बायलांची गरज ना अशें म्हणप म्हळ्यार जेवणांत मिठाची गरज ना, अशें म्हणपाचीं पिशेपणां. तर आयरीनबाय, ह्या तियात्राच्या मळार बायलां फाटीं कित्याक ?**

पयलींच्या तेंपार तियात्राच्या पालकार नाचप म्हळ्यार लोक खालतेकायेचें मानताले. तियात्रांत काम करपी बायलांक तर सामकीच उणाक लेखताले. समाजाचे हे वायट नदरेक लागून आदल्या तेंपार बायलां तियात्रांत काम करिनासलीं. पूण ज्या बायलंक

जिद्द आसली, समाजाची पर्वा नासली, तींच बायलां तियात्राच्या मळार मुखार येवंक पावतालीं. पूण आयज तो काळ उरूंक ना. आयज जशेपरी आवय-बापूय आपल्या चलयांक इंजनेर, दोतोर जावपाक मुखार काडटात तेचपरी तियात्राच्या मळार, जावं नाटकांच्या मळार आपल्या धुवांक मुखार काडटात. आयज समाजांत हे कलेक प्रतिश्ठा लाबल्या.

☐ **कांतार म्हळें म्हणचे तें गावप्यानूच घडयिल्लें आसूंक जाय असो एक समज आसा. तशी परंपराय आसा. तुमी जीं कांतारां गायतात, जावं तियात्रांत, जावं रेडियोचेर, तीं तुमी रचिल्लीं आसतात काय दुसऱ्यान?**

हांवें केन्ना कांतारां रचूंक नात. हांवें गायिल्लीं कांतारां तोमाझिन्यूच स्वता रचता आनी हांव तीं गायतां.

☐ **आयजवेर तुमी सुमार पंचवीशेक तरी तियात्रांनी काम केलां. हातुंतलो तुमकां सगळ्यांत आवडिल्लो तियात्र खंयचो? आनी तुमकां आवडिल्ली तुमची भुमिका खंयची?**

तोमाझिन्याचो 'झगझगता तें भांगर न्हय' हो तियात्र म्हाका खूब आवडलो. ह्या तियात्रांत हांवें म्हत्वाची भुमिका केल्ली. ती भुमिकाय म्हाका खूब आवडली. हांवें काम केल्लें देखून ती भुमिका आनी तियात्र म्हाका आवडलो अशें न्हय, तर खऱ्यांनीच त्या तियात्राचो विशय बरो आसलो. आपलो पारंपारीक नुस्तें पागपाचो धंदो सोडून परदेशांत नोकऱ्यांच्या फाटल्यान लागपी लोकांचे वृत्तीचेर बडी मारपी असो तो विशय आसलो. तातुंतली नुस्तेकान्नीची भुमिका म्हाका खूब खोस दिवन गेली. प्रेक्षकांनीय तोखणाय केली.

☐ **तुमच्यांत कांतार गावपाचें, अभिनयाचे गुण उपाट आशिल्ले. लोकांनीय तुमची तोखणाय केल्ली. तुमकां तस्रीपोय फावो जाल्यो. अशा वेळार तुमी एक व्यवसाय म्हण तियात्रांत कित्याक गेलीं नात? हौशी कलाकार म्हणुनूच कित्याक रावलीं?**

नाटकाची वो गावपाची कला हो म्हजो छंद आशिल्लो. एक व्यवसाय म्हण हांवें ताचेकडेन केन्नाच पळयलें ना. व्यवसाय म्हण म्हाका शिक्षिकेचें काम आवडटालें. तेंच हांवें स्विकारलें. म्हजो शिकोवपाचो व्यवसाय सांबाळून नाटकाच्या मळार हौशी कलाकार म्हण वावुरपांत म्हाका चड खोस भोगता. म्हजे कलेचो उपेग हांव जंय शिकयतां त्या विद्यालयाच्या विद्यार्थ्यांखातीरूय करून दितां. विद्यालयाच्या गॅदरिंगाक वो सांस्कृतीक कार्यक्रमाच्या वेळार हांव विद्यार्थ्यांक नाटक, कांतार असले कलाप्रकार शिकयतां आनी म्हजी उमेद भागयतां.

☐ **आतां तुमी सभापतींची घरकान्न. तुमची नोकरी आसा. समाजसेवाय चालू आसा. अशा वेळार तुमचे कलेकडेन आडनदर जाल्या अशें तुमकां दिसता?**

हय. खूब आडनदर जाल्या. पयलीं आमी दोगाय मेळून तियात्रांत काम करतालीं. तोमाझिन्य सरपंच आशिल्लो तेन्नाच तियात्राकडेन दुर्लक्ष जाल्लें. तरी आसतना आमी वेळांत वेळ काडून तियात्र करतालीं. पूण आतां तो सभापती जाल्ल्यान ताका कसोच वेळ मेळना आनी हांव तागेल्याच तियात्रांत काम करपी आल्ल्यान म्हाका काम करपाची संद ना. म्हाका म्हजोय वेळ ताचेखातीर दिवचो पडटा. पूण कलेकडेन आडनदर जाता ताची काळजाक जबर दुख्ख भोगता.

☐ आजून रंगमाचयेर येन दिसता ?

हय. तशे संदीची हांव वाट पळयतां. हांव तोमाझिन्याक म्हणटां, असो एक तियात्र बरय, तातूंत म्हाका काम करपाक मेळटलें. अजून हांव काम करपाक भुकेल्लें आसां.

☐ 'स्त्री-मुक्ती' विशीं तुमची कल्पना कितें ?

आयज बायल आनी दादलो समान आसात. दोगांकूय आपापल्या कामाची जापसालदारकी खबर आसा. आनी मुखेल म्हणजे दोगांयमदीं समजिकाय आसूंक जाय. एकमेकाविशीं दोगांनी उणेपण मानूंक फावना. बायलेन आपूण पयशे जोडून हाडटां म्हणून घोवान कुजनांत आपले बरोबर काम करूंकूच जाय, वो घरांत घोव जोडून हाडटा म्हणून बायलांक घरांत हिणसावप हें समा न्हय. आज समाजाक बायलांचें स्थान खबर आसा. हांव आनी तोमाझिन्य ह्या विशयांत खूब समजिकायेन वागतात. म्हाका केन्नाय चड काम आसल्यार वो म्हाका च्या करपाक फाटीं रावना वा ताका भायर लोक रावल्यात जाल्यार ताच्या शर्टाक इस्त्री करपाक हांव फाटीं रावना. बायलेक जल्मतांच संसाराची, समजिकायेची खूब शक्त आसा. म्हाका दिसता, दादल्यापरस बायल थोडी समजिकायेन वागली जाल्यार संवसारुच न्हय, दोगांयचें करिअर लेगीत व्यवस्थित जातलें.

☐ आमच्या गोंयांत राजकारणांत कांय बायलां म्हत्वाच्या पदांचेर वावुरतात. एक बायल म्हण तुमकां तांच्या वावराविशीं कितें दिसता ?

फकत राजकारणांतूच न्हय तर बायलांनी ज्या ज्या मळार देंवल्यांत थंय थंय तांणी आपणालें कर्तृत्व दाखयलां. गोंयच्या राजकारणांत म्हणशात जाल्यार आदल्यो मुखेलमंत्री आनी आतांच्यो आमदार श्रीमती शशिकलाबाय काकोडकार हांकां हांव खूब मानतां. एक खंबीर बायलमनीस. तशीच मध्याची शिक्षणराज्यमंत्री श्रीमती संगिताबाय परबूय आपलेपरीन बरो वावर करता. अपक्ष आमदार जावन लेगीत श्रीमती व्हिक्टोरिया फेर्नांडीस जो वावर करतात तो तोखणायेचो जावन आसा.

☐ तुमकां समाजांत जो आयज मान मेळटा तो एक शिक्षिका म्हणून, एक कलाकार म्हणून, काय सभापती तोमाझिन्य कार्दोज हांची बायल म्हणून ?

बाय ज्योती, तूं म्हजी मुलाखत घेवपाक आयलां तें कित्याखातीर ? वो तुवें दूरदर्शनाचेर

म्हजी मुलाखत घेतिल्ली ती कित्याखातीर? एक कलाकार म्हणूनच न्हय? हांवेंय मुलाखत दिल्ली ती एक कलाकार म्हणूनच. कारण समाज म्हाका एक कलाकार म्हण मानता. आनी हांवेंय म्हाका एक कलाकार, तशेंच एक बरी शिक्षिका म्हण आपणायलां. म्हाका आयरीन म्हण म्हजें एक व्यक्तिमत्व आसा.

आयरीनबायचीं उतरां सामकीं खरीं. बायलांक तांचें स्वताचें अशें एक व्यक्तिमत्व आसपाक जाय. ना जाल्यार जायतीं बायलां आपूण अमक्याची धूव, अमक्याची भयण, जावं अमक्याची बायल म्हणून सांगपाकूच धन्यताय मानतात.

आयरीनबायक कलेच्या मळार परत परजळपाक जाय. तेखातीर ती संदीची वाट पळयता. पूण तिका तोमाझिन्यबाबा बरोबरूच तियात्रांत येवपाक जाय. आनी तोमाझिन्यबाबाक तर स्वास घेवपा इतलीय उसरपत ना. ताची राजकी कारकीर्द आतांच सुरू जाल्या. तो लोकांक राजकारणी म्हण जाय. आयरीनबायची इत्सा कशी फळाक येतली तें काळूच थारायतलो.

*** 

## वेगळे वाटेचीं आव्हानां स्विकारपी धडाडी व्यक्तिमत्वाची अस्तुरी

# फातिमा डिसा

कांय जाणां बायलांच्या जल्माक येतात. पूण तांचें कर्तृत्व मात पुरुशार्थी आसता. आव्हानां स्वीकारप आनी तीं यशस्वी करून दाखोवप हो लेगीत तांगेलो एक छंद आसता. अशेंच एक छंदी-फंदी अफलातून व्यक्तिमत्व म्हळ्यार गोंयचे विधानसभेंतली आमदार श्रीमती फातिमा डिसा.

फातिमा आदलें परवगीचें, डॉ. आंतोनिओ पिंटो रुजारियो हांची धूव. आवयचें नांव ओसलिंदा. मॅट्रिक मेरेनचें शिकप म्हापशेंच्या सेंट मेरीज कॉन्वेंट आनी बी.ए. मेरेनचें शिकप सेंट झेवियर कॉलेजींत जालें. उपरांत शिक्षिकेची नोकरी स्वीकारली आनी शिक्षकी पेशाक गरज म्हणून बी.एड्. केलें. उपरांत शिकयता आसतनाच एम.ए.ची पदवी संपादन केली.

१९८० वर्सा, श्री. फिलीप डिसा हांचेलागीं तांचें लग्न जालें. तांकां अमरेश आनी आश्वीन अशे दोन चले आसात. व्हडलो चलो इकरावेक जाल्यार धाकलो पांचवे यत्तेंत शिकता. फातिमाक ल्हानपणापसून गाडयांचें आकर्शण. ह्याच आकर्शणाक लागून 'गाडी' हो तांगेले खास आवडीचो आनी अभ्यासाचो विशय जालो. मुखार तांणी होच व्यवसाय केलो. स्वताची गॅरेज उबी केली. भरधांव गाडी चलोवप हो तांगेलो छंद.

१९९४चे विधानसभा वेंचणुकेंत हळदोणें मतदारसंघांतल्यान कॉंग्रेस पक्षाचे तिकेटीचेर त्यो वेंचून आयल्यो. सध्याक तीं कदंब ट्रान्स्पोर्ट कॉर्पोरेशनचीं व्हायस चॅरमन आनी गोवा हस्तकला आनी लघुउद्योग संस्थेचीं अध्यक्षा आसात. तशेंच १९९५-९६ची बजेट कमिटी, कमिटी ऑन डेलिगेटेड लेजिस्लेशन हांच्यो तीं वांगडी आसात. सिंगापूर आनी हॉंगकॉंग असो तांणी परदेश प्रवास केला.

फातिमाबायक हांव एक बरी उद्योजिका म्हण आदीं सावन वळखतालें. तिगेलो गाडयो दुरुस्त करपाचो व्यवसाय, वाऱ्याच्या वेगान जीप चलोवपाची संवय, खास पद्धतीचो पंजाबी ड्रेस हाका लागून ती सगळ्यांचेच नदरेंत भरताली. म्हजे सारक्या

बायलांक ती म्हळ्यार एक आव्हान कशें दिसतालें. म्हाका ती 'दूरदर्शन लेडी' म्हणुनूच वळखताली आनी पाचारताली. रूपरंगान देखणी तशें फातिमाबायचें काळीजूय सुंदर! तिचे मुलाखती खातीर म्हाका मात खूब कश्ट पडले. विधानसभा चालू आशिल्ल्यान आनी तिगेली समाजसेवा, कदंब आनी हस्तकला महामंडळांतलो वावर आशिल्ल्यान ती मेळप खूब कठीण आसलें. एके सकाळीं ८.३० वरांचेर म्हाका तिणें परवरी आपल्या बंगल्यार आपयलें.

फातिमाबायच्या बंगल्यांत भितर सर जाल्यार शिरडीच्या साईबाबाच्यो मुर्ती म्हाका दिश्टी पडल्यो. मागीर तिच्या उलोवण्या वयल्यान कळ्ळें, साईबाबा आनी बांबोळेचो खुरीस हीं तिगेलीं दोन श्रद्धास्थानां. अदींमदीं ती शिरडीक वचून येता.

फातिमाबायच्या घरांत बरेचशे लोक दिश्टी पडले. तिगेली सकाळ ६.३० वरांचेर सुरू जाल्ली. मुलाखत सुरू जाली खरी पूण मदीं मदीं लोक येत आशिल्ले. फोन वाजत आशिल्ले. लोकांचीं तरातरांचीं गाराणीं आनी कागाळी. फातिमाबायच्या वावराच्यो देखी म्हाका प्रत्यक्ष पळोवपाक मेळ्ळ्यो. एका पंगडान येवन आपणाल्या गांवांत बस सुरू केल्या म्हण ताचें अभिनंदन केलें. हुंड्याखातीर अडून उरिल्ल्या लग्नाखातीर दोन कुटुंबांमदीं तिणें मध्यस्थी केली. कदंब बस स्टँडाचेर सुतांपुनवे निमतान राखी विकपाक सोदपी व्यापाऱ्यांकडेन उलोवणीं केलीं. तांच्या राखीच्या व्यापारान मूळ स्टॉलवाल्यांचेर अन्यायबी जावचो ना, हाची खात्री करून घेतली. उपरांत चाळीशेक वर्सांची एक विधवा तिचे मुखार येवन घरा संबंदीची कागाळ सांगून घोवाचे यादीन रडपाक लागली. तेन्ना फातिमाबायन तिका समजावणी दीत म्हळें, 'ज्या घोवान तुका हे दशेक पावयली, मारून बडोवन तुजे दांत वडयले, त्या घोवाचे यादीन पिशी कशी रडटा कित्याक? कितें मदत जाय ती सांग. तुज्या नांवार घर करपाखातीर हांव तुका फुकट आदोगाद मेळोवन दितां.' अशें म्हणून फातिमाबायन वकिलाक फोनूय केलो. ती बायलमनीस आपणालें दुख्ख फातिमाबायकडेन दवरून हांसत्या मुखान भायर सरून गेली. अशे तरेन फातिमाबायची मुलाखत दूरदर्शन पद्धतीन म्हळ्यार प्रात्यक्षिकां सयत जाली.

**□ तुमी राजकारणांत कशीं पावलीं? मुळांत राजकारणाची आवड आशिल्ली?**

म्हाका मुळांत राजकारणाची आवड निखालस नाशिल्ली. राजकारणाची आवड आसली म्हण कोण राजकारणांत यशस्वी जाता अशेंय ना. ताचेखातीर खूब कश्ट काडचे पडटात. म्हाका ल्हानपणापसून समाजसेवेची आवड आशिल्ली. शिक्षिका आशिल्ल्यान भुरग्यांकडेन संबंद येतालो. होली फॅमिली हायस्कुलाची जायत्या वर्सांसावन हांव प्रिन्सिपल आसां. ते भायर मोटारी दुरुस्त करपाचो म्हजो व्यवसाय आशिल्ल्यान वेगवेगळ्या लोकांकडेन म्हजो संबंद येतालो. लोक आपणालीं कामां, प्रस्न घेवन म्हजेलागीं येताले. सगळेच

प्रश्न सुटावे जाताले अशें न्हय. मागीर म्हजे भोंवतणच्या म्हज्या लोकांकूच दिसलें, एक फातिमा आमचीं कामां इतले मेरेन करपाक शकता, जाल्यार आमदार फातिमा तीं कामां चड बरेतरेन आनी अधिकारान करपाक पावतली. आनी लोकांचे इत्सेनूच हांव कॉंग्रेस पक्षाचे वतीन १९९४ वर्साचे वेंचणुकेंत उबी रावली आनी वेंचून आयलीं.

**□ आमदार जाले उपरांत तुमी खासा करून बायलांखातीर कसलीं कामां केल्यांत ?**

म्हगेल्या हळदोणें मतदासंघांत जायतीं बायलां बेकार आशिल्लीं. हांवें तांतुंतल्या पन्नास बायलांखातीर शिवण आनी हस्तकलेचे अशे दोन वर्ग सुरू केले. ह्या वर्गाक सरकारी आदार नाशिल्लो. शिकोवप्यांचो खर्च हांवें म्हजे पदरचे दुडू मोडून केलो. ह्या क्लासांत शिकिल्ल्यांनी आतां आनीक वेगळेकडेन वर्ग सुरू केल्यात. बायलां आपल्या पांयार उबीं रावल्यांत. अशे तरेचे वर्ग म्हाका गांवागांवांनी उगडपाचे आसात. ते भायर सरकारी नोकरेचीं कॉलां घेवन बायलां म्हजेलागीं येतात. हांव म्हजी वळख, अधिकार वापरून तांकां नोकरी मेळोवन दिवपाचो यत्न करतां. तेच परी खाजगी कंपन्यांनी हांवें जायत्या बायलांक नोकरी मेळोवन दिल्या. उदयेगधंद्यांतल्यो सोयी सुविधांचो लाब हांवें तांकां मेळोवन दिला.

**□ बायलांखातीर आशिल्ल्यो येवजण्यो बायलां मेरेन पावतात ? पावना जाल्यार कित्याक ?**

एक काळ आशिल्लो तेन्ना ह्यो येवजण्यो तांचे मेन पावनासल्यो. पूण आयज आदलो काळ उरंक ना. जावं नेमाळ्यांतल्यान वा एकामेकांकडल्यान ह्यो येवजण्यो बायलां मेरेन पावतात. अशीं कितलींशींच बायलां आसात जीं म्हजेलागीं हे संबंदी वासपूस करपाक येतात. हांवूय तांकां तांचेविशीं सांगतां. पूण बायलांनी अदीक जागृत जावपाची गरज आसा हें खरें.

**□ आमदारापरस अदीक अधिकार तुमचेकडेन आशिल्ले जाल्यार तुमच्या कामाची गती वाडटली आशिल्ली अशें तुमकां दिसता ?**

पयले सुवातेर काम करपाची इत्सा जाय. जिद्द, चिकाटी जाय. आमदारा वांट्याची मंत्री जावन अदीक अधिकार लाबले म्हण कामां आपशींच जातात अशें न्हय. सध्याक हांव एखाद्र्या मंत्र्यापस चड कामां करतां. मंत्र्याक चड अधिकार आसले तरी ताचें एक खातें आसता आनी ताच्या कामाचें स्वरूप त्या खात्याभोंवतणीच मर्यादीत स्वरूपाचें उरता. हाचें उरफाटें, एखाद्रो काम करपी म्हजे सारको आमदार आसलो जाल्यार तो सगळ्या आमदारांकडेन आनी सगळ्या मंत्र्यांकडेन सारकेच संबंद दवरून आपलीं कामां करून घेता. म्हजो हो स्वताचो अणभव आसा. हांव मंत्री ना हाचें दुख्ख म्हाका ना. पूण म्हज्या लोकांक आनी बरें-मागप्यांक मात जरूर आसा. तांकां दिसता, पक्षांतर करून कॉंग्रेस पक्षांत आयिल्ल्यांक मंत्रिपदां मेळ्ळीं. पूण म्हजे सारके प्रामाणिकपणान

लोकांचीं कामां करपी बायलमनशेक मंत्रीपद मेळ्ळें ना, हो म्हजेर अन्याय आसा. लोकांक अशें दिसप हातुंतूच म्हाका समाधान आसा.

**□ सत्तेवयल्या सरकारांतूय कांय वेळार गट पडटात. अशा वेळार तुमची भुमिका कितें आसतता ?**

हांव स्वतंत्र विचारांचें मनीस. अन्यायाआड हांव आवाज काडपी. फाल्यां विधानसभेंतल्या चाळीस आमदारांमदल्या एकूणचाळीस आमदारांचें एकमत आसुनूय म्हजें स्वतंत्र अशें वेगळें मत आसूं येता. हांव सत्त्याक तेंको दिवपी. कोणावटेन झुकपाक वो बागवपाक हांव कोणाचे पांगेंत ना.

**□ तुमी कदंब ट्रान्सपोर्ट कॉर्पोरेशनच्यो व्हायस चेरपर्सन. कदंब लुकसाणींत चलता आनी कदंबाची लोकांक जी सेवा मेळटा ताचेविशीं जायत्यो कागाळी आसात. तुमची प्रतिक्रिया कितें ?**

अशें आसा खरें. पूण हांवें पदाचो ताबो घेवचे आदींसावन ही परिस्थिती थंय आशिल्ली. हांवें ताबो घेतपसून सगळ्या गजालींचेर बारीक लक्ष दवरलां. कितलेंय काम आसलें तरी लेगीत सकाळीं साडेधांक हांव कदंबाच्या ऑफिसांत पावतांच. म्हाका थंय वचपाक मेळ्ळें ना जाल्यार त्या दिसाच्यो सगळ्यो फायली म्हजेकडेन येतात. येती-वती खंयचीय फायल, मागीर ती म्हजेकडल्यान मुख्यमंत्र्यांकडेन वचूं वा वयल्यान सकयल येवं, म्हजी नदर पडलेबगर मुखार वचना. थंय हांव व्हायस चॅरपर्सन म्हणून म्हजो पुराय अधिकार वापरतां.

**□ गाडयो दुरुस्त करपाचो तुमचो व्यवसाय. तुमची गॅरेज आसा. एक बायलमनीस आसून तुमी ह्या व्यवसायाकडेन कशीं आयलीं ?**

हांव जरी चली आसलें तरी ल्हानपणापसून चल्यांभशेन वागतालें. ते खातीर म्हाका 'टॉमबॉय' म्हणटाले. ल्हानपणापसून म्हाका गाडयांचें सामकें पिशें. बरी गाडी मोडून सारकी करप, वाऱ्याच्या वेगान गाडी चलोवप, गाडयांविशींचीं पुस्तकां, नेमाळीं वाचप ह्यो म्हज्यो आदींसावन आवडी. हेच आवडींतल्यान हांव ह्या व्यवसायाकडेन आयलीं. ह्या व्यवसायांत आव्हान आसा अशें म्हाका दिसता.

**□ तुमी आमदार, चॅरपर्सन. तुमचो व्यवसाय आसा. हें सगळें सांबाळून तुमी घरांत कितलोसो वेळ दिवपाक पावतात ? केन्ना आवय केन्ना बायल म्हण तुमी कमी पडल्यांत ?**

बायलां शिकलीं, राजकारणांत आयलीं, व्यवसाय क्षेत्रांत आयलीं ती लेगीत बायलांक कुटुंबीक जापसालदारकेंतल्यान कडेक सरूक मेळना. भुरगीं, भुरग्यांचें पालन-पोशण, संवसार ह्यो बायलमनशेच्यो नैसर्गिक जापसालदारक्यो आसात. हेर क्षेत्रांत यशस्वी जाल्ले बायलमनशेक स्वत्ताचो संवसार यशस्वी करप कठीण न्हय. म्हज्या कामाचो व्याप

व्हडलो आसलो तरी हांव भुरग्यांचेर आनी संवसाराचेर तितलेंच लक्ष दितां. सकाळचो मेकळो वेळ, भुरग्यांचें खाण, टिफीन पळोवप, तांकां बसीचेर चडोवप हे खातीर खर्चितां. आमदार जावचे आदीं आमचेकडेन पांच मोटारी आशिल्ल्यो. पूण म्हजीं भुरगीं शाळा कॉलेजीक वतना बसींतल्यान येता-वतात. कारण भुरगेपणांत कश्टांचे संस्कार भुरग्यांचेर जावप गरजेचें. पयस खंयूय गेल्यार हांव अदीं-मदीं फोन करून भुरग्यांची, घरची चवकशी करतां. म्हजो घोव स्वाभिमानी. कसलोय समारंभ, पार्टी आसल्यार तो म्हजेबरोबर केन्ना येना.

☐ **गोंयचे विधानसभेंत चार बायलां आमदार आसात. इतलें प्रतिनिधित्व बायलांक केन्नाच नाशिल्लें. तरी लेगीत गोंयच्या बायलांचेर आगळिको/अन्याय जातात. अशें कित्याक ?**

गजाल सामकी खरी आसा. सकाळीं पेपराचेर नदर मारली जाल्यार खंय तरी एकाद्रे बायल मनशेचेर अन्याय जाल्लो आमकां वाचूंक मेळटा. आगळीक, बलात्कार, हुंड्याक लागून पिडापीड असले प्रकार आसतात. कांय म्हयन्यांआदीं म्हज्याच होली फॅमिली हायस्कुलांतले एके चलयेचेर परवरीच्या रानांत आगळीक जावन ताका जीव वगडावचो पडलो. घृणास्पद अशे हे घडणुकेन हांव खूब अस्वस्थ जालीं. अशे तरेचे अन्याय बायलांचेर जावचे न्हय देखून बायलांनी तर वावुरपाक जायच पूण दादल्यांनीय वावुरपाची गरज आसा. विधानसभेंत चार बायलां आसलीं ती छत्तीस दादले आसात हें आमी विसरूंक फावना.

☐ **बायलांच्या स्वातंत्र्याविशीं तुमकां कितें दिसता ?**

बायलांक दादल्या बरोबरूच अधिकार आसात. पूण बायलांकूच त्या अधिकाराची तितली जाणीव ना. बायलांनी आपणाले हक, अधिकार मेळोवन घेवपाक जाय. गरज थंय झगडूंक जाय, संघर्श करूंक जाय. पूण आयज आमी पळयतात, शिकिल्लीं सवरिल्लीं बायलां लेगीत आपल्या हक्कांचे बाबतींत जागृत जाल्लीं दिसनात. तांकां समाजांत व्हडलीं-व्हडलीं पदां दिल्यांत, सत्ता दिल्या पूण तांचो वापरूच करपाक तांकां कळना. एक वेळ शिकूंक नाशिल्लीं बायलांच आपणाल्या अधिकाराचे बाबतींत चड 'जागृत' आसतात; पूण शिकलेलीं न्हय. एक मनीस म्हणून स्वताच्या हक्कांची जाणीव जावप हीच स्त्रीमुक्ती.

फातिमाबाय एक धडाडीची बायलमनीस. मुखावयलें कठीण काम आव्हान मानून तें सोपें करून दाखोवपी, कर्तुत्ववान. आयच्या बायलांमुखार ती एक आदर्श कशी!

* * *

## वाचप्यांनी घेतिल्ली दखल होच खरो पुरस्कार मानपी कथा लेखिका

# मीना काकोडकार

---

साहित्यीक मळार आमी जेन्ना बायलांच्या कर्तुत्वाची चर्चा करतात तेन्ना मीना काकोडकार हांगेलें नांव मुखार येता. कारण मीनाबाय आयचे घडकेक तरी गोंयांतल्यो केंद्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार जोडिल्ल्यो एकमेव अशो गोंयकार लेखिका.

आयची कोंकणी कथा विशय आनी आशयान समृद्ध आसा. कोंकणी साहित्यांत कथाप्रकारान मोलादीक भर घाल्या. कोंकणींतल्या कथाकारांमदीं मीनाबायची सुवात अढळ आसा. बायलेच्या मनाचे उमाळे, तिचीं सुखदिणीं दुख्खां आनी दुखदिणीं सुखां उतरांनी उक्तावपाची वज मीनाबायक सादल्या. तांगेले खुसखुशीत मार्मिक शैलीन तांणी पितारिल्लें मनीस सभावाचें चित्र कोंकणी कथा साहित्यांत अग्रांवर उरतलें अशें म्हळ्यार अतिताय जावं नये.

फाटलीं २१ वर्सां त्यो लेखन करतात. 'दोंगर चंवल्ला' हो तांगेलो पयलो कथा संग्रह १९७६ वर्सा उजवाडा आयलो. हो संग्रह गोंय हायर सेकंडरी बोर्डाच्या बारावेच्या अभ्यासक्रमाक आनी गोंय विद्यापीठाच्या बी.ए.च्या पयल्या वर्साच्या अभ्यासक्रमाक पाठ्यपुस्तक म्हण लागलो. ताची दुसरी आवृत्ती प्रसिद्ध जाल्या. मीनाबायचो दुसरो कथासंग्रह म्हळ्यार 'सपनफुलां'. ह्याच सग्रहाखातीर तांका १९९३ वर्सा अकादमी पुरस्कार लाबलो. तेभायर तांकां कोंकणी भाशा मंडळ, कला अकादमी, कुळागर ह्या गोंयचे संस्थेचे साहित्य पुरस्कार लाबल्यात. मणिपालच्या टी.एम्.ए. पै फाउंडेशनचो पुरस्कारूय तांकां मेळ्ळा. दिल्लीचे 'कथा' हे संस्थेचो कथा पुरस्कार लाबून तांगेले कथेचो गौरव जाला. 'कथा' अंकांत तांगेल्यो दोन कथा इंग्लिशींतल्यान प्रसिद्ध जाल्यात.

मीना सुरेश काकोडकार, आदल्यो गायतोंडे, हांचो जल्म काणकोण म्हालांतल्या पाळोळें गांवांत जालो. तांगेलें भुरगेपण चडशें पणजे आनी पाळोळेंच्या सैमाचे कुशींत गेलें. बी.एस्.सी. मेरेन तांगेलें शिकप जालां. सध्याक त्यो गोंय सरकाराच्या लेखाखात्यांत सहाय्यक लेखा अधिकारी म्हूण काम करतात. १९७३ वर्सा कोंकणींतले एक लेखक आनी संपादक श्री. सुरेश काकोडकार हांचेलागीं तांचें लग्न जालें. तांकां मांगिरीश

आनी योगेश अशे दोन चले आसात.

मीनाबायक लेखनाभायर अभिनय, गार्डनिंग आनी पेंटींग ह्या विशयांची आवड आसा.

तशी तांची आनी म्हजी वळख जुजबीच म्हळ्यार जाता. तशो तांगेल्यो कथा हांव वाचतालें. एका वर्सा एका दिवाळी आंकात तांगेली 'आमी' ही कथा हांवें वाचली आनी हांव भारावन गेलें. एक दीस नामनेचे साहित्यिक डॉ. यू. आर. अनंतमूर्ति हांगेले एके साहित्यिक कार्यावळींत मीनाबायची भेट घडली. हांवें तांकां 'आमी' कथा म्हाका खूब आवडिल्ल्याचें सांगलें. मीनाबायन हांसत म्हळें, 'म्हज्या सगळ्या कथांत म्हाका ही कथा खूब आवडटा.' थंयच खंय तरी आमचे सूर जुळ्ळे. आनीक एक खेपे मडगांवां तमिळ लेखिका शिवशंकरी हांचेकडेन दवरिल्ल्या एके वार्तालापाचे कार्यावळी निमतान म्हजी आनी मीनाबायची भेट जाली. मीनाबायची बरोवपाची आनी उलोवपाची शैली एक. तांगेलें हातांत घेतिल्लें बरोवप वाचले बगर सकयल दवरन दिसना. तसोच तांगेलो सहवासूय तोडीन दिसना.

मीनाबायकडेन घडिल्ल्या सहवासाचें रुपांतर अशे तरेन मुलाखतींत जालें.

**□ तुमच्या कथेच्या आशयाक तुमचे शैलीखातीर उठाव येता अशें वाचप्यांचें आनी समीक्षकांचें मत. ही शैली तुमी कशी कमायली?**

शैली ही नैसर्गीक देणगी. ती मूळ आंगातच आसता. वज्र जशें तासां घाले उपरांत चकचकूंक लागता तशीच ही शैली. बरोवप्यान बरयत रावन हेर साहित्याचें निरीक्षण करून तिका लखलखीत करचेली.

**□ तुमकां कथाबिजां खंय आनी कशीं मेळटात? कथा लेखनाची प्रक्रिया कशी घडटा?**

कथाबिजां म्हाका म्हजे भोंवतणीच मेळटात. कांय म्हजे जिणेंत मेळ्ळीं. कांय दुसऱ्यांले जिणेंत पळयलीं. कोणाचीं सुखां, कोणाचीं दुख्खां, भुरग्यांचीं भावडेपणां, मनशांचे हावेस, तांची अगतिकताय, मोनजातीची मोनी माया, हातूतल्यान म्हाका कथेक विशय मेळटात.

विशय मेळ्ळे म्हणून सट्ट करून हांव बरोवंक बसतां अशें ना. जायते फावटी तो तकलेंत बरोच काळ घोळत उरता. सादारणपणी आराखडो तयार जाता. मागीर हांव कथा बरोवंक घेतां.

**□ तुमची कथा मध्यमवर्गीय जिविता पुरतीच मर्यादीत आसा. तुमचें मत?**

म्हज्यो चडश्यो कथा मनशांच्या मनांतले उमाळे, भावनेचे वेगवेगळे पदर, मनशांचें सैमावांगडचें नातें, मोनजात हांचेर आदारून आसात. ह्या विशयांक 'वर्ग' लागता अशें म्हाका दिसना. तरीय तूं म्हणटा ताचेकडेन हांव सहमत ना. म्हजी 'माम्तर म्हणटा'

ही कथा दुबळ्या वर्गांतल्या मनशांचे जिणेचेर आसा. 'अशीं सपनां अशी जीण' ही कथा शेतकामत्यांचे जिणेभोंवतणी गुंथल्या. 'तल्लम्मा तूं चल्ली ?' ही कथा घाटावयल्यान पोट भरूंक गोंयांत येवन रावील्ल्या कामगार वर्गांतल्या जोडप्याचेर आसा. अशो आनिकय कांय कथा आसात. तशें कांय कथांनी भोंवतणची वातावरण निर्मिती मध्यमवर्गीयांची आसतली. मनांत ज़ो विशय नैसर्गिक रितीन येता ताचेर हांव कथा बरयतां. तो विशय खंयच्या वर्गाचो हें म्हजे तकलेंत लेगीत येना. कथेंत जें कितें मांडटां तें वास्तव जावचें इतलेंच मतींत आसता.

कथा यशस्वी जाल्या काय ना हें म्हत्वाचें, ती खंयच्या वर्गियांची हें म्हत्वाचें न्हय अशें म्हाका दिसता. दुसरी गजाल म्हळ्यार आमचे मुखार तरेतरेचें खाण हाडून दवरल्यार आमी तातूंतलें आमकां आवडटा तेंच वेंचून काडटलीं. न्हय? बरोवप्याचेंय तशेंच. ताचेमुखार विशय जरी खूब आसले तरी आपल्याक आवडटात तेच तो कथेखातीर वेंचून काडटा.

प्रस्न मर्यादेचो न्हय, आवडीचो आसा.

☐ **तुमच्यो कथा खंयच्या देशी आनी परदेशी भासांनी अणकारीत जाल्यात ?**

म्हज्यो कथा हिंदी, मराठी, उडिया, तामीळ, कन्नड, मलयाळम, तेलगु आनी इंग्लीश ह्या भासांनी अणकारीत जाल्यात.

हिंदी आनी इंग्लीश भाशांनी म्हज्या कथांचो अणकार छापून आयलो आनी त्यो वाचून वेगवेगळ्या भाशांतल्या बरोवप्यांचीं म्हाका आपले भाशेंत त्यो कथा अणकार करचेखातीर परवानगी मागपी पत्रां आयलीं आनी अशे तरेन खुबशा भासांनी आपसुकच कथांचो अणकार जावन पडलो.

म्हाका आयिल्ल्या सगल्या पत्रांतल्यान म्हाका काळजाक स्पर्शून गेलें तें सर्गेस्त अरविंद गोखले हांचें पत्र. 'समकालीन भारतीय कथा' ह्या साहित्य अकादमीन उजवाडायिल्ल्या संग्रहांत म्हज्या 'सुकण्या पिला रे' हे कथेचो हिंदी अणकार उजवाडाक आयिल्लो. तो वाचून तांणी म्हाका तोखणायेचें पत्र धाडलें आनी ते कथेचो अणकार करचे खातीर परवानगी मागली. सर्गेस्त अरविंद गोखले हांचेपरस सगल्या वाटांनी हांव खूब ल्हान. तरीकय हो येदो व्हडलो लेखक आपलें व्हडपण कुशीक दवरून ल्हान जावन म्हजेकडेन परवानगी मागतालो. कितले जाण अशे आसत? तांचे हे करणेन म्हजे नदरेन ते मळबायेदे व्हड जाले. तांकां प्रत्यक्ष मेळचेली म्हाका खूब इत्सा आशिल्ली पूण ती अर्दकुटीच उरली. तांकां म्हजी कथा अणकारचीशी दिसली हो म्हाका म्हजो आनी म्हजे कथेचो व्हड गौरव कसो दिसलो.

☐ **इतलीं वर्सां फकत कथालेखन करतात. त्या मानान कथा बरोवपाची गती मंद आसा अशें तुमकां दिसना? गती इतली मंद कित्याक ?**

तुवें विचारलें तें खरें. कथालेखनाची म्हजी गती मंद आसा. तुवें विचारलें म्हणून न्हय तर म्हजे म्हाकाच तशें दिसून हांव ताचेर चिंतलें आनी इसापनितींतल्या काणयांक जशें 'तात्पर्य' आसता, तशेंच चिंतून चिंतून हांवेंय 'तात्पर्य' काडलें. तें म्हळ्यार लेखक जर 'मूड' आनी 'आळशीपण' हाचे भकीक पडलो जाल्यार लेखनाची गती मंद जाता.

आतां कारण समजतकीर ताचेर उपाय करप सोंपें अशें तूं म्हणटलें. तूंच कित्याक, हांवूय तेंच म्हणटां. पूण परत थंय आळशीपण!

□ **कथालेखनाचो फुडलो भाग म्हळ्यार कादंबरीका वो कादंबरी. पूण तुमी अजून तो प्रकार हाताळूंक ना. कित्याक? आळशीपण? प्रतिभा सांगात दिना?**

कादंबरी बरोवपाचें मनांत आसा. 'नाच ग घुमा'च्यो लेखिका माधवीताई देसाई हांचेवांगडा ह्या विशयाचेर उलयतना तांणी म्हळें, 'मीना, तूं कादंबरी अवश्य लिही. पण त्याआधीं कादंबरी तंत्राचा सखोल अभ्यास कर.'

तांचीं उतरां म्हाका पटलीं. कादंबरी बरोवंक जाय म्हणून बरोवंक घेतली जाल्यार ती वाचनीय जातली काय कितें सांगूंक येवचें ना. वाचप्यांक सोडात, स्वता म्हाका तरी ती समाधान दितली काय कितें हाचो दुबाव आसा.

तकलेंत जो विशय घोळटा तातूंत पुराय मुंगरून खोल म्हणसर वचूंक जाय. लेखकान तातूंत आसून नासूंक जाय आनी नासून लेगीत आसूंक जाय. लेखकान अलिप्त रावनूय आपल्या बरपांतल्यान वाचप्यां मेरेन पावंक जाय. तेन्ना तो यशस्वी जाता. कादबरीक तर हें चड गरजेचें. कारण पुराय कादंबरी वाचप्याक खिळोवन दवरपाची तांक तातूंत आसची पडटा. हांव हें करूंक शकतलें हाची जेन्ना म्हाका खात्री जातली तेन्ना हांव कादंबरी बरोवंक घेतलें. ते नदरेन पयलें पावल म्हणून हांवें 'आमी' ही दीर्घ कथा बरयली.

□ **कोंकणी कथा साहित्यांत कथा लेखिकांचें योगदान कितलें? तुमी कशेतरेन विस्कावणी करशात?**

योगदान हें तूं कशें मापता ताचेर अवलंबून आसा. आंकडेवारीन मापशीत जाल्यार तें थोडें दिसतलें पूण 'पांवड्या'न मापशीत जाल्यार तें बरेंच आसा. शीला कोळंबकाराचे दोनूच कथासंग्रह. पूण कथांचो पांवडो खूब श्रेश्ठ आसा.

जयमाला दणायत, रजनी भेंब्रे, जयंती नायक, विजया पै धुंगट, ज्योती कुंकळकार (स्वता तूं) हांणी कथेच्या मळार कोंकणीक जें योगदान दिलां आनी दीत आसात, तें मोलादीक आसा.

रामायणांत सेतू बांदतना चानयेन जें योगदान दिलें तेंय मोलादीकच आशिल्लें. देखून योगदानाचें मेजमाप करतना परिमाण वेगळें लावचें पडटा. आनी ते नदरेन पळोवशीत जाल्यार कथालेखिकांचें योगदान बरेंच आसा अशें म्हणचें पडटलें.

☐ **आयचे कोंकणी कथेविशीं तुमचें मत कितें ?**

कोंकणी कथेक नव्या तंत्राची, नव्या प्रयोगाची गरज आसा. गोंयापुरत्योच तिच्यो मर्यादा आसच्यो न्हय, तर गोंयची शीम हुंपून खंयय गेली जाल्यार लेगीत थंयच्या लोकांक ती आपली कशी दिसूंक जाय. ते नदरेन आमकां अजूनय खूब चलचें आसा.

☐ **कथेच्या मळार – जावं कोंकणी, जावं भारतीय, जावं विदेशी – तुमकां कोण प्रभावीत करता ?**

खंयच्याय लेखकाची, जावं तो व्हड वा जावं ल्हान, बऱ्यांतली बरी कलाकृती म्हाका प्रभावीत करता.

☐ **आयचे भारतीय कथेंत कोंकणी कथेची पत कितें ?**

सगल्या भारतीय भासांतली एक एक कथा अणकारीत करून तांचो संग्रह संकलीत जाता तेन्ना तातूंत एक कोंकणी कथाय आसता. हाचो अर्थ भारतीय कथेंत कोंकणी कथेचें तोलामोलाचें स्थान आसा असोच जालो ना ?

☐ **तुमी थोडें भौ नाट्यलेखन केलां. देखीक, 'उश्णी व्हंकल', 'सोरोप सोरोप', 'साळकांतलो जादुगार'. तातूंत तुमकां यशय मेळिल्लें. जाल्यार तो प्रकार कित्याक हाताळ्ळो ना ?**

नाट्यलेखनाकडेन हांव कशें गेलें जाणा तूं? हांव लेखा खात्याचें मनीस. आमच्या ह्या खात्यांत 'रिक्रियेशन क्लब' आसा. आनी दर वर्सा 'अकौंटस् डे' ही सांस्कृतीक कार्यावळ आमी सादर करतात. क्लबाची एक सक्रीय वांगडी आशिल्ल्यान हे कार्यावळीखातीर दरवर्सा हांवें एक एक नाटकुलें बरयलें आनी सादर केलें. फुडें हीं नाटकुलीं छापून आयलीं आनी कला अकादेमीच्या आंतर-कॉलेज सर्तींत सादर जावन तांकां खुबशीं इनामांय मेळ्ळीं. पूण म्हजो मूळ पिंड नाट्यलेखनाचो न्हय. मुखेल वाटेन वतां वतां तिका मेळिल्ले दुसरे आडवाटेवेल्यान थोडेंशें चललें इतलेंच.

☐ **वर्तमानपत्रांत तुमी खुसखुशीत ललीत लेखन केलां. देखीक 'मेकळें मळब'. मुखार कित्याक चालू दवरलें ना ? वेळ ना काय ?**

'मेकळें मळब' बरोवपाफाटल्यान एक खास कारण आशिल्लें. 'सुनापरान्त' दिसाळें तेन्ना निकतेंच सुरू जाल्लें. आनी खंयचेंय दिसाळें नव्यानच सुरवात जाता तेन्ना ताका सगल्यांच्या आधाराची गरज आसता. 'मेकळें मळब' हें सदर तेच खातीर सुरू केल्लें. खंयचेंय सदर वर्सान वर्स चालू दवरचें न्हय अशें म्हजें मत. शिवाय नवीं नवीं सदरां येवंक लागिल्लीं. देखून वर्सा उपरांत 'मेकळें मळब' बंद केलें. पूण हे ललीत लेख बरयतना म्हाका खऱ्यानीच खूब खोस भोगली. परत असलें लिखाण सुरू करचेलें मनांत आसा.

'वेळ ना' हें वेळ मारून व्हरचेखातीर सांगपाचें कारण हांव तुका सांगना.

☐ **तुमच्या लेखनाक तुमकां घोवाचो आदार लाबला ? कसो ?**

एकामेकांच्या आदाराबगर संवसार लेगीत बरे तरेन चलना. म्हणटकीर संवसाराच्या क्षेत्राभायर आनीकय कितें करूंक मुखार सरपी बायलमनशेक घोवाच्या आदाराबगर यश कशें मेळत ?

कथा बरोवन जातकीर समीक्षकाचे नदरेन ती वाचप आनी ताचेर आपलें स्पश्ट मत उक्तावचेलें काम म्हजो घरकार करता. ताका लागून कथेंतल्यो म्हजे नदरेंतल्यान सुटिल्ल्यो त्रुटी लक्षांत येवंक मदत जाता.

म्हजे दोनूय कथासंग्रह उजवाडावपांत म्हज्या घरकाराचो व्हड वांटो आसा.

☐ **नवोदितांक तुमचेकडल्यान मार्गदर्शन घडटा ? कशे तरेन ?**

मार्गदर्शन म्हणजे कशे तरेचें म्हणटा तूं? एक आसता प्रत्यक्ष मार्गदर्शन. म्हणजे, नवोदीत आपल्यो कथा घेवन येता आनी ताचें खंय कितें चुकलां वा चुकता तें लेखक प्रत्यक्ष ताका सांगता. दुसरें अप्रत्यक्ष मार्गदर्शन, जंय लेखकाचें साहित्य वाचून नवोदीत तातुंतल्यान खुबशें शिकता. कोणाक कशे तरेचें मार्गदर्शन जाता हें सांगूंक येवचें ना. म्हाका स्वताक तरी प्रत्यक्ष मार्गदर्शनाची गरज भासली ना. हांव वाचन करूनच खुबशें शिकलें. म्हाका मार्गदर्शन जालें तें अशें अप्रत्यक्ष. प्रत्यक्ष मार्गदर्शनाची केन्ना कोणाक गरज भासली आनी म्हज्या म्हर्यांत कोण आयलो जाल्यार तें हांव अवश्य करीन.

☐ **तुमी नाटकांत भुमिका केल्यात. चड करून कला अकादमीचे कोंकणी नाट्यसर्तीत वांटो घेवन अभिनयाचीं इनामांय जोडल्यांत. आकाशवाणीच्यो नाट्य कलाकार. अभिनय कला इतलीच सिमीत कित्याक उरली ?**

नाट्यलेखनाकडेन हांव कशें गेलें तें हे आदीं तुका सांगलांच. तीं नाटकुलीं बसोवन सादर करचेली जापसालदारकीय म्हजेरच आसताली. आयच्या काळांत चलयो नाटकांत वी काम करूंक सहज तयार जातात. पूण तेन्ना तशें जायनासलें. देखून बायल पात्रां मेळूंक अडचण येताली. तशी ती म्हजेमुखार्ल्य उबी रावली. तेन्ना म्हज्या घरकारान 'तूंच कित्याक ती भुमिका करना' अशें म्हळें. ताच्याच प्रोत्साहनान हांव स्टेजीर चडलें. 'उश्णी व्हंकल' हें तें नाटकुलें. ह्या नाटकुल्याक उपाट येस मेळ्ळें आनी आंगांत अभिनयाची जाण आसा हाची पयले फावट जाणीव जाली. उपरांत कला अकादमीचे नाट्यसर्तीत कोंकणी भाशा मंडळाचे वतीन सतत दोन वर्सां वांटो घेवन अभिनयाचीं पयलीं इनामां जोडलीं.

पूण म्हजें नाट्यलेखन ही जशी मुखेल रस्त्याक येवन मेळिल्ले आडवाटेवयली भोंवडी तशीच नाटकांत काम करप हीय आवडीची आसली तरीकय आडवाटेवेलीच भोंवडी.

अशें आडवाटेन चड चलत रावलें जाल्यार साहित्याचो जो मार्ग हांवें मुखेल मानला

ताचेवयल्यान चड फुडें वचूंक शकचें ना न्हय? देखून ह्या आडवाटांकडेन केन्ना केन्ना आडनदर करची पडटा.

**☐ कोचिनांत जाल्ल्या 'सुरभि'च्या राष्ट्रीय सेमिनारांत तुमी वांटो घेतलो. तुमच्या अणभवांत कितें भर पडली?**

'सुरभी'च्या निमतान म्हाका जो अणभव आयलो तो सामको आगळो वेगळो आशिल्लो. कोंकणीचीं आमी सात जाणां आशिल्लीं. भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार, मनोहरबाब सरदेसाय, चंद्रकांतबाब केणी, दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार आनी हांव. वेगवेगळ्या भासांतले ज्येश्ठ आनी श्रेश्ठ साहित्यीक थंय आयिल्ले. ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्ले भौ. कारंथ, टी. शिवशंकर पिल्ले, सी. नारायण रेड्डी हांचे सारकेले साहित्यांतले भीश्माचार्य म्हणपासारकेले लेखक थंय जमिल्ले. तरीय थंय कोण ल्हानव्हड नाशिल्लो. खेळीमेळीचें वातावरण आशिल्लें.

'सुरभी' हो 'मानसोत्सव' आशिल्लो. Festival of Minds आनी एकामेकांवांगडा शब्दाचें नातें आशिल्लें. लेखक तो उत्सव मनोवंक जमिल्ले. सेमिनारांत वेगवेगळीं सत्रां आशिल्लीं. वेगवेगळ्या विशयांचेर चर्चा जाताल्यो आनी हें सगळें जातनाच देशाच्या वेगवेगळ्या भागांतल्यान आयिल्लीं सगलीं बंधनां हुपून एकामेकांचे लागीं येतालीं.

रातचीं हॉटेलांत परततकीर आमी उक्त्या मळबापोंदा गजाली करूंक बसतालीं. एकामेकांचे जिणेंतल्यो जायत्यो गजाली आमकां तातूंतल्यान समजल्यो. थायी (Thai) रामायण बरोवपी संस्कृत पंडीत डॉ. सत्यव्रत शास्त्री, नामनेचे इंग्लीश लेखक डॉ. रंगाराव आनी तांची घरकान्न विजयालक्ष्मी, तामीळ लेखिका शिवशंकरी हांचेवांगडा तर चार दिसांची वळख युगांयुगांची जावन गेली.

वेगवेगळे प्रवाह एकठांय येवन थंय जो साहित्याचो अथांग म्हासागर जाल्लो, ताचो एक सुपुल्लो बिंदू जावपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळें, हाचो म्हाका खूब आनंद जाता.

दर एका लेखकाचे जिणेंत अशे राष्ट्रीय प्रवाहांत भरसून वचपाचे खीण येवप म्हत्वाचें. हे खीण मनशाक अंतर्मुख करतात. साहित्याच्या म्हासागरांत आपूण खंय आसां ताची जाणविकाय करून दितात.

पुरस्कार जोडपाचे बाबतींत मीनाबाय भाग्यवान म्हणपाक जाय. जे पुरस्कार ताका लाबल्यात ते ताका फावताले हाचेविशीं मात लेगीत दुबाव ना. पूण मीनाबायक पुरस्कारांनी जाता त्या गौरवांत खरें समाधान ना. आपणालें साहित्य वाचून वाचप्यांनी कळयिल्ल्यो प्रतिक्रिया, तांणी बरयिल्लीं पत्रां ह्यो खऱ्यो गौरवाच्यो बाबी अशें तांकां दिसता. आनी तांगेल्या दास्तानांत त्यो खूब आसात. तांचेलेखीं वाचप्यांनी घेतिल्ली दखल हो सगळ्यांत व्हडलो पुरस्कार.

## मनशाचे वेदनेक चित्ररूप दिवपी वास्तववादी चित्रकार

# हर्षदा केरकार

कलेच्या मळार आसवें कुटुंबाचें कुटुंब परजळटना आमी पळयलां. जशेपरी गावपी कुटुंब, नाटकी कुटुंब, गोंयांत कलेचो वसो घेतिल्लीं अशीं कुटुंबां आसात. चित्रकलेच्या क्षेत्रांत गोंयांत अशेंच एक कुटुंब आसा आनी तें म्हळ्यार केरकार कुटुंब!

चंद्रकांत केरकार आदले पिळगेंतले एक वास्तववादी चित्रां काडपी नामनेचे चित्रकार. तांगेलो एक सुपूत डॉ. सुबोध केरकार. गोंयचे तरणाटे पिळगेंतलो कलेक वेव्हारीक वसका दिवपी गोंयचो सध्याचो नांवाजतो चित्रकार. दुसरो पूत रवीन्द्र. व्यवसायान दोतोर, पूण चित्रां काडपांत ताचोय हात चलता. आनी चंद्रकांतबाब आनी तांगेली घरकान्न रत्नाबाय हांगेलें तिसरें भुरगें म्हळ्यार हर्षदा केरकार. पांयांक चक्रां लावन हांगा थंय भोंवपी, फातर गुंडे माड्डपी आनी आपल्या चित्रांचो सोद घेवपी.

हर्षदाचो जल्म गोंयच्या पेडणे म्हालांतल्या केरी गांवांत जालो. माणकुल्या हर्षदाक भुरगेपणांत हांगासरूच चित्रांचीं सपनां पडलीं. तागेलें मॅट्रिक मेरेनचें शिकप बार्देस म्हालांतल्या वेरें गांवच्या प्रागतिक हायस्कुलांत जालें. मिरामारच्या धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस् ॲण्ड सायन्स महाविद्यालयांत ताणें कला शाखेची पदवी जोडली.

हर्षदाक आपलो जीवन सांगाती फाव सारको लाबलो. गोंयचे विद्यार्थी चळवळींतल्यान मुखार येवन आतां वकिलीचो व्यवसाय करपी एक तडफदार व्यक्तिमत्व म्हळ्यार ॲड. सतीश सोनक. बुद्धिमान तशेंच कलाकारांच्या काळजाचो मनीस. बायलांच्या कर्तुत्वाविशीं ताका उपाट आस्था आनी अभिमान. हर्षदाक ताचो सांगात म्हळ्यार दुदांत साखर पडिल्ले भाशेन.

हर्षदान कितलीं चित्रां काडल्यांत आसतलीं? म्हाका दिशिल्लें, शेंकड्यांनी. चडांत चड हजार मेरेन. पूण ताणें काडिल्ल्या चित्रांची संख्या पंदरा हजारांवयर आसतली!

गोंय सरकाराच्या माहिती खात्यान तागेल्या चित्रांचो आपणाल्या कॅलेंडरांखातीर उपेग केला. कांय मासिकांच्या कव्हरांचेर तागेलीं चित्रां झळकल्यांत. कांय वर्सां आदीं कोंकणींतल्या 'जाग' दिवाळी अंकाखातीर मुसळां घेवन कांडपी दोगां बायलांच्या चित्राक

पळोवपी खूब तोखेल्ले.

ताच्या विद्यालयीन आनी महाविद्यालयीन जीवनांत ताका चित्रांखातीर जायतीं इनामां लाबल्यांत. मुंबयच्या सर जे.जे. स्कूल ऑफ आर्टचीं ताका उत्कृश्ट पेंटिंगाखातीर आनी उत्कृश्ट स्कॅचिंगाखातीर भांगरा पदकां लाबल्यांत. तेच प्रमाण आर्ट सोसायटी ऑफ इंडिया आनी गोवा सरकारचे राज्य कला पुरस्कार मेळ्ळ्यात.

राष्ट्रीय ललित कला अकादमी, चित्रकला प्रदर्शन नवी दिल्ली, बॉम्बे आर्ट, आर्ट सोसायटी, कला मेळा, बँगलोर, कला अकादमी गोंय आदी कला प्रदर्शनांनी ताणें वांटो घेतला. तेच प्रमाण जहांगीर आर्ट गॅलरी, मुंबय, चेतना आर्ट गॅलरी, मुंबय, इन्स्टिट्यूट द मिनेझिस ब्रागांझा, केरकार आर्ट गॅलरी, द फोर्ट आग्वाद बीच रिसोर्ट, द लीला बीच ह्या सुवातींनी ग्रुप एक्झिबिशनांनी वांटो घेतला. सध्या तें केरकार आर्ट गॅलरी, कळंगूट, हे संस्थेचें संचालक आसा.

हर्षदाची पिराय तशी व्हड न्हय. अजून तें तरणेपणांत वावुरता. कोणेंय लक्तुबायेन भुरगें म्हणचें इतलें ताचें कवळें व्यक्तिमत्व. शांत आनी गोड सभावाचें. पूण जीप चलयतना तागेलो मर्दानी वेग घोडेस्वाराकूय लजेक घालपी. तागेली मुलाखत घेवपाची थरली तेन्ना म्हाका पर्वरी येवपाचे कश्ट नाकात म्हणून तेंच आपल्या घराकडसून जीप घेवन आयलें. म्हजे पद्धतीप्रमाण हांवें ताका पणजे कला अकादमींत आपयल्लें. पूण ताका कसलेंच बंधन नाका आशिल्लें. आमी दोगांय मिरामारचे दिकेन गेलीं. जिपीचें फकत निमित्त. वाऱ्याचेरूच स्वार जावन गेलीं म्हळ्यार जाता. दर्याचे वेळार जीप थारायली आनी थंयच ही मुलाखत जाली.

**□ भुरगेपणापसून तुका चित्रकलेची आवड कशी निर्माण जाली ?**

चित्रकलेची आवड सगळ्याच भुरग्यांक ल्हानपणापसून आसताच. म्हाका इल्ली चड आवड आशिल्ली कारण म्हजो बापूय घरांत सद्दां चित्रां काडटालो, तें हांव मन लावन पळयतालें. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार आमचें गोंयूच कितलें सुंदर आसा! व्हडले-व्हडले चित्रकार गोंयांत येतात फकत निसर्ग पळोवपाक आनी चित्रां काडटात. आनी हांव तर गोंयांतूच जल्मलां. बापायकडल्यान चित्रकलेचें बाळकडू मेळ्ळें ही गजाल खरी. आनी हांव चित्रकलेच्या प्रेमांत पडलें.

**□ महाविद्यालयीन, शास्त्रीय अशें चित्रकलेचें शिक्षण खंय घेतलें ?**

तशें हांवें चित्रकलेचें शिक्षण खंयच घेवंक ना. ती कला म्हाका उपजत आयली. आतां हे कलेचो व्यवसाय जाला. कलेक खूब प्रतिश्ठा लाबल्या. म्हाका याद जाता, म्हजे भुरगेपणांत हांव एकलेंच खंयतरी बसून दिसांचे दीस चित्रां काडीत बसतालें आनी म्हाका कल्पनेपरस वास्तव चित्रां काडप खूब आवडटालें. तेन्ना म्हजेकडेन लोक विचित्र नदरेन पळयताले. हे चलयेक पिशें-बी लागूंक ना मूं? हांवें चित्रकलेचें

महाविद्यालयीन शिक्षण जरी घेतलें ना तरी बापायकडल्यान चित्रकलेची तांत्रिक बाजू शिकलों.

□ **तुजो बापूय चित्रकार. तेचपरी तुजो भाव डॉ. सुबोध केरकारूय चित्रकार. तुज्या चित्रांचेर ह्या दोगांयचो प्रभाव बी पडला अशें तुका दिसता?**

बापायचो थोडोसो प्रभाव आसा खरो. कारण हांव भुरगेपणांतल्यान बापायचीं चित्रां पळयत आयलां. ताचे चित्रां काडपाचे ऍंगल, रंग-पद्धत हें हांव बारीकसाणीन पळयतालें. उपरांत हांव चित्रां काडपाक लागलें. म्हजो गुरू बापुयूच. म्हणटकूच चित्र काडले बरोबर हांव पयलें ताका दाखयतालें तशें अजुनूय दाखयतां. आनी मागीर ते मार्गदर्शन करतात. मुद्दाम असो न्हय, पूण नकळटना थोडो भौ प्रभाव पडलाच. पूण भावाचो प्रभाव मात ना. सुबोध खरोच बरो चित्रकार. ताचो म्हाका खूब अभिमान आनी ताचेविशीं खूब आदर. ताची विचारसरणी, कल्पनाशक्ती हें सगळें खूब वेगळें आसा. आमी चित्रांविशीं जावं एखाद्रे कलाकृती विशीं खूब चर्चा करतात. ताचीं कांय चित्रां म्हाका खूब आवडल्यांत. म्हजीं चित्रां ताका आवडटात. पूण प्रभाव मात अजिबात ना. आमचीं दोगांयचीं चित्रां पळोवपी लोक हें बरे तरेन सांगतले.

□ **चित्र एक सर्जनात्मक वावर. एखाद्रो विशय तुका कसो सुचता? ताचें चित्र कशें जाता?**

हांव वास्तव म्हळ्यार जिवंत कलाकृती पसंत करतां. ते खातीर खूब भोंवतां. घरांत बसून कल्पनेन चित्र काडचे परस भायर वचून चित्र सोदतां. कालचीच गजाल. हांव दर्याचे वेळेर बशिल्लें. थंयच्यान चार-पांच म्हशी एका फाटोफाट वताल्यो. फाटल्यान सुर्यास्त जालो. तो देखाव म्हाका इतलो बरो दिसलो, त्या देखाव्याचें हांवें चित्रांत रुपांतर केलें. तकलेंत चित्र आसता तेन्ना मनाची आनी शरिराची स्थिती ती कलाकृती कागदार मनासारकी येसर खूब अस्वस्थ जाता. एक फावट अशेंच हांव खंयतरी बशिल्लें. एक जोडपें येतालें. तांचे बरोबर एक भुरगें आशिल्लें. बरें दिसतालें. म्हाका तें कुटुंब खूब आवडलें. पूण तें रोखडेंच म्हजे नदरेआड जालें. घरा येवन हांव खूब अस्वस्थ जालें. म्हाका दिसलें, तांकां हांवें सांगपाचें, थोडो वेळ रावात, हांव तुमचें चित्र काडटां.

□ **तुजे चित्राचे खास अशे आवडीचे विशय आसात?**

सगल्यांत आवडीचो विशय मनीस. हो मनीस मागीर आदिवासी आसूं वो आधुनिक आसूं. ह्या मनशा मदें आमकां सगळें मेळटा अशें म्हाका दिसता. भुरगीं होवूय म्हजे आवडीचो विशय. काल्पनिक विश्वापरस खऱ्या, वास्तव विश्वाचें आनी परिस्थितीचें चित्रण करप म्हाका मानवता.

□ **चित्रांचीं प्रदर्शनां खंय खंय जाल्यांत? ताचेविशीं सांग.**

मुंबय, दिल्ली, बेंगलोर अशा म्हत्वाच्या जाग्यांनी म्हज्या चित्रांचीं प्रदर्शनां जाल्यांत.

म्हजीं चित्रां मध्यम आकाराचीं आसतात. गोंया भायर म्हज्या चित्रांची बरी विक्री जाल्या. गोंयांत अवघीच जाल्या.

☐ **राष्ट्रीय पांवड्यार गोंयच्या चित्रकारांचें योगदान कितें ?**

मनापसून आनी अभिमानान सांगचें म्हळ्यार लक्ष्मण पै हांचें राष्ट्रीय थराचेर भौ मोलादीक योगदान आसा.

☐ **चित्रकलेच्या मळार सध्या गोंयांत कोणाचीं नांवां घेवं येतात ?**

डी. हरीहर, डॉ. सुबोध केरकार, गोविंद नायक, हर्षा होडारकार, राजश्री ठक्कर हांचीं प्रामुख्यान नांवां घेवं येतात. तशेंच सोनिया रॉड्रीग्स हेंवूय चित्रकलेचो खोलायेन अभ्यास करतना दिसता.

☐ **एक बायलमनीस म्हणून तुज्या चित्रांनी बायलांचें जीवन चित्रण येता ?**

हय. आनी हेंच म्हाका चड फील जाता. धरूंया, एक बायल माथ्यार भोरो घेवन वता. ते बायलेक पळयतकूच म्हजो जीव कळवळटा. हांव जाणां, ह्या भोऱ्याचेर तिचो संवसार उबो आसा. हे बायलेक लोकां मुखार हाडपाक जाय, तिची बाजू मांडपाक जाय अशें म्हाका दिसता. एखाद्रें ल्हान भुरगें काम करता तें पळयतकच हांव तळमळटां. त्या भुरग्याचे वेदनेक कलाकृतीचें रूप दिवपाक हांव धडपडटां. काडिल्लें चित्र व्हरून बापायक दाखयतां आनी म्हणटां, ‘बाबा, हांवें एक बरें चित्र काडलां!’ बापूय रोखडोच विचारता, ‘खंयचे बायलमनशेचें दुख्ख घेवन आयलां हर्षा ?’

☐ **एक बायल म्हण ह्या क्षेत्रांत कसलोय भेदाभेद, वेगळोचार, लुकसाण-फायदो अशें कितें आसा ?**

मुळांत हांव म्हाका बायल म्हणून मानिना. हांव एक मनीस. ल्हानपणापसून म्हाका केन्ना कोणें फरक दाखयलोना. दोग भाव आनी हांव तिगांय सारकींच आसलीं. हांव अजूनय खंयच्याय वेळार भायर सरतां, जावं घरा परततां. समाज म्हाका खंयचे नदरेन पळयता हाचो हांव चड विचार करिना. बायल म्हणून म्हाका केन्ना कसलो फायदो जालो ना, लुकसाणय जावंना. हो अणभव गोंयांत तसोच मुंबयय आयलो.

☐ **स्त्रीमुक्तीविशीं मत कितें ?**

स्त्रीमुक्ती ही आपल्याचेर अवलंबून आसता. आपली जाणीव जर कोणाक जायना जाल्यार आपणें करून दिवपाची गरज आसा. हांवें सदांच म्हाका मुक्त मानलां. हांव अजून केन्ना बंदी जावंना. आवयघरा अशेंच आशिल्लें. तेन्ना म्हाका खंय वचुंनाका म्हणून सांगलें ना. पूण रातचो कळाव जाल्यार आवय-बापूय हुस्को करीत बसतालीं आनी तेखातीर हांव बेगीन लग्न जालें. म्हाका सुदैवान असो सांगाती मेळ्ळा, ताणें म्हाका केन्नाच खंयच आडायलेंना. हांव रातचें कितल्याय उसरां आयलें जाल्यार केन्नाच म्हाका कितलो वेळ जालो, अशें विचारूंना. तर ‘आयच्या चित्राचो विशय कितें ?’

अशें म्हणून वयल्यान प्रोत्साहन दिलां. दर एके बायलेन आपलें महत्व सिद्ध करून दाखोवंक जाय. आज दादल्यांक तितली जाण आयल्या. पूण जाता कितें, बायलां स्त्रीमुक्ती एके वटेन जाय म्हणटात आनी दुसरे वटेन दांभिकपणान वागतात. आतां म्हजेंच पळय. हांव मंगळसूत्र घालिना. जावं तिकली लायना. हाचें खंयच्याच दादल्याक कायच पडूंना. पूण बायलांक खूब पडलां. तीं सदांच हाचेर चर्चा करतात. हें कितलें योग्य तें म्हाका कळना.

हर्षदा! गोंयच्या चित्रकला विश्वांतलें एक तेजस्वी नखेत्र! ताणें आपणाक एक कलाकार म्हणून, एक चित्रकार म्हणून स्विकारलां. कलेकडेन कमिटमेंट आशिल्ले व्यक्तीन जशें जगूंक जाय तशें तें जगता. ताणें रांदिल्ल्या जेवणांत एखादवेळ मीठाकण पडनासतना उरूं येता. पूण ताणें चितारिल्ल्या चित्रांत एकूय रंगरेशा केन्ना उणी अदीक जावंची ना.

* * *

## नाट्यवैभवाच्या शिखरावयल्यान देंवून संवसारांत रमिल्ली कलाकार

# उज्वला कामत तारकार

कलेची आवड आशिल्लो नवोदीत कलाकार मुखार येवपाक धडपडटा, ल्हान ल्हान संदीय तो सोडिना. एका एका सोपणा वयल्यान तो मुखार सरता आनी यशाच्या शिखराचेर पावता. मागीर फाटल्यान वळून सिंहावलोकन करता आनी संतोसता. भौतेक सगळ्याच कलाकारांचे बाबतींत अशें घडटा.

पूण उज्वला कामत तारकार नांवाची एक कलाकार मात हे गजालीक आडवाद आसा. उज्वला केणी गोंयकार. पूण ही गोंयकार मंडळी मुंबय स्थायिक जाल्ली. ताचो जल्म, मुळावें शिक्षण मुंबयतूच जालें. उज्वलाबाय यशाचे तेंगशेर पावलें पूण मदलीं सगळीं सोपणां चडपाचे कश्ट ताका पडलेनात. एका धपक्यान तें वयर पावलें पूण दुर्दैव म्हळ्यार हें शिखरावयलें येस ताचे ताकाच नसाय जाल्लेभशेन जालें आनी तें जे गतीन वयर चडिल्लें तेच गतीन सकयल आयलें.

एका काळार मराठी रंगमाचयेर गाजिल्लें 'सविता दामोदर परांजपे' हें नाटक मराठी नाट्यरसीक रीमा लागूचें नाटक म्हणून वळखतात, पूण सांगल्यार कोणाक खरें दिसचें ना, ह्या नव्या नाटकांत पयलीं उज्वला केणी काम करतालें आनी मागीर ताणें तें नाटक सोडले उपरांत रिमा लागू करपाक लागली. तशेंच विजया मेहता दिग्दर्शित 'हमिदाबाईची कोठी' हें नाटक नीना कुलकर्णी आदीं उज्वला केणी करताली हेंवूय कोणाक खरें दिसचेंना.

उज्वलाविशीं आपलेपण दिसप्याक हे गजालीची रूखरूख जाणवता. ह्याच आपलेपणांतल्यान उज्वलाबायची मुलाखत घेवपाची इत्सा जाली.

**□ हौशी रंगमाचयेर वावुरले उपरांत वा स्पर्धात्मक रंगमाचयेर यशस्वी जाले उपरांत भौतेक कलाकार मागीर व्यवसायीक रंगमाचयेर पावतात. तुमचीय वाटचाल अशीच जाली ?**

ना. म्हजे बाबतींत एक अद्भुशटच घडलें. हांव तेन्ना अठरा वर्सांचें. मॅट्रिकेक आशिल्लें.

तेन्ना वर्तमानपत्राचेर एक जायरात आयली. वसंत कानेटकार हांगेल्या 'नांदणे शिंपीत जा' ह्या व्यवसायीक नाटकाखातीर एके चलयेची गरज आशिल्ली. हांव आनी म्हज्यो कांय इश्टिणी थंय मुलाखत दिवपाक गेलीं. जायतीं जाणां आयिल्लीं. म्हजो नाटकाविशींचो अणभव तसो जुजबीच. शाळेंतल्या स्नेहसंमेलनांतल्या नाटकांनी बी ल्हान ल्हान भुमिका केल्ल्यो इतलेंच. पूण नाटकांतले 'प्रमिला' हे भुमिके खातीर म्हजी निवड जाली. नाटकाचे दिग्दर्शक आसले प्रा. मधुकर तोरडमल. तेन्ना ते खूब नामनेक पाविल्ले. तांचेकडल्यान म्हाका अभिनयाचें बाळकडू लाबलें. म्हज्या पांयाचेर पट्ट्यो मारून तांणी माचयेर कशें उबें रावप तें शिकयलें. आवाजाचो वापर कसो करप, थेटरांतल्या निमाण्या वळींतल्या प्रेक्षकामेरेन आवाज कसो पावोवप आदी सगळे बारकावे तांणी म्हाका ह्या एकाच नाटकांत शिकयले. ह्या शिक्षणाच्या म्हालवजार म्हाका मुखावयलें यश लाबलें.

**☐ आयजवेर खंयच्या व्यवसायीक नाटकांनी तुमी भुमिका केल्यात आनी खंयच्या कलाकारांबरोबर ?**

सुमार २४-२५ तरी व्यवसायीक नाटकांनी हांवें वेगवेगळ्यो भुमिका केल्यात. 'दिवा जळूं दे सारी रात' आनी 'माझं काय चुकलं' ह्या नाटकांनी भावना बरोबर हांवें काम केलां. निळू फुले हांचे बरोबर 'माझी बायको माझी मेव्हणी' ह्या नाटकांत हांव मेव्हणीची भुमिका करतालें. तशेंच तांचेच बरोबर 'जंगली कबुतर' ह्या नाटकांत हांव मुखेल भुमिकेंत वावुरतालें. 'सविता दामोदर परांजपे' ह्या नाटकांत रमेश आनी सीमा देव हांचे बरोबर दिलीप कुलकर्णी, राजन ताम्हणे, मनोरमा वागळे हांचे बरोबर जायत्यो भुमिका केल्यात. 'तुझं आहे तुजपाशी', 'हमिदाबाईची कोठी', 'सुर्यास्त' हिंवूय त्या काळार गाजिल्लीं नाटकां. हातूंत हांवें भुमिका केल्यांत. तेन्ना खंयच्याय नाटकाचे महाराष्ट्र आनी महाराष्ट्राभायल्या दौऱ्यात मेळून सुमार पांचशीं तरी प्रयोग जाताले. 'माझी बायको माझी मेव्हणी' ह्या नाटकाचे देड हजारांवयर प्रयोग जाले.

**☐ तुमकां आवडल्लेली भुमिका खंयची ? ते संबंदीची एखादी यादस्तेंत उरपासारको प्रसंग ?**

अजून करपाची आसा. अजुनय एक बरी भुमिका म्हज्या वांट्याक येवची अशें म्हाका काळजा सावन दिसता. टी.व्ही.चेर एखादें सिरियल वा नाटक पळयतना एखादी भुमिका आवडली जाल्यार असले तरेची भुमिका मेळची म्हण मन अस्वस्थ जाता. पूण आयजवेर हांवें नाटकांत आनी यादस्तेंत उरपासारकी भुमिका म्हणजे 'जंगली कबूतर' नाटकांतली मुखेल स्त्री भुमिका. ती एक आव्हानात्मक भुमिका. वसू भगत ह्या लेखकान हें एकूच नाटक बरयलें आनी ताचे खूब प्रयोग जाले. हांव आनी निळू फुले तातूंत म्हत्वाची भुमिका करतालीं. हें नाटक घेवन आमी जेन्ना दौऱ्यार वतालीं तेन्ना निळू फुलेक पळोवपाक खूब गर्दी जाताली. आनी मजा म्हळ्यार म्हाकाय प्रसिद्धी मेळटाली.

☐ **मराठी रंगमाचयेर तुजो वैभवाचो काळ आसलो. तुमी प्रसिद्धीचे तेंगशेर म्हणटात तशीं पाविल्लीं. पूण अकस्मात नाटकांतल्या प्रसंगाप्रमाण थंयच्यान एकदम लग्नाच्या सव्यार कशीं पावलीं?**

खरेंच! तो वैभवाचो काळ आशिल्लो. 'नातीगोती' ह्या नाटकाच्यो येसाई चलताल्यो. नाना पाटेकर तातूंत काम करतालो आनी अशा वेळार हें नाटक सोडून सव्यार चडचें पडलें. कारण घरांत हांव सगळ्यांत व्हडलें. म्हजे फाटल्यो दोन भयणी आनी शिवाय आमचें कुटुंब व्हडलें. काका-काकी, तांचीं भुरगीं. म्हजें लग्न जालेबगर तांचो मार्ग मेकळो जायनासलो. आमच्या समाजांत चली कितलीय हुशार, गुणवान आसली तरीय तिका लग्नाबगर पर्याय नासता. तातूंत कामत तारकारांचें आनी आमचें नातें. म्हजी काकी आनी म्हजी मांय ह्यो दोगीय भयणी म्हणटकूच ही तांणी थारायिल्ली सोयरीक. देखून नाट्य वैभवाचें शिखर सोडून हांव लग्नाच्या सव्यार चडलें.

☐ **मुंबयच्या धकाधकीच्या जीवनांत तुमी एकरूप जाल्लीं. घडयाळीच्या कांट्याचेर नदर दवरून तुमचीं पावलां पडटालीं. लग्न जावन गोंयांत येतकूच हांगासल्ल्या 'सुसेगाद' जीवनांत कशीं रुळ्ळीं?**

तशे पयलीं थोडे दीस खूब त्रास जाले. पूण एक, जशें हांव एका भरिल्ल्या कुटुंबांतल्यान आयिल्लें, तशेंच हांगा भरिल्ल्या कुटुंबांत पडलें. सुदैवान पणजे सारक्या शारांत आयलें. म्हणटकूच पणजेंत ज्यो कार्यावळी जाताल्यो, नाटकां जातालीं, तीं हांव केन्नाच चुकयनासलें. आजूय चुकयना. म्हाका वाचपाची खूब आवड. पयलीं म्हाका वेळ मेळनाशिल्लो. पूण ह्यावेळार मात हांवें ती सगळी उणीव भरून काडली. मागीर थोडें संवसारांत घुस्पलें. भुरगो जालो. जावो आयल्यो. अशे तरेन हांव हांगा रुळलें.

☐ **एका काळार वेवसायिक नाटकांनी म्हयन्याक पंचवीस प्रयोगांत कामां करपी तुमी आयज गोंयांत वर्साक एक नाटक करतना दिसतात. चडूच जाल्यार साहित्यीक वो सांस्कृतीक कार्यावळींचें सुत्रनिवेदन करतात. तुमची नाट्यकलेची भूक इतल्यार भागल्या?**

इतल्यार म्हजी भूक भागना. पूण नाईलाजान ती भागोवची पडटा. घडये आयज हांव मुंबय आसल्यार म्हज्यो मैत्रिणी रिमा लागू जावं नीना कुलकर्णी हांचे इतलें मुखार जरी नासलें तरी थंयच खंय तरी आसपाचें. पूण कितें तरी मेळटा, ना तर कितें तरी वगडावचें पडटा. पूण गोंयांत ज्यो कार्यावळी जातात, नाटकां जावं एक-दोन फिल्मां, तातूंत म्हाका आयिल्ल्यो ऑफर्स हांव केन्नाच परतिना. हांवें 'वधचक्र' सारकें व्हिडियो फिल्म केलें, 'म्हजी काणी' 'सांगाती' सारकीं ल्हान टेलिफिल्मां केलीं. तशेंच प्रदीप तळावलीकार हांणी कला अकादमीचे मराठी नाट्य स्पर्धेंत जीं नाटकां बसयलीं तातूंत हांवें भुमिका केल्यो. पणजी आकाशवाणीच्या नभोनाट्यांनी हांव वांटो घेतां.

भगिनी मंडळांत कांय कार्यावळी असयतां. केन्नाय संद मेळटा तेन्ना कार्यावळीचें हांव सुत्रनिवेदन करता. केन्ना खयूय परिक्षक म्हण वता.

गोंयांत व्यवसायीक रंगमाची ना. ती आशिल्ली जाल्यार म्हज्या कलागुणांक वाव मेळपाचो. फिल्मांची निर्मितीय व्यवसायीक स्वरूपाची ना. म्हणटकूच म्हजे सारके कलाकार इत्सा आसून ओगी उरतात.

**□ 'वधचक्र' टेलिफिल्मांत 'माई'ची भुमिका कशी मेळ्ळी? आनी ते भुमिकेक तुमी न्याय दिलो अशें तुमकां दिसता?**

त्या टेलिफिल्माचे एक निर्माते आशिल्ले प्रदीप तळावलीकार. हांचे खातीर म्हाका ती भुमिका मेळ्ळी. जेन्ना हांवें 'दायज' हें कोंकणी नाटक वाचलें (कारण त्याच नाटकाचेर तें टेलिफिल्म आशिल्लें) तेन्ना तातुतले 'माई'चे भुमिकेच्या प्रेमांत पडलें. कारण माई हीच ह्या नाटकाची नायिका आशिल्ली. पूण फिल्मांत मात, कशें कोण जाणा, ती दुय्यम भुमिका धरली. तरी पूण 'वधचक्र' पळयतकूच म्हाका आयज दिसता की हांवें जितले त्रास घेवपाक जाय आशिल्ले तितले घेतले नात. हांव खंय तरी उणें पडलें. आयज हांव ती भुमिका चौपटीन बरी करपाचीं. पूण लोकांनी ती भुमिका खूब आवडिल्ल्याचें सांगलें. मुंबय दूरदर्शनावयल्यान तें फिल्म प्रसारीत जातकूच म्हज्या आदल्या इश्टांचे, सांगात्यांचे फोन आयले, पत्रां आयलीं. तातूंत म्हजी तुस्त तोखणाय आशिल्ली. पूण ती स्विकारतना म्हाका अपराधीपणा जाणवलो.

**□ आयज लग्ना उपरांत तुमी संवसारांत पडल्यांत, रमल्यांत. तरी आसतना आपली कलेची आवड जपून दवरपाची धडपड करतात. हातूंत तुमकां कोणाचें सहकार्य लाबता?**

अर्थांत म्हज्या घोवाचें चड सहकार्य लाबता. कारण सगळ्या कामांक तो म्हाका मदत करता. नाटकाच्या येमायांक वा कार्यक्रमाच्या वेळार म्हाका हाडपा-व्हरपाचें काम तोच करता. मोटे उमेदीन आनी चत्रायेन करता. तेचप्रमाण घरचीं मनशांय म्हाका खूब मदत करतात. म्हज्या भुग्यांचेर लक्ष दिवपाचें काम तीं करतात. देखून तांच्याच भरवंशार हांव अजून कलाकार म्हणून तिगून आसां.

एका काळार निळू फुले, रमेश देव, सीमा, नाना पाटेकर ह्या नांवाजल्या कलाकारां वांगडा मराठी नाटकांनी भुमिका केल्लें उज्वलाबाय आयज दुदाची तान ताकार भागोवची तशें गोंयच्या सांस्कृतीक मळार वावुरता. हांगासर ताका संद आनी वाव कमी आसा. पूण उज्वलाबायची नाट्यकलेची आवड मात लेगीत उणी जाली ना.

* * *

## नोकरी म्हण आपणायिल्ल्या लोकवेदाच्या वावराक ध्येय मानपी संशोधिका

# जयंती नायक

संवसारीक मळार लोकवेदाच्या क्षेत्राक सद्याक खुबच म्हत्व प्राप्त जाल्लें आसा. फाटल्या दोन शतमानासाकून संवसारांतल्या-वेगवेगळ्या वाठारांतल्या विद्वानांनी ह्या क्षेत्राक आपलें म्हत्वपूर्ण योगदान दिलां. भारतय ह्या कार्यांत फाटीं ना. स्वातंत्र्यपूर्व तशेंच स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळार जायत्या रथी-महारथींनी ह्या क्षेत्राखातीर आपलें जिवीत ओंपलां.

गोंयांतय लोकवेद संशोधनाचो वावर चलता. तातूंत श्री. विनायक खेडेकार, प्रा. श्याम वेरेंकार, श्री. पांडुरंग फळदेसाय, श्रीमती कमलादेवी राव देशपांडे हांचीं नांवां मुखेलपणान येतात. फाटल्या कांय वर्सांसाकून ह्या मळार आनीक एका नांवाची भर पडल्या आनी तें म्हळ्यार जयंती नायक.

पुरुशी मक्तेदारी आशिल्ल्या ह्या क्षेत्रांत श्रीमती दुर्गा भागवत, डॉ. सरोजिनी बाबर, डॉ. तारा भवाळकर ह्या महाराष्ट्रीय विदुशी बायलांनी म्हत्वपूर्ण आनी अग्रंवर असो वावर केला. जयंती नायकानय आपल्या थोड्याच वर्सांभितरच्या कार्यान तांच्या पंगतीक आपलो पाट सोदला.

जयंतीचो लोकवेद क्षेत्रांतलो वावर हो 'शास्त्रशुद्ध' आसा म्हणपाचें जायत्या जाणकारांचें मत आसा.

जयंती भुगोल आनी अर्थशास्त्र विशयांचें पदवीधर. म्हैसूर विद्यापिठांत लोकवेदाचो पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा कोर्स करपाखातीर ताका गोवा कोंकणी अकादेमीची अभ्यास-वृत्ती फाव जाली. ह्या कोर्साची परिक्षा तें पयल्या वर्गांत पयलें येवन पास जालें. मागीर ताणें म्हैसूर विद्यापिठांतल्यान समाजशास्त्रांत एम्.ए. ची पदवी जोडली. सध्याक तें गोवा कोंकणी अकादेमीच्या लोकवेद विभागांत संशोधन सहायक म्हण वावुरता. म्हैसूर विद्यापिठांत प्रशिक्षण घेतले उपरांत फाटलीं कांय वर्सां गोंयच्या तळागाळांत भोंवन, गोंयच्या लोकवेदाचीं विविध आंगां एकठांय करून तांचेर संशोधन करपाच्या वावरांत

स्वताक ओंपून घेतलां. आतां मैरेन वेगवेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान आनी दिसाळ्यांतल्यान लोकवेदाचेर बरयिल्लें जायतें लेखन उजवाडा आयलां. तेच प्रमाण ह्या विशयाचेर ताणें स्थानिक तशेंच राष्ट्रीय सेमिनारांनी पेपर सादर केल्यात. आमोणें गांवच्या लोकवेदाचें संकलन हो तागेलो मुखेल वावर. ह्या वावराचें फळ म्हणून तागेलीं चार पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. 'रथा तुज्यो घुडयो', 'मानालीं गीतां', 'तळय उखल्ली खेळयांनी' आनी 'कणेर खुंटी नारी'. ते भायर जयंतीचो 'आमोणें: एक लोकजीण' हो ग्रंथ म्हळ्यार कलेच्या क्षेत्रांत वावुरपी कलाकार – लेखकांचो गरजेचो असो संदर्भ ग्रंथ.

ह्या पुस्तकांत गोंयांतल्या सगल्या सण-परबांची मुळावी माहिती तपशिलान मेळटा. आमकां जाय तसो ते माहितीचो वापर करून घेवं येता.

हेभायर 'लोकबिंब' आनी 'पेडणेचो दसरो', 'नागशेराचे सूर' अशीं लोकवेदावयलीं तागेलीं तीन पुस्तकां उजवाडा येवपाचे वाटेर आसात.

खरें म्हळ्यार मुदलाक जयंती एक कथा लेखिका. ताची लेखनाची सुरवात कवितेंतल्यान जाली. कांय नाटकुलींय ताणें बरयलीं. पूण तें थीर जालें तें कथेच्या क्षेत्रांत. कोंकणी कथेच्या मळार ताणें आपली अशी सुवात निर्माण केल्या. 'गर्जन' तागेलो कथासंग्रह. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पणजेच्या ऑफिसांत जयंतीचो वावर चलता. जयंती सदांच आपल्या कामांत गुल्ल आसता. केन्ना बरयतना, केन्ना लोकवेदाच्यो ऑडियो कॅसेटी आयकतना जाल्यार केन्ना लोकवेदाच्या फोट्याचें निरीक्षण करतना. अशा वेळार ताका हडकुवप, डिस्टर्ब करप जिवार येता. आनी हडकिल्यारूय ताका भानार येवपाक खूब कळाव लागता. हेच खातीर कांय जाणांक तें मुडी वो गर्विश्ट दिसता. पूण ताच्या कामाचें स्वरूप बारीकसाणेन लक्षांत घेतल्यार हो अपसमज आपशींच पयस जाता. जयंती अवघ्या वर्सांत लोकवेदाचो भरीव असो वावर करपाक जैतवंत जालें ताचें कारण हेंच. तागेलें हातांत घेतिल्ल्या कामाकडलें समर्पण.

अशा जैतिवंत जयंतीक मुलाखतींत बोलतें करपाची इत्सा आसली. त्या यत्नाचे हे कांय वाटे.

☐ **लोकवेदाच्या क्षेत्रांत वावर करचो अशें तुका कित्याक लागून दिसलें ? ह्या क्षेत्रांतले तुजे खाशेले मार्गदर्शक कोण ?**

खरें सांगपाचें जाल्यार नोकरेच्या सोदांत म्हजो लोकवेद क्षेत्रांत प्रवेश जालो. आनी 'ड्यूटी' म्हण हांवें लोकवेद सामुग्री एकठावपाक सुरवात केली. मात आज त्या ड्यूटी उतराचें म्हजेखातीर 'ध्येय' हें रुपांतर जालां. देखूनच हांव नोकरेचे शिमेभितर लोकवेदाचो वावर शिमीत दवरनासतना काम करतां. गोवा कोंकणी अकादेमीन लोकवेदाचें एका आठवड्याचें शिबीर घेवन तांतले एके व्यक्तीक म्हैसूर विद्यापिठांत लोकवेदाचें प्रशिक्षण

घेवपा खातीर वेंचून काडिल्ली. पूण तिका अडचण आयिल्ल्यान ती वचूंक पावली ना. आनी म्हज्या सुदैवान सहज म्हण केल्लो म्हजो अर्ज मान्य जावन म्हाका प्रशिक्षण घेवपाखातीर म्हैसूराक वचपाची संद फावो जाली आनी हांव लोकवेदासारक्या आव्हानात्मक क्षेत्रांत पावलें.

गोंयच्या लोकवेदाचें भांडार जरी उपाट भरिल्लें आसलें तरी शिकपाचो विशय म्हण गोंयकारांक 'लोकवेद' नवो. सुरवातीक तांतल्या वाङ्मयीन मुल्यांच्या आस्वादाखातीर आनी उपरांत शिकपाचो विशय म्हण ताचें म्हत्व उमजून गोंयांत खुबशा मानेस्तांनी ह्या क्षेत्रांत काम केलां. ह्या भौतेक सगल्या मानेस्तांक मेळून हांवें तांचें विचार-मार्गदर्शन घेतलां. श्री. विनायक खेडेकार, प्रो. श्याम वेरेंकार, श्री. पांडुरंग फळदेसाय, श्री. कमलाकर म्हाळशी, श्री. रमेश वेळुस्कार, श्री. तुकाराम शेट, डॉ. प्रताप नायक, श्रीमती हिरा शेट, श्रीमती कमलादेवी राव देशपांडे बी तांतले कांय मानेस्त आसात. वेगवेगळ्या चर्चासत्रांच्या वा परिसंवादाच्या निमतान डॉ. नंदकुमार कामत हांणी केल्ल्यो सुचोवण्यो वा विचारय म्हाका मार्गदर्शक थारल्यात.

**□ देशांत चलिल्लो लोकवेदाचो वावर आनी गोंयांत चलिल्लो वावर हांची तुळा केल्यार कितें दिसून येता ?**

देशांत चलिल्लो लोकवेदाचो वावर आनी गोंयांतलो वावर हांची तुळा केल्यार आजुनय गोंयांतलो वावर बरोच फाटीं आसा म्हणपाचें उकतें जाता. हाताच्या बोटार मेजपा इतकीं संकलनां आनी ग्रंथ, तशेंच कांय लेख जातूंत संशोधनात्मक मुल्यां नांवापुरतीं, हें सोडलें जाल्यार सिद्धांतीक लिखाणाचो सामको उणाव आसा. लोकवेदाचो तुळनात्मक आनी विश्लेशणात्मक अभ्यास आजून खूब जावपाची गरज आसा. क्षेत्रकामय आजून समाधानकारक जाल्लें ना.

**□ लोकवेदांत बायलांचे जिणेचें दर्शन कशे रितीन घडटा ?**

लोकवेदांतल्या बायलांचें चित्रण प्रामाणिकपणान करतलो जाल्यार आमी आमच्या कलेचे तीन भाग करचे पडटले. पयलो भाग हो सामक्या आदिम काळावेल्या लोकवेदाचो, जाचे खूब थोडे अवशेश आयज गवसतात. पूण तांच्या आदारारय ह्या काळार बायलेक मानाची सुवात आशिल्ली म्हण कळटा. भारतांत आर्य येवंचे आदलो काळ हो ऋषी संस्कृतीचो आनी मातृसत्ताक पद्धतीचो. ह्या काळार पुराय समाज भितरले निर्मिती शक्तीच्या प्रभावान भाराविल्लो दिसता. ह्या काळार दादल्यांचें स्थान समाजांत नगण्य आशिल्लें. आर्यांच्या येवपावांगडा पुरूषप्रधान संस्कृती समाजांत रिगली आनी दादल्यांचें वर्चस्व वाडलें. आपसुकच बायलेची स्थिती उणाकपणाची जाली. हो कालचो म्हणजे लोकवेदाचो दुसरो भाग. ह्या काळार ना म्हळ्यार बायलेक थोडो-भोव मान-अधिकार आशिल्लो पूण सूत्रकाळा नंतर तिचो जागो दादल्यांच्या पांयांकडेन थरलो. ह्या काळार

निर्मिती जाल्ल्या लोकवेदांत बायलेच्या असहाय्य परिस्थितीचें आनी दुय्यम स्थानाचें दर्शन घडटा. बायलेच्या नशिबांतलो हो सगळ्यांत दुर्दैवी काळ. आज जो लोकवेद आमकां भरपूर प्रमाणांत मेळटा तो ह्याच काळांतलो, देखून लोकवेदांत चित्रीत जाल्ली बायल ही पिडीत-शोशीत असोच निश्कर्श काडूंक मेळटा.

**□ लोकवेदांतले बायलेची जीण म्हळ्यार रुढी परंपरांनी वेटकाळायिल्ली. तूं एक लेखिका म्हणून साहित्यिक, समाजीक व्यासपीठार प्रोग्रेसीव विचार मांडटा. तुज्या अभ्यासाचो विशय आनी विचार हांचो मेळ तूं कसो जुळयता?**

एकाद्रो सर्जनशील लेखक आपले कृतींतल्यान जे विचार मांडटा वा जीं मतां उक्तायता तीं ताचीं स्वताचीं आसतात. तो जर सनातनी विचारसरणेचो आसलो तर ताचे कृतींतल्यान तो तशा विचाराचें समर्थन करतलो. तो जर पुरोगामी विचारसरणेचो आसत तर पुरोगामी विचाराचो उदो उदो करतलो. पूण संशोधकांचें तशें नासता. तो वेगवेगळ्या पुराव्यांच्या आनी संदर्भांच्या आदारान समाजपुरुशाच्या पोटांत जें कितें सत्य दडून आसा तें फकत उगडून निपक्षपातीपणान लोकांमुखार दवरता. तो कसल्याच गजालीचें समर्थन करना, वा सत्य उगडिल्ल्यान आपल्या वांट्याक येतल्या वायट परिणामांचो विचारय करना. हांवें स्वताक संशोधक वा संस्कृतीचें अभ्यासक म्हण स्विकारलां, लोकवेदाच्या मुळाकडलें सत्य सोदपाचो हांव यत्न करतां, त्या संदर्भांत रुढी-परंपरांचो सोद घेतां, तांची विस्कटावणी करतां. हाचो अर्थ समाजांतल्या वायट चालींचें हांव समर्थन करतां अशें जायना. मात हो वावर करतना संस्कृतीच्या ज्या भागाची समाज संघटनाक आनी नैतिक पांवडो सांबाळूंक गरज आसा असो म्हाका स्वताक दिश्टावो जाला तो आमी सांबाळून दवरचो अशे हांव विचार मांडटां.

**□ गोंयच्या लोकवेदाच्या मळार मालन्यान आनी जिद्दीन वावुरपी जे कांय हाताच्या बोटार मेजपाइतले वावुरपी आसात तांतूंतलें एक तूं. आनीक बायलां ह्या क्षेत्रांत कित्याक येनात?**

फकत बायलोच न्हय, दादलेय सदमा ह्या क्षेत्रांत भितर सरनात. हाचीं दोन कारणां आसात. एक म्हळ्यार, अजूनय लोकांमदीं ह्या विशयाचें जाय तितलें म्हत्व तयार जाल्लें ना. पाश्चात्य देशांनीय धवाडो समाज सुरवातेक लोकवेदाचें काम करप म्हळ्यारय उणाकपणाचें मानतालो. कारण ह्या कामाखातीर क्षेत्रकामाच्या निमतान, रानवटी-गांवठी, अशिक्षीत आनी गरीब लोकांमेरेन चड संबंद येता. दुसरें म्हत्वाचें कारण म्हळ्यार ह्या विशयांत मुळावें आसा तें 'क्षेत्रकाम'. हें क्षेत्रकाम खुबच त्रासांचें. ताका खूब वेळ दिवचो पडटा. रातीं-अपरातीं, दोंगर-माथ्यांनी, अनवळखी आनी आडखळीच्या वाठारांनी भोंवचें लागता. जंय दादलेच अशे वावरूंक फाटीं-फुडें सरतात थंय बायलो खंय मुखार येतल्यो? पूण गोंयच्या लोकवेद क्षेत्रांत कांय बायलांनी काम केलां. श्रीमती

कमलादेवी राव देशपांडे आनी श्रीमती हिरा नायक हांचीं ह्या संदर्भांत मुजरत नांवां घेवंक जाय. कमलादेवीन स्वताच्या आज्जी-आवयकडल्यान मेळिल्ल्या लोकवेदाचें संकलन केलां. जाल्यार हिरान भौ करून स्वताच्या कुळारच्या वाठारांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या लोकवेदाचें संकलन केलां.

**☐ लोकवेद हें भांडार जाणटेल्या लोकांकडेन अदीक स्वरुपांत आसा. तांचेवांगडा तें नश्ट जावपाची भिरांतूय आसा. अशा वेळार लोकवेदाच्या संदर्भांत आमी म्हळ्यार व्यक्ती, समाज, संघटना, सरकारी यंत्रणा हांणी कशे तरेन वावर करचो पडटलो ?**

विज्ञानीक यंत्रयुगाक आनी इलेक्ट्रॉनिक प्रसार माध्यमांक लागून नवे पिळगेमदीं दिसान दीस लोकवेदाचें म्हत्व उणें जायत आसा. म्हज्या मतान आज जी जाण्टेल्यांची पिळगी आमचेमदीं आसा ती खऱ्या वारसदारांची निमाणी पिळगी. 'लोकवेद केन्नाच नश्ट जायना; तो बदलता' असो जरी आज विद्वानांनी सिद्धांत मांडला आसलो तरी जातूंत पारंपारीक जिवनमुल्ल्यांचो दृश्टांत घडटा अशा लोकवेद प्रकारांचें दिसान दीस एक एक रूप शेणत आसा हिवूय गजाल तितकीच सत्य. मनीसजातीच्या 'काल' आनी 'आज'च्या इतिहासाचो तुळनात्मक अभ्यास करतलो जाल्यार निदान आज आमचेकडेन जो लोकवेद उपलब्ध आसा ताचें तरी आमी वेगान संकलन जतन करपाची अत्यंत गरज आसा. भारतांतल्या हेर वाठारापरस गोंय चड वेगान बदलता. देखून गोंयांत हें काम सामकें युद्ध पातळेचेर जावंक जाय. हे खातीर दर एके व्यक्तीन, समाजान, संघटनेन, सरकारी यंत्रणेन ह्या प्रस्नाची गंभिरताय जाणून वावरूंक जाय. संस्कृतीचे जे जे दुवे आज शाबूत आसात ते ते ध्वनीमुद्रीत-चित्रफितीत करून दवरूंक जाय.

संस्कृतीचें म्हत्व जाणपी दर एके व्यक्तीन आपल्या घरांतलो, कुटुंबांतलो लोकवेद जरी एकठांय केलो तरी खूब वावर जातलो. सरकारी यंत्रणांनी जंय लोकवेदाचे विभाग स्थापन जाल्ले आसात थंय लोकवेद संकलनाच्या वावराक चड म्हत्व दिवन अशा कामाखातीर तरणाट्यांक प्रशिक्षित करून लोकवेदाचें पुराय गोंयभर सखोल सर्वेक्षण करूंक जाय. सर्वेक्षणा वांगडा संवर्धनूय गरजेचें. ते खातीर कार्यावळी आखून जन-जागृताय करूंक जाय.

**☐ एक बायलमनीस म्हण ह्या क्षेत्रांत वावुरतना तुका कसले लाब मेळटात ? कसल्या अडचणींक तोंड दिवचें पडटा ?**

दादल्यांपरस बायलोच लोकवेदाचें क्षेत्रकाम चड बरे तरेन आनी कुशळतायेन करूंक शकतात अशें म्हजें ठाम मत आसा. कारण क्षेत्रकामाखातीर जी सहनशीलता, चिकाटी आनी माहितीगाराच्या गोपांत शिरून माहिती काडपाची कसब आनी जिबेर लागपी

मोवाळसाणेची गरज आसता ती दादल्यांपरस बायलांकडेन चड प्रमाणांत आसता. इतलेंच न्हय तर एकठांयिल्ल्या माहितीचो चिकित्सक अभ्यास करून तांच्या मुळाकडलें सत्य सोदून काडूंक जी आकलन शक्त आनी संवेदनाक्षम मन लागता तेंवूय बायलेकडेन तितल्याच प्रमाणांत आसा. हाची सत्यताय लोकवेद अभ्यासाच्या इतिहासाचेर एक नदर मारल्यार कळटा. आजमेरेन ह्या क्षेत्रांत कांय अवघ्याच बायलांनी वावर केला, पूण जो केला तो प्रचंड आनी दोळे दिपकावपी. मात भौतेक बायलो आपल्याचेर लादिल्ल्या वा लादून घेतिल्ल्या संवसारीक बंदनांच्या आनी जबाबदारीच्या नांवाखाला ह्या क्षेत्राचे वाटेक वचूंक अनमनतात हें खरें. ह्या जिद्द, धडाडी आनी आपल्या कामाक ओंपून दिवपाची वृत्ती हे तीन गूण क्षेत्रकाम करतल्याकडेन, तो मागीर दादलो जावं वा बायल, आसप गरजेचें. आनी हे तिनूय गूण म्हजेकडेन आशिल्ल्यान आजमेरेन हांव म्हजें क्षेत्रकाम वेवस्थीत करूंक पावलां. संकुचीत, भिवकुऱ्या आनी दुबळ्या सभावाच्या मनशांक ह्या क्षेत्रांत स्थान ना. बायलमनशेक तर नाच ना. कारण समाजाचे विकृत नदरेची बाधा दादल्यांपरस बायलेक चड जाता. प्रसंग सुचकता, वेवस्थीत आयोजन-नियोजन आनी थोडीशी सावधगिरी बाळगिल्यार क्षेत्रांत कसलीच अडचण उप्रासपाचें कारण ना. आजमेरेन ह्या सगळ्या गजालींक हांवें पाळो दिलो आशिल्ल्यान 'आडखळी' तश्यो म्हजे लागीं येवंक नात. आज आमी एकविसाव्या शतमानाच्या हुमऱ्यार पावल घाल्लें आसा. आज दादल्यांचे बरोबरीन बायलांक सगळ्या क्षेत्रांची दारां उगडिल्लीं आसात. अशा वेळार आपली बौद्धिक कुवत, कर्तबगारी आनी सर्जनशीलता सिद्ध करूंक लोकवेदा इतलें प्रभावी माध्यम दुसरें ना अशेंच हांव म्हणटां. बायल ह्या लिंगफरकाक लागून म्हाका क्षेत्रकामांत थोडो फायदो जालो तो म्हणजे बायलांच्या लोकवेद क्षेत्रांत मेकळेपणान बायलांनी म्हाका भितर घेतलां जाल्यार ताचे उलट दादल्यांच्या क्षेत्रांत बऱ्याच वेळार बायल म्हणून म्हाका पयस रावन सर्वेक्षण करचें पडलां.

□ **तूं एक सर्जनशील लेखिका. कवितेन जरी तुवें आरंभ केलो तरी कथेंत तूं बरे तरेन रुळ्ळें. तुवें ज्यो कथा बरयल्यात तातूंत स्वता अशी एक प्रतिमा तयार केली. पूण हालिंसरा तुजी कथा लेखनाची गती मंदावल्या अशें दिसता. कित्याक लागून ?**

गती मंदावल्या हें खरें. पूण कथालेखन मात हांवें बंद करूंक ना. सर्जनाची एक बरी शक्ती म्हजेकडेन आसा. ती म्हाका तशी व्हगडावपाची ना. १९८९ वर्सा 'गर्जन' कथा संग्रह उजवाडा आयले उपरांत आतांमेरेन म्हजो दुसरो कथासंग्रह ये इतल्यो कथा उजवाडाक आयल्यात आनी हांव ते खातीर प्रकाशकाच्या सोदांतय आसां. मात गती मंदावपाचें कारण म्हळ्यार लोकवेदाचें म्हजें विपूल लेखन. म्हजो वेळ, शक्ती आनी तकली ह्या कामांत घुस्पल्ल्यान कथा लेखनाकडेन फाट जाता. शिवाय संशोधन क्षेत्रांत

देंवतले व्यक्तीची ओड आपसूकच ललीत साहित्यापरस वैचारीक साहित्याकडेन चड वळटा. कालमेरेन समाजांतल्या घटकांचें दुख्ख, जीवन पळोवन हांव बेचैन जातालें आनी म्हजे लिखणेंतल्यान कथारुपान तें चित्रायतालें. आज त्या जिवनाचीं मुळां आनी दुख्खाचीं कारणां सोदून काडपांत म्हजें मन चंड रमता.

**☐ कोंकणींत ज्यो कथालेखिका आसात त्यो कथाच बरयतात. पूण सहसा कादंबरीचे वाटेक वचनात. तुवेंय तशेंच थारायलां ?**

खंयचोय कथा लेखक आपूण कथाच बरयतलो असो केन्नाच संकल्प करना. ताका कादंबरी ही बरोवपाचीच आसता. कारण कथाक्षेत्रांत ताणें मेळयिल्ल्या प्रभुत्वाचो 'कादंबरी' हो दुसरो पांवडो. पूण कादंबरी खातीर लागपी व्हडलें अणभवविश्व ताचेकडेन नासता तेन्ना तो तिचे वाटेक वचूंक कांचवेता आनी कथेकच आपलें माध्यम म्हण स्विकारता. लोकवेद अभ्यासाच्या निमतान लोकजिवनाच्या एका विस्तृत दर्यांत हांव पोंवतां. 'आमोणें – एक लोकजीण' ग्रंथ लेखनाच्या निमतान समाजपुरुशाच्या अश्टहाताचें म्हाका दर्शन घडलां. हें सगळें म्हाका म्हज्या कल्पकतेच्या आदारान, वेगळे तरेन उबें करपाचें आसा. आनी ताका कथेचें माध्यम पावचेंना, कादंबरीच्या रुपांतच तें उबें करचें पडटलें हाची म्हाका जाणीव जाल्या. देखून हांव फाटल्या दोन वर्सां साकून त्या विचारांत घोळटा. पूण एक एक कामां हाता वेगळीं करपांत हांव घुस्पून उरलां. कादंबरी लेखनाक जी बैठक लागता ताचेखातीर वेळाचीय गरज आसता न्ही ?

**☐ कोंकणींतल्यो कांय लेखिका साहित्यांत बायलांचेर जाल्लो अन्याय व्यक्त करतना खुबूच 'भडकपण' हाडटात असो साहित्याच्या क्षेत्रांत एक आरोप जाता. तुजें म्हणणें कितें ?**

दर लेखक आपल्या स्वताच्या अणभवांतल्यान आनी निरीक्षणांतल्यान समाज जीवनाचें एक चित्र आपले साहित्यकृतींत उबें करता. जेन्ना हे अणभव वा निरीक्षण उखलापें आनी एकतर्फी आसा तेन्ना वाचकाक तें खटकता आनी तो अतिताय केल्या असो आरोप करता. कांय लेखिकांनी (जातूंत हांवूय आसां) बायलांचेर जाल्लो अन्याय आपले लिखणेंतल्यान पोटतिडकीन मांडला. घडये अणभवविश्व कमी पडिल्ल्यान तो कोणाकूय एकतर्फी दिसता आसत. पूण तो भडक मात ना. कारण भडकपण हाडून कोणाचीय सहानुभुती मेळोवपाचो वा दादल्यांक उणाक लेखपाचो आमचो हावेस निश्चीत नां!

**☐ कोंकणी लोकवेदांत आयिल्लें बायलांचें चित्रण आनी आमच्या कोंकणी लेखकांनी केल्लें बायलांचें चित्रण हातूंत कसलो मुलभूत फरक आसा ?**

लोकसाहित्यांतल्यान व्यक्त जाल्ल्यो भावना-विचार हे लोकमनाचे वा समुहमनाचे आसतात जाल्यार सर्जनशील साहित्यांतल्यान उक्त्या जाल्ल्या भावनां फाटल्यान

व्यक्तीविशिश्ट भाग चड आसता. देखून लोकसाहित्यांत वा लोकवेदांत समाजांत जें कितें आसा वा घडटा ताची एक फोटोकॉपी काडिल्ली दिसता. हो फोटो पळोवन तांतल्या चित्राचेर भाश्य करपाची वा चित्रांतल्या स्थितीचेर निश्कर्श काडपाची जबाबदारी पुर्णता वाचकांचेर वा अभ्यासकांचेर आसता. ह्या उलट सर्जनशील निर्मणी करतलो लेखक समाजांतल्या घडणुकांविशीं आपली अशी भुमिका थारावन आपल्या विचारांतल्यान - नदरेंतल्यान त्यो घडणुको नव्या अविष्कारांसयत वाचकांमुखार मांडटा.

कोंकणी साहित्याचे बाबतींत हेंच घडलां. गोंय मुक्ती उपरांत चंवर आयिल्ल्या कोंकणी साहित्य रुखाक पुरोगामी विचारांचें सारें-उदक घाल्ल्या लेखकांनी चित्रीत केल्ली बायल तांच्या पुरोगामी विचारांक पुरक अशीच आसा.

जयंतीक मेळपाचे पुरस्कार आनी तस्मीपो ताचेकडेन येवपाक नक्कीच वाट चलपाक लागल्यात आसतल्यो. पूण म्हजे नदरेन ताका दोन मानाचे तुरे येन्नाच फावो जाल्यात. नामनेचे साहित्यीक श्री. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी एकेकडेन म्हळां, 'ह्या काळांत कोंकणीच्या मळार जो लक्षवेधी वावर जाला तातूंत जयंती नायक हांणी लोकवेदाच्या क्षेत्रांत केल्लें काम मोलादीक आसा.'

केंद्रीय साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार जैतिवंत डॉ. यू. आर. अनंतमूर्ती हांणी गोंयांत जयंती नायकाच्या लोकवेदावयल्या चार पुस्तकांचें विमोचन करतना म्हणल्लें, 'आयज जयंती नायकाच्या रुपान भारतीय लोकवेदाच्या क्षेत्रांत एका लोकवेद जाणकाराची भर पडटा.'

जयंतीक लाबिल्ले हे व्हडले गौरव अशें म्हाका दिसता.

* * *

## संवसारांत घुसपनासतना सामाजीक वावरांत झोकून दिवपी

# उज्वला नाटेकार

---

बायलांक घर-संवसार चुकना. तो जाग्यार घालचोच पडटा. पूण तेच बरोबर संवसाराचेर पूर्ण लक्ष दिवन, बायल म्हणून आपलें स्थान घरांत, तेचवरी भायर समाजांत तिगोवपी अवघींच बायलां आसतात. उज्वला नाटेकार अशीच एक कर्तुत्वी बायलमनीस.

आपणालो उद्धार कोण तरी करतलो म्हण वाट पळयनासतना मुखार वचपी आनी आपलो फुडार 'उज्वल' करपाक धडपडपी!

आज म्हापशेंचें भगिनी मंडळ, ज्ञानप्रसारक शिक्षण संस्था, दुर्गावाचन मंदिर, आविष्कार असोसिएशन ऑफ आर्ट एण्ड कल्चर, वैश्य क्रॅडिट कोऑपरेटीव्ह सोसायटी आदी स्थानिक संस्थांकडेन तांचो वांगडी, सेक्रेटरी, संचालक, अध्यक्षा अशा वेगवेगळ्या नात्यांनी संबंद आसा. ते भायर गोंय राज्य थराचेर समाज कल्याण बोर्ड, महिला उद्योजक एसोसिएशन, ग्रामीण हस्तकला आनी लघुउद्योग विकास मंडळ, उद्येगीक हस्तकला सहकारी सोसायटी, इंदिरा महिला योजना आदी वेगवेगळ्या सरकारी आनी निमसरकारी संस्थांकडेन तांचो अध्यक्षा वा संचालक म्हणून संबंद आसा. अखिल भारतीय महिला परिशदेच्या गोंय फांट्याच्यो अध्यक्षा म्हण त्यो वावुरल्यात.

उज्वलाबाय म्हापशेंची. म्हापशें हो तांचो जल्मगांव. तीं आदलीं उज्वला लक्ष्मीदास खलप. तांणी आपलें मॅट्रिक मेरेनचें शिकप म्हापशां न्यू गोवा हायस्कुलांत केलें आनी मुखावयलें शिकप मिरामारच्या धेंपे कॉलेजींत केलें. कला शाखेची ही विद्यार्थिनी. थंय तांणी अर्थशास्त्र हो विशय घेवन बी.ए.ची पदवी मेळयली.

म्हापशेंचे श्री. केशव नाटेकार हांचे लागीं तांचें लग्न जालें. तांकां पूर्वा आनी श्रेया अशो अठरा आनी पंदरा वर्सांच्यो दोगी धुवो आसात.

लग्ना उपरांत म्हळ्यार १९७५ ते १९८५ मेरेन तांणी कांयच म्हळ्यार कांयच केलें ना. फकत संवसार एके संवसार. तांकां व्यवसायाची, समाजसेवेची तशीच कलेची आवड आशिल्ली. पूण भुरगीं ल्हान आशिल्ल्यान तांकां कांयच करपाक मेळ्ळें ना.

मागीर तांणी रेडीमेड कपड्यांचें म्हापशां एक ल्हानशें दुकान उकतें केलें. ल्हवूल्हवू

तांचो व्यवसायांत जम बसलो. वळखी वाडल्यो. मागीर तांणी ट्रॅव्हल एजन्सी सुरू केली. खरें म्हळ्यार आयज चडशीं बायलां नोकरेफाटल्यान धांवतात. नोकरी करप म्हळ्यार सोयीचें आनी सुशेगादीचें. पूण उज्वलाबाय हातांत पदवी आसतना नोकरेचे फाटल्यान वचनासतना स्वताच्या पांयार उबी रावली. समाजकार्यांत रस घेतलो आनी आपली कलेची आवड भागोवन घेतली.

एक बायल उद्योजक म्हणून तांणी देशांत दिल्ली, मुंबय, इंदोर, भुवनेश्वर हांगासर जाल्ल्या उदयेगीक प्रदर्शनांत तशेंच उदयेगा संबंदीच्या परिसंवादांनी परिशदांनी सक्रीय वांटो घेतलो आनी हे संबंदीचो बरोचसो अणभव तांचे गांठीक आसा.

खेळांत तांकां खास रुची आसा. एका काळार खेळांत तांणी इनामांय जोडिल्लीं. कलेचीय आवड. अभिनय करपांत फिशाल. ते खातीर तांकां गोवा कला अकादमीचे मराठी नाट्य सर्तींत उत्कृश्ट बायल अभिनयाचें इनामूय लाबलां.

उज्वलाबायकडेन केल्ल्या गजालींक मुलाखतीचें रूप आयलें तें अशें.

**□ नोकरेचे फाटल्यान वचनासतना तुमी व्यवसाय कित्याक आपणायलो? नोकरी मेळनाशिल्ली काय व्यवसायाची आवड आशिल्ली?**

म्हाका ल्हानपणासावन नोकरी व्हडलीशी आवडनाशिल्ली. कारण नोकरी म्हळ्यार सगळें रुटीन. सकाळीं उठप, घरचीं कामां करप, जेवणाचो डबो घेवप, नोकरेक वचप, परत येवप, परत रांदप... व्यवसाय हें म्हाका सदांच 'चॅलेंज' कशें दिसतालें. देखून हांव व्यवसायाकडेन वळ्ळें आनी म्हज्या कुळारा वो घोवाच्या घरा कोणूच नोकरी करनासले. सगळे व्यवसाय करपी. म्हणटकूच व्यवसाय-धंद्याचें 'बाळकडू' म्हाका भुरगेपणापसून मेळिल्लें म्हळ्यार जाता. तशी हांवें एक वर्स शिक्षिकेची नोकरी केली. पूण थंय म्हजें मन रमना जालें. हांवें ती नोकरी सोडली आनी ह्या व्यवसायाकडेन आयलें.

**□ तुमचें पयलीं रेडीमेड कपड्यांचें दुकान आशिल्लें. उपरांत तुमी ट्रॅव्हल एजन्सी सुरू केली. असो हो दोट्टी व्यवसाय कित्याक सुरू केलो?**

आमी सगळीं जाणात, आयचें यूग हें स्पर्धेचें यूग. नवीं नवीं कपड्यांचीं दुकानां उकतीं जायत आसात. शिवाय कपड्यांची आयची फॅशन फाल्यां ना अशी स्थिती. हे खातीर ह्या व्यवसायांत खूब जागृत रावचें पडटा. ह्या व्यवसायांत फायदो ना अशें ना. पूण ताचे परस त्रास कमी आनी फायदो चड अशी ट्रॅव्हल एजन्सी म्हाका बरी दिसली. आनी हांव ह्या व्यवसायाकडेन वळ्ळें. सध्याक दोनूय व्यवसाय चलतात.

**□ व्यवसाय म्हळ्ळें म्हणटकूच तातूत चड-उतार आयलेच. पूण एक बायलमनीस म्हण तुमकां व्यवसायांत केन्ना ठोंकर बसल्या, वो तुमी बायल म्हण केन्ना उणी**

पडल्यांत ?

अजिबात ना. म्हाका दिसता, हांव बायल म्हणून खंयच उणी पडूंक ना. उलट दादल्या परस हांव कूसभर चडूच काम करतां. कांय संस्थांकडेन म्हजो लागींचो संबंद आशिल्ल्यान म्हज्यो वळखी खूब. त्या वळखींचोय म्हाका व्यवसायांत खूब फायदो मेळटा. वळखींक लागून वेगळे विचार मेळटात. वेव्हारीक ज्ञानांत भर पडटा आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार दादल्यांपरस बायलांक चड पासियेंस आसता. व्यवसाय म्हणटकच बरें उलोवप खूब गरजेचें. तुसडेपण कोंताक येना आनी ती घडी म्हाका मुळासावन जमल्या. म्हाका तरी दिसता, व्यवसायांत फायदो जायच, पूण फायद्यापरस समाधान खूब म्हत्वाचें. एक बायल म्हण वो एक उद्योजिका म्हण म्हाका तें समाधान मेळटा. पूण व्यवसायांत हांव बायल म्हण खंयच उणी पडना हें शंबर टक्के खरें !

**□ एक उद्योजक म्हण तुमी यशस्वी जाल्यांत. तुमी बायलांक उद्येगधंद्याकडेन कशीं आकर्शित करतात ?**

नोकरी करप खरें म्हळ्यार सगळे वाटेन सोयीचें. कारण नोकरेक थरावीक वेळ दिवचो पडटा. पूण आजकाल नोकरी मेळटा खंय ? ती मेळना म्हण रडत बसचे परस एक ल्हानसो उद्येग कररप बरो. आतां सगळ्यांकूच व्यवसाय जमता अशेंय ना. पळय. नोकरी म्हणटकच शिक्षण आयलें. शिक्षण नाशिल्ल्या मनशांक थरावीक नोकऱ्यो आसात. स्वीपर, प्यून अशो. गांवगिऱ्या वाठारांतल्या बायलांक शिक्षण कमी आसल्यार तांणी लोणचें, पापड करपाचो ल्हानसो उद्येग करूं येता. आतां उद्येग म्हणटकूच भांडवल जाय. अखिल भारतीय महिला परिशद ल्हान ल्हान उद्येगां खातीर कर्ज दिता. कोणाकूय मोट्या प्रमांत कर्ज जाय जाल्यार तांणी महिला कॉपरेटीव्ह बँकेचे वतीन रीण घेवपाक जाता. बायलांक फकत उमेद जाय, इत्सा जाय. घरा बशिल्लेकडेन लेगीत एक ल्हानसो व्यवसाय करूं येता. इतलेंच न्हय, दर एके बायलेन आपले आवडी प्रमाण व्यवसाय निवडूं येता. ज्या कोणाक झाडांची आवड आसत तांणी नर्सरी करची, खाणां करपाची आवड आसल्यार खाणां करून विकचीं. कोणाक भरपा-शिंवपाची आवड आसल्यार तांणी तसलो उद्योग करून अवश्य स्वावलंबीपणान जगूं येता.

**□ स्त्रीमुक्ती, स्त्री-स्वातंत्र्य असो विचार आयज समाजांत घोळटा. थोडीं जाणां हो विचार पोटतिडकीन मांडटात जाल्यार थोडीं जाणां आपलींच फकाणां मारून घेतिल्लेवरी ह्या विचारांचीं फकाणां मारतात. हे संबंदी तुमचें चिंतप कितें ?**

आमकां मुक्ती जाय हें आमकां अजून सांगचें पडटा हें दुर्दैव ! आमकां आमचे दादले जाव समाज मुक्ती दितलो आनी उपरातूच आमी कितेंतरी करतलीं अशें समजून आमी ओगी बसल्यार शेणटलीं. पयस कित्याक वच, हांव म्हजेंच उदाहरण सांगतां.

म्हाका समाजसेवेची, कलेची जावं उद्येगाची खूब आवड. म्हज्या घरकाराक ही कसलीच आवड ना. म्हाका उत्तेजन दिवपाचें सोडात, पूण 'तुका कितें कमी आसा? तूं सुशेगाद घरा बस आनी संवसार कर' हें म्हज्या घोवाचें तत्वज्ञान. पूण म्हणून हांवें म्हजो हक्क, अधिकार जावं आवड केन्ना मारून उडोवंक ना. उलट तांकां म्हज्या स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाची जाणीव करून दिल्या. आनी म्हाका दिसता, स्त्रीमुक्तीचें हें पयलें सोपण. आमी आमच्या कुटुंबांतल्यान पयलीं स्वतंत्र जावंक जाय. जाल्यारूच आमी कितेंय करूंक पावतलीं.

☐ **म्हणजे उज्वलाबाय, हें सगळें जें तुमी करतात तें घोवाच्या मनाविरुद्ध? तशें जाल्यार तुमचे मदें वाद-तंटे आसतले?**

अजिबात जायनात. सगळें व्यवस्थित चल्लां. कारण तांचें जेवण-खाण, तांचे कपडे, मुस्तायकी तांकां वेळच्या वेळार मेळटा. म्हणटकूच आनीक उलोवपाची संद मेळना. आतां, घोवाचें सहकार्य आशिल्लें जाल्यार म्हजे कश्ट थोडे भौ कमी जावपाचे, इतलेंच.

☐ **तुमी व्यवसाय सांबाळटात, समाजसेवेंत आसतात. ह्या दोनूय कामांखातीर तसो खुबूच वेळ दिवचो पडटा. प्रत्यक्ष हांगा-थंय वावुरचें पडटा. अशा वेळार संवसाराचेर तुमची आडनदर जायना?**

बायल हुशार आसली जाल्यार ती सगळ्या कामांत हुशार आसता. म्हाका उद्योग करपाक जाय, समाजसेवाय करपाक जाय आनी कलेचीय आवड आसा. पूण आमकां घरांतल्यो सगळ्यो गजाली जाग्यार घालून भायर सरचें पडटा. म्हाका दोन धुवो. हांव चडशें घरा भायर आसतां. फाल्यां समजा, धुवेक कमी मार्क पडले जाल्यार कोणय म्हणटलो, आवयचें घरांत लक्ष ना! आमी धरूनच चल्ल्यांत, दादल्यान भायर रावल्यार जाता; आवयन घरांत लक्ष दिवपाक जाय. आनी तें खरेंय आसा. कारण भुरग्यांची भलायकी, तांगेलें जेवण-खाण हें आमी बायलांनीच पळोवपाचें आसता. आतां म्हजें एक चली सामकें शिवराक जेवपी जाल्यार एक चली सामकें मांसाहारी. तांकां जाय तशें वेळच्या वेळार दितां. तीं रातचीं अभ्यास करूंक बसलीं जाल्यार हांवूय तांचे बरोबर जागें रावतां. सांगपाक अभिमान दिसता, म्हज्यो दोनूय धुवो एस.एस.सी.क मॅरिटांत आयल्यात. हांवें तांचेर गरज तितलें लक्ष दिलें. म्हजो उद्योग, समाजसेवा जावं म्हजी कला तांचे शिक्षणाचे आड येवची न्हय अशें म्हाका दिसता.

☐ **तुमकां नाटकांत काम करपाची खूब आवड आसा. म्हाका दिसता, धा वर्सां पयलीं तुमचें 'अग्निपंख' हें नाटक हांवें पळयल्लें. आनी तेंच अंदू कला अकादमीचे सर्तींत जालें. तांतूंत तुमकां उत्कृश्ट अभिनेत्रीचो पयलो पुरस्कार फावो जालो. तुमी नाटकांत अभिनय करपाक केन्ना सुरवात केली?**

तशें हांव कॉलेजींत आसतना सांस्कृतीक कार्यावळींनी जायते फावटी भाग घेतालें.

म्हाका याद जाता, वीस वर्सांपयलीं हांवें एक नाटकुलें बरयल्लें, 'आमगेली ही शिवणक्लासीक वता' ह्या नांवाचें. तेन्ना कांय प्राध्यापकांनी तें कोंकणी म्हणून करपाक विरोध केल्लो. तेन्ना कोंकणीक व्हडली प्रतिश्ठा नाशिल्ली. पूण तांचेकडेन झगडून म्हणटात तशें तें नाटकुलें सादर केलें. तेंच नाटकुलें मागीर आकाशवाणीचेर 'फोडणी फोव' हे विनोदी कार्यावळींत खूब गाजलें. हो आदलो भाग. म्हज्या नाटकाची सुरवात खूब मजेशीर जाली. म्हापशेंची महारुद्र संस्था दर वर्सा नाटक बसयता. एका वर्सा तांणी 'बेईमान' हें तीन अंकी मराठी नाटक बसयल्लें. तातूंत मुखेल स्त्री भुमिका कोल्हापूरची एक व्यवसायीक नटी करपाची आसली. ह्यो व्यवसायीक अभिनेत्री नाटकाचे फकत एक दोन दीस आदीं येतात. व्यवसायीक जाल्ल्यान तीं आपलो अभिनय बरो करतात हाचे बद्दल प्रश्नूच ना. फाल्यां नाटक म्हळ्यार दोन दीस आदीं येवपाची नटी नाटकाच्या आदल्या दिसा पावलीच ना. नाटकाच्या हेर कलाकारांचेर व्हड आकांत आयलो. कारण तांणी उमेदीन नाटक बसयल्लें. ते सगळे आमगेर आयले. त्या वेळार म्हजीं भुरगीं ल्हान. येदो व्हडलो रोल आनी नाटक फाल्यां. कितें करचें कांय समजना. तांचे उमेदीचेर विरजण पडचें न्हय म्हण हांवें तें नाटक हातांत घेतलें. रातभर बसून संवाद पाठ केले. सकाळीं एक येसाय घेतली जाल्यार सगळे आपलें भाशण विसरून म्हाका पळयत उरले. कारण म्हजें भाशण बरेंच पाठ जाल्लें. पूण एक सांगतां, त्यावेळार म्हजो घोव गांवांत नाशिल्लो, परदेशांत गेल्लो. तो आसल्यार म्हाका रिस्क घेवपाक दिवचो नासलो. सरळ नाकाच म्हणपाचो. नाटकाच्या मळार घडिल्लो हो प्रसंग एखाद्र्या नाटकांतूच सोबून दिसपासारको, न्ही ?

उज्वलाबाय स्वावलंबी तेचपरी स्वयंभू. दीसरात कश्ट उसपीत रावप आनी कोणतरी आपल्या कश्टांचें चीज करतलो म्हण अहिल्येवरी शीळा जावन पडून रावप ही उज्वलाबायची प्रवृत्ती न्हय. हेच प्रवृत्तीक लागून उज्वलाबाय सामाजीक मळार परजळटा.



## स्विकारिल्ल्या कामांक न्यायाकडेन व्हरपी यशस्वी वकील

# अनार अग्नी

---

आमची संस्कृती पुरूशप्रधान. दादल्यांक सुमाराभायर म्हत्व जाल्यार बायलांक सामकी उणाक वागणूक. अशा समाजांत घराब्यांत पयली चली जावप म्हळ्यार खोस पूण तातूंत एक चुरचुरो, चलो जावपाचो! पूण त्याच घराब्यांत एकार एक पांचूय चलयोंच जाल्यार कितें? आवय बापायच्या कपलार मेजूंक जायना अशो असंख्य आठयो पडपाच्यो. जल्मापसून ते चलयांच्या लग्नामेरेन.

पूण ह्या आठयांक दोन कपलां आडवाद आसात. डॉ. सावळो केणी आनी सौ. सुधा केणी हांगेलीं कपलां. डॉ. सावळो केणी व्यवसायान वैज आनी गोंयांतले जाणटेले पिळगेचे नामनेचे अशे नाट्यकलाकार. तांगेली घरकान्न सुधाबाय एक सुलक्षणी गृहिणी. दोगांकूय पांच चलयो. निरुपा, उज्वला, उमा, अनार आनी मेधा. सगल्यांचीं लग्नां जाल्यांत. सगल्यांक बरे कर्तुत्वी अशे जीवनसांगाती लाबल्यात. पूण केणी कुटुंबाच्यो ह्यो धुवो फकत आपणाल्या घोवाच्या कर्तुत्वाचेर जगनात जाल्यार समाजांत स्वताचें अशें वेगळें स्थान निर्माण करून आसात. हाचें बरेंचशें श्रेय डॉ. सावळो केणी आनी सुधाबाय हांकां फावो जाता.

ह्या पांचांतलें एक कर्तुत्वी चली म्हळ्यार वकिलीचो पेशा आपणायिल्लें ॲड्. अनार अग्नी. मॅट्रीक मेरेनचें तांचें शिकप रायबंदरच्या बालभारती विद्यालयांत जालें. बी.ए. मेरेनचें शिकप धेंपो कॉलेजींत केलें. कायद्याचें शिकप साळगांवकार लॉ कॉलेजींत केलें. सद्याक तें पणजेंत आपणालो वकिली व्यवसाय चलयता.

सावळोबाब आनी सुधाबाय हांणी आपणाल्या चलयांक मुखार येवपाक खूब उत्तेजन दिलें, मेकळीक दिली. पूण त्याच बरोबर भुरग्यांक उत्तेजन दिवपाचे बाबतींत तांणी आपलीं भुरगीं आनी दुसऱ्यांचीं भुरगीं असो भेदाभेद केन्नाच केलो ना. ह्या आदर्श अशा आवयबापायन पांचूय चलयांक चल्यांभशेन वाडयलीं. घडये चलो नाशिल्ल्यान अदिकूच जतनायेन वाडयलीं अशें म्हणूं येता. चलयांची मावशी कवयित्री विजयाबाय सरमळकार हांणी भुरग्यांचेर बरे संस्कार केले.

रायबंदरा भुरगेपणा पासून ह्या कुटुंबाकडेन म्हजो संबंद. तांचेकडसून जायते फावटी

म्हाकाय शाबासकी लाबल्या. आदींपसून म्हाका ह्या कुटुंबाविशीं ओड आनी कुतुहल. अनारबायची वळख तशी मुखार तिगून उरली. पणजेंत अदींमदीं मेळप जाता पूण अनारबाय सदांच कामांत गुल्ल. तरी आसतना वेळ थारावन तांगेली मुलाखत घेतली.

**□ तुमी वकिलीच्या व्यवसायाकडेन कशीं वळ्ळीं ?**

म्हाका भुरगेपणापसून नाटकानी कामां करपाची आवड आशिल्ली. म्हजो बापूय हे खातीर म्हजी खूब तोखणाय करतालो. तोखणाय करतना केन्ना तरी ताणेंच म्हज्या मनांत घालें की हांव एक बरें वकील जावपाक शकतां. ताच्या म्हणण्याप्रमाण नाटकांत हांव म्हजी भुमिका वठयतना संवादफेक अचूक करतां आनी संवादांतल्या विचाराचो प्रेक्षकाचेर योग्य असो परिणाम जाता. म्हाकाय हें केन्ना तरी पटलें. कॉलेजींत आसतना प्रो. आफोंसो हांणी क्लासींत एके खेपे प्रत्येक विद्यार्थ्याक मुखार तूं कोण जातलें असो प्रस्न विचारलो त्यावेळार जशें काय समळें थरिल्लेभशेन म्हज्या तोंडातल्यान आपसूक उतरां भायर सरलीं: 'हांव वकील जातलें'. म्हज्या सुदैवान हांव बी.ए. जायनाफुडें म्हाका गोंयांतूच एल.एल.बी. करपाची आयतीच संद लाबली. पणजे साळगांवकार लॉ कॉलेज सुरू जालें आनी थंय म्हाका प्रवेश मेळ्ळो. ना जाल्यार म्हाका वकिलीचें शिकप करपाक मुंबय वचचें पडटलें आसलें.

**□ तुमचो जीवन सांगाती वेंचून काडटना तुमी तुमच्याच म्हळ्यार न्यायदानाच्या क्षेत्रांतलोच मनीस वेंचून काडलो. हो योगायोग काय तुमच्या करियराक मदत जावची म्हण अशें केलें ?**

ह्या क्षेत्रात हांव वकिलीचे आवडीक लागून आयलें. घोव वकिलूच जाय असो म्हजो आग्रो नाशिल्लो. पूण समव्यवसायांत आशिल्ल्यान आमची वळख वाडत गेली. वळखीचें रुपांतर प्रेमांत जावन आमी लग्न जालीं. आनी नकळटना म्हजें करिअर घडोवपाक ताचो म्हाका हातभार लागलो.

एका न्यायाधिशान म्हजेर लग्ना उपरांत मारिल्लो एक कॉमेंट मात म्हाका याद जाता. ताणें म्हळें, 'बायलां ह्या क्षेत्रांत येतात तीं बरो जोडीदार सुतलावपा खातीरूच.'

**□ तुमचो घरकार अजीत अग्नी एक बरो नांवाजतो वकील. आतां एक न्यायाधीश. तुमचेकडेन ज्यो केसी येतात त्यो घोवाक लागून काय तुमी त्यो समर्थपणान चलयतात म्हणून ?**

लग्नापयलीं हांव ॲड. श्रीधर तांबा हांच्या हाताखाला वकील म्हण काम करतालें. लग्ना उपरांत घोवाच्या हाताखाला काम करपाक लागलें. तागेल्यो कांय केसी म्हाका अभ्यासच्यो पडटाल्यो. हो अणभव म्हाका खूब बऱ्याक पडलो. आतां ज्यो केसी म्हजेकडेन येतात त्यो म्हज्याच कर्तुत्वाक लागून येतात हें जितलें खरें तितलेंच हेंवूय

खरें कीं, आर्दीं येताल्यो त्यो केसी घोवाक लागुनूच येताल्यो.

□ **बायलांचे प्रस्न बायलांच बरेतरेन समजून घेवपाक शकतात, मांडूंक शकतात अशी एक विचारधारा आसा. तुमचेकडेन येवपी बायलांसंबंदीच्यो केसी हेचखातीर येतात? काय सरसकट एक केस ह्याच अर्थान येता?**

म्हजेकडेन बायलांच्यो केसी चड येतात. तातूंत चडश्यो घटस्फोटाच्यो. एकाद्री केस वयलेवयर दिसपाक खूब सादी दिसता पूण भितर लक्ष घालतकूच भितल्ली गुंतावळ दिश्टी पडटा. एक बायल म्हणून म्हाका हें सगळें रोखडें होलमता. बायलांची अशीच एक केस हांव कोर्टांत मांडटालें. कोर्ट जातकूच एका दादल्यान सहज म्हळें, 'हे वकील बायलेन ही जी केस मांडली तातूंत कितें तथ्य आशिल्लें?' अशें म्हणून तो विसरूनच गेलो. तागेलीं उतरां मात म्हज्या काळजाक झोंबलीं. पूण दोन वर्सांनी तोच मनीस हांव ताची केस बरे तरेन लडयतलें म्हण भरवंशान म्हजेकडेन आयलो तेन्ना म्हाका म्हज्याच कर्तुत्वाचो अभिमान दिसलो.

□ **तुमी जायत्यो केसी चलयल्यो. तुमच्या व्यवसायांतलो हो रुटीन भागूय आसुंयेता. पूण एखाद्री आगळी-वेगळी अशी केस आसा? जातूंत केस अभ्यासपाक खूब कश्ट पडले आनी तुमची न्हीद खळ्ळी?**

केस ल्हान आसूं वो व्हड आसूं, तिका न्याय मेळोवन दिवपाखातीर अभ्यास करचोच पडटा. कुटुंबीक प्रकरणां आसतात. घोव-बायलेन एकामेकांक सोडपाचीं, भावबंधांमदलीं झगडीं, हुंडाबळी, खून, आत्महत्येसंबंदीचीं प्रकरणां अशो तरातरांच्यो केसी हांवें चलयल्यात. रुटीन अशो न्हय. तातुंतल्यो जायत्यो केसी म्हजे यादींत बरेतरेन आसात. पूण अशी एक केस म्हज्या यादीच्या करंडांत आसा जे केसीन म्हज्या काळजाक पिवळ घाला. एका फ्रेंच कुटुंबाची ही गजाल. घोवा-बायलेमदीं वितुश्ट उप्रासलें आनी घोव आठ आनी णव वर्सांच्या दोन भुरग्यांक घेवन फ्रान्सांतल्यान गोंयांत आयलो. कायद्याच्या आदारान ताणें भुरग्यांक आपलेकडेन दवरलीं. उपरांत तागेली बायल गोंयांत आयली आनी त्या भुरग्यांचेर आवय म्हणून तिणें कोर्टांत दावो केलो. उपरांत कोर्टान अशी ऑर्डर दिली की दोनूय भुरगीं कांय दीस आवयकडेन येवन-वचून उरतलीं. पूण त्या भुरग्यांक आवयपासून पैस रावपाक इतलीं तयार केल्लीं की आवयकडेन वचचीं नात म्हूण तांणी कोर्टांतूच व्हडलो आकांत मांडलो. दुसरेवटेन भुरग्यांचे ओडीन आवयन आकांत केलो. ही केस अजून चलता. निमाणो निर्णय जावंक ना पूण भुरगीं मात्शीं मात्शीं आवयच्या वासाक रावतात. हे केसीन म्हाका जाणवलें तें अशें की खंयच्याय जाती-धर्माचे लोक आसूं, खंयच्याय प्रदेशांतले आनी राष्ट्रांतले आसूं, तांचे मदलें आवय-भुरग्याचें, बापूय-भुरग्याचें नातें हें अभेद्य, चिरंतन स्वरुपाचें.

□ **तुमी एक वकील. समाजांतली एक म्हत्वपूर्ण घटक. वकील जाल्ल्यान**

**बायलांच्या प्रश्नांकडेन तुमचो लागींचो संबंद येता. अशा वेळार 'स्त्री मुक्ती' संबंदान तुमची कल्पना आनी भुमिका कितें ?**

स्त्री मुक्ती पूर्ण अर्थान जाल्या अशें म्हणप समा न्हय. थरावीक समाजांतल्यो चार बायलो शिकून वयर सरल्यो, नामनेक पावल्यो आनी स्वताचें कर्तुत्व तांणी सिद्ध केलें म्हणून सगल्यांक स्त्री मुक्ती जाली अशें म्हणपाक जावचें ना. सगल्या थरांतल्या बायलांक स्वातंत्र्य आनी तांगेले हक मेळपाक जाय. चड करून तळागाळाच्या समाजांतल्या बायलांक आपल्या हक्काची जाणीव जावपाक जाय. ते नदरेन यत्न जावपाक जाय.

बायल आनी दादलो हांचेमदीं भेद ना म्हणपाचें आमकां महात्मा गांधीनी केन्ना सांगिल्लें. पूण आयज आमी तो विचार अंमलांत हाडपाक वावुरतात. आजुनूय आमच्या घरांत चलयेन बेगीन घरा येवचें असो आग्रो आसता. अर्थांत हांवूय हे गजालीक आडवाद ना. म्हजेय चलयेक म्हजी हीच सांगणी आसता. पूण म्हगेर चलो आशिल्लो जाल्यार ताकाय म्हजी हीच सांगणी आसपाची. फकत चलयेन बेगीन घरा येवचें आनी चल्यान केन्नाय आयल्यार जाता हे वेगळेचाराचे वागणुकेक लागून घडलें कितें ? आमचे चले, भुरगे भायल्या नादांक लागले. सोररो, सिगरेट, अफू, गांजा, ड्रग्स हांचे नादाक लागले. आयज चलयांचो हुसको करपाची गरज ना. गरज आसा चल्यांचो हुस्को करपाची.

☐ **अनारबाय, तुमकां घरची नाट्यकलेची परंपरा लाबून एका काळार तुमी गोंयांतले स्पर्धात्मक माचयेचेर एक यशस्वी स्त्री कलाकार म्हण नामना जोडिल्ली. गोंयांत आनी महाराष्ट्रांत तुमच्यो भुमिका गाजिल्ल्यो. तुमकां इनामांय लाबिल्लीं. तुमी वकील जार्ली आनी रंगमाचयेवेल्या तुमच्या कर्तुत्वाचेर पड्डो घालो. अशें कित्याक ?**

म्हजो वकिली व्यवसाय. म्हज्या व्यवसायाचो हेतू म्हळ्यार हांवें हातांत घेतिल्ले गजालीक न्याय मेळोवन दिवपाक वावरप. हांव हें काम निश्ठेन आनी सचोटीन करतां. म्हाका नाटकाविशीं आजुनूय ओड आनी मोग आसा पूण वेळाक लागून हांव थंय 'न्याय' दिवपाक शकना. तरी पूण हांवें कलेच्या मळार सामकोच पड्डो घालूंना. हालींच एका तियात्रांत काम केलें. फिल्मांतूय एकाद्री ल्हानशी भुमिका लाबली जाल्यार हांव ते संदीचो फायदो घेन.

हेर व्यवसायक्षेत्रांत गर्दी आनी सर्त आसता. वकिलीच्या व्यवसायांत तशी स्थिती ना. पूण हांगासर उसरपत घेना आसतना कश्ट घेवचे पडटात. संवसार-घरदार, लग्नकार्यां, सण-परबो हातूंत घुस्पून पडून फाविल्ल्या वेळांत करपाचो हो व्यवसाय न्हय. हांगासर पुराय रितीन झोकून दिवचें पडटा. अभ्यास, सातत्य राखचें पडटा, लोकांचो विश्वास जोडचो पडटा. अनारबाय ह्या सगळ्या कसवट्यांचेर उतरलां देखूनच यशस्वी जालां.

## गोड गळ्याची, नम्र स्वभावाची हौशी गायिका

# रजनी ठाकूर

---

कलेच्या मळार नखेत्रां जावन पर्जळपी जायतीं बायलां आमी पळयतात. तांची नोंड भरून तुस्त तोखणायूय करतात.

तांगेल्या यशाची चवकशी करतना आमकां दिसता, हांकां घरांतल्यान कोणेंतरी उत्तेजन दिलां, सागाती जावन वो गॉडफादर जावन. पूण अशींय कांय नखेत्रां आसतात जीं कोणाचो आदार नासतना आपूण जावन लिकलिकतात आनी मागीर तांची तोखणाय करतना उतरां उणीं पडटात. श्रीमती रजनी ठाकूर अशेंच एक स्वयंप्रकाशी नखेत्र!

गोंयांत कलेच्या मळार रजनी ठाकूर हें नांव सगल्यांक वळखीचें. आकाशवाणी दूरदर्शनाची ही एक गायिका. कसल्याय सांस्कृतीक वो सामाजिक समारंभाच्या आरंभाक आपणाल्या म्हॉवाळ आवाजान येवकार गीत, ईशस्तवन गावन सुवाळ्यांक रंगत हाडपी.

हांसन्या आनी प्रसन्न मुखामळाचें हें व्यक्तिमत्व म्हळ्यार गोंयच्या कलेच्या तळ्यांतलें हालतें धोलतें साळक म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

आयज संगिताच्या क्षेत्रांत गोंयांत तरी हौशी कलाकारांक बरी संद आसा. संगिताच्या मळावयल्या कलाकारांक जो मोबदलो मेळटा तो हेर मळांवयल्या हौशी कलाकारांक मेळना. ह्या क्षेत्रांतले गावपी, वाजोवपी कलाकार ते नदरेन बरे स्थितींत आसात. रजनी हौशी कलाकार, पूण ह्या हौशी गावप्यांपरस तें वेगळें आसा.

रजनी सभावान नम्र. जितल्या गोड आवाजान गायतलें तितल्याच गोड आवाजान उलयतलें. उलयतना वागतना कसलेच भपके नात. आपले परस अदीक पिरायेच्या मनशांक जितलो मान दितलें तितलोच आपले बरोबरच्या मनशांचो आदर करतलें.

रजनीचो जल्मगांव पुणें. ताची आवय गोंयची, म्हळ्यार काणकोणची आनी बापूय पुणेचो म्हणटकूच साहजिकूच तीं पुण्याक स्थायिक जालीं. तांचें कुटुंब गोखले आडनांवाचें.

ल्हानपणासावन रजनीक नाचाची खूब आवड. तें तेन्ना पांच वर्सांचें बालकलाकार. सिनेनट सूर्यकांत, राजा गोसावी, वसंत शिंदे, गोपीकृष्ण हांचो सहवास ताका लाबलो. तांच्या सहवासांत ताणें नाचाच्यो कार्यावळी केल्यो. नाचाचें खास अशें शिक्षण नाशिल्लें

पूण पांय तालार पडटाले. अशेंच एक दीस नाच करता आसतना व्ही. शांताराम हांची नदर बालकलाकार रजनी गोखलेचेर गेली.

तांणी रोखडेंच ताच्या बापायक विचारलें, 'ह्या भुरग्याक म्हाका तूं पोसकें दिशी?' आपलें भुरगें कलेच्या मळार पर्जळचें अशें आवय-बापायक दिसप सभावीक. पूण ते खातीर पोटच्या पोराक कोण शाणो मनीस पोसकें दीत? आवयक मात रजनीच्या नाचाविशीं खूब आस्था आशिल्ली. ताका नाचाचें शिक्षण दिवपाखातीर तिचे यत्न चालू आशिल्ले. पूण ह्या पोराचें दैवूच घुंवलें. स वर्सांचें आसतना आवय ताका अंतरली आनी आज्यान ताका गोंयांत हाडलें. काणकोणसारक्या गांवगिऱ्या वाठारांत शिक्षण दिवप खूब कठीण आसलें. देखून ताका मडगांवां तागेली मामी कमलिनी पैंगीणकार हिगेर दवरलें. हांगा तें ल्हानाचें व्हड जालें. मडगांवच्या महिला नूतन मराठी विद्यालयांत ताणें एस्.एस्.सी. मेरेनचें शिक्षण पूर्ण केलें.

तें गायनाच्यो ल्हान-ल्हान कार्यावळी करतालें. त्या वेळार मनोहरबुवा शिरगांवकार, आदले मुखेलमंत्री भाऊसाहेब बांदोडकार हांणी ताचें खूब कवतूक केलें.

तें सैमीक रितीन गायत रावलें. लोकांक दिसलें, हेरांभाशेन हाणेंय गायनकलेचे धडे चिरल्यात. आनी रजनीकूय दिसलें, हें अशेंच चलपाचें.

अशीच गाण्याची मैफल चालू आसतनाच श्री. विष्णू ठाकूर ह्या तरणाट्याक रजनीच्या मधूर आवाजान भूल घाली. त्या आवाजाच्या आनी व्यक्तिमत्वाच्या तो प्रेमांत पडलो. आनी १९७४ वर्सा रजनी गोखलेचें सौ. रजनी ठाकूर जालें.

मागीरचीं धा बारा वर्सां तें संवसारांत गुल्ल जालें. दोग चले जाले. एक राहूल आनी दुसरो रोहन. उपरांत केन्नाय ल्हानसो कार्यक्रम आसल्यार रजनीताई वतालें. घोवूय ताका आडायना आसलो. वयल्यान उत्तेजनूच दितालो.

गावपाची ताका खर इत्सा आसली. भुरगीं व्हडलीं जावपाची वाट तें पळयतालें आनी इतल्यांत दुर्दैवान खर आघात केलो. ताच्या घोवाक अकाली मर्ण आयलें. हातुंतल्यान आतां आपूण उठचेंच ना अशें ताका दिसलें. पूण त्या वेळार कांय आदाराचे हात मुखार आयले आनी श्रीमती रजनी ठाकूर स्वताच्या व्यक्तिमत्वाच्या बळग्यार उबें आसा.

आयजवेर ताणें गोंयांत गायनाच्यो जायत्यो कार्यावळी केल्यात. मुंबय, दिल्ली आकाशवाणीचेर ताणें गितां गायल्यांत. दूरदर्शनाच्या मुंबय आनी पणजी केंद्रांवयल्यान ताच्या गितांच्यो कार्यावळी प्रसारीत जाल्यात. पणजी दूरदर्शनान निर्माण केल्ल्या 'मुक्ता', 'तुळशी', 'सांगाती' ह्या टेलिफिल्मांनी ताणें मुखेल गायिका जावन शीर्शक गीतां तशेंच हेर गितां गायल्यांत. रसिकांचीं मनां आनी काळजां जिखल्यांत.

६ एप्रिल १९९६ दिसा कला अकादमींत भावगीत गायन महोत्सव जालो तातूंत

रजनीताईन 'धुंद मधुमती' हें गीत खूब सुंदर रितीन सादर केलें. प्रेक्षकांच्या काळजाक ताणें हात घालो. ताका त्या व्यासपिठार पळोवन म्हजें मन भरून आयलें. नामनेचे संगीतकार पंडित यशवंत देव हांचें संगीत, उत्तरा केळकर, रंजना जोगळेकर, गजानन वाटवे, श्रीधर फडके, बबनराव नावडीकर, रवीन्द्र साठे ही मंडळी मराठी भावगीत क्षेत्रांतली दिग्गज. पूण हांचे मुखार प्रताप आमोणकार आनी रजनीताई खंयच कमी पडलीं नात.

म्हाका तो कवतूक आनी अभिमानाचो खीण आसलो. कार्यक्रम सोंपनाबरोबर माधवीताई देसाई, प्रदीप तळावलीकार, विनायक खेडेकार हांणी तांचें अभिनंदन केलें. ह्या अभिनंदनांत म्हजोय एक हात आसलो. रजनीताईची मुलाखत घेवपाचें मनांत आसलेंच. पूण ह्या प्रसंगान ती संद बेगीन आयली. कला अकादमींत घडिल्ले मुलाखतीचो हो संकलीत भाग.

**☐ रजनीताई, संगीताची आवड तुमकां भुरगेपणापसून. आपूण एक गायिका म्हणपाचो सोद तुमकां केन्ना लागलो?**

खरें म्हळ्यार, आयजवेर म्हाका कोणेंतरी पद म्हण म्हणून सांगलां आनी हांव गायलां. संगिताची जाण म्हणटात ती शास्त्रशुदध घेतल्यारूच येता. पूण म्हजें दुर्दैव म्हळ्यार म्हाका गॉडफादर म्हणटात तसो कोणूच लाबलो ना. लोकांनी म्हाका उमेद दिली, तोखणाय केली. पूण हांवें नेमकें कितें करपाक जाय तें म्हाका कळ्ळेंच ना. तुकाच न्हय, पूण सगल्यांक आयकून अजाप दिसतलें, तें म्हळ्यार म्हाका खऱ्यांनीच संगिताची जाण ना. म्हाका आवाजाची देणगी आसा पूण त्या आवाजाक योग्य साज दिवपाक खूब कळाव जालो. आतां म्हाका दिसता, अजून वेळ वचूंक ना. आजुनूय म्हज्यान खुबशें करूं येता.

**☐ आयजवेर तुमी खंय खंय गितांचे कार्यक्रम केल्यात? तुमकां लोकांचो प्रतिसाद कसो मेळ्ळो? कार्यक्रम करता आसतनाचो एकाद्रो यादींत उरपासारको प्रसंग? वायट वा बरो?**

हांवें फकत गोंयांतूच कार्यक्रम केल्यात. तसो म्हाका लोकांचो बरो प्रतिसाद लाबला. कांयकडेन म्हज्या मनासारको कार्यक्रम जावंक ना हाची म्हाका खंत भोगता. पूण अविस्मरणीय प्रसंग म्हळ्यार ज्या व्यासपिठार पं. यशवंत देव हांच्या मार्गदर्शनाखाला एक भावगीत गायलें आनी असंख्य लोकांच्या टाळ्यांचो कडकडाट जालो तो प्रसंग हांव केन्नाच विसरचेंना.

**☐ आयजवेर तुमी जायतीं गितां गायलीं. आकाशवाणीचेर, दूरदर्शनाचेर जावं हेर कार्यावळींनी. हातूंत तुमचें आवडटें गीत खंयचें?**

आयजवेर हांवें आकाशवाणीचेर जायते कार्यक्रम केल्यात. हांव थंय बी-ग्रेडचें कलाकार आसां. पूण गोंय दूरदर्शनाचेर म्हजी सुरवातूच खूब बरे तरेन जाली. हांवें 'मुक्ता' ह्या टेलिफिल्माचें शिर्शकगीत गायलें. म्हजी ही पयली मुलाखत घेवपी तूंच आसा, आनी कोणूय दुसरो आशिल्लो जाल्यार म्हाका कांयच दिसचें नासलें. हांव सांगपाचें, ज्योती कुंकळकाराच्या 'मुक्ता' टेलिफिल्माखातीर हांव दूरदर्शनावयल्यान लोकांच्या घराघरांत पावलें. 'कोण एक मुक्ता' हें गीत लोकांक खूब आवडलें. म्हाका जायतीं पत्रां आयलीं. आनी म्हाका दिसता, 'मुक्ता' तीन फावटी दूरदर्शनान वितरायलें. तुजे 'मुक्ता' हे पटकथेच्या पुस्तकांतूय जायत्या मानेस्तांनी म्हजी तोखणाय केल्या आनी हें गीत म्हाका खूब आवडलें हाचें श्रेय हांव प्रताप आमोणकाराक दितां. ताणें त्या गिताक खूब बरें संगीत दिलें आनी ताचे बरोबर हांवें तें गायलें. उपरांत म्हाका आनी प्रतापाक दूरदर्शनाचेर 'देखण्या गिता'ची ऑफर आयली. तशेंच मागीर 'तुळशी' आनी 'सांगाती' ह्या टेलिफिल्मांक हांवें गीतां गायलीं. पूण 'मुक्ता' शिर्शकगीतान म्हजो आत्मविस्वास वाडयलो आनी म्हाका खूब प्रसिद्धी दिली अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

☐ **साहित्याच्या मळार कितलेंय बरोवप केलें तरी त्या बरोवप्याचें एक लेगीत पुस्तक आयलेबगर समाज ताची दखल घेना. संगिताच्या क्षेत्रांतूय हें उदाहरण लागू जाता. तुज्या ऑडियो गितांची एखाद्री कॅसेट अजून कित्याक येवंक ना?**

तशी ऑफर म्हाका एक-दोन फावटी आयिल्ली पूण तेन्ना म्हज्या आरोग्यान साथ दिली ना. 'देखणी दुराय' ह्या व्हिडियो फिल्माखातीर राजीव शिंदे हांणी म्हाका विचारिल्लें. आमच्यो येसायो जाल्यो पूण ऐनवेळार हांव बरें नाशिल्ल्यान मुंबय वचपाक पावलें ना. आनी अशो संदी गोंयांत तर साप कमी मेळटात. स्वता जावन कॅसेट काडपाचो विचार हांवें केन्ना केलो ना, कारण म्हाका म्हज्या गायनाविशीं तितलो आत्मविस्वास नाशिल्लो. आनी 'तुजी कॅसेट येवपाक जाय' अशें कोणें म्हाका सांगलेंय ना. आतां हांव विचार करपाक लागलां, अखेर हांवूय कोणतरी आसां. हांव कितें हें दाखोवपाक कॅसेटी सारको दुसरो पुरावो ना.

☐ **आयजवेर तुमी कोंकणी आनी मराठींत खंयच्या खंयच्या गीतकारांचीं गितां गायल्यांत? तुमचो आवडटो असो गीतकार खंयचो?**

म्हाका शांता शेळके आनी बाकीबाब बोरकार हे गीतकार खूब आवडटात. कारण तांच्या उतरांनी गेयता भरिल्ली आसता. तशीं हांवें जायत्या गीतकारांचीं गितां गायल्यांत. मराठींतले ग. दि. माडगुळकर, मंगेश पाडगांवकर तशेंच कोंकणींत देखणीं गितांखातीर भिकाजी घाणेकार, गजानन रायकार, विजयाबाय सरमळकार, पुंडलीक नायक हांचीं गितांय हांवें गायल्यांत.

☐ **घरांत संवसाराची घडी व्यवस्थित आसून लेगीत कुटुंबांतले बायलमनशेन**

**समाजांत कितेंय कर्तृत्व दाखोवपाचें जाल्यार तिका असंख्य अडचणी येतात. तुमची स्थिती हाचेपरस वेगळी ना. तुमी हातुंतल्यान कशी वाट काडटात ?**

घरच्यांचो खूब आदार आसा. म्हज्या घरकाराचें अकस्मात निधन जालें. घरांतलो करतो-सवरतो दादलोच ना आतकूच सगळेंच वटेन त्रास. हांव मुळासावन हाललें. पूण एक प्रसंग म्हाका याद जाता. घोव वचून तिनूच म्हयने जाल्ले. म्हाका कला अकादमींत एका कार्यक्रमाचें आमंत्रण आयलें. हांव वचचें ना म्हण आसलें. पूण म्हजी धाकली जाव पूजा आनी देर अनंत हांणी म्हाका समजायलें आनी हांव कार्यक्रमाक गेलें. लोक कितेंय उलयतात. बायलेन अशें कितेंय करचे परस मुळूमुळू रडत बशिल्लें समाज पसंत करता. कांय जाण म्हाका तशें म्हणटातूय बी. पूण असल्या वेळार म्हजो व्हडलो चलो राहूल म्हाका खूब सहकार्य दिता. पिरायेन ल्हान आसून जाणट्यां भाशेन वागता. अस्वस्थ मनस्थिती वेळार म्हाका श्रीमती शालिनी सावकार हांणी खूब आदार दिला. धीर दिला. म्हाका दिसता, आयज हांव रजनी ठाकूर म्हण उबें आसां तें तांचे सगळ्यांचे कृपेन म्हळ्यार जाता.

रजनी गोंयचें हौशी कलाकार. गायन ही खऱ्या अर्थान ताची हौस आसा. खंयचेय संस्थेच्या समारंभाचें आमंत्रण तें स्विकारतलें. ईशस्तवन वो पसायदान गावपाक येतलें. पूण पैशांची आस्त धरचें ना. दिल्यारूय घेवचें ना. वयल्यान आपूण आपल्या खर्चान समारंभाचे सुवातेर येतलें आनी वतलें. पूण त्याच बरोबर एक गजाल मात विसरनासतना करतलें. ती म्हळ्यार आपले बरोबर येवपी तबलजीक वो तानपुरो वादकाक तागेलो मोबदलो आयोजकाकडल्यान मेळटलो म्हणपाची खात्री करतलें. रजनीचो हो सभावगूण तागेल्या कलाकार व्यक्तिमत्वाक खूब उबारी हाडटा.

* * *

# कर्तुत्वी कन्या



माधवी देसाई



शारदा राजशेकर



डॉ. माया घाणेकार



संगीता परब



शीला नायक गावणेकार



व्हिक्टोरिया फेर्नांडीस



वर्षा उसगांवकार



हर्षदा केरकार



मीना काकोडकार



विजयादेवी राणे



ॲड्. अनार अग्री



कालिमा डीसा



उज्वला सामंत नारकार



आयरीन कार्दोज



उज्वला नाटेकार



हेमा नायक



आशा सावर्डेकार



## ज्योती कुंकळकार

भुरगेपणासावन कलेच्या आनी साहित्याच्या मळार वावुरता. कथा, कादंबरी, कविता, नाट्यलेखन ह्या साहित्यप्रकाराभायर मुलाखत ह्या प्रकाराचेर भर दिला.

आयजवेर 'चित्रांतलें वादळ', 'मुक्ता', 'कर्तुत्वी कन्या' हीं कोंकणी जाल्यार 'ओला पदर', 'रंगतारका' हीं मराठी पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. पणजी आकाशवाणीखातीर कविता, कथा, संवाद, नभोनाट्य आदी विविध साहित्य प्रकाराचें लेखन केलां. तेभायर राष्ट्रीय प्रसारणांतल्या नाटकांचे कोंकणी अणकार केल्यात. पणजी दूरदर्शनाखातीर विविध कार्यक्रमांचें सादरीकरण केलां. तेभायर कथा, पटकथा, संवाद रचना करून 'मुक्ता' आनी 'सांगाती' ह्या दोन टेलीफिल्मांचें प्रस्तुतीकरण केलां. 'देखणी दुराय' ह्या फिल्मांत भुमिका करून सहनिर्माती म्हण वावुरल्या.

### इनामां आनी पुरस्कार

□ आकाशवाणीच्या अखिल भारतीय नभोनाट्य लेखन सर्तींत (१९९५-९६) 'शंबर टक्के बुदवंतराय' ह्या नभोनाट्याक कोंकणींतलो विनोदी विभागांतलो पुरस्कार □ गोमंतक मराठी अकादमी, कोंकणी भाशा मंडळ, सरस्वती मंदिर, प्रागतिक विचार मंच आदी संस्थांची साहित्यिक इनामां आनी पुरस्कार □ कला अकादमीच्या कोंकणी आनी मराठी नाट्यमहोत्सवांत तशेंच उडुपी हांगच्या अखिल भारतीय कोंकणी नाट्यसर्तींत अभिनय, दिग्दर्शनाखातीर इनामां □ गोवा राज्य चित्रपट महोत्सवांत (१९९७) 'सांगाती' फिल्मांतले भुमिकेखातीर सर्वोत्कृष्ट सहायक अभिनेत्रीचो पुरस्कार □ 'देखणी दुराय' फिल्माचे निर्मितीखातीर अखिल भारतीय महिला परिशदेचो 'गोमंत तेजस्विनी पुरस्कार' १९९६ □ सहनिर्मिती आशिल्ल्या 'देखणी दुराय' फिल्माक पयल्या गोवा राज्य चित्रपट महोत्सवांत सर्वोत्कृष्ट फिल्माचो पयलो पुरस्कार.

ISBN 81-86488-61-8